# Gondu

(Konkani Novel by N. D. Borkar)



**पयली उजवाडावणी :**
जानेवारी २००९

**प्रकाशन क्र.५७**

**प्रकाशक**
दिलीप बोरकार
बिम्ब प्रकाशन
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स, आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४१०५३५

**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन

**छापणावळ**
इम्प्रेशनस्
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९०००२

**दर्शनी चित्र**
गिरिश नंदा बोरकार

मोल : रु. २००/-

*गोंयच्या फुटबॉल मळार*
*ज्या गोंयकारांनीं*
*संवसार गाजयला*
*तांच्या कर्तुत्वाक...*

# चाकोरीभायली कादंबरी

भौ. नंदा ध. बोरकार हांगेली पयली कादंबरी 'पोको' हांवें वाचली. ती बिम्ब नेमाळ्यांत खिस्ती खिस्तींनी उजवाडाक येताली तेन्ना. ह्या लेखकांकडेन सांगपासारकें खूब आसा पूण तें सांगपाची निगूत कळाशी तांका आजून जमूंक ना अशी तेन्ना म्हजी भावना जाल्ली. तांची 'समर्पण' कादंबरी वाचली आनी हांव भारावन गेलों. हे नवलकथेची आगळीवेगळी निवेदनशैली आनी गांवगिरी संवादांची भाशाशैली पळोवन हांव चक्रावलों. भाटकार-भागेली संबंदांचेर जायत्यो कथा-कादंबऱ्यो हांवें वाचल्यात. पूण ह्या दोनूय समाजांच्या अंतर्मनांत तितल्याच समर्थपणान देंवपाची कुवत आशिल्ले लेखक साप थोडे. एका समाजाची बरी वळख आनी दुसऱ्या समाजाची सुमारशी संवकळ आसतकच तटस्थताय राखपाचो कितलोय येत्न केलो तरी एकल्याचें दालें जड जाता. मागीर 'झुकतें माप' दिल्ल्याचो आरोप जावं येता. पूण 'समर्पण' नवलकथेंत फावो ती संतुळा राखपांत लेखक जैतिवंत जाला.

'समर्पणा' फाटोफाट 'गोंदू' उजवाडाक येता. ही काणी कोंडवाड्यावयल्या एका दुर्भागी गावड्या कुटुंबांत जल्माक आयिल्ल्या गोंदू ह्या हुशार आनी हिकमती भुरग्याची. भुरगेमनाचे पापुद्रे ल्हवपीक हातांनी विस्कावन दाखोवप हें भोव कठीण काम. पूण नंदाबाबान कुशल कलाकाराचे कळाशेन तें साध्य करून दाखयलां. बापूय आपणाल्या भाटकाराचे सांगणेत रावन अडेचे झेत करपी आनी आवय भाटकाराली 'दवरलेली' म्हूण रावपांत खोस मानपी आसुनूय गोंदूचेर संस्कार जातात ते काकीचे आनी हरीमास्तराचे. भुरगेमनाचेर बरे संस्कार केले जाल्यार तो बरो मनीस जावं येता आनी ताच्या मनांत बरे हावेस रूजयले जाल्यार तो व्हड आनी जैतिवंत जावं येता हेंच ही नवलकथा अधोरेखीत करता.

हे कादंबरींतलीं सगलीं पात्रां जितींजिवीं कशीं दिसतात. तोपयो

सरासारकीं आपसुवार्थी आनी दुस्वाशी मनशां आमचे भोंवतणी सदांच पळोवंक मेळटात. जावं पावलूची आवय आनी मामा, जावं गोंदूचो काका फोंडू आनी काकी गिरिजें हीं मनशां सामकीं हाडामासाचीं कशीं दिसतात. हे नवलकथेंतलें आनेक पात्र काळजाक हात घालता तें म्हळ्यार हरीमास्तर. कादंबरेंत तो खंयच प्रत्यक्ष वावुरना. पूण गोंदूच्या मनांत घर करून राविल्लो हरीमास्तर ज्युस्ताज्युस्त उबो करपाचें लेखकालें कौशल्य तोखणाय करपासारकें.

गोंदू-पावलूली इश्टागत, फुटबॉलाचो टुर्नमिंट, गोंदूचो सैमावयलो मोग, ताची शेतकामतावयली वानसा, खेमलो देसायाक दिल्ली टक्कर, ह्या सगल्या प्रसंगांतल्यान उबी जाल्ली ही कादंबरी वाचकाचें मन प्रफुल्लीत करता. गीत-गायन सर्तेंत 'रघुपती राघव राजाराम' हें गीत बसयतना टिचरांनी घेतिल्लो आक्षेप गोंयकारांक नवो न्हय. ह्या प्रसंगांतल्यान आंतोनेत टिचर आनी तोपयो सराच्या मनांत वळवळपी कुड्ड्या धर्मवादाचे किडे दिश्टी पडटात. विरोधाभासांत सत आनी नीत उकलून धरपी पावलूलो मामा बेस बरो उबो केला. ह्या सगल्या कारणांक लागून कादंबरी गतीमान जावंक पावल्या. प्रत्यक्ष जिणेंत सपसप लक्षांत येनात अशो बारीकसाणी लेखक कसो टिपून घेता तें पानाकणकणी जाणवता. पादविगाराकडेन उलयतना कुजनेर मोटचान उलयना.. तो हळू आवाजांत फुतफुतता. ही गजाल लेखकाची निरिक्षण शक्त दाखयता. चाफ्याचो वास जड अशें लेखक म्हणटा तेन्ना ताची संवेदनशक्त कितली तीख तें जाणवता.

'गोंदू' च्या निमतान लेखकाचे भाशाशैलीचेर दोन उतरां. काळाप्रमाण बदलिल्ल्या गावड्यांची बदलिल्ली भास 'गोंदू'त दिश्टी पडटा. 'समर्पणा'चो काळ सरून फुडलो काळ सुरू जाला आनी भास निवळावपाच्या येत्नांत हे बदल घडल्यात. 'समर्पण' आनी 'गोंदू' ह्यो दोनूय नवलकथा भाशाशास्त्राच्या अभ्यासकांक भोव मोलादीक थारतल्यो हातूंत दुबाव ना. बदलिल्ल्या काळाच्या संदर्भांत शैली बदलप हें सभावीक. गावडी समाजांतल्या लोकांनीं सदांकाल तीच भास केळोवची? सगळो कोंकणी लोक 'कित्याक' म्हणटा तेन्ना ह्या समाजान 'चिज्याक' म्हणीत रावचें? ना. बदल गरजेचे. गावड्यांनीं तांबडी काश्टीच न्हेसची ही वानसा जशी दुराग्रहाची तशीच तांची भास आदले वरींच उरची हीय अपेक्षा

चुकीची. एक खरें - गावड्यांची भास मुखेल व्हांवतेंत (mainstream) येवन हेरांवांगडा भरसून वचची. पूण तांचे आदले भाशेंतलीं दुर्मीळ उतरां, म्हणी आनी वाक्प्रचार आयचे पिळगेन सांबाळून दवरचे. तांकां कोंकणी भाशेचे मुख्य धारेंत हाडून सोडचे. नंदाबाबान आमच्या गोंयांत अशेंय एक गोंय आसा, अशीय खाशेली शैली आसा हाची जाणविकाय आमकां दिल्या. हे शैलीचो अभ्यास जावंक जाय.

हे कादंबरींतलें वातावरण गांवगिरें (rustic). लेखकाली बरोवपाची धाटणीय अशीच unpolished. आयलें तशें बरयलें अशे तरेची. हे शैलीची आपणालीशी rustic सोबीतकाय आसा. लेखका कडली उतरांची खाण गिरेस्तकायेन भरल्या. पिरंगणी, लगाडी, शेंडकुटो, आरसाटो, कोमार काडप, बिडकी क़वळप, कट्टीभर मास चडप ह्या उतरांनी कादंबरीचे भाशेक एक आगळी उबारी मेळटा. त्या वाठारांत आनी त्या काळार घोळपी अनेक पुर्तुगेज उतरांय पानापानार येतात. इदाद, कोमीक, इश्कोल, लिसांव, साऊद, सागवाद, कादेर्न, बुर्रांस, हातुंतलीं चडशीं उतरां आतां घोळणुकेंतल्यान भायर पडल्यांत. लेखकाले भाशेचेर आशिल्लो मराठीचो प्रभावूय जाणवता. बाळकडू, चंचल, आवर घालप, दचकप, आकाश-पाताळ एक करप हीं उतरां आनी वाक्यप्रचार हे गांवगिरे साहित्यकृतींत अडेचे कशे दिसतात.

लेखनाच्या ओघांत लेखक सैमाकडेन संवाद सादता तें कादंबरीचे प्रकृतीकडेन जुळटा. नंदाबाबाली ही खासीयत. 'समर्पण' कादंबरींतूय अशें घडलां. आतां 'गोंदू'तूय. आमरूख खूश जावन गोंदू खातीर पिकिल्लो आंबो झडयता. सवणी-सुकणी ताचेकडेन गजाली करतात. जेजू लेगीत गोंदू लागीं उलयता. ताका लागून ही कादंबरी लेटीन अमेरिकन साहित्याकडेन नातें सांगता अशें दिसता.

'गोंदू' ही परिपूर्ण कादंबरी असो दावो हांव करचो ना. चुको दाखोवपाचें काम समिक्षकांचें. एक आस्वादक ह्या नात्यान म्हाका ही कादंबरी खूब आवडली. चाकोरीभायली unconventional म्हणूं येता अशी.

**- दामोदर मावजो**

# मनांतलें

'पोको' आनी 'समर्पण' ह्या दोन कादंबऱ्यां उपरांत 'गोंदू' ही म्हजी तिसरी कादंबरी उजवाडाक येता ती पळोवन म्हजें मन खोशेन भरता. म्हज्यो पयल्यो दोनूय कादंबऱ्यो वाचून वाचप्यांनी आनी साहित्यकारांनीय तोंडभर कोवतूक केलें. ताकाच लागून हांव ही तिसरी कादंबरी बरोवन पुराय करूंक शकलों. हीय कादंबरी वाचप्यांक आवडटली हाची म्हाका खात्री आसा.

खरें म्हळ्यार म्हजें हें उजवाडाक येवपी पांचवें पुस्तक. सवेंय हाचेवांगडा उजवाडाक येवपाची शक्यताय आसा. सातवें पुस्तक चालीक लागलां. तेंय फुडें रोकडेंच उजवाडाक येतलें, हाची हांव आस्त बाळगून आसां.

कोणूय म्हणटलो, आरे हो आपणे तीन कादंबऱ्यो बरयल्यात अशें म्हणटा मरे! कसल्यो आसतल्यो रे हाच्यो ह्यो कादंबऱ्यो!

म्हणटल्यांनी तशें कितेंय म्हळें जाल्यार तें चुकीचें अशें म्हणूं नज. कारण कादंबरीकारांत समाज घडोवपाची आनी बदलपाची ताकत आसची पडटा. म्हज्यांत ती ताकत कितली आसा, तें लोकांनी थारावपाचें. पूण हांव जें कितें वाकडेंतिकडें बरयतां, तातूंत हिरे-मोतयांचे अळंकार नासत, पूण कंवचेच्या कांकणाचो आनी चांदिच्या सोल्ले-मुदयांचो अळंकार मात निश्चीत आसा. कितें बरयतां तें आवडीन, समाजहीत आनी देशहीत दोळ्यांमुखार दवरून बरयतां.

हांवें हिन्दी-मराठी साहित्याचो इल्लो चड अभ्यास केला. हिन्दींतले राहुल साकृत्यान, हजारीप्रसाद द्विवेदी तेच प्रमाण मराठींतले वीर सावरकर, वि. स. खांडेकर, राम गणेश गडकरी सारक्या कितल्याश्याच लेखकांचें साहित्य हांवें वाचलां. म्हाकां तें खूब आवडलांय बी. पूण त्या लेखकां सारखो हांवें जावंचो,

असो धाडसी विचार मात म्हज्या मनांत केन्नाच आयलो ना. तसो तो आयिल्लो जाल्यार, हांव कितेंच बरोवंक शकचो नासलों, अशें म्हाका दिसता.

तेंच कित्याक, कोंकणी कादंबरीची बुन्याद घालपी फामाद कादंबरीकार भौ. दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, म्हाबळेश्वर सैल हांच्या सारख्या दिग्गजांचें अनुकरण करचें, अशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना. इतलेंच न्हय, ते ज्येश्ठ म्हूण ताणी म्हाका शिकोवपाचो कितलोय येत्न केल्लो जाल्यारय म्हजे तकलेंत कांय वचपासारकें ना. कारण ललित साहित्य ही कोणे कोणाक शिकोवपाची विद्या न्हय. ती स्वयंस्फूर्तीन भायर येवपाची कला आसता, अशें म्हाका दिसता.

अशें जरी आसलें, तरी भौ. दामोदरबाब मावजो हाणीं म्हाका कांय सुचोवण्यो केल्यात, त्यो म्हज्या लक्षांत आसात. ताणीं केल्ल्यो सुचोवण्यो ह्यो म्हजें हीत लक्षांत घेवन केल्यात. ते पासत हांव तांचो उपकारी आसां. पूण फुडल्या लिखाणांत हांव त्यो पाळटलोंच, अशी म्हज्यान खात्री दिवं नजो. कारण मावजो तो मावजो आनी हांव तो हांव!

हांव जें कितें बरयतां तें सर्वसामान्याखातीर. एकाद्रो अर्दशिक्षीत जेन्ना म्हजें पुस्तक हातांत घेवन वाचपाचो प्रयत्न करता, तेन्ना खोशी जाता. ताणें तें पुस्तक हातांत घेवची म्हण पयलींच उतरांची येवजण केल्ली आसता.

भौ. दामोदरबाब मावज्यान म्हज्या उतराक मान दिवन प्रस्तावना बरयली, ते पासत हांव तांचो उपकारी आसां.

**- नं. ध. बोरकार**

तो दीस आशिल्लो शेनवार. इस्कोल बारांक सुटलें. वर्गांतलीं सगळीं भुरगीं एकमेकाक धुकलीत, मेळटा तशी वाट काडीत, उडक्यो मारीत भायर गेलीं. पांजऱ्यांतल्यान चिंवचिंव करीत मळबांत सुकणी झपय घेतात तशीं. पूण गोंदू मात आजूनय एकटोच बांकार बसून आशिल्लो. बेल केन्ना जाली आनी इस्कोल केन्ना सुटलें, हाचें भानच उरलेंना ताका.

"ए ऽ घोवया, कितें कोत्ता रे थिंगा बोसोन! इस्कोल सुटलें मुरे! आनी तूं थिंगाच झेम मात्ता?" शाबीन चोराभशेन हेवटेन तेवटेन पळयत, वर्गाचीं जनेलां धडधडीत बंद करीत म्हळें.

शाबी हो इस्कोलाचो प्यून. ताचें नाव सेबोस्त्यांव. लोक ताका शाबी म्हणटात. पूण इस्कोलांतलीं भुरगीं मात ताका 'लोलो' म्हणटात. तेंय सगल्यो टिचरी म्हणटात म्हूण.

पूण गोंदून शाबीक केन्नाच 'लोलो' म्हणूंक ना. कारण दुसऱ्यांक नांवां दवरप गोंदूक मानवना. सगळ्यांक, ल्हाना-व्हडांक रेस्पेद दिवपी भुरगो तो.

शाबीचें आड्डेवणें आयकून गोंदू शिंतिदार आयलो. पळय जाल्यार सगळो वर्ग रिकामो जाला. ताणें डेस्कांतलीं सगळीं पुस्तकां वेगी वेगी बॅगांत धोंगशिलीं. बॅग खांदार मारून ताणें भायले दिकेन धांव मारली. भायर पावलू ताची वाट पळयत आशिल्लो. गोंदू कसलें तरी काणयेचें पुस्तक वाचपांत गूंग जाल्लो. ताका लागून भायल्या संवसाराक तो विसरून गेल्लो.

गोंदू शेतकामत्याचो भुरगो. आंगलटीन बारीक - किडकिडीत. रंगान काळो - सावळो. दिसपाक सामकी 'अबरगत', लजे कोंबो. पूण शिकपाक हुशार.

ताची हुशारकाय सद्द करून हेरांच्या दोळ्यांत भरनाशिल्ली. तरी एक – दोन शिक्षकांचें शिंतीद ताचेर आशिल्लेंच.

गोंदू मुळावे शाळेंत मराठी शिकतालो. चवथी मेरेन तो पयलो आयलो. पांचवेक पावतकूच मात ताका घसरण लागली. ताकाय कारण आशिल्लें. पांचवेक ताका विज्ञान, इतिहास–भुगोल, गणित बी इंग्लिशींतल्यान शिकचें पडटालें. तरी ताका गणितांत शंबरांतले णव्वदासकल मार्क पडनाशिल्ले. हिन्दी आनी मराठी विशयांकय ताका अशेच बरे मार्क मेळटाले. ताका लागून वर्गांतल्या पस्तीस – चाळीस भुरग्यांमदें ताचो चवथो–पांचवो नंबर येतालोच. गणितांत तर तो पयलोच येतालो.

गोंदूक आतां धावें सोंपून इकरावें वर्स लागिल्लें. आतां तो सवेक शिकतालो. आपल्या वर्गांतल्या भुरग्यांकडेन ताची चडशी इश्टागत नाशिल्ली. दुसऱ्या वर्गांतल्या भुरग्यांमदेंय ताचें मिसळप नाशिल्लें.

गोंदूक दिसतालें, आपणें भुरग्यांकडेन इश्टागत वाडोवची. ताका लागून तो भुरग्यांफाटल्यान भोवपाची माण्णी करतालो. ताणीं आपल्याक तांच्या पंगडांत खेळपाक घेवचो म्हूण, तांच्या फाटल्यान लेमशेतालो. पूण भुरगे ताच्यापसून पयस पयस रावताले. ताकाय कारण आशिल्लें. एका सरान ताका एक दीस, सगळ्यां भुरग्यांमुखार 'अबरगत' म्हळें. सगळीं भुरगीं खो खो करून हांसलीं. तांचें हांसप गोंदूक साप्प आवडलें ना. केदो वेळ तो आपली तकली सकयल घालून उबो रावलो. खंयच्याच भुरग्याच्या तोंडाक पळोवपाचें धाडस ताका जालें ना. कसलोच गुन्यांव नासतना, सरान आपल्याक 'अबरगत' म्हणचोच कसो? गोंदूच्यान तें सोसूंक जालें ना. ताणें थंयच्यान धांव मारली. इस्कोलाफाटल्यान एक वोंवळी झाड आशिल्लें. ताच्या मुंदांत एक तळपूल आशिल्लें. ताचेर बसून तो केदो वेळ बुळूबुळू रडलो. इंटरवल केन्ना सोंपलो, तें ताका कळ्ळेंच ना. आनी कळ्ळें तेन्ना, ताच्या मनान ताका वर्गांत वचून बसपाचो परवानो दिलोना.

पावलू सवेच्या वर्गाचो मॉनिटर आशिल्लो. इंटरवल जातकच सगळीं भुरगीं वर्गांत येवन बसलीं, काय तातुंतलीं भायले भायर घरा गेलीं? हें पळोवपाचें काम वर्गशिक्षकान ताचेर सोंपयिल्लें.

गोंदू हो नेम पाळपी बरो भुरगो. वगतार येवपी वगतार वचपी. वर्गांत केन्नाच बोवाळ ना करपी. मॉनिटरान, म्हळ्यार पावलून आयज लेगीत गोंदूची कागाळ कोणाकडेन केली ना. तशें करपाची गरजय केन्ना ताका पडली ना.

आयज सरान गोंदूक 'अबरगत' म्हळो ताचें गोंदूक खूब वायट दिसलें, हें पावलू जाणा आशिल्लो. सरालें कर्तूब गोंदूपरस चड पावलूक आवडलें ना.

पावलू एकटोच गोंदूक बरो करतालो. तो गोंदूकडेन मुजरत वचून उलयतालो. फरक इतलोच की पावलू मॉनिटर आशिल्ल्यान, ताका सगळ्या भुरग्यांकडेन कसलोच भेदभाव दवरिनासतना वागचें पडटालें. ताका लागून गोंदूकडेन – एकट्याकडेनच तो बरो वागता, अशें म्हणपाक कोणाक तोंड नाशिल्लें.

पावलून आतां पुराय वर्गाचेर नदर मारली. सगळीं भुरगीं आपापले सुवातेर आशिल्लीं. नाशिल्लो तो गोंदू.

गोंदू वर्गांत ना तें पळोवन पावलू कितें समजूंक जाय तें समजलो. विशय शिक्षक अजून वर्गांत येवनाशिल्लो. इतल्यांत तो आयलो. सगळीं भुरगीं उबीं रावलीं. 'गुड्डे सर'! बी म्हणून जातकीर सगळीं भुरगीं आपापले सुवातेर बसलीं.

"पावलू, सगळीं भुरगीं हाजीर आसात काय ना रे!"

एक भाटकार आपल्या मुकादमाक विचारता तसो सरान पावलूक प्रस्न केलो.

"ना सोर, गोंदू येवना आजून."

"खंय गेली ती अबरगत?"

सरालो प्रस्न आयकून वर्गांतल्या एकाय भुरग्याक हांसो फुटलो ना. सदांच वगतार येवपी भुरग्यांक, हे वगतार गोंदूक अबरगत म्हणिल्लें आवडूं ना जावंये. सगळीं भुरगीं साराकडेन तोंड 'आ' करून पळोवंक लागलीं. पावलूकय सरान 'अबरगत' म्हणिल्लें मातय आवडलें ना. ताका दिशिल्लें सर आपल्याक गोंदूक सोदून हाडपाक धाडटलो. तशें कांय घडलें ना. तें पळोवन पावलून उबो रावन सराक म्हणलें.

"सर, हांव गोंदूक सोदूंक वोसों?"

"कांय गरज ना. बस थंय वोग्गी?" सरान उर्मटपणान जाप दिली.

खरें म्हळ्यार हो तोपयो सर इस्कोलांत चडशा भुरग्यांक आनी कांय टिचर –

सरांक मात्तय आवडनाशिल्लो. शिकोवपय ताचें तितलेंशें बरें नाशिल्लें. भुरग्यांक ताचो तास कंटाळवाणो लागतालो. तरी भुरगीं ताका सोसतालीं. शिस्तीक लागून.

पाव़लू सराच्या कर्तुबान निर्शेलो. सर कितें शिकयता हाचेकडेन ताचें शिंतिद नाशिल्लें. गोंदूक सराचो राग आयला, हें तो जाणा आशिल्लो. तरी ताका दिशिल्लें, सरावेलो राग निवळटकीर गोंदू वर्गांत येतलोच. हेरांभशेन शिकप सोडून वगत पासार करपी भुरगो न्हय तो!

पावलूक आतां गोंदूची काळजी लागली. कशीय करून गोंदूची खबर घेवंकच जाय. पूण घेतलो कसो? क्लासांत आसा तो मेरेन सर कसोच भायर सोडचोना. भायर वचपाची कसलीय तरी आयडिया काडूंकच जाय.

"सर, प्लिज एक्सक्यूज मी?" तोपयो सरान बुकांतली तकली वयर काडली. ताणें कोरें करून पावलूचेर नदर मारली.

"व्हाय, व्हॉट हॅपन्ड!"

"मात्सो भायर वोसोन येतां." पावलून किरंगळी बोट दाखयत म्हळें.

आतांच इंटरवल जाला आनी हो बोट शें दाखयता. आनी कोणाकूय जाल्यार तोपयो सर भायर सोडचो नाशिल्लो. पावलू मॉनिटर आसा. शिवाय तो गरजेभायर हांगा थंय भोवपी न्हय. सरान ताका भायर वचपाची परवानगी दिली.

पावलू गोंदूक सोदीत वोंवळी मुंदांत गेलो. पळय जाल्यार गोंदू दोनय धोपरां मदें तकली घालून आजूनय दुकां गळयत बसला.

पावलू गोंदूच्या म्हऱ्यांत बसलो. एक हात ताणें गोंदूच्या खांदार थेयलो. मागीर ताचे दोळे पुसले. फाटीर हात भोंवडायलो. "गोंदू, रोडो नाहां रे. उठ हांव तुहां व्होरोंक येयलां."

गोंदून हां आनी हूं केलें ना. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां चडच व्हावूंक लागलीं.

"गोंदू, तूं म्होजो फ्रेंड न्हू रे, तुहां म्हाजेवांगडा वोयचेंच पोडटोलें. हायें सोराक सांगलां रे, तुहां घेवन येतां म्होणोन."

'तूं म्होजो फ्रेंड न्हू रे?' हें वाक्य गोंदूक सूख देणें लागलें. तो समजतालो क्लासांत आपल्याक कोणूच इश्ट ना. पावलू ताचेकडेन उलयतालो. पूण तितले पुरतोच. आतां तो आपल्याक फ्रेंड म्हणटा तें आयकून ताका अजाप दिसलें.

ताच्या दोळ्यांतलीं दुकां इल्लीं उणीं जालीं. ताणें आपल्या दोळ्यांचेर हात वोडलो. 'सोंक' करून नाक पिळ्ळें. एकेक हुंडको ताच्या नाका-तोंडांतल्यान भायर पडूंक लागलो.

"हांव जाणा रे, सोरान तुहां ओबोरगोत मुहला पोय तें. माहां तें मानवोना रे. तीं पिशीं भुरगींय तुहां हासलीं. पूण तूं जाणांय, आतां तूं क्लासांत ना देखून तेंकां चोड पिकासांव जालां भाडया!"

आता मात गोंदू मान वयर काडून पावलूक पळयत रावलो. केन्नाच आपलेकडेन उलोवंक तयार नाशिल्लीं भुरगीं आपलेविशीं चिंततात तें आयकून गोंदूक खूब बरें दिसलें. ताका आतां आपूण क्लासांत वचून बसचेशें दिसलें.

पावलून ताका हाताक धरून उठयलो. आपल्या बोल्सांतलो लेंस काडून ताणें ताचे दोळे पुसले. रडून रडून ताचे दोळे सुजिल्ले, आनी तांबडेय जाल्ले. पावलूक गोंदूची काकळूट दिसली. ताका वेंगेंत घेवन तो क्लासाच्या दारार वचून उबो रावलो.

इतल्यान पिरियड सोंपिल्लो. तोपयो सर भायर सरून गेल्लो. मेरी मॅडम क्लासांत आसा ती पळोवन पावलूक सूऽऽ जालें. दोगूय वचून आपापले सुवातेर बसले.

पावलू पाद्रिल्याच प्रायमरी इस्कोलांत शिकून, पाद्रिल्याच हायस्कुलांत शिकतालो. ताका लागून भायल्यान आयिल्ल्या भुरग्यांकडेन ताची चडशी गट्टी जमूंक नाशिल्ली. तशें पळोवंक गेल्यार भायल्यान आयिल्ल्या सगळ्याच भुरग्यांक, पाद्रिल्या इस्कोलांतलीं भुरगीं गांवढळ समजतालीं. कारण तांकां फटफट इंग्लिश उलोवंक जमनाशिल्लें. ते भायर तीं चडशीं गरिबांलीं आसतालीं. 'कोंकानी' उलोवपी.

पाद्रिल्या बोर्डिंगांत रावपी भुरगे गिरेस्ताले. शिकतासतना सगळ्यांचो गणवेश एक आसतालो. पूण मागीर तांगेलें खरें रूप वाऱ्यार पडटालें. चामुड्डे मुस्तायकेंतलीं गरीब भुरगीं आपूण जावन गिरेस्तांपसून पयस रावतालीं. तांचो वेगळोचार दोळ्यांत भरतालोच. चडशा सर-मॅडमीकडच्यान तोखणाय-अपुरबाय जाताली ती गिरेस्तांच्या भुरग्यांचीच.

पावलू हो एक बोटलेरालो एकटोच पूत. खावन जेवन घटमूट. देखणो आनी

हुशार. ल्हानविकायेचो. गोड आनी म्होवाळ उतरांचो. सगळ्यांमदें मेळून मिसळून वागपी. गरज पडल्यार ल्हानाव्हडांक आदार दिवपी. आतां तो गोंदूक आदार दिवपाक फुडें आयला. देवानच ताका गोंदूच्या आदाराक धाडला जावंये. देव मनशाक मन पळोवन धन दिता म्हणटात तें फट न्हय!

गोंदू-पावलू मदली इश्टागत आतां इल्ली इल्ली वाडूंक लागली. गोंदू हे आदीं कोणाकच गुडमॉर्निंग म्हणनाशिल्लो. कारण ताकाय कोण म्हणनाशिल्ले. आतां पावलूच गोंदूक गुडमॉर्निंग म्हणटालो. ताका लागून गोंदूकय ताका म्हणचेंच पडटालें. गोंदूच्या तोंडांतल्यान गुडमॉर्निंग भायर पडटा तें पळोवन पावलूक बरें दिसलें. हेर भुरग्यांकय अजापशें दिसलें.

"गोंदू, तुहां गुडमॉर्निंग म्हणोंक बोरें दिसता मुरे?"

"हय रे, तुका म्होणोक बरें दिसता"

"आनी हेरांक रे!"

"हेरांक हांव कित्याक म्होणो? ते म्हाका खंय म्हणटात तर!"

"तुयें मुहले बोगोर ते तुहां कोहे म्हुणटोले रे! म्हुजी मम्मी माहां कितें सांगता जाणा तूं?"

"ना. हायें तुजे मम्मीक खंय पळयल्या तर!"

"हांव व्होत्तां तुहां आमजेर आं. माजी मम्मी तुहां पोळोवन खुशालकायेन भोत्तोली भाडया!"

"पूण तुजी मम्मी तुका कितें सांगता, तें सांग मरे."

"म्हुजी मम्मी सांगता, आपणे हूंय पेल्याक पोयर्ली विश करूंक जाय. पेल्याचो मोग पोयर्ली कोरूंक जाय. माजीर तो आपशीच आपल्याक मेवता."

"तुजी मम्मी खऱ्यानीच सारकें सांगता. म्हाकाय तशेंच दिसता. पूण म्हाका तुजेभशेन उलोवंक लज दिसता रे!"

"लोज, लोज कोहली रे. आमचीं चेडवां लेगीत लोजेनाय आनी तूं लोजता?"

"तशें न्हू रे, आमच्या वाड्यार कोण कोणाक गुडमॉर्निंग बी म्हणनात."

"तुमी विश कोहे कोत्ताय तोर रे! आंऽऽ! तुमी कोहणे मुरे, पोयर इगोर्जे फादर सांगतालो."

“ कितें सांगतालो फादर?”

“ तो सांगतालो, कोहणे हूंय एकमेकांक केन्नाच विश कोन्नाय.”

हें मात गोंदूक खरें दिसलें ना. ताच्याय वाड्यार एक दोन किरिस्तावांचीं घरां आशिल्लीं. पूण तीं मनशां कोणाक गुडमॉर्निंग म्हणना आशिल्लीं. हां, एक मात खरें, दुसऱ्याक मुजरत जापायतालीं. तशे कोकणे एकमेकांक जापायनात तर? कितेंय जांव. गुडमॉर्निंग म्हणप वायट न्हय. फाल्यांच्यान हांव कोणाक लजनासतना इस्कोलांत सगळ्यांक गुडमॉर्निंग म्हणटलों.

आनी जालेंय तशेंच. दुसरे दिसा गोंदून इस्कोलांत मेळत ताका गुडमॉर्निंग म्हणपाक कोमेस केलें. पावलूक ताचें कांयच दिसलें ना. हेरांक मात अजाप आनी कॉमिकय दिसली. पूण गोंदू जांका गुडमॉर्निंग म्हणटालो तांचेकडल्यान ताका परती तशीच जाप मेळटाली. फुडें फुडें भुरगींच गोंदूक पयलीं गुडमॉर्निंग म्हणूंक लागलीं. गोंदूक आपूण आतां कोणय तरी व्हडलो मनीस आसा अशें दिसूंक लागलें. भुरगीं पयलीं सर, मॅडमींक व्हीश करतात तशीं तीं आपल्याकूय करतात तें पळोवन गोंदूक खोस जावंक लागली.

दुसरी गजाल म्हळ्यार वर्गांतलीं भुरगीं आतां गोंदूक पावलूचो फ्रेंड मानूंक लागिल्लीं.

पावलू क्लासाचो मॉनिटर. गोंदू मॉनिटराचो फ्रेंड म्हणटकीर ताका इल्लो तरी मान दिवंक नाका? गोंदूकय आतां मात्सो नेट आयिल्लो. पावलू ताका आपले गैरहाजेरींत क्लासाचेर नदर मारूंक सांगतालो. भुरगीं बोवाळ करूंक लागल्यार तांचीं नांवां बरोवन दवरूंक तो सांगी. गोंदू बोवाळ करपी भुरग्यांक पयलीं खूब समजायतालो. आनी कोण आयकनाच जाल्यार ताचें नांव बरोवन दवरतालो. भुरग्यांकूय दिसतालें की गोंदू बऱ्या मनाचो आनी ताचेकडच्यान कितेंच वाकडें घडचें ना.

क्लासांत मेंगो कसो बसून रावपी गोंदू आतां मात्सो धीट जाल्लो. ताच्या तोंडावयल्यो मिरयो वचून उजवाड पडिल्लो. क्लासांत भुरगीं हासूंक लागलीं जाल्यार तोय हांसतालो. बऱ्या भुरग्याचें उलोवप तो मन लावन आयकतालो. मस्त्याक मात तो फाट करतालो. बरें कितें आनी वायट कितें हाची जाणविकाय

ताका देवान दिल्ली. बरें तें पदराक दवरून वायट भायर मारपाचें काम तो सहजतायेन करतालो. हाका कारण आशिल्लें ताची मुळावी मराठी शाळा आनी तातूंत शिकोवपी मास्तर.

*

कोंड हो एक धांकटुलो गांव. आंब्या-पणसांनी भरिल्लो. काजू चिंचानी दाटिल्लो. शेतां-भाटांनी सजिल्लो. व्हाळ हांगा खिळखिळे वाजयताले. कोगळां गितां गायतालीं. गायो-म्हशी दुदाच्यो हांडयो भरताल्यो! घराघरांत भाता कंडे उबे आसताले. गोंदू हो ह्या गांवचो. एका गावड्यालो भुरगो.

ह्या गांवांत एक ल्हानशें देवूळ आशिल्लें. देवळाचो ल्हानसो मंडप आशिल्लो. मंडपांत पयली ते चवथी मेरेनची मराठी शाळा चलताली. शाळेंत शिकपी भुरग्यांचो आंकडो वर्साक पंचवीस -तीस आसतालो. ह्या सगळ्या भुरग्यांक एकच मास्तर मायेमोगान शिकयतालो. मास्तर कसलो, तीस-पस्तीस भुरग्यांची आवयच ती! सगळ्यांचेर समान माया आनी मोग करपी आवय!

ह्या मास्तराचें नांव आशिल्लें हरी. लोक ताका हरीमास्तर म्हूण वळखताले.

हो हरीमास्तर तापट, मारकुटो बी तसो नाशिल्लो. पूण कितलोय मस्तो भुरगो ताच्या मुखार उबो रावतकीर सामको बिलू जावन अभ्यासाक लागतालो.

हरीमास्तराली शिस्त कडक. कसलेंय काम चिंतून करप. पश्चताप करपाची पाळी तो आपल्याचेर केन्नाच हाडिनाशिल्लो. ताची जणेक करणी शिकप्यांनी अनुकरण करपासारकी आसताली.

हरीमास्तर भुरग्यांक फकत अक्षर वळख दिवन, बरप-वाचप शिकोवन वोगी रावनाशिल्लो. तुमी हे भारतमातेचे पूत. जापसालदारकेन वागूंक जाय. तुमच्या आवय बापायचें, गांवचें , शाळेचें आनी देशाचें नांव व्हड करपाची तुमची जापसालदारकी. तुमी ती निभावंक जाय. अशें बाळकडू तो भुरग्यांक दीत आसतालो.

शाळा सकाळीं साडेसातांक सुरू जाताली. पाटी-पुस्तक उक्तें करचे पयलीं,

सरस्वतीची प्रार्थना. मागीर वंदेमातरम हें राष्ट्रगीत जातालें.

शाळेंत सगलेच बाबतीत पाठांतराक चड म्हत्व दितालो हरीमास्तर. ताका लागून भुरग्यांची प्रगती दिसान दीस वाडत आसताली. भुरग्यांचे तन, मन आनी बुद्दीचो विकास जावंचो हाचेकडेन चड लक्ष आसतालें हरीमास्तराचें.

हे शाळेंत पी. टी. शिकोवपाची वेवस्ता नाशिल्ली. पूण हरीमास्तर भुरग्यांक, देवळा कुशीक आशिल्ले न्हंयेंत पेंवपाक लायतालो. देवळा भोंवतणी धांवपाक लायतालो. झाडां-माडार चडप-देवप जातालें. भुरग्यांच्यो उठाबशी चलताल्यो. खुस्ती चलताल्यो. खेळटां खेळटां शिकप जातालें. शाळेंत शिकपी सगले भुरगे एकमेकांचे, जिवाभावाचे इश्ट आशिल्ले. गोंदूक ह्या वातावरणाची सवंय जाल्ली.

हांगा ह्या पाद्रिल्या इस्कोलांत मात सगळें नकली दिसतालें. उलोवप नकली. न्हेसप नकली. शिकप नकली. ताका लागून ह्या नकली वातावरणांत गोंदूचो जीव सामको फुगार जातालो. कोंकणी उलयल्यार हांगा दंड फारीक करचो पडटालो. हांगा चवथे फुडलें शिकप मराठींत ना तर कोंकणींत मेळिल्लें जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें? अशे विचार गोंदूच्या मनांत येताले. पूण ताच्या विचारांची कदर करपी कोणूच नाशिल्लो.

एक वर्स काळखांत सांसपीत काडल्या उपरांत गोंदूक पावलूच्या रुपान आशेचीं किरणां दिसूंक लागलीं. पावलूची इश्टागत गोंदूच्या गात्रांत इल्लें इल्लें त्राण हाडूंक लागली.

"काके, आयज म्हाका फादरान पन्नास रुपये हाड म्होणोन सांगल्याक गे!" गोंदून येदेशें तोंड करून, काकीकडेन दुडवांची मागणी केली.

"कित्याक रे ते पन्नास रुपये!"

"बुटांक. सोळायेर इस्कोलांत इनिस्पेशन आहा न्हो, तेका लागोन सोगल्यांक धये बूट आनी मेय घालून इस्कोलांत वोसोंक जायें" गोंदू मात्सो नेटान उलयलो.

"पोयरूच तुयें शेंबोर रुपये येल्ले न्हो रे! सदांसदांच दुडू व्होरोंक ते झाडाक

लागतात रे?'' काकी पिंजळ्ळी आनी रोकडीच थंड जाली. काकी कितलीय पिंजळ्ळी, फरफरली, बडबडली तरी गोंदू तिका परती जाप दिनाशिल्लो. पूण गरज पडटा तेन्ना मात खालत्या उतरांनी ताका दचकत दचकत जाप दिवचीच पडटाली. आतांय ती ताणें तशीच दिली.

''काके, परचे शेंबोर रुपये पी. टी. युनिफोर्माक दिल्ले.'' काकीन युनिफोर्म हें उतर आयकल्लें. पूण पीटी हें उतर तिका नवेंशें लागलें. कुळदां पिठी, उडदां पिठी बी ती जाणां आशिल्ली. पावसाळ्यांत आनी थंडे दिसांनी कुळीद - उडीद भाजून, पिठाची गोड सोय घालून ती पिठी करताली. पूण हे पिठयेन तिका गोंदळांत घाली. तरी कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हूण ती उलयलीच.

''पाद्रिर्ली आनी माद्रिर्ली इस्कोलां असलींच. फोकोत पोयशां फाटल्यान लागल्यां. हे लोक आठ - आठ दिसांनी हेका पोनास रुपये, तेका शेंबोर ! खंयचे हाडून दितलो गरीब लोक. सोरकार म्होणटा शिकोप फुंकोट. हेका फुंकोट शिकोप म्होणटाय खंय? ते पोरोस होरी मास्तराली मोराठी शाळाच बोरी. तेणें केन्नाच धा रुपये वोयर दुडवांची मागणी केली ना बाबड्यान! म्हाहां दिसलेलें, हे फुडेंय बी ओहेंच चोलतोलें. तेकाच लागोन वोयता जाल्यार वोहोंनी म्हणलें पाद्रिगेर. पूण हें रे बाबा कितें! हांगा तोर आत्र्या पोयऱ्यान नोटांच काडर्ची पोडटा. हे फुडेंय ओहेंच चालू उरल्यार तुजें कितें जातोलें हांव नोको रे बाबा!''

गोंदू मान खाला घालून, उजव्या पायांचो आंगठो जमनीक घांशीत काकीची बडबड आयकत रावलो. आनीक कितें करतलो बाबडो? ताचें भविश्य काकीच्याच हातांत आशिल्लें. फाल्यां काकीन इस्कोलाक वचूं नाका म्हणल्यार इस्कोल बंद. आवय-बापूय आसून नासून सारकोच. फाल्यां काकीन इस्कोल बंद केलें जाल्यार काका शेतांत मर मर मरता तसो आपणेंय मरपाचें.

काकी बडबडून गेली. पूण ती पयशे दितली हाची खात्री गोंदूक आशिल्ली. हाचे फुडेंय ती पयशे दितली पूण ते उकते मनान न्हय. पयशे दितना आदळ आपट केली ना तरी तिच्या मनांत धुसफूस आसतलीच. पयशे आसलेय जाल्यार ते गोंदूच्या शिक्षणाचेर व्हारोवंक गोंदू तिचो पूत थोडोच आशिल्लो! तो तर तिच्या व्हडल्या देराचो. दुसऱ्याखातीर कितलेंय केलें तरी ओमथ्या कळशार उदक हें

काकी अणभवान जाणा आशिल्ली. गोंदूकय ताची जाणविकाय आशिल्लीच. इकरा वर्सांच्या किडकिडीत गोंदूची बुद्द बरीच खर आशिल्ली. पूण बुद्द आसलीच म्हणल्यार जायना, तिचो उपेग कसो करचो हाची जाणविकाय जण एकल्याक आसची पडटा. ती जाणविकाय एक तर भुरग्याच्या आवय बापायन, ना तर शाळेंतल्या शिक्षकांनी दिवपाची गरज आसता. देशाचे घडणुकेंत रस घेवपी देशप्रेमीच तें काम करूंक शकता. गोंदूले मुळावे शाळेंतल्या हरीमास्तरान तें काम बेस बरें केल्लें. चार वर्सां मुळावें शिक्षण दिता आसतना हरीमास्तरान गोंदूक उजवाडाच्यो दिको दाखयिल्ल्यो. त्यो भविश्यांत उपेगी पडपाचीं चिन्ना गोंदूच्या वागणुकेंतल्यान दिसूंक लागिल्लीं.

भूतकाळाचो अणभव घेवन, भविश्यकाळाची नितळ आनी उजवाडाची वाट फुडले पिळगेक दाखोवपी शिक्षकाक सद्गुरू म्हणचें. हरीमास्तर हो एक सद्गुरूच आशिल्लो. आवयबापायन ताच्या हातांत सोपयिल्ल्या एकान एक भुरग्याचें ताणें भांगर करून सोडिल्लें. ताका खबर आशिल्ली की ताचेकडेन सोंपयिल्लीं गांवचीं फुलां बावकीं आसात. तातूंत रंग, गंध भरून तांकां रुपकाराक हाडपाची चड गरज आसा. हें काम ताका मेरेंतल्या काळातच करपाचें आसा, हेंय तो जाणा आशिल्लो.

शिक्षक हो गुरू जातलो जाल्यार तो देशी मातयेंतल्यान उदेवचो पडटा. म्हाविद्यालयांतल्यान शिकप दिवन ताका प्रशिक्षणाच्यो व्हडल्यो पदव्यो दिल्यो म्हूण देशांत गुरूजी निर्माण जायनांत. शिक्षकांनी पदव्यो ह्यो घेवंकच जाय, पूण तांचीं पाळां मात ह्या देशांतल्या मातयेंतल्यान कोमेवन, तीं हांगाच्याच वाऱ्या - उदकांत वाडिल्लीं आसूंक जाय.

हरीमास्तरांचें शिकप फकत सातवी मेरेन जाल्लें. पूण ताचें वाचन अफाट आशिल्लें. मराठींतल्यान आनी इंग्लीशींतल्यानय खुबश्या तत्वगिन्यानाचीं पुस्तकां ताणें वाचून काडिल्लीं. तातूंत भारतीय तत्वगिन्यान ताका सगळ्यांत व्हड अशें दिसतालें. संवसारांतले सगळे धर्म ताका आपले दिसताले. तरी आपूण ज्या धर्मांत जल्मलां तोच धर्म आपल्या आनी आपल्या देशबांधवांच्या हिताचो आसा, अशें दिसतालें ताका. मात खंयचोय धर्म कोणें एकामेकाचेर लादचो न्हय अशें

ताका दिसतालें.

कोणे कितेंय म्हणलें तरी शिक्षकाचो प्रभाव शिकपी भुरग्यांचेर पडटाच. भुरगीं घरांत आवय बापायची देख नकळत घेतात. तेच परी शाळेंत तीं आपल्या गुरूकडच्यान घेतात. खऱ्या गुरूक ही जाणविकाय आसता. आनी त्या खातीर आपलें वर्तन भुरग्यांमुखार बरें दवरपाचो यत्न तो सदांच करीत आसता. हरी मास्तरय तेंच करतालो.

हरीमास्तराकडच्यान शिकून गेल्लो भुरगो वाकड्या मार्गान केन्नाच वचचोना हाची खात्री ताका आसताली. भुरगें हें पयलीं शेपडी नाशिल्लें जनावर आसता आनी शिकल्या उपरांत मनीस जाता. तरणाट्यांनी मनीस जाल्या उपरांतच वेवसायाकडेन वळचें, अशें मत आशिल्लें, हरीमास्तराचें!

गोंदू हो हरीमास्तरालो विद्यार्थी. ताका फुडलें जिवीत सारपाक हरीमास्तरान चार वर्सांत दिल्लें शिकप पुरो आशिल्लें. ताका लागून गोंदूक काकीन इस्कोल सोडूंक लायलें तरी तो उपाशी पडपाची शक्यताय नाशिल्ली.

हरीमास्तर आपल्या भुरग्यांक एकठांय करून सदांच सांगतालो, "भुरग्यांनो, तुमी सगळेच हुशार आसात. पूण तुमचेकडेन दुडू आसले लेगीत जाल्यार तुमी दोतोर-इंजिनियर जावपाचीं सपनां रंगोवचीं न्हय. ह्या देशाक दोतोर-इंजिनियेर आनी अधिकाऱ्यांची चडशी गरज ना. तुमी खूब शिकचे आनी मेळत तें काम धरचें. आमच्या ह्या विशाळ देशांत कामाची उणाव ना. जण एकल्याचें पोट भरपाची कापसदाद ह्या देशाक आसा."

हरीमास्तरालीं दोन वर्सां पयलींचीं उतरां गोंदून आपले गांठीक घट्ट बांदून दवरिल्लीं. तीं ताका उब दितालीं आनी नेटय बी!

गोंदू सोडून आनी कोणय जाल्यार काकील्या उतरांचो राग धरतलो आशिल्लो. पूण गोंदू शाणो. म्हयन्याक दोन-तीन खेपो शेकड्यांनी रुपये दिवंक आपले काकीक जड जाता, हें तो जाणा आशिल्लो. ते भायर आपल्याक जाय ते दुडू दीच म्हूण तो आपले काकीकडेन हट्ट धरूंक शकनाशिल्लो. काकीची परिस्थितीय तशी नाशिल्ली. आवय-बापूय तर आसून नासून सारकोच आशिल्लो गोंदूक. अशे परिस्थितींत तिचें आयकून ओगी रावपांतच शाणेंपण आशिल्लें.

फोंडू आनी बारकेलो हे दोगय भाव कोंडवाड्यार रावताले. बारकेलो व्हडलो आनी फोंडू धाकलो. गांवचे लोक तांकां गांवकार म्हूण वळखताले. हेर गावडे कोणाले मुंडकार तर कोणाले भागेली. पूण फोंडू-बारकेल्याक मात आपल्या धाकांत दवरपी गांवात कोणच नाशिल्लो. गावडे आसूनय ते भाटकार आशिल्ले गांवांतले. पोटापुरतीं शेतां-भाटां आशिल्लीं. कुटुंबांतल्या लोकांनी स्वता कश्ट केल्यार जेवणा-खाणांक मरण नाशिल्लें. कामेऱ्यां-मानांय घालून जमीन कसपाची तांक मात दोगय भावांकडेन मातय नाशिल्ली. ताका लागून आशिल्ल्या शेतांचो उपेग गोरवां चरपाकूच चड जातालो.

बारकेलो व्हडलो भाव आशिल्ल्यान आपल्या व्हडपणाचो ताका इल्लो चडच गर्व आशिल्लो. व्हडल्या भावान घराब्याचेर फकत व्हडपण गाजोवपाचें आसता इतलेंच बारकेलो जाणा आशिल्लो. ताका लागून आपल्या शेता -भाटाचेर लक्ष दिवचे परस, आर्म खांदाक लावन शेतां धडेर उबो रावन बक्यांचेर फार मारपांतच तो धन्यताय मानतालो. खाकी मोटवें काल्सांव आनी खोमीस घालून खांदाक आर्म लावन, तोंडांत पान-सुपारी चगळयत भोवन तो स्वताक व्हडलो कासादोर समजतालो. नडणे परस ताची कण्णीच बरी हालताली.

बारकेल्याक बायलय ताच्यासारकी विचित्र सोबावाची मेळिल्ली. गावडी आसूनय दिसताली बामीण कशी. सोबावान अरवळ आनी पारपोळ. खंयच्याय वगतार आनी प्रसंगार खू खू करून हांसप आनी बरीं बरीं कापडां न्हेसप इतलेंच ती जाणा आशिल्ली. आपूण घरांतली व्हडली सून. घर तारातार करप हें आपलें कर्तव्य आसा, हाची जाणविकाय केन्नाच जाली ना बारकेल्याचे बायलेक. लग्न जाल्या उपरांत, एक वर्स जावचे पयलीं एका भुरग्याक जल्माक घालून तिणें आपली जापसालकी सोंपयिल्ली. तिणें जल्माक घाल्लो भुरगो तोच हो गोंदू!

बारकेल्या बायलेन गोंदूक जल्म दिलो पूण ती आपल्या भुरग्याक आवयची माया दिवंक शकलीना. कारण तें आशिल्लें एक रंगयाळें उडटें सुकणें. ह्या रुखावेलें त्या रूखार उडटा तसलें. आपल्या घोवाक आटोपाक येना तसलें.

फोंडूची बायल-गिरिजें मात मोटी शिटूक. ताचे हुशारकायेक लागूनच फोंडू - बारकेल्याचो संवसार जाग्यार आसा. जाग्यार आसा म्हणचे परस गिरिज्यांनच तो जाग्यार थेयला म्हणूक जाय. फोंडू तसो जीव तोडून, मन लावन काम करपी मनीस. कसल्याय भानगड-तंट्यापसून जाता तितलो पयस रावपी. कोणाक दुखोवपी न्हय. आपलें काम बरें, आपूण बरो. बारकेल्याचीं चिन्नां कफल्लकपणाचीं, हाची कल्पना फोंडूक आशिल्ली. आपलो भाव आनी भावजय कामांतलीं गेल्यांत, संवसाराचो गाडो आपले बायलेच्या आदारान आपल्याकच ओडचो पडटलो, हें फोंडू बरेबशेन जाणा आशिल्लो. फोंडू आनी गिरिजान तांची सामकीच आस सोडिल्ली.

फोंडू-गिरिजाचो संवसार फुलतासतनाच एक दीस विपरीत घडलें. घरा फाटले दोंगुल्लेर, पडटे पावसांत भोंवता आसतना फोंडूक एक फुलिल्ली रोयण दिसली. रोयणभर दाटयेन धवींफुल्ल अळमी फुलिल्लीं. अळम्यांचेर नदर पडटांच, पडट्या पावसांत ताणें रोयणीकडेन धांव घेतली. कापोतीचे तोंपयेचें बिड्डें सोडलें. तोपी माथ्याक दवरून, कापोत जमनीर पातळायली. फार्टी-फुडें पळयनासतना लागलो फोंडू रोयण बुड्डूंक. आपले सरभोवतणी कितें घडटा हाचें भान फोंडूक नाशिल्लें.

इतले म्हणसर खंयच्यान तरी बुट्टांतल्यान वाट काडीत जाग्याधनी आयलो. पळय जाल्यार कोणे तरी ताच्या ठिकाणाचेर हल्लो केला. हें पळोवन जाग्याधनी चवताळलो. पयलीं तो फूट-दोन फूट उबो जालो. रागान फोणां काडून फोंडूचेर फोंसेलो. तरी फोंडू थंयच्यान हटलो ना. तें पळोवन जाग्याधनयान ताका दंश केलो.

धनी एका वोडीचो आशिल्लो जावंये. फोंडू खिणांत कापोतीवेल्या अळम्यां राशीर लवंडलो तो सांसणाखातीर!

फोंडू मरच्या वगतार गिरिज्याच्या पदरांत तीन धुवो सोडून गेलो. धुवां वांगडा सांगाताक गोंदूय आशिल्लो. चार भुरग्यांचो सांबाळ करपाची जापसालदारकी गिरिज्याचेर येवन पडिल्ली आतां.

फोंडूच्या मरणावेळार गोंदू चवथेक आशिल्लो. तो लोकांचे नदरेन भुरगो आशिल्लो. तरी ताका खूब कितें समजतालें. फोंडू मेल्ल्याचें दुख्ख जितलें

गिरिज्याक जाल्लें, ते परस चड तें गोंदूक जाल्लें. बापूय धडधाकट आसूनय गोंदू आपल्या बापोलयाक बापायचे सुवातेर मानतालो. बापोलयाच्या गजालीचें तो अनुकरण करतालो. ताकाय कारण आशिल्लें. मुळावे शाळेंत शिकतासतना हरीमास्तरान ताका सांगून दवरिल्लें की, " गोंदू, समाजांत खुबशो गजाली जशो बऱ्यो आसतात तशो वायटय आसतात. मनीस व्हडलो जातलो जाल्यार भुरगेपणांतच बरें कितें आनी वायट कितें हें सोदून काडपाची सवंय करून घेवंक जाय. भांगर चकचकीत आनी वालोराचें आसता. पूण खंयचीय वस्त चकचकीत दिसली म्हण ती भांगर आसतलीच अशें मात समजूचें न्हय."

आपल्या बापायच्या बाबतींत विचार करतना गोंदूक बापायचें सगळेंच वागणें नकली दिसतालें. ताचो बापूय बापोलया परस सगळेच बाबतीत रुबाबदार दिसतालो. तो न्हेसतालो झेतार, उलयतालो नेटार, खाता-जेवतालोय बरें. पूण ताचेकडेन पेजाद अशें कांयच नाशिल्लें. ह्या उलट फोंडूकडेन मात सगळेंच देखदिणें आशिल्लें. तो भपक्या पासून जाता तितलो पयस आसतालो. खावंक जेवंक मेळयतलो जाल्यार घाम गळोवंचोच पडटा हें फोंडूचें तत्वगिन्यान. फोंडू थोडेंच उलयतालो. पूण जें कितें उलयतालो तें मोलाचें आसतालें.

सगळ्याच बऱ्यांक बरें मेळटा अशें नासता. फोंडू कश्टी, शांत, मायाळू आनी बऱ्या मनाचो शेतकार आनी भाटकारय म्हळ्यार जाता. गिरिज्याच्या रुपान ताच्या सांगाताक लक्ष्मी आयली. दोन येत्ता शिकिल्लें गिरिजें दूरदर्शी आशिल्लें. ताका लागोफाट तीन धुवो जाल्यो. फोंडूक चलो जाय आशिल्लो. पूण चोवथ्या भुरग्याक गिरिज्यान न्हयकार दिलो आनी फोंडून तो मानून घेतलो.

चोवथें भुरगें नाका हाचो थाराव घेवचे पयलीं तांचेमदें उलोवप जाल्लें,

" गिरिज्या, आमकां तिग्योय बायोच जाल्यो न्हो गो! हे फावटी बाबा जाल्यार पुरो." फोंडून मन उक्तायलें.

" हाटले पावटीकूय तूं ओहोच म्हणटालो. पूण जालें बायूच."

" हे पावटी बाबूच जातोलो."

" कोणूय जांव. आमकां आनी चोवथें भुरगें नाहा रे!"

" ओहें कित्याक म्होणटा तूं, भोयणाक एक पूण भाव नाहां गो?"

" आनी चोवथेंय बायच जालें जाल्यार? ओहेंच केन्ना मेरेन वाडयतलो? हे फुडें आनीक भुरगें नाहां म्होणचे नाहां! आहा तेंकाच बोरेभाशेन वाडोवंया. आनी भोयणांक भाव म्होणशी जाल्यार, गोंदू ना रे? तेका कोण सांबावतोलो? तिगां भोयणांक एक भाव पुरोना?"

फोंडून तिगां भयणांक एक भाव आसा हें केन्ना चिंतूकच नाशिल्लें. गोंदूचेर ताची खूब माया आशिल्ली. ताका कितें जाय कितें नाका हाची तो काळजी घेतालो. पूण कितलोय जाल्यार तो आपलो न्हय, हो परभाव ताच्या मनांत रिगून आशिल्लोच. गिरिज्याच्या उतरांनी तो आतां पयस जाल्लो.

गिरिज्याच्या मनांत एक मात शिजतालें, की गोंदून म्हारगें शिकप घेवचे परस ताणें आपलें शेत-भाट सांबाळचें. कश्ट केल्यार धरतीमांय कोणाक फुकट सोडिना, हाची गिरिजाक पुराय खबर आशिल्ली. तरी ताका शिकपाची खोशी आसाच जाल्यार ताणें जाता तितलें शिकचें आनी कोणाची चाकरी करिनासतना आपलें घरदार आनी भाटबेंस सांबाळचें.

फोंडूच्या मरणा उपरांत गिरिज्यान संवसार आपल्या ताब्यांत घेतलो. गोंदू, आपलीं तीन भुरगीं आनी आपलो देर बारकेलो ह्या सगळ्यांची जापसालदारकी ताणें आपल्याचेर घेतली. संवसाराची मुखेल आतां तेंच जाल्लें. बारकेल्यानय गिरिज्याच्या कामाक कसलेंच आडमेळें हाडलें ना. बारकेल्याक घरा येतकीर वगतार पोटभर भुसकें मेळटालें. ते भायर च्या पाणी आनी सिगरेटीक पयशे ताच्या हातार पडटाले. बारकेल्याकय हाच्याशिवाय कित्याचीच गरज नाशिल्ली. ताची बायल गावांतल्या एका देसायाच्या जाळ्यांत फशिल्ली. बारकेल्यान तिची वासपूस सोडिल्ली.

गोंदूभोवती हीं सगळीं पात्रां वावुरतालीं खरीं, पूण एक ताची काकी-गिरिजें आनी हरीमास्तर सोडलो जाल्यार, हेर कोणाचोच प्रभाव ताचेर पडूंक नासलो. ताणें फुडलें जिवीत आतां हरीमास्तरान ताचेर केल्ल्या संस्कारांनीं आनी गिरिज्याचे देखीन सारचेलें थारायिल्लें.

गोंदू आयज खुशालकायेन भरिल्लो. आयज तो पावलूगेर वचपासलो. पावलून आपल्यागेर व्हरता म्हण उतर दिल्लें ताका .

“काके, आयज हांव देनपारां जेवंक येवचो ना गे!”

“जेवंक येवचो ना, कित्याक रे?” गिरिज्यान कुडींतल्यान जाप दिली.

“सोर आमहां सांजे भायल्यान हेडों व्हरतलो.”

“तोहें जाल्यार तूं माहां आतां सांगता ! रातीकडे सांगपा न्हो, भुती करताहलें.”

“भुती नाहां गे. सोर दिता पांव-भाजी. चारांक येतो पोत्ते.” गोंदून गिरिज्याक ताजी फटास मारली.

गोंदू कोणाकडेन फट उलोवपी भुरगो न्हय. काकीकडेनय फट उलोवपाक ताच्या जिवार येतालें. आयज फट उलयना जाल्यार ताका पावलूगेर वचूंक मेळचें नासलें. खरें म्हळ्यार गिरिजें ताका दनपारच्या वेळार पावलूगेर वचपाक दिवंचें नासलें. आनी तागेल्या फट उलोवपांत कोणालें कांयच लुकसाण जावपा नासलें. हाका लागून गोंदून व्हडलेंशें मनाक लावन घेतलें ना.

तरी गोंदू दनपरां भायर उरतलो हाचे जाणविकायेन गिरिज्याचें मन कळवळलेंच. ताणें गोंदूच्या बोल्सांत धा रूपये घाले.

“हे धा रुपये व्हर आनी गरज पडल्यार कितेंय घेवन हावपाचें.”

पयशे घेवंक गोंदूचें मन तयार नासलें. पूण ते ना घेतले जाल्यार काकेक दुबाव पडटलो म्हूण ताणें ते घेतले. गरजे भायर घेतिल्ले पयशे सांजवेळा घरा येतकीर परत दिवपाचे ताणें थारायले.

इस्कोलांत येनाफुडें सगळ्यांत पयलीं गोंदू पावलू म्हऱ्यांत गेलो. इस्कोल सुट्टकीर आपूण तागेर वचपाचे तयारेन आयलां म्हणपाचें सांगून तो मेकळो जालो.

अशे तरेन परक्या लोकांगेर वचपाची, गोंदूली पयलीच खेप आशिल्ली. हाचे पयलीं ताका कोणे आफोंव नासलो. ताचीं सोयरींधायरीं तसलींच. लोकाल्या भुरग्यांक आजो-आजी, मामा-मावसो बी आसतात. तांचेकडल्यान भुरग्यांच्यो

तोखणायो बी जातात. गोंदूक मामा-मावशी बी आशिल्ली. पूण ताच्या आवयल्या पारपोळपणाक लागून सगलीं पयस-पयस रावतालीं. गोंदूली आवय आवयगेर गेल्यार थंय कसलीं ना कसलीं नांवरूपां करून येताली. हें थंयच्च्या मनशांक साप्प मानवनाशिल्लें. ताका लागून गोंदूय थंयच्या लोकांक परको जाल्लो.

आपूण पावलूगेर गेल्यार ताच्या घरच्यांक आवडत काय? आपूण तांचो कोणूच न्हय. तीं किरिस्तावां आनी आपूण हिन्दू. हिन्दूंगेर कितलींय झेंतार किरिस्तावां आयलीं जाल्यार, तांचो भश्टाचार लागता. बामणांक लागता तो लागता. काळ्या आनी बुरसट गावड्यांकय लागता, हाचो अणभव गोंदून घेतिल्लो.

पावलू गोरोगोरोच आनी न्हेंसता झेंतार. आपूण काळो, हाडकुळो आनी दिसूंक बुरसो. पावलूची आवय दिसूंक कसली आसा देवाक खबर. चड करून ती पावलू भशेन गोरी निवळच आसूंक जाय. ताच्या घरांत आनी कोण कोण आसात काय? पावलूक एक भयण आसा म्हणपाचें ताणें पावलू कडच्यान आयकल्लें. ती आपलें ध्यान पळोवन हासली जाल्यार? पावलूची मांय आपल्याक उठ बस करतली? काय ती हिन्दूभशेन भेदभाव करतली?

गोंदू ल्हान आशिल्लो. पूण ताची नियाळ शक्त मात धारेची आशिल्ली. म्हऱ्यांत आयिल्ल्या एकान एक मनशाची पुरायेन तो पारखण करतालो. मुखावयलो मनीस उलयता कसो, ताचे हावभाव, ताची भास आनी ती उलोवपाचो झेत ह्या सगळ्या गजालींचो तो बारकायेन नियाळ करतालो. पूण ताका कितें दिसता तें कोणाक उलोवन मात दाखयनासलो. शाण्या भुरग्यांचीं लक्षणां अशींच आसतात.

गोंदूक आयज निमणे घांटीचो ध्यास लागिल्लो. घांट केन्ना जातली आनी दप्तर फाटीक लावन केन्ना भायर सरतलों, अशें जाल्लें ताका. इंटरवाला उपरांत गरजेचीं पुस्तकां भायर दवरून बाकीचीं सगळीं बोटव्यांत आदींच मांडून दवरिल्लीं ताणें.

शेकीं घांट जाली. सगळीं भुरगीं भुरूभुरू करून भायर धांवलीं. गोंदू मात बोटवो खांदार मारून आपलेच सुवातेर उबो रावलो. पावलू धांवत ताच्या म्हऱ्यांत

आयलो. ताणें हांसत गोंदूच्या खांदार हात घालो. खुशालभरीत जावन दोगय इश्ट तान-भूक विसरून घरादिकेन चालीक लागले.

पावलू घरा पावचे पयलींच किरोण-पावलू भयण घरा पावतालें. पावलूचें इस्कोल देडाक सुट्टालें आनी किरोणाचें एक विसांक. किरोण माद्रिंगेर शिकतालें. माद्रिंलो कोवेंत किरोण-पावलूल्या घरापासून चड पयस नासलो.

किरोण पावलू परस दोन वर्सांनीं ल्हान. कोंकणी चोवथेक शिकतालें. पावलू पांचवेपासून कोंकणी विशय शिकतालो. ताका लागून किरोणाची कोंकणी भास पावलू परस बरी. शीला टिचर किरोणाक खूब बरें करताली. ताका लागून किरोण सदांकाल शीला टिचरी फाटल्या-फुडल्यान भोवतालें. दोगांय एकमेकांकडेन कोंकणीनच उलयतालीं.

आयज आपल्यागेर गोंदू येतलो, हाची खबर किरोणाक आशिल्ली. गोंदू आपल्या भावाचो फ्रेंड. तोय कोंकणो. इरमांवान कोंकणो फ्रेंड कित्याक केला काय? जांव कोणय! फ्रेंड जालो म्हण्टकीर जालो.

किरोण आतां येवन येवन जनेलांतल्यान भायर नदंर मारूंक लागलें. भायर यो भितर वच करतां करतां किरोणाची नदर पावलूचेर पडली. ताच्या फाटल्यान हाडकुळोसो भुरगो भीत भीत चलतालो. ताची नदर पायां कडेन नासली. घरादारांचेर, झाडापेडांचेर नदर मारीत चलतालो तो पावलू फाटल्यान!

दोगय लागसार पावल्यात तें पळोवन किरोणान घरांत धांव मारली. मम्मीचो हात धरून, तिका ओडीत घेवन भायर आयलें, इतले म्हणसर गोंदू आनी पावलू दारांत पावले.

"तूं गोंदू मरे, कोहो हाय रे! यो यो, भितोर यो." गोंदूच्या हाताक धरून मम्मीन ताका भितर व्हेलो. सालांत सोफा मांडून दवरिल्ले. पावलून गोंदूक फोरसान सोफाचेर बसयलो. गोंदूय कसलीच भीडमुरवत धरिनासतना सोफार झेतान बसलो. ताणें उसणो नेट हाडिल्लो.

पावलू मुस्तायकी देवयनासतना ताच्या म्हऱ्यांत बसलो. किरोण कदेलाक तेंकून उबें रावन हासत्या तोंडान गोंदूक पळयत रावलें. मम्मीन भितर वचून

लिमकाचे दोन ग्लास हाडून दोगांय भुरग्यांच्या हातांत दिले.

''पिये बाबा'' मम्मीन मायेन सांगलें. गोंदू हातांत ग्लास घेवन, मान खाला घालून रावलो. पावलू मम्मीन आग्रो केलो. ''लोजता रे गोंदू, लोजे नाहां!'' गोंदून पावलूचेर एक नदर मारली आनी ग्लास तोंडाक लायलो. फ्रिजांतली लिमका तो गटगटीत पिवंक शकलो ना. हुनहुनीत चाव पिता ते भशेन पिवंक लागलो.

''गोंदू, जेयता मरे तूं आमजेर? वाडूं मरे तुहां पावलू बराबोन!'' मम्मीन गोंदूचो अदमास घेतलो.

''नाहां-नाहां, हांव घरा वोसोनच जेयतां.'' गोंदू आकांदल्यावरी उलयलो.

''कित्याक रे? आमी गायेचें-दुकराचें मास बी हायनाय बाबा. केन्नाय हेस्ताचेंच हाताय. तेंय सोयरीं येयल्यारच हाडटाय आमीं. आमच्या घारांत सोगलें लिप आसता. यो तुकां आमचें कुजीन दाखोयतां.''

''नाहां नाहां, हांव घरा वोसोंन जेयतलों. हाये काकेक तोसेंच सांगलां.''

गोंदूची भास म्हणचे एक तरेचें खतखतें आसलें. ताच्या वाड्यार चडशे गावडे रावताले. एक मेस्तालें घर आसलें. तांची भास गावड्यांहून वेगळी आसली. केन्ना केन्नाय भायले गांवचे बामण बी कसल्या ना कसल्या कामांक लागून कोंडवाड्यार येताले. तांच्योय भासो एक श्यो नासताल्यो. मराठी शाळेंत शिकता आसतनाय वेगळ्या वेगळ्या जातीचीं भुरगीं ताचीं वांगडी जाल्लीं. आतां पाद्रिल्या इस्कोलांत चड भुरगीं किरिस्तांवालीं. ताका लागून गोंदू खाशेली गावड्यां भास उलोवंक शकनासलो. गिरिज्याचेंय थोडे प्रमाणान तशेंच जाल्लें. ताका लागून तीं गावड्यांची भास टाळून नव्या उतरांचो आसपाव करतालीं आपल्या उलोवपांत.

गोंदू आनी पावलू मम्मी उलयतासतनाच हातांत एक स्टिलची चकचकीत किटली घेवन पावलू घरांतल्यान भायर सरलो. तो खंय गेलो हाचो पत्तो गोंदूक लागलो ना.

''बोस आं गोंदू, पावलू रोकडो येतलो'' अशें म्हणून पावलू मम्मी कुजनांत गेली. किरोण मात ताच्या म्हऱ्यांत थोडो वेळ बसलें आनी मागीर आपल्या स्टडी रूमांत गेलें. गोंदू आपल्याकडेन उलोवंक खाखुडटा म्हणपाचें ताच्या लक्षांत

आयलें जावंये.

गोंदू आतां सालांत एकटोच उरलो. ताचें शिंतिद आतां सालांतले सजावटीकडेन गेलें. साल ल्हानच पूण मदेंच मोव मोव गादयो, कुशनांचो म्हारगी सोफासेट मांडून दवरिल्लो. मदेंच एक हारसो बसयल्लें वाटकुळें टिपॉय. ताचेर एक फुलांचो वाज. वाजान प्लास्टिकचे नकली गुलाब. गोंदून वाजाक सज हात लायलो. रंगयाळ्या फुलांक वास-मोवसाण मात्तय नाशिल्ली. गोंदूचें मन निर्शेलें. ताका दिसलें, ताज्या आनी टवटवीत मनमनशांच्या घरांत असलीं फुलां कित्याक?

मागीर ताची नदर कोनशाचेर गेली. एका कोनशाक, सुंदरशे लाकडी पेटयेंत टिवी बसयल्ली. दुसऱ्या कोनशाक व्हीडीओसारखी आधुनीक वेवस्ता. वण्टीक एक गीतार लांबयिल्ली आसली. वण्टींचेर सांत-सायबिणीचीं पांयजेलां. ते भायर पावलू, किरोण आनी तांचे मम्मी डॅडीचे फोटेय सालाच्यो वण्टी सोबयताले. जनेलांचे दाट निळसार पडूडे सालांत थंडसाण राखताले.

गोंदू असली गिरेस्तकाय पयलेच फावट नियाळटालो. ती संद ताका पावलून दिल्ली गोंदूच्या गुणांक लागून. तशें पळोवंक गेल्यार पावलूचो डॅडी निजाचो गिरेस्त न्हय. तोय शेत कसपी कुळवाडी. आतां तो भायर गेल्ल्यान दुडवांकार जाल्लो. एका वेळार ताची मम्मी कासाटो मारून शेतांत काम करताली. तांचें मातयेचें, पोरणें-मोडकें घर अजून गरिबकायेची याद दितालें. अशें आसलें तरी पावलूचे वागणुकेंत, पावलूच्या मम्मीचे वागणुकेंत गरिबकायेचो वास येनाशिल्लो. कांय मनशांकडेन दुडू जालो म्हणटगीर सभ्यतायेन वागपाचो तीं येत्न करतात. आपल्या भुरग्यांक बरी देख दिवची अशें तांकां दिसता. किरिस्तांव लोक ते खातीर माद्री-पाद्रिंचो आदार घेतात हें आतां गोंदूक कळून आयिल्लें. माद्री-पाद्री लोकांकडेन उलयतना मायेमोगान आनी सांबाळून उलयतात. तांच्या वागणुकेचो परिणाम लोकांचेर जाता, हें पावलूच्या कुटुंबावेल्यान गोंदूक कळून आयलें.

इतले म्हणसर पावलू एका हातांत ल्हानशी नितळ पिशवी आनी दुसऱ्या हातांत किटली घेवन गडबडीन भितर आयलो.

"गोंदू भुकेलो मुरे!" पावलून भायर येवन प्रस्न केलो.

"छॅट!" गोंदून न्हयकार दिलो.

"तूं आमजेर जेयना मुरे?"

"हांव घरा वोसोन जेंयतलों. आतां माहां भूक लागोना रे!"

"तूं फोट मात्ता. हे वोगतार भूक लागोना? चोल उठ!" पावलून गोंदूच्या हाताक धरून उठयलो. गोंदूक ती जबरदस्ती दिसली. तो एकाच जाग्यार घट्ट जालो.

"तूं आमजेर जेवं नाहां रे. पूण यो तुहां कितें दाखोयतां." अशें म्हणून शिरपुट्या गोंदूक पावलून ओडीत कुजनांत व्हरून उबो केलो. थंय ल्हानशें मेज आसलें. मेजार नितळ आनी चकचकीत कापोत पातळायल्ली आसली. मेजार एक कांचेचो जग आसलो. दोन-तीन ग्लास आसले. बसपाक सायलाचीं नक्शीकाम केल्लीं तीन कदेलां आसलीं.

किरिस्तावांगेर चड करून बशयांनीं जेवतात. काटे-कुलेरांचो उपेग करतात. पूण हांगां तसलें कांय दिसलेंना. पावलूखातीर स्टिलच्च्या ताटांत उकड्या तांदळांचें शीत. शिताकुशीक कसलेंतरी वेर्दूल, तेल घालून धाडायल्लो सुको बांगडो. खळांतले आंबलेचो कुडको आनी टोमाट-कोबी घालून केल्ली किस्मूर वाडून दवरिल्ली. तेकुनच गोंदूखातीर ताट आसलें. ताटांत किस्मूर आसली पूण बांगडो नासलो. शिताबदला एक उंडो, एक पोळी आनी हॉटेलावेली चणे-बटाट घालून केल्ली पातळ भाजी. ही पातळ भाजी बाजारांतल्यान हिन्दू हॉटेलांतली खास करून गोंदूखातीर हाडलेली पावलून!

"गोंदू , बोस बाबा. हें जेवण न्होय. ब्रेकफास्ट सोमजोन खा. आमजेर येवन उपाशीं वयतलो? देवाक वायट दिसतोलें."

गोंदून मम्मी आनी पावलूच्या तोंडाक पळयलें. दोगांय हांसत्या तोंडान गोंदूक नियाळटालीं. गोंदून मेजार मांडून दवरिल्ल्या दोनूय ताटांचेर नदर मारली. आतां दनपारचीं अडेच जावन गेल्लीं. गोंदूच्या पोटांत कावळे रडटाले. सकाळीं सातांक नाचण्यां भाकरी खावन आयिल्लो गोंदू, आतां भुकेन तळमळटालो. तसो तो काटूक आसलो. पूण ताटांतली खावड पळोवन ताचें मन थाऱ्यार उरलें ना. भाज्जेचो

घमघम ताच्या नाकांत शिरिल्लो. पोळी, उंडो ताका आपल्याक खा-खा म्हणटाली. ताटांतलें सॅलड ताचे जिबेर उदक हाडटालें. गोंदूक आतां कळून चुकिल्लें की माये-मोगान वाडिल्ल्या अन्नाचो अपमान केल्यार खऱ्यानींच देवाक वायट दिसतलें. ताणें ताट म्हऱ्यांत ओडून घेतलें. पोळयेक हात घालून तिचे कुडके केले. एकेक कुडको भाज्जेंत बुडोवन तो तोंडांत शिरकोवंक लागलो.

खातां खातां गोंदूची नदर कुजनाच्या दारावयर लायिल्ल्या जेजूच्या फोटवाचेर पडली. खुर्सार मारिल्लो जेजू गोंदूक पळोवन हांसता, असो ताका भास जालो. जेजूल्या हांसपात गोंदूक अर्थ सापडलो. जेजू गोंदूक सांगतालो, 'वाडलां तें दोळे धांपून पोटभर खा. भूक वाडोवंक नाकां. म्हजे कृपेन हो घराबो तुजो मोग करता. तूंय तांचेर भरपूर मोग कर. जे सुवातेर मोग आसा, थंय हांव आसां. हांव संवसारांतल्या लोकांचो, हांव काळ्या-गोऱ्यांचो, ल्हान-व्हडांचो, कुड्ड्यांचो, थोंट्यांचो तसो भेऱ्यांचोय बी. हांव जाणां तुकां गाय धुकराचें मास आवडना. तूं तें केन्नाच खांव नाका. तुकां आवडटा आनी मानवता तेंच तुकां दिंवचें, अशें हांवें पावलू-मम्मीचे तकलेंत घालां. तूं म्हाकां जेजू मानू नाका. राम-कृष्ण मान. आनी सगळ्यांकडेन मोगान वाग, सुखान जिये. अशें केल्यार तू खरेलो कोंकणो आनी हिन्दू उरतलो.'

गोंदूक हे विचार नवे आसले. हिन्दू आनी किरिस्तांवांलो देव एक न्हय, अशें तो समजतालो. हिन्दू वडलांनी अशेंच कितें तरी ताचे तकलेंत चोंदलेलें. किरिस्तांव बुरशे. ते धुकराचें मास खातात. सदांकाल न्हायनांत, अशे हिन्दू उलयतात तें गोंदून आयकल्लें.

एक दीस गोंदूगेर मारी आयिल्लें. ताचो व्हिस्तिद नवो आशिल्लो, पूण म्हेळो. ताणें येनाफुडें आंगणांत सुकत घाल्ल्या चण्यादाळींत हात घालो. दाळ तोंडांत उडयतां-उडयतांच उरिल्ली दाळ मुळचे दाळींत भरशिली. गोंदूक तें साप्पच मानवलें ना. कारण ती दाळ गिरिज्याली अनवाळी आशिल्ली.

गिरिजें गोंदूक घेवन एकदां ह्याच मारीगेर गेल्लें. मारीलें घर पळोवन गोंदू विटेल्लो. मारील्या बल्कावांत धुकरां गोठेल्लीं. रगड्याचेर कुकडांनीं घाण केल्ली.

घरभर कोयर जाल्लो. हाका लागून किरिस्तांवां बुरशीं आनी कोंकणी नितळ असो गैरसमज जाल्लो गोंदूचो! पूण आतां तो पयस जाल्लो. ते भायर देवामदें भेद ना. हिन्दू-किरिस्तांवांचो देव एकूच, हेंय सत गोंदूच्या मनांत रिगिल्लें. कांय वर्सां फाटीं हेड मास्तरानय ताका हेंच सत सांगिल्लें.

गोंदून बकाबका ताट रिकामें केलें तें पळोवन मम्मीक खोस भोगली. एक कोंकण्यालो भुरगो आपल्या घरांत जेवलो हें मम्मीचे दिश्टींन व्हडलें आसलें. तातले तातूंत एकाद्रो बामण किरिस्तांवांगेर जेवीत, पूण गावडो न्हय, हाचो अणभव मम्मीक आसलो.

भाजी-पोळी खावन जातकीर पावलून आपलें पुराय घर आनी परिसर गोंदूक भोवन दाखयलो. पावलूल्या घराफाटल्यान ल्हानशें शेत आसलें. घरांत गिरेस्तकाय आसूनय मम्मी स्वता काम करून शेतांत भाजी-पालो पिकयताली. आपल्या दोगांय भुरग्यांकय शेतकामाची सवंय लागची म्हूण शेतांतलीं सगळे तरेचीं कामां करूंक लायताली मम्मी. शेतांत टोमाटां, वायंगीं, मिरसांगो, भेंडे बी सगळे तरेच्यो भाज्ज्यो पिकोवन काडूंक मम्मी आनी भुरग्यांक खोस भोगताली.

गोंदूक पावलूल्या घरचें वातावरण मानवलें. चड करून घरा फाटलें शेत. देशेंत रावनय शेतकाम करूंक जाता म्हणपाचें बरें लिसांव ताका हांगा मेळ्ळें. पावलूगेर येवन गोंदूच्या विचारी मनाक मात्सीशी गती मेळ्ळी. हो अणभव ताका फुडल्या जिविताक चड गरजेचो आसलो. पुस्तकांतल्यान मेळिल्ल्या गिन्याना परस अणभवांतल्यान मेळिल्लें गिन्यान मनशाक मरमेरेन बळगें दिता.

आतां दनपारचीं चार वाजिल्लीं. एका आंब्या मुंदांत बसून खुबशो गजाली केल्ल्यो दोगांय इश्टांनीं. कसल्यो गजाली केल्ल्यो ताणीं? आपापल्या मुळाव्या शाळेंतल्यो यादी गोंदून पावलूक सांगल्यो. पावलून त्यो मन लावन आयकून घेतल्यो. चड करून हरीमास्तराचें चित्र गोंदून पावलू मुखार जशाचें तश्शें उबें केल्लें. हरीमास्तर भुरग्यांक कसल्यो काणयो सांगतालो, म्हाभारत, रामायण आनी हेर काणयां पुस्तकां भुरग्यां कडल्यान वाचून घेतालो, हाचीं वर्णना गोंदून अशे तरेन केलीं, कीं तीं आयकून पावलूक दिसलें, ते मानान इंग्लिश इस्कोलांत ताचें

शिकप कांयच जावंक पावलेंना. गोंदूच्या गिन्यानाचो थाव पावलूक लागलो. खरें गिन्यान मेळयतलो जाल्यार भुरग्यांनीं खूब वाचन करपाची गरज आसा म्हणपाची गजाल पावलूक गोंदूकडच्यान कळ्ळी.

उलयतां उलयतां सांज केन्ना जाली, हाचो पत्तो दोगांय इश्टांक लागलो ना. वोतां मोव जालीं. वारो थंड जावन गोंदूच्या कानांत खातकुतल्यो करूंक लागलो, तेन्ना तो भानार आयलो. आनीक वगत केल्यार काकी हुस्को करतली हाची जाणविकाय ताका जाली.

"पावलू, हांव वयतां. काकी हुस्को करतली."

"आनी येतलो मुरे?"

"हय, येतलों. तुजी मम्मी, किरोण खूब बरीं!"

"आनी हांव बरो न्हू मरे?" पावलून गोंदूचे फाटीर हात मारून म्हणलें.

"मम्मी, गोंदू वोयता हूंय जे!"

"वोयता बाबा, आनी केन्ना येतलो रे?"

"येतां केन्ना केन्नाय."

"आईक इचाल्लां म्हुणोन सांग!"

गोंदून मान हालोवंक जाय म्हूण हालयली. आनी मम्मीनय गोंदूक विचारूंक जाय म्हूण विचारलें. खरी खबर तिका नाशिल्ली. गोंदूनय तिका कांयच सांगू ना. गरजय नाशिल्ली सांगपाची.

मम्मी भितर गेली. एक पॅकेट हाडून गोंदूच्या हातांत दिलें. गोंदू नाकां नाकां म्हणटां, मम्मीन तें हातांत चोंदलेंच.

मम्मी गोंदू कोण, तो कोणालो, ताचो आवय बापूय कितें करता हें नकळ आशिल्ली. ती तो आपल्या पुताचो इश्ट इतलेंच जाणां आसली.

गोंदू एक भुरगो आशिल्लो. पूण एक धूव आवयगेर सावन घोवागेर वता तशीं जड पावलां उडयत गोंदू चलत रावलो. तीन जीव ताका निरोप दिवंक हुंबऱ्यार उबे रावन हात हालयताले.

पावलूगेर सावन आयल्या उपरांत गोंदूमदें खुबसो बदल जाल्लो. हे आदीं तो आपल्या सोयऱ्यां धायऱ्यांगेर जात्रा, काल्याक बी वचून आयिल्लो. पूण पावलूगेर जाल्ली तशी तोखणाय - अपुरबाय ताची खंयच जावंक नाशिल्ली. सोयऱ्यांगेर ताका तोन्न-वोन्न, सोजी-वोडे बी पोटभर वोडूंक मेळटाले. पूण पावलूगेर मेळ्ळो तसो भोवमान आनी येवकार ताका कोणे केन्नाच दिलो ना. तसो तो कोण्णाचे नदरेंत केन्ना भरलोच ना. पावलूगेर गेले उपरांत आपूणय कोण तरी आसां ह्या संवसारांत म्हणपाची जाणविकाय पयलेच खेप जाल्ली गोंदूक!

तशें पळोवंक गेल्यार कोंडवाड्यावेले चडशे गावडे मोगाळ, शांत, कश्टाळ, एकमेकाकडेन थंडसाणेन आनी मायेमोगान वागपी. कोणाक दुखयनासतना एका मेकाच्या आदारान जियेवपी. एकामेकाक बाबा-पुता करून दीस काडपी पूण सुदारिल्ल्या लोकांमदें लागोळेंपण आसता तसलें लागोळेंपण मात तांच्यांत नासलें. हें लागोळेंपण आनी झेत गोंदूक पावलूगेर दिसून आयलो. गोंदूक तो मानवलोय बी. आपूणय बी तांचे भशेनच आसचों अशें गोंदूक दिसूंक लागलें.

इश्कोलाक वता आसतना गोंदूक वाटेर वासू कामतीलें घर लागतालें. ताचें चली, माया ताका सदांच भायर दिसतालें. तें किरोणा येदेच इदादीचें आसूंये! पळोवंक देखणें. व्हडलें गिरेस्त नासूनय न्हेंसप गिरेस्तांभशेनच. बामणालीं भुरगीं तशेंच न्हेसतात अशें गोंदूचें आदीपसूनचें मत. पूण किरोण बामणालें नासूनय बामणाभशेन न्हेंसता, हाचें गोंदूक अजाप दिसलें. माया व्हिस्तीद घालता तसोच किरोणय घालता. किरोण बॉबकट करता तसोच मायाय करता. पूण गोंदूल्यो बापोलभयणीं लांब केंस वाडोवन विणयो घालतात. केन्ना केन्नाय शेंडकुटो बांदतात. ताणींय माया-किरोणा भशेन केंस कापून बॉबकट करचें अशें गोंदूच्या मनांत आयलें. भुरग्यांनीं तशें केल्यार तांचीं माथीं उवांघरां जावंक पावचीं नांत आनी केंसय सदांकाळ नितळ उरतले. हे विचार ताणें काकेक सांगचे अशें ताका दिसलें. पूण आपणें सांगलें, आनी गिरिज्याक तें मानवलें ना जाल्यार? हट्ट धरपाक गिरिजें ताची खाशेली आवय थोडीच आसली! आनी बापोलभयण्यो कश्यो आसच्यो, कश्यो दिसच्यो हें थारावपी गोंदू कोण? हे परकेपणाचे भाव

ताच्या मनांत घोळूंक लागले आनी ताणें आपल्या मनाक आवर घालो.

अशें आसलें तरी गोंदून स्वताक बदलपाचें थारायलें. पावलू भशेन आपूणय बरो झेतार भोंवचो अशें ताणें मनांत घेतलें. आपूण काळो आनी हाडकुळो आसां हाची ताका खंत भोगताली. तातूंत तो गांवांत भोवतासतना केन्ना केन्नाय बुतांव तुटलेलो बुशर्ट घालून भोंवतालो. देशेंत अशें काल्सांवय नाशिल्लें ताचेकडेन. आतां, हे फुडें आपूण ज्यानोत भोंवतलों, अशें ताणें थारायलें. देशेंत भुरग्यांक इश्कोलांचे सर, टिचेरी आनी भुरगीं वालोर दितात, हें तो अणभवान जाणा आशिल्लो.

इश्कोलांत ताच्याच क्लासांत मीना नावाचें एक भुरगें आसलें. गोरें गोरें गोरेंच. पूण बुरशें. घाणयारो व्हिस्तीद, टाय तुटिल्लो. धुल्लान भरिल्ले मेय आनी मोचे. केंस सदांच विस्कटलेले. व्हांवतें नाक! ताका लागून टिचरी ताका म्हऱ्यांत घेनाशिल्ल्यो. हेर भुरगीं ताच्या पसून पयस पयस रावतालीं. ताका आवय-बापूय आशिल्लो. तें गरिबय नाशिल्लें, हें तें इंटरवालाक खाणां खाता तें पळोवन लक्षांत येतालें. टिचरी ताका सुदारपाचे यत्न करताल्यो, पूण ओमत्या कळश्यार उदक. हेंच भुरगें नीट नेटकें आनी सदांच लीप राविल्लें जाल्यार सगळ्यांक आवडटलें आशिल्लें, हें गोंदूच्या लक्षांत येवंक कळाव लागलो ना. किरिस्तांवांल्यो चडश्यो बायलो, घरांत धड जेवंक खावंक नासल्यार लेगीत तरेतरेच्च्यो फॅशनी करतात. आपल्या भुरग्यांकय बऱ्या भेसांत भोंवडायतात. ताका लागून तीं भौसांत सदांच उठून दिसतात. हें सव्वेंत शिकपी गोंदूक आतां कळून आयिल्लें. ताणेंय आपणें सदांकाळ देशेंत रावपाचें थारायल्लें. पावलूचो इश्ट जावन रावतलो जाल्यार घाणयाऱ्या भेसांत रावप समा जावचें ना हें ताणें चिंतलें आनी तो फुडल्या कामाक लागलो.

झेतार भोवपाची संद गोंदूक पावलूनच मेळोवन दिल्ली. पावलूचे मम्मीन ताका एक पॅकेट दिल्लें. गोंदून हें पॅकेट लिपोवन घरा हाडिल्लें. आनी घरांत व्हर नासतना घरा फाटल्या पणसा धोलींत तें लिपोवन दवरिल्लें. हेत हो की, पॅकेट कोणें दिलां, हें सद्या तरी गिरिज्याक कळचें न्हय. पॅकेट ताणें सोडोवंक नाशिल्लें, तरी तातूंत कपडेच आसतले, हाची खात्री गोंदूक आशिल्ली.

पावलूचो डॅडी भायर आसता. गोंयांत येतना वांगडा तो साडयो, टी शर्ट, मसाल्याचें सामान बी हाडून आपल्या सोयऱ्या धायऱ्यांक आनी इश्टांक वाट्टा. गोंदूक ताची कल्पना आशिल्ली. ह्याय पॅकेटांत आपल्या खातीर टी शर्ट बी शेर्त आसूंक जाय, अशें गोंदूक दिसतालें.

पणसा धोलींत लिपोवन दवरिल्लें पॅकेट गोंदून आतां भियेत भियेत, लिपयत घरा हाडलें. घरांत कोण ना तें पळोवन तो निसण लावन माळ्यार चडलो. जतनायेन पॅकेट सोडलें. पळे जाल्यार टी शर्ट आनी काल्सांव. काळ्या, तांबड्या, आडव्या पट्ट्यांचें टी शर्ट. गोंदूक तें खिणांत आवडलें. केन्ना काय घालून पळोवचें शें दिसलें ताका. ताणें आनी आनी वगत लायलो ना. माळ्यारच झटपट ताणें तो ड्रेस आगार चडयलो. पयले फावट असलो ड्रेस ताणें आपल्या आंगार चडयल्लो. केन्ना काय आपलें रूप हारशांत पळयनशें दिसलें ताका. पूण माळ्यार हारसो खंयचो? ताणें आनी आनी वगत लायलो ना. झपाझप दोन-तीन निसणी पावंडे देवलो आनी मदल्यानच जमनीर उडी घेतली. धांव मारून ताणें कोळयांतलो वाटकुळो हारसो घेतलो. टी शर्टातली आपली कूड कशेबशेन पळोवन घेतली आनी तो धादोस भरीत जालो. लोकांक अबरगत दिसपी गोंदू काळो आसूनय टी शर्टांत आतां बरो झेतार दिसतालो. ताचे कुडींत आतां नवें चैतन्य खेळूंक लागिल्लें, आपूण गोरो आनी सशक्त नासलों तरी दिसपांत सामकोच बाबत ना, हाची जाणविकाय आतां गोंदूक जाली.

इतलें म्हणसर खंयच्यान तरी गिरिजें आनी ताचीं भुरगीं वांगडाच घरांत भितर सरलीं. आपल्या घरांत एका अनवळखी तरनाट्याक पळोवन तीं सगळीं एकदम काचाबूल जालीं. गिरिज्यान तर मोट्यान एकच किळांच मारली. ताका दिसलें कोणय तरी चोर आपल्या घरांत भितर सरला. गोंदूय आपले काकेची किळांच आयकून गोंदळून गेल्लो. तो आकांतलो आनी असोऽऽ बिलू कसो जावन सगळ्यांक पळयत रावलो. आतां गोंदूची फाव तशी हालचाल जायना ती पळोवन गिरिज्याक इल्लो नेट आयलो. तें दोन धेपां फुडें आयलें. बारीकसाणीन ताणें नदर मारली. पळय जाल्यार तो तरणाटो चोर-बीर कोण नासून तो आसलो गोंदू!

"काके, हांव तो." गोंदून काकूळटेन आपली वळख करून दिली.

गोंदूची वळख पट्टकीर गिरिजें अजापलें. केदो वेळ तोंडार हात थेवन, दोळे मोटे करून तें गोंदूक पळयत रावलें. आपल्या पुतणयाक नव्या भेसांत पळोवन गिरिज्याक हांशाचो बोंब फुटलो. तें खो-खो करून हांसता तें पळोवन ताचीं भुरगीं लागीं जालीं. तींय गोंदूक पळोवन खोशयेन ताळयो पेटोवंक लागलीं. हें सगळें पळोवन गोंदूक थंयच्यान खंय तरी धांव मारची अशें दिसलें. ताणें दोनय हातानीं चेरो धांपलो.

‘‘लोजो नाहां रे बाबू, तूं बोरो ऽऽ दिसता.’’ गिरिज्याले व्हडले धुवेन गोंदूली तोखणाय केली.

‘‘बाबू सामको किरिस्तांव कसो दिसता.’’

‘‘ना तो बामोण कोहो दिसता.’’

‘‘आमचो बाबू कावो आहा मुगो. तो बामोण कोहो दिसतलो?’’

‘‘बामोण काये ना गो? वासूबाबालो शिरिकांत गोरो आहा?’’

‘‘तो सामको कावो माकोड कोहो दिसता मुगो. आमचो बाबू पूण जायतो बोरो दिसता, सोसो कसो.’’

‘‘खी-खी-खी.’’ गोंदूल्यो तिगय बापोलभयणी एकामेकाफुडें गोंदूचीं फकांडां करूंक लागल्यो. येदो वेळ मान खाला घालून मुकाट्यानी गोंदू भयणांचीं उलोवणी आयकतालो. पूण जाप काडिनासलो. ताका कोणेतरी धीर दिवपाची गरज आसली. तो धीर ताका आतां गिरिज्यान दिलो.

‘‘बाबू होऱ्यांनीच बोरो दिसता. आमचो बाबू हे फुडें ओहलींच आंगलीं घालतलो. हांव हाडटोलें तेहा.’’ हीं उतरां आयकून गोंदूक बरें दिसलें. ताका पयलीं दिशिल्लें काकी नव्या पोशाकाक आडमेळें हाडटली. म्हणटली, ‘आमकां गावड्यांक आनी शेतकामत्यांक असलो भेस कोताक येवचो ना.’ काकीन नव्या भेसाक तेंको दिलो आनी गोंदू खोशेन भरलो. हे खोशे भारान ताणें आपल्याक नवो पोशाक कोणें दिल्लो तें काकेक सांगलें.

‘‘काके, खऱ्यानींच बरो दिसता जे हो ड्रेस माहां?’’

‘‘होय रे, होऱ्यानींच बोरो दिसता.’’

‘‘हाल्यां हो ड्रेस घालून फ्रेंडांक दाखोवं?’’

“दाखय.”

गिरिजें मनापासून उलयलें. ताका दिसलें, वापरूनी भुरग्यांक तांकां आवडटा तसले कपडे. किरिस्तांव आनी हिन्दू बामण, घरांत खाण-जेवण उणें करून लेगीत आपल्या भुरग्यांक भायर झेतार भोंवडायतात. मागीर आमचींच भुरगीं फाटीं कित्याक उरचीं? गिरिज्याचे तकलेंत आतां नवे विचार घोळूंक लागले. गिरिजें कितें तरी चिंतता तें पळोवन गोंदून आपलें तोंड उकतें केलें, “काके, हाल्याच्यान शेवंतीक माथ्यार तेल घालूंक दिवं नाहां!”

“चिज्याक रे!”

“बुरशें दिसता.”

“तेल नाहल्यार हुबचेना रे ते?”

“बॉबकॉट करून बेंड घाहल्यार कांय हुबोना. म्हाज्या फ्रेंडा भोयण बरी दिसता केंस कापून.”

“कोण रे तुजो फ्रेंड, आनी तेजे भोयणीचें नांव कितें?”

“फ्रेंडाचें नांव पावलू, आनी तेजे भोयणीचें नांव किरोण. हो नोवो ड्रेस माहां तेच फ्रेंडान दिला. तेजो डॅडी भायर आहा न्हो जे?”

गिरिजें आनी गोंदूचीं उलोवणी चलता आसतना गिरिजाल्यो तिनूय धुवो कान लावन आयकताल्यो. व्हडले धुवेक केंसांचो विशय आयकत रावन सो दिसलो. इस्कोलांत माद्री आनी किरिस्तांव टिचरी गावड्यांल्या भुरग्यांक केंसां विणयो घालूंक दिनांत, आंबाडो बांदूंक दिनांत, माथ्यांत फुलां माळूंक दिनांत, माळल्यार रागान पिसडून भायर मारतात, हें सगळीं भुरगीं जाणां आसलीं. गावड्यांल्या भुरग्यांक फुलां माळून इस्कोलाक वचूंक आवडटा. पूण केंस कापून, बोडकुलां जावन इश्कोलांत गेल्यार इंग्लेज बरी येता, असो समज बऱ्याच गावड्यांल्या भुरग्यांचो जाल्लो. किरिस्तांवांलीं केंसकापीं भुरगीं इंग्लेज फाड फाड उलयतात, अशें गिरिज्याल्या भुरग्यांक दिसतालें. ताका लागून हे फुडें ताणींय केंस कापून घेवपाचो हट्ट गिरिज्याकडेन केलो. गिरिज्यानय कोणाची परवा करिनासतना भुरग्यांचे मागणेक मान्यताय दिली.

दुसरे दिसा इस्कोलाच्या ग्रावंडार फुटबॉल मॅच आसली. खेळगडी आपापले

युनिफॉर्म घालून ग्रावंडार गेल्ले. इस्कोलांतले आनी गांवचे हेर भुरगेय ग्रावंडार मॅच पळोवंक गर्दी करून आसले. ते गर्देंत पावलू आनी गोंदूय आसलो. पावलूक पळयनाफुडें गोंदू ताच्या फाटल्यान वचून उबो रावलो. पावलू हेर वांगड्यांकडेन उलयतासतना गोंदून टप् करून ताचे तकलेर थापटी मारली. पावलून फाटीं वळून पळय जाल्यार एक अनवळखी भुरगो, हांसकुऱ्या चेऱ्यान पावलूक पळयता.

"पावलू वोवकोना रे माहां, हांव मरे गोंदू!" गोंदून हात फाकारून दोळे वटारून म्हणलें.

"म्हुजे मांय, गोंदू मुरे! सामको हिरो दिसता मुरे. बाप्पाय, ज्यानोत दिसता आं! हुंय जेहलां रे टी शर्ट?"

"तुजे मम्मीन दिलां मरे तें माहां. तुकां होबोर ना रे?" पावलूगेर आरमार भरून मुस्तायकी आसा. आपले मम्मीन गोंदूक कितें तरी प्रेजेंट दिलां इतलेंच पावलू जाणा आसलो. इतलें बरें ड्रेस आपल्या इश्टाक दिलां तें पळोवन पावलूक खूब खोस भोगली. ताका गोंदू आतां ओर्राद आनी देखणों दिसूंक लागलो. ताणें हेर वांगड्यांक म्हऱ्यांत आफोवन घेतले, सगळ्यांकडेन गोंदूची वळख करून दिली.

गोंदू आतां चडच कोमार आयिल्लो. सदांच फाटीं फाटीं रावपी गोंदू आतां भुरग्यांमदें फुडें फुडें रावंक लागलो. भुरगे आतां आपूण जावन ताच्या म्हऱ्यांत येवन ताच्या खांदार हात घालूंक लागले. हाय-फाय करूंक लागले. पावलूय आतां गोंदूकडेन इंग्लीश मारूंक लागलो. गोंदूय येस-येस, नो-नो करून जापो दिवंक लागलो. अशें आसलें तरी इंग्लीश उलयता आसतना पावलूचो गळो सयल सुट्टा तसो आपलो सुटना हाची खंत गोंदूक जाताली. इंग्लीश उलोवच्या वगतार आपलो गळो कोण तरी अंदयता असो भास गोंदूक जातालो. तरी तो फाटीं सरलो ना. आपल्याक बरी इंग्लीश येवंक जाय जाल्यार सुर्वेक लज-भीड धरिनासतना कशाकशीय ती लेफडायचीच पडटली, हाची जाणविकाय आतां गोंदूक जावंक लागिल्ली.

चारचोवगांत भोंवल्या बगर मनीस सुदरना, अशी एक म्हणणी आसा. मनीस वयर सरतलो जाल्यार ताका कोणाचोय तरी आदार जायच पडटा. गोंदून पावलूचो

आदार घेतलो जाल्यार, पावलून गोंदूचो कित्याक घेवंचो न्हय? पावलूकडेन गिरेस्तकाय आसली ती दुडवांची पूण गोंदूकडेन आपलेपरस चड शाणेपणाची गिरेस्तकाय आसा म्हणपाचें पावलूक कळून आयिल्लें. पावलू मदें-मदें खूब उलयतालो. पूण तो पावला कणकणी चुकतालो. ताच्यो चुको सुदारपाचें काम गोंदू करतालो. गोंदू आपल्यो चुको दाखयता हाचें पावलूक मातय वायट दिसनासलें. तशें पळोवंक गेल्यार पावलूक जायते इश्ट आसले. पूण ताच्यो चुको दाखोवपाची कापास्ताद कोणाक नासली. आनी आसतली कशी? दुसऱ्यांच्यो चुको दाखोवन दितल्याची ताकदय तितलीच आसूंक जाय काय नाकां? गोंदूकडेन ती ताकद आसली. गोंदू पावलूचो बरें मागपी आशिल्ल्यान तो आपली जणेक गजाल आयकून घेवपाक पावलूक कोमार काडटालो. पावलूकय गोंदूचीं उतरां आयकून घेवपाची आतां इल्ली इल्ली सवंय जावंक लागिल्ली. गोंदूचे लगाडीक लागून पावलूक आतां सरभोवतणचे नवे नवे प्रस्न आकर्शीत करून घेताले. तांच्यो जापो सोदपाखातीर पावलूच आतां गोंदूचे फाटीक लागतालो.

मनशाक एकदां गिन्यानाची तान लागल्यार ती भागोवपाक तो जळींमळीं धांवपाक लागता. ही तान भुरगेपणार लागल्यार उत्तम. ती लावपाक आवय-बापायन सादूर मात रावंक जाय.

गोंदूक बरी देख दिवंक आनी गिन्यानाची ओड लावंक ताचो आवय-बापूय जाग्यार नासलो. पूण तें काम मुळावे शाळेंतल्या हरीमास्तरान बेसबरें करून दवरिल्लें. हरीमास्तरान घालून दिल्ले बुन्यादीचे आदारान गोंदू खूब कितें करूंक शकतालो. पूण पावलूचें तशें नासलें. पावलूचें सगळेंच उथळ आनी उकलापें. घरांत कलर टिवी आनी नाच गाण्यांची वेवस्ता. वांगडा केबल. आवय-बापायचो एकटोच चलो भुरगो. घरांत कितेंच उणें नाशिल्ल्यान फुडाराची कसलीच चिंता नासली. खावन-जेवन आपल्या पुतान मजा मारची, अशी आवय-बापायची इत्सा. ताका लागून पावलूच्या राज्यांत गिन्यानाक व्हडलेशें म्हत्व नाशिल्लें. पूण हें म्हत्व ताच्या जिवितांत आतां गोंदून हाडलें.

इतले दीस नावा पुरते फ्रेंड आशिल्ले पावलू–गोंदू आतां पक्के इश्ट जाल्ले. एकामेकांचें बरें मागपी, एकामेकाच्या सुखादुखांत वाटो घेवपी. दोगांचींय मतां एक. दोगांचेय विचार एक. दोगांचोय भेस एक.

केन्ना केन्नाय तांचेमदें मतभेद जातालो. पूण एकामेकाचेर तिडनासतना, एकामेकांक दुखयनासतना मतभेद मिटोवपाचो दोगय यत्न करताले. तांचें हें वागणें पळोवन जाण्ट्या–नेण्ट्यांक एक बरी देख मेळटाली, लोक म्हणटाले, 'इश्ट आसचे तर गोंदू–पावलू सारके!' हीं उतरां जेन्ना दोगांयच्याय कानार पडटालीं, तेन्ना तांकां ती मेळिल्ली एक व्हडली शाबासकीच अशें दिसतालें. ही शाबासकी तांकां तांचे उदरगतीक बळगें थारताली!

मनशाची उदरगत जातली जाल्यार ताच्या जिवितांतली खंयची घटना वा प्रसंग केन्ना आनी कसो फायद्याक पडत हें कोणाच्यान सांगूंक जायना. गोंदू आनी पावलू हे वेगवेगळ्या धर्माचे भुरगे. वेगवेगळ्या वातावरणांत वाडिल्ले. देवाचे कृपेन ते एकठांय आयल्यात. तांचे इश्टागतीचो फायदो फुडें तांकां कसो मेळपाचो आसा ताची तांकां मात्त सुलूस नाशिल्ली.

पावलूचे मम्मीक आज घरकाराची चीट आयिल्ली. चिटयेंत ताणें पावलूच्या शिकपाविशीं मुजरत खबर घेतिल्ली. पावलूचो डॅडी सांतान भायर आसलो तरी ताचें ध्यान मन आपल्या बायल – भुरग्यांचेर आशिल्लें. चड करून ताका पावलूच्या शिकपाची चड चिंता आशिल्ली. आपूण शिकूंक पावलोना देखून गांव सोडून बोटीर पावलों. आपल्या पुतान तरी खूब शिकून व्हडलो मनीस जावंचो, अशें बोटीर काम करतां करतां ताच्या मनांत येतालें. ताच्या मनांत असले विचार येवंक तशें कारणय आसलें. बोटीर ताका दुडू जायते मेळटाले. त्या दुडवांनी तो आपले फामिलीक जल्मभर सुखी दवरूंक शकतालो. पूण बोटीर ताका फावो तसो मान, रेस्पेद मेळनाशिल्लो. शिकप नाशिल्ल्यान तशें घडटा हाची खंत ताका भोगताली. आपल्या वाट्याक आयलां तें आपल्या पुताक मेळचें न्हय अशें ताका

दिसतालें.

सातान गांवांत कोमुनदादीचें शेत करून बायल-भुरग्यांचें पोट भरूंक शकतालो. ताच्या मांय-पायन तेंच केल्लें. पूण ताच्या मांय-पायच्यो गरजो मर्यादीत आशिल्ल्यो. पायन काश्टी मारून जल्मभर शेतांत काम केल्लें. पूण आतांच्या तेंपार तें सांतानाक परवडपाचें नासलें. बरें जिवीत सारतलो जाल्यार दुडवांची गरज आसता. आनी आतांच्या काळार शेत कसून हातांत दुडू खेळनांत हो अणभव सांतानान घेतलो आनी ताणें बोटीर वचपाचो निर्णय घेतलो.

गांवांतले तशे जायते किरिस्तांव भाव बोटीर गेल्ले. पूण तांचो दुडू जोडपाचो हेतू फक्त गिरेस्त जावपाचो आसलो. हेरां भशेन सातानूय आपल्या बायल-भुरग्यांक सुखी दवरूंक सोदतालो. पूण ताका गिरेस्तकाय जाय आसली ती खिणाची न्हय, तर सासणाची. बोटीर आनी गल्फांत वचून खिणाचे गिरेस्त जाल्ले सांतानान खूब पळयल्ले. तांकां खिणाचे गिरेस्त म्हणपाचें कारण ताणी जोडिल्ली जोड म्हातारपणांत सोऱ्याक काबार केल्ली. कांय जाणांच्या तवनास भुरग्यांनी वगडायल्ली. हो अणभव घेवन सांतान सासणाचे गिरेस्तकायेच्या फाटल्यान लागिल्लो. सासणाची गिरेस्तकाय मेळयतलो जाल्यार भुरग्यांचेर आनी स्वताचेरय भोव बरे संस्कार करून घेवंक जाय हाची जाणविकाय सांतानाक आशिल्ली. कोणे दिल्ली ही जाणविकाय ताका? इस्कोलांत तर तो चड तेंप तिगलो ना. वाचूंक, बरोवंक शिकता आसतनाच मांय-पाय ह्या संवसाराक अंतरलो. उपरांत माशेनान ल्हानाचो व्हड केल्लो. मागीर काजार करून दिल्लो.

सांतानाची बायल जाकीनय एका शेतकामत्याली धूव. दोगांय घोव बायलां समजिकायेचीं. दोगांचेंय एक मत जाल्ल्यान, आपल्या ताब्यांत आशिल्लीं कोमुनिदादीचीं शेतां एका 'कोहण्याक' रोवंक दिलीं आनी सांतान बोटीर गेल्लो. कित्याक तर आपल्या अपुरबायेच्या दोगांय भुरग्यांक शिकोवन, बरी देख दिवन व्हड करपाची ताका गरज आसली.

किरिस्तांव धर्मांत जणेका गांवांत धर्म शिकोवन ताची उजळणी करून घेवपाची वेवस्ता आसता. आपल्या धर्माच्या ल्हान भुरग्यांक धर्म शिकोवन बरी देख दिवपाचें काम गांवचो मुखेल पाद्री करता. ताका पालव दिवंक दुसरो पाद्री

आसता. मुखेल पाद्री बापूय, तर दुसरो भाव. हाकाच लागून आयज इगर्जींनीं फादर आनी ब्रदर जावन पाद्री वावुरतात. हे पाद्री कसलोच भेदभाव करिनासतना आपल्या अनुयायांक बरी देख आनी शिस्त लावपाक वावुरतात. जे किरिस्तांव भाव आपल्या धर्मगुरूचेर भावार्थ दवरून आसतात ताच्या जिवितांत बदल जावपाचीय गरज आसता. बरेच किरिस्तांव लोक देवाचेर भार घालून सुखाची न्हीद घेतात.

सांतानाचेंय तशेंच जालें. ल्हान आसतनाच ताच्या पायन ताका फादर निकलावच्या सुवादीन केलो.

फादर निकलाव हो गांवच्या इगर्जेचो पादविगार आसलो. नितळ मनाचो पाद्री तो. जेजुच्या उतरांचें पालन करपी. ताच्या पांयांकडेन आयिल्ल्याक, भेदभाव करिनासतना गिन्यानाचीं दोन उतरां सांगपी. पाद्रिचो शेरमाव समेस्तांक मानवल्लो जाल्यार हे धर्तरेर सर्ग फुलतलो आसलो. पूण ज्यांनी तो मन लावन भावार्तान आयकलो ताणीं आपल्या जिविताचें भांगर केलें. सांतानय तेच माळ्ळेंतलो मनीस आसलो. सांतानांतले बरे गूण पावलू मदें पळोवंक मेळटाले.

आज सांतानाची चीट वाचून जाकीन चिंतेंत पडलें. सांतानान पावलूच्या अभ्यासाविशीं चवकशी केल्ली. पावलू शिकपाक हुशार आशिल्लो तरी ताका हिन्दी जमनाशिल्ली. किरिस्तांवांक हिन्दी कठीण लागता अशें पाद्री-माद्री आनी चडश्या किरिस्तांवांची समजिकाय आसली. ताका लागून हिन्दीचें नांव काडटांच भुरगीं न्हिदेंत लेगीत कच्च करून आंग काडटालीं.

पावलूची हिन्दी कच्ची आसा म्हूण जाकिनान पांचवेक सावन पावलूक तोपयो सराकडेन ट्युशनाक धाडिल्लो.

तोपयो सर मेळत ताका तोपूंक हुशार. आपल्याक फी नाका नाका म्हणत ताणें जाकीनाकडच्यान म्हयन्याक दोनशीं रूपये घेतलेच. जाकीनाक दोनशीं रूपयांचें कोंत नाशिल्लें. पावलूक हिन्दी बरी येवची म्हण आत्रेपयऱ्यान तोपयो सरागेर कसल्यो ना कसल्यो सागवादी धाडीत रावलें. सांतानय तोपयो सराच्या भुरग्यांक पावटीन पावटीक खाशेले कपडे धाडूंक लागलो. हाचो परिणाम असो जालो की पावलूली हिन्दी सुदरचे पावटीक ती दिसान दीस कच्ची रावत गेली. ती

सुदरली आनी पावलूक बरे मार्क पडूंक लागले जाल्यार, तोपयो सराल्यो सागवादी बंद जातल्यो हें तो बेसबरें जाणासलो.

तशें पळोवंक गेल्यार तोपयो सर, हिन्दी सर नाशिल्लोच. ताची हिन्दीय कच्चीच आशिल्ली. एस. एस. सीक ताका शंबरांतले सात्तीस गूण मेळिल्ले. पूण तो हिन्दू म्हूण ताची हिन्दी बरी आसतली, अशें ताचें गुणपत्रक पळोवं नाशिल्ल्यांक दिसतालें.

स माहेक पावलूक फकत तांबडी आडी मेळिल्ली ती हिन्दी विशयाक. हेर विशयांक ताका साठां वयर गूण मेळिल्ले. ही गजाल ताणें सांतानाक कळोवंक नाशिल्ली. ताका लागून आतां तें चिंतेंत बुडून आशिल्लें.

इतल्यान सट्ट करून ताची नदर सायबीण मांयचेर पडली. तिच्या म्हऱ्यांतली मेणवात पालवल्या ती पळोवन, तिणें ती फस्का काडयेन पेटयली. वगत लायनासतना सायबिणी मुखार दिमी घाली. आनी भावार्तान मागणें कोमेस केलें.

जाकीनान हात जोडून, दोळे मिटून सायबिणी लागीं मागलें, तिणें पावलूचेर बेसांव घालचें. ताच्या शिकपाक कसलेंच आडमेळें पडचें न्हय. सायबिणीचे कृपेन कठिणांतले कठीण विशय सोपे जातात. तेन्ना, 'हे मोगाचे माये, कुरपेन भरलेले! पावलूक सोगल्या सोब्जेक्टींनीं पास कर. तशें घडलें ना जाल्यार म्हुज्यान पोतीक तोंड दाखोवंक जावंचें ना.'

रोजार केल्या उपरांत जाकीन सायबिणीचेर पातयेवन आपल्या सदच्या कामाक लागलें. ताणें डॅडीची चीट आयिल्ल्याची खबर भुरग्यांक सांगपाचें थारायलें.

''बाब पावलू, किरोण हूंय जेलां रे! दोगांय हिंगा योवाय, डॅडीची चीट येयल्या.''

दोगांय भुरगीं धांवून आयलीं. किरोणान मम्मीच्या हातांतली चीट झट्ट कन्न ओडून घेतली. चिटीचो दोन वेळां उमो घेतलो. चिटीक पळोवन खुशालकायेन भरलीं जाकीनालीं भुरगीं.

''कितें बोरोयलां जे डॅडीन चिटयेंत?'' चीट पळोवन उतावीळ जाल्ल्या पावलून प्रस्न केलो.

''सोगल्यांक रेकाद दिला. आनी बायेक खाशेलो कीस!''

''डॅडीन केन्ना येता तें बरोवंक ना?'' पावलून उत्सुकतायेन विचारलें.

"आनी दोन म्हयन्यांनी येता हूंय. बाबा फायनेलीक हिन्दी पास जातलो मरे? डॅडीन इचाल्लां तूं हिन्दी कोहो शिकता काय म्होणोन. हे फावटी हेल मात जावं नाहा बाबा आं! डॅडी बेजार जातलो." जाकिनान सांगतना तोंड येदेंऽ केलें.

आपली मम्मी खंती जाता ती पळोवन पावलूक खूब वायट दिसतालें. इस्कोलांतली हिन्दी टिचर तशी शिकोवंक वायट नासली. पूण पावलू तोपयो सराकडच्यान ट्यूशन घेता, हें ती जाणा आशिल्ली. तिणें एक शिकयल्यार शिकोवणे वगतार तोपयो सर भलतेंच शिकयतालो. तोपयो सराक शिकयतासतना लेक्चर दिवपाची सवंय. ताका लागून पावलूच्यो अडचणी तो सोडोवंक शकनासलो. खरें म्हळ्यार पावलू तोपयो सराकडच्यान ट्यूशन घेवंक सोदी नासलो. पूण तोपयो सरूच आपूण ट्यूशन दितां म्हणून जाकिनाच्या फाटल्यान लागिल्लो. दुसऱ्याक सोदूंक वच्चे परस हो आयतो मेळटा म्हण, जाकिनान पावलूक ताचेकडेन सोपोवन ताची वाट लावन घेतली. आतां तर तोपयो सराकडच्यान शिकोवणी काडून घेवंक जाकिनाच्या जिवार येतालें. तशें केल्यार सराचो राग ओडून घेवंचो पडटालो. तोपयो सर तेच इस्कोलांत शिकयतालो. शिकयतासतना ताका वायट दिसता तसलें कर्म करप पावलूच्या फायद्याचें नासलें. हो तोपयो सर गुदावांतल्या चणे-मुगांक तोपपी बरडा भशेन आसलो. ते भायर मेळत ताका तोपयो घालूंकय ताचो हात धरपी गांवांत कोण नाशिल्लो. तोपयो सर खरें म्हळ्यार शिक्षक जावपाचे लायकीचो नासलो. मॅट्रीक पास जाल्या उपरांत बी. ए. पास जावंकच ताणें धा वर्सां घेतिल्लीं. गांवच्या आमदाराक मस्को मारून ताणें पाद्रिल्या इस्कोलांत शिक्षकाची नोकरी मेळोवन घेतिल्ली. अर्थांत आमदाराचो कार्यकर्तो आशिल्ल्यान इस्कोलांत ताचो मान प्रिन्सिपाला परस इल्लोय उणो नाशिल्लो. इस्कोलांतले सगळे कर्मचारी ताका प्रिन्सिपालाचो चमचो म्हण वळखताले आनी प्रिन्सिपाल ताका आमदाराचो मनीस म्हण ताचें कसलेंच उतर भायर मारिनासलो.

कसलेंच ट्रेनींग नासतना तोपयो सर कितलींशींच वर्सां इस्कोलांत उरलो. सरकारी कायद्यान अनट्रेन्ड शिक्षक पांच वर्सां वयर इस्कोलांत रावंक शकना. पूण तोपयो सर बी. ए. एजाम परतो परतो दितालो तो कायद्यान इस्कोलांतलो भायर पडचो न्हय म्हूण. सरकारान नवो कायदो तयार करून अनट्रेन्ड शिक्षकांक सात

वर्सां केल्लीं. तो बी. ए. पास जावं नाशिल्लो जाल्यार आनी दोन वर्सां वाडोवन मेळपाची शक्यताय आशिल्ली.

घरांतले सायबीण मांयक पावलूची काकूळट दिसली. तिणें ताका तोपयो सराच्या कचाट्यांतल्यान सोडपाचें थारायलें.

अकस्मात जाकिनाचे तकलेंत उजवाड पडलो. ताका खिणांत गोंदूची याद जाली.

"बाबा, तो तुजो, कोहणो फ्रेंड पोत्तो येयलोना मुरे! बरो आहा मुरे तो?"

"गोंदू जे मम्मी! तो फोर्त आहा. सोद्दा येता इस्कोलाक."

"आपोय रे तेका एक दीस."

"तुहां जाय जाल्यार हाल्यां आपोयतां."

"बोरो भुरगो तो, अपुरबायेचोच!"

"व्होय मम्मी, तुमचोय तो सोदांच उगडास कोत्ता. चोड कोन्न किरोणाचो."

"तूं कित्याक आपोयना रे तेहा. माहांय तेजो पोत्तो पोत्तो उगडास येता." किरोण खुशालभरीत जावन उलयलें.

"हिन्दी बोरी येता रे तेहा?"

"होय मम्मी. हिन्दी, मोराठींत तेहा सोगल्यांत चोड मार्क मेवता. हांव आंचता तेजो रिपोर्ट."

"तोहें जाल्यार आपोय रे तेहा. इंगा केन्ना-केन्नाय आमच्या किरोणाचें रिडींग घेवंक लावया तेहा. आतां झेहल्यार बोऱ्याक पोडटोलें. नाजाल्यार....."

"व्होय मम्मी माहांय तोहेंच दिसता. तो हिंगा येयल्यार, माहांय हिन्दीचे मिनींग बा इचारूंक बोऱ्याक पोडटोलें." पावलून आपल्या मनांतलें उलोवन दाखयलें.

"तेजे आईक सांगो नाहां रे? आमी या एक दीस तेजे आईक मेवोंक."

"मम्मी गोंदू इंगा येवंक तोयार आहा जाल्यार तेजे आईक इचारपाचें." पावलू शाणो कसो उलयलो.

"मम्मी, माहां जुनांतल्यान तोपयो सराकडेन धाडूं नाहां जे. तो माहां कांयच शिकोयना. पादविगार शेरमांव सांगता, तोहेंच किदें तोरी उलोयता. माहां कांयच

सोमजोना तेजें! हेय पावटी हांव फेल जातोलों.''

हेय पावटी फेल जातलो, हें आयकना फुडें जाकिनाच्या काळजांत कच्च जालें. आपणेन तोपयो सराचेर भावार्त दवरून व्हडली चूक केली हें आतां ताका कळून आयलें.

''तोहें जाल्यार तूं हे फुडें सोराचेर पातयेवन रावों नाहांय रे बाबा. इस्कोलाचे टिचरीकच इचार तुज्यो कोहल्योय आडकोळी आहल्यार. हे पावटी तूं हिन्दींत फेल ज्ञालो जाल्यार डॅडीक चोड दूख जातोलें.''

आपूण हिन्दींत फेल जातां तें पळोवन डॅडीक दूख जाता हाची कल्पना पावलूक आशिल्ली. तरी भुरगें मन आशिल्ल्यान तो व्हडलेंशें मनाक लावन घेनाशिल्लो. आतां ताच्या मम्मीचें दूख लक्षांत आयलें. हे एजामीक कोणाय भशेन हिन्दींत पास जावन दाखयतलोंच अशें ताणें मनांत थारायलें. दुसरे दिसा तो इंटरवालाक गोंदूक मेळ्ळो. ताणें आपलें दूख गोंदूक सांगलें. गोंदूचेंय दूख तेंच आशिल्लें. गोंदूक हिन्दी बरी येताली पूण इग्लीश कठीण लागताली. दोगांय इश्टांनीं एकामेकाच्यो अडचणी समजून घेतल्यो. वर्सुकी परिक्षेक आतां फकत दोन म्हयने आशिल्ले. हे फुडें ताणीं एकठांय येवन आपल्यो अडचणी पयस करपाचें थारायलें. पावलून तोपयो सराकडेन ट्युशनाक येवपाचें बंद केलें. दोगानीय आपल्या घरापसून मदेंच सुवात सोदून काडली. ही सुवात अशी आशिल्ली की थंय सट्ट करून कोणूच पावनासलो. पावलोच जाल्यार कोणूय गोरवां राखणो बिकणो. एका रूखा पोंदा सुळसुळीत काळश्या तळपाचेर दोगूय इश्ट आतां सदांच सांजवेळा अभ्यासाक बसूंक लागले. तांचो अभ्यास सांजेचो पांच ते सात मेरेन दोन वरां चलतालो. तांचे शिकपाचे विशय आशिल्ले फकत इंग्लीश आनी हिन्दी.

दोनय इश्टांनी वांगडा एक-एक कादेर्न आनी पेन हाडिल्लें. हांगा शाळेंत आसता तसो बरोवपाक काळो फळो, पुस्तकां आनी बोवाळ घालपाक भुरगीं आनी सर-टिचरी नाशिल्ल्यो. दोगूय इश्ट हांगा शिकपाच्या उद्देशान आयिल्ले, चकाटां मारूंक न्हय. पूण शिकपाची कसलीच रीत तांच्या दोळ्यां मुखार नासली.

सुर्वेक दोगूय इश्ट कांयच उलयनासतना चिंतीत बसले. सरभोवतणी विशाळ रूख उबे आशिल्ले. रूखाचेर कावळे सोडून सगळे तरेचीं सवणीं

आशिल्लीं. तांचीं सुरेल गायनां मेंदवांतली कळम निखळोवन मेंदू ताजो करतालीं.

सुर्या अजूनय बरोच वयर आशिल्लो. ताचीं किरणां रूखांतल्या ताळकुटांतल्यान रिगत दोनय इश्टांच्या बोडांक स्पर्श करून मेंदू शांत करपाचो यत्न करतालीं.

''पावलू करूया मुरे सुरवात?'' गोंदून पावलूक जाग हाडली.

''पूण कोमेस कोहें कोत्तोले रे!'' पावलून अडचण उक्तायली.

''पोयलीं कितें घेवया इंग्लीश काय हिन्दी?''

''हिन्दी! माहां मुरे हिन्दीचें एक उतर उलोवंक जोमोना. उलोयतोना जीब आडकोवता आनी बोरोयतोना पेन.''

''आतां हे फुडें तूं म्हाजेकडें हिन्दी उलय. कशीय उलय. तुकां हासपाक हांगा कोण ना. हांव तुजीं उतरां सुदरयतां. आमचो गुरूजी कितें सांगतालो जाणाय तूं? कसलीय भास खंय उलयले बगर कळना.''

''हो गुर्जी कोण रे?''

''गुर्जी न्हो रे, गुरूजी. आमचो हरीमास्तर. तो आमचेकडेन मराठीच उलयतालो. आमकांय मराठी उलोवंक फोर्स करतालो. ताका लागोन आमीं मराठी बरोवंक शिकले.''

''आमच्या इस्कोलांत सोगले इंग्लीश उलोयताय.''

''होय रे! पूण आमकां ती समजना. टिचरीनी प्रस्न इचाल्ल्यार तोंडांतल्यान जाप कशीच सुटना.''

''तोहें जाल्यार तूं मोराठी शाळेंत कित्याक गेलो?''

''घरच्यांनीं धाडलो म्होणोन.''

अशे तरेन दोनय इश्टांनी शिक्षणाचेर बरीच उलोवणीं केलीं. मागीर पावलून एक वर हिन्दी आनी गोंदून तितलोच वगत इंग्लीश शिकपाचें थारायलें.

गोंदू आतां एका वरा पुरतो पावलूचो 'सोर' जालो. तो आतां पावलूकडेन हिन्दीच उलोवंक लागलो. पावलू प्रस्नांच्यो जापो दिवंक अनमनतालो आनी चुकतालोय बी. असले वगतार गोंदू जापो सुदरावन पावलूक दिवंक लायतालो.

पावलूक गोंदून सरभोवतणचीं सैमांतलीं नांवां हिन्दीन बरोवंक लायलीं. चुकीचीं

नांवां ताणें थंयचे थंयच करेक्ट केलीं.

गोंदूक इंग्लीश शिकयताना पावलूनय गोंदूचीच रीत आपणायली. शिकतां शिकतां अडचणी येवप. त्यो एकामेकांच्या पालवान सोडोवप. अशें करतां करतां दोगांकय सेल्फ स्टडीची गोडी लागली.

दोगूय इश्ट आपल्या कमजोर विशयांचो गंभिरतायेन अभ्यास करतात, ही गजाल एके शिक्षिकेच्या लक्षांत आयली. तिका तांचें खूब कवतुकय दिसलें. तिणें तांकां हिन्दी-इंग्लीश आनी इंग्लीश-मराठी शब्दकोश घेवपाचो सल्लो दिलो. ताचो उपेग कसो करपाचो हेंय तिणें तांकां शिकयलें.

आतां मार्च म्हयनो उदेलो. वर्सुक्यो परिक्षा तेंकल्यो. पावलून हिन्दी आनी गोंदून इंग्लीश विशयाचेर जोर दिलो. शेकी परिक्षांचो रिजल्ट लागलो. पावलून हिन्दी विशयाची तांबडी आडी तर काडून उडयलीच. त्या विशयांत चाळिसां वयर मार्क पडून ताका पयलो रेंक मेळ्ळो. गोंदूचो इंग्लीश विशींचो भंय उडून खंयचे खंय नाच्च जाल्लो.

गोंदू सवी पास जावन सातवेक पावलो. सवीमेरेन आशिल्लो अबरगत गोंदू खूबच बदल्लो. इंग्लिशींतय तो आतां दिसान दीस प्रवीण जायत वतालो. पावलूकडेन तो न चुकतां इंग्लीश उलयतालोच. ते भायर आपल्याक समजून घेवपी टिचरी आनी सरांकडेनय तो बेधडक इंग्लीश ठोकतालो. उलयतासतना तो चुकतालो. पूण टिचरी ताका हासनासतना प्रोत्साहन दिताल्यो. गोंदूक आतां कळून चुकिल्लें की लजेक गेल्यार आपूण केन्नाच पेजेक पावचो ना.

गोंदूचें आतां पावलूगेर येवप-वचप सदांचें जाल्लें. किरोणाचें तो आत्रेपयऱ्यान हिन्दी-कोंकणीचें वाचन घेतालो. ताका तो गणितांतय मजत करूंक लागलो. गोंदूक लागून आपल्या भुरग्यांची दिसानदीस प्रगती जायत वता, ही गजाल जाकिनाचे नदरेंत भरपाक चड वगत लागलोना. तें गोंदूचेर भलतेंच खोशी जालें. ताणें ही गजाल आपल्या घोवाक चिटीन बरयली. आपलो पावलू गोंदूच्या आदारान

हिन्दींत पास जालो तें आयकून सांतान खोशेन भरलो. ताणें आतां गोंदूक मुस्तायकी आनी हेर गरजेच्यो वस्तू धाडपाक कोमेस केलें. गोंदूल्या बऱ्या गुणांक लागून तो आतां पावलूल्या घराब्यांतलो एक वांगडी कसो वावरूंक लागलो.

जुनांत इस्कोल कोमेस जातकीर तोपयो सर एक दीस पावलूगेर आयलो. केन्नाच पास जायनाशिल्लो पावलू हे खेपेक हिन्दींत पास जालो देखून ताणें जाकिनाक परबीं दिलीं. जाकिनान तोंडार उसणो हांसो हाडून ताका येवकार दिलो. पूण तें कांयच उलयलेंना. उलयलो तो तोपयो सरच "जाकीनबाय, आतां हिन्दींत फेल जावपाचे पावलूचे दीस सोंपले. हे फुडें ताका हांव फस्ट क्लासीचे मार्क मेळोवन दितलों." तोपयो सरान हड्ड्यार हात मारून जाकिनाक उतर दिलें.

"शिकोनासतना बोरे मार्क कोहे मेवतोले सोर! तुयें बोऽरें शिकोयलें, पूण तेणें शिकों नाहां?"

"कित्याक शिकचोना जाकीनबाय. हांवं आसतना तूं कांय भियोंनाकां? हांवें सामक्या भोट्यांक शिकोवन पास केल्यात. पावलूक हे आदीं कितें कळटालें, आतां जालोना तो पास?"

"होय सोर, देवा कुरपेन जालो पास." जाकीन मात्शें पिरंगलें. तोपयो सराक दिशिल्लें, जाकीन आपले उपकार मानतलें, आनी कसलीय तरी सागवाद हाडून व्हडा खोशेन आपल्या मुखार दवरतलें. पूण जाकिनाचें पिरंगणें आयकून तोपयो सराचें तोंड काळशेलें. सदां उठबस करपी जाकीन आज कशें बदल्लें हें कोडें तोपयाक उलगडलेंना. ताणें चिंत चिंत चिंतलें. जाकीन आदलेभशेन आपल्याकडेन उलयना तें पळोवन निर्शेलो. पावलूय ताच्या म्हऱ्यांत चड वेळ रावलोना. हें सगळें पळोवन तोपयो सरान थंयची बिडकी कवळपाचें थारायलें.

"बरें जाकीनबाय, येतां हांव. धाडून दी पावलूक पंदरा तारकेक सावन ह्या म्हयन्याचे." लज नाशिल्ल्या तोपयान आपल्याक कांयच कळूंक ना अशे भशेन सांगलें आनी तो थंयच्यान कडसरपाच्या बेतान भायर सरलो.

"सोर वोयताय? राव मूं!"

'राव मूं!' हें उतर तोपयाक सुखदिणें लागलें. ताका दिसलें जाकीन ताका कितेंय तरी दिवंक सोदता. कळाव करिनासतना ताणें सोफाचेर बसकण मारली.

"सोर बोस आं, इल्ली च्याव कोत्तां तुकां." हें आयकना फुडें तोपयाक मोव सोफार कुल्याक सूय तोपिल्ल्यावरी दिसलें.

"हो ओगोत चायेचो गो जाकीनबाय! फ्रिजांत कितें आसल्यार पळे मुगो."

"फ्रीज कितले दीस रिकामो आहा सोर. कोला-बिला कांय दवरूंना, भुरग्यांक थोंड जाता म्हुणोन."

"पावलू सोदांच हिन्दीक फेल जातालो. हे फावटीं तो पास जालो. बियर बी तसलें कितेंय मेळत म्हण आशेन आयिल्लों."

"आमजेर बियर आनी सोरो कोण पिताय सोर? सांतानाक तोर तो नाहांच. केन्नाय फेस्त बा आहल्यार सोयऱ्यांक लागोन हाट्टाय."

"तशें जाल्यार वतां तर हांव."

"राव सोर, वाटेर निक्लावालें बार मेवतोलें. थिंगा जेहल्यार जाता." तोपयान तोंड वांकडें केल्लें पळोवं नज जावन जाकीन एकच धेंप मारून भितर गेलें. शंबर रूपयांचें नोट हाडून तोपयामुखार धरलें. तोपयान तें अदाशाभशेन काडून घेवन थंयच्यान खिणांत कूस मारली.

जाकीन तोंड आं करून तोपयो सराक फाटल्यान पळयत रावलें. बेबद्या सराकडेन आपलो पूत शिकता ही कल्पनाच जाकिनाक सहन जाली ना. इतलो तेंप तोपयो सर म्हण तें जाणांसलें. हे फुडें पावलूक तोपयो सरापसून जाता तितलो पयस दवरपाचे विचार ताच्या मनांत आयले. पूण मनांत विचार येवन कित्याक उपकरता? ते अमलांत हाडूंक नाका? पावलूक पाद्रिलें इस्कोल सोडून दुसऱ्या इस्कोलांत तर तें घालूंक शकना! पाद्रीनच सांगलां तशें. हिन्दीचें ट्यूशन मात तें बंद करूंक शकतालें, आनी ताणें तें केलेंय बी.

तोपयो सराच्या कचाट्यांतल्यान पावलू सुटलो हें आयकून पावलू खोशी जालोच, पूण ते परस दोब्राद खोशी गोंदूक जाली. इस्कोलांत शिकतासतना तोपयो

सराचे बारीक सारीक हालचालीचेर गोंदूची बारीक नदर आसताली. तोपयो सर हो एक कुसक्या मनाचो आनी ल्हेंवटो नंबर एक अशी पुराय खात्री जाल्ली गोंदूची. पूण तो कोणा हुजीर उलोवंक शकनासलो. कारण, जांव सर, जांव टिचर, ताका देवासमान आशिल्लीं.

तोपयो सराची कटकट वतकीर पावलून थारायलें, ह्या फुडें ट्युशन म्हणटात तें नाकाच. खरें म्हळ्यार पावलू ट्यूशनाक कितलेय दुडू खर्च करूंक शकतालो. पूण अडचण आशिल्ली ती गोंदूक. ताची काकी ट्यूशनाक एक पयसो खर्च करूंक तयार नाशिल्ली.

'सेल्फस्टडी'ची गोडी लागिल्ल्या दोनय इश्टांनी आतां इस्कोलांच्या बाकांचेर एक उपचार म्हण बसपाचें थारायलें. तशें पळोवंक गेल्यार एक-दोन शिक्षक सोडले तर सगळ्यांचें शिकवप कंटाळवाणें आशिल्लें. कोणाचो आवाज घरघरो, कोणाचो ताळो बारीक तर कोणाक उलोवपाची शक्त नाशिल्ल्यान फाटल्या बाकांवयल्या भुरग्यांक कांयच आयकूंक येनाशिल्लें. जणेकलो शिक्षक वर्गांत येवन पयलीं धा-पंदरा मिनटां कितें बडबडटा तें तांकांच कळनाशिल्लें. मागीर फळ्यार लांबलचक 'नोट्स' दिवन वर्ग सोडटाले. हाका लागून दोनय इश्टांनी आतां वर्गांत वचून होमवर्क बरोवन घेवपाचें काम करपाचें थारायलें. आनी जाता तितलो चड वेळ गंभिरतायेन सेल्फस्टडी करपाक दवरलो.

दोगय इश्ट हुशार आशिल्ले. तांकां आतां आपले आपूण अभ्यासाची गोडी लागिल्ली. इस्कोल सुटून घरा येतकीर इस्कोलांतलें सदचें होमवर्क करून जातकीर ते सेल्फस्टडी फाटल्यान लागताले. तांचें हें शिकप मजेचेंच आसलें. गांवचे लोक कोयतो बी घेवन कामाक वतात तशे आपल्या हातांत कादेर्न, बुर्रास आनी पेन्सिल घेवन शिकपाक भायर सरताले. एकदां भाटांत तर एकदां शेतादेगेर एकठांय बसून वरांचीं वरां तांचो अभ्यास चालू आसतालो. शेतां-भाटां, दोंगर-न्हंयो, रेंव-फातर, झाडांपेडां, किडी-मुयो, सुकणी, जीव-जिवाळ ह्या सगळ्यांचो नियाळ करून ते आपल्या कादेर्नांत सगळ्यांचीं वर्णनां बरोवन काडटाले. मागीर घरा

येवन शब्दकोशांच्या आदारान उतरांचो अर्थ सोदून काडटाले. उतरांचीं वाक्यां तयार करून तीं एकामेकाकडच्यान तपासून घेताले. हे आदीं जें वाचप-बरप जालेंना तें ते आतां आवडीन करताले. पावलू गोंदूक इंग्लिशीचें डिक्टेशन घालतालो तर गोंदू पावलूक हिन्दीचें शुद्‌दलेखन. वाचून बरोवन थकतकीर मागीर ते वेगवेगळ्या विशयांचेर गजाली करताले. इतिहास-भुगोल, विज्ञान, गणीत अशा विशयांचेर चर्चा करून ल्हान ल्हान नोट्स बरोवन काडटाले. मागीर ते सर आनी टिचरांकडेन वचून तपासून घेताले.

हे दोगय इश्ट मन लावन शिकताले तें पळोवन कांय गुरूजन तांचेर लक्ष दिवन आसले. तांचे विशीं स्टाफ रुमांत चर्चा जाताली. टिचरांकडल्यान आपली तोखणाय जाता ती पळोवन दोगांय इश्टांक शिकूंक आनिकूय नेट येतालो.

गोंदू आतां आदलो उरूंक नाशिल्लो. ताची दिसान दीस प्रगती जायत आसली. पावलूचो वांगड ताका खूब फायद्याक पडलो. ताची इंग्लीश सुदारली. आनी ताका लागून हेर विशय ताका सोंपे लागूंक लागले. हिन्दी-मराठी तांकां सोपी लागता म्हण हेर भुरग्यां भाशेन ताणीं हेर विशयांकडेन दुर्लक्ष केलें ना. हेतू हो की सोपे विशयांत चडांत चड मार्क मेळोवन कठीण विशयांचे फाटीक लागून सगळ्यां परस चड मार्क घेवंचे. हेर भुरग्यां मदें सगळेच बाबतींत आपूण पयलो आसचो, इस्कोलांतल्या सगळ्या भुरग्यांक आपणे बरी देख दिवंची, आपूण गावडो आनी गरीब आसलों तरी हेर भुरग्यां परस खंयच इल्लोय उणो पडचो न्हय, हाचो मनांत ध्यास घेवन वावुरतालो गोंदू!

चंचल आनी इबाडपाचे वाटेर आशिल्ल्या भुरग्यांक बरो सांगात मेळ्ळ्यार तांच्या जिविताक मोल येता. गोंदूच्या सांगातान पावलूच्या जिविताकय बरें वळण लागूंक सुरवात जाल्ली. तशें पळोवंक गेल्यार पावलू एकदम बरो भुरगो. धर्मीक मांयचो शिस्तीचो भुरगो तो. पूण घरांत सगळ्यो सुखसोयी आशिल्ल्यान आनी इस्कोलांतलें वातावरण दुशीत आशिल्ल्यान गोंदू इतली मनाची ताकद ताच्यांत नाशिल्ली. गोंदू परस आपूण खंयतरी इल्लो उणोच पडटां हाची जाणविकाय

पावलूक आशिल्ली. ताका लागून तो आपुणय गोंदूसारको जावपाचो यत्न करूंक लागलो. गोंदूक टि.व्ही. वयलीं पिक्चरां पळयनशीं दिसतालीं. पूण तो मुजरत पळोवपाचीं टाळटालो. इस्कोलांत भुरगीं तरेतरेचीं खाणां विकतीं घेवन खातालीं. पावलूय तशेंच करतालो. पूण आतां ताणें गोंदूचे देखीन भायलीं खाणां विकतीं घेवन खावपाचें बंद केल्लें. भायलीं खाणां विकतीं घेवन खावचे परस घरची उसळी ना जाल्यार चटणी भाकरी खाल्यार साऊद बरी उरता, अशें गोंदूचें मत आसलें. ताचें हें मत तयार करपाचें काम हरीमास्तरान केल्लें.

गोंदू घरच्यान डबो हाडटा तो पळोवन आतां आतां पावलूय टिफीन हाडूंक लागिल्लो. इंटरवालाक दोगय इश्ट इस्कोला फाटल्यान आंब्या मुंदांत ना जाल्यार खंयचेय बरे सुवातेर बसून पोटाक थाकाय हाडटाले. गोंदूच्या डब्यांत खुबदां केळी चोळक्यार थापून कयलार भाजिल्ली, गोड-सय घालून केल्ली नाचण्या भाकरी आसताली. केन्ना केन्नाय तांदळांची नाजाल्यार जोंदळ्यांची भाकरीय आसताली. वांगडा चटणी नाजाल्यार भाजी आसताली. गोंदू आपल्या डब्यांतली खावड पावलूक मुजरत दितालो. पावलू ती घोस्तान खातालो. पूण पावलू आपल्या टिफिनांतलो एकय जिन्नस गोंदूक दिनाशिल्लो. पावलून ताका केन्नाच घेय म्हण सांगलेंना. हाचें पावलूक मोठें पिकासांव जातालें. गोंदू आपलें टिफीन खावचो ना हाची ताका पुराय खात्री आशिल्ली. पावलून समज ताचे आवयच्या हातान केल्ल्यो कसल्योय खावपासारक्यो वस्तू हाडिल्ल्यो, जाल्यार तो खातलो आशिल्लो. ताची आवय नितळ आनी बरे मनाची आशिल्ली. पूण पावलूक ती घरचें कितेंच करून दिनासली. पांव, उंडे, स्लायस, बिस्कीटां, केक बी तसले जिन्नस ती घालताली. टिफीनातलें तें खावंक गोंदूक कसलीच अडचण नासली. पूण केन्ना केन्नाय पावलूच्या टिफिनांत उंड्यावांगडा च्योरिसां आनी शेवयो आसताल्यो. गोंदूले संस्कार त्या खाणां वासानच पयस करताले गोंदूक. पावलूक हाची जाणविकाय आसली. ताका लागून एरवीं हातांत हात घालून भोंवपी दोगय इश्ट, घरच्यान हाडिल्लें खाण-जेवण घेवच्या वगतार एकमेकापसून पयस बसताले: दोगांचींय

तोंडां दोन दिकांकडेन आसतालीं. तरी तोंडांतल्यान भायर पडलेलीं उतरां मात एकामेकांच्या कान्‌पटांक घश्टून तांकां भश्ट करतालीं. पावलू गोंदू बाटचो न्हय म्हूण काळजी घेतालो. गोंदू आपल्या डब्यांतलें खाण हळूच उठून पावलूच्या टिफीनांत घाली. पूण पावलू तें करूंक शकनासलो. हाचें ताका खूब वायट दिसतालें. एक दीस ताणें गोंदूक म्हणलें,

"गोंदू, आमी दोगय किरिस्तांव आहल्यार बोरें जातो आहलें न्हू रे!"

"कित्याक म्हणटा तूं अशें?"

"आमी धोर्माक लागोन जेवण पोयस बोसोन जेयताय."

"तशें जाल्यार आमी दोगय हिन्दू आसल्यार बरें जावचें नासलें?" गोंदूची जाप आयकून पावलू ओग्गी पडलो. गोंदू असली जाप दितलो हाची पावलूक कल्पना लेगीत नासली. तरी पावलूच्या प्रस्नाक ती फीट बसताली. पावलू ताका परती जाप दिवंक शकलोना. तो केदो वेळ कांयच उलयना तें पळोवन गोंदूक दिसलें, आपले जापेन पावलू दुखावला आसतलो! आपणे तशी जाप दिवंक फाव नासली अशें ताका दिसलें. ताचो गैरसमज पयस जावचो म्हण गोंदून म्हणलें,

"पावलू तुयें अशें कित्याक म्हणलें?"

"कितें तें?"

"आमी दोगय किरिस्तांव आसले जाल्यार बरें जातलें आसलें म्होणोन."

"तूं म्हाज्या टिफीनांतलें कांय हायना न्होरे!"

"कोण सांगता, हाव तुज्या टिफिनांतलें खायनां म्होणोन? हांव फोकोत गायेचें आनी दुकराचें मास खायना."

"कित्याक हाय्यना?"

"म्हाकां आवडना म्होणोन. तूं हुंदीर खाता रे?"

"शीऽऽऽ! ना रे बाबा!"

"कित्याक खायना?"

"तें आमी हावपाचें रे?"

“कोणे खावपाचें तर?”

“तें किरिस्तांव हाय नाय. कुणबी गावडे हाताय.”

“कुणबी गावडे किरिस्तांव न्हय रे?”

आतां मात पावलूक जाप फुटलीना. कारण कुणबी गावडे इगर्जेत मिसाक येतात तें ताणें पळयल्ले. मिसाक येतात ते किरिस्तांव. पावलू चिंतूंक पडलो. तो चिंतता आसतनाच गोंदू फुडें उलयलो.

“पावलू, ह्या संवसारांत चीन नांवाचो देस आसा. जाणां तूं?”

“जाणां रे, चायना मुरे?”

“हय, चायना! ह्या देसांतले लोक खंय सुण्यांचें मास खातात. ते भायर किडेय खातात. ही खबर आसा तुकां?”

“होरें रे?”

“म्हाका खबर मेळ्ळ्या तशी. हायें तें खंयच्या तरी मराठी पुस्तकांत वाचलां. देकून हांव तुकां सांगोंक सोदतां, मनशाच्या खाणां-जेवणां वयल्यान ताची जात-धर्म थारना. मनशान आपल्याक मानवता तें कितेंय खावचें. पूण मन मात नितळ दवरचें. तूं मरे स्वताक फकत किरिस्तांव समजता. पूण हांव कोकणो, किरिस्तांव आनी हिन्दूय बी.”

“ओहें कोहें रे? तुमी तोहींच बाडया, तुमहां मुरे एक देव आनी एक धोर्म ना. तुमी कोणाकूय मानताय, ओहें मुजो एक ओंकोल सांगतालो. होरें रे तें? आनी तूं ओहें कोहें म्होण्टाय रे, तू हिन्दू, कोहणो आनी किरिस्तावय बी!”

“सागतां, आयक बरे भासेन. आमी मरे कोंकणांत रावतात देखून कोंकणे, हिन्दुस्तानांत रावतात देखून हिन्दू आनी म्हाका जेजूची शिकवण मानवता देखून हांव जेजूक मानतां. जेजूक मानता तो किरिस्तांव जालोना रे?”

क्रिशणान अर्जुनाक गिता सांगची तशें गोंदून पावलूक गिन्यान दिलें. पावलूक पचूंक तें बरोच वेळ चिंतीत बसचें पडलें.

“कितें चिंतता रे, समजोना तूं हांव कितें म्हण्टा तें?” गोंदून पावलूक जागो

करपाचो यत्न केलो.

"उजवाड पोडटा रे मात्सो मात्सो तोकलेंन. हें माहां सोगलें नोयें मुरे. तूं सागता ते पोरमाणे हांवय कोहणो मुरे?"

"तें तूं चिंतून पळय."

"मुजी मम्मी केन्नाय म्हणटा रे. आमी पोयलीं कोहणीं आहलीं आनी आतां किरिस्तांव जाल्यांय म्हण!"

"तुजी मम्मी सांगता तें कुशीन आनी हांव सांगतां तें कुशीन. आनी एक मोलाची गजाल सांगतां." पावलू कान फांकारून गोंदूक पळयत रावलो. "आमी दोगय धर्मान किरिस्तांव आनी हिन्दू कशे हें सांगलें. पूण आमचो दोगांयचोय खरेलो धर्म कसलो तो जाणा तूं?"

"सांग मुरे, हांव आयकोतां."

"आमचो खरेलो धर्म मनीपणाचो. तितूंत इश्टागतूय येता." गोंदून एक गुपीत सांगिल्ल्यावरीं पावलूक सांगलें.

दोगय इश्ट आतां सातवेक शिकताले. दोगय ल्हान आसले. तांचे हेर वांगडी टिचर सांगता आनी शिकयतात तितलेंच शिकताले. पूण हांकां औपचारिकताये वांगडा निजांचें अशें कितेंय करून दाखोवपाची गोडी लागलेली. तांची चलणूक तेच दिकेकडेन आसली. गोंदू तातुंतलो मुखेल आसलो.

जुलयाचे आठ दीस सरले तरी पावलू तोपयो सराकडेन शिकोवणेक आयलो ना तें पळोवन ताच्या काळजाक जाळ पडलें. हें सगळें घडलें तें गोंदूक लागून, हें आतां तोपयो सराच्या मनांत पक्कें जालें. गोंदूक लागून आपलें लुकसाण जालें ते जाणविकायेन तोपयो सराक गोंदूक खांव काय गिळूं अशें दिसूंक लागलें तरी तो कांयच करूंक शकनासलो. गोंदूचो राग मात ताच्या मनांत घट्ट घर करून रावलो. हो राग तोपयो सराचो चेरो लिपोवंक शकलो ना. गोंदूचेर नदर पडटांच तोपयो सराचे दांत भितरले भितर किटकिटूंक लागले. दोळ्यांनी उजो पेटूंक लागलो.

तोपयो सर आपल्याक वाकडे नदरेन पळयता हें गोंदूक कळून आयलें.

पावलूकय ताणें तें उलोवन दाखयलें. सुवार्थी तोपयो सराचें दुस्वासपण पावलूच्या लक्षांत हे आदीं आयिल्लेंच, पूण गोंदून दिल्ले चतरायेन आतां तो मात्सो शादूर जालो. आपल्याक लागून आपल्या मोगाळ इश्टाक तोपयो सराकडच्यान कितेंय वांकडें तिकडें घडूंक शकता हाची जाणविकाय पावलूक आतां जावंक लागली. तोपयो सर पाताळयंत्री आसा. मनांत हाडल्यार तो कितेंय करूंक शकता. दोगय इश्टांनी ताच्या पासून आतां शादूर रावपाचें थारायलें. इतलेंच न्हय तर तसलोच वगत आयल्यार तोपयाक लिसांव शिकोवपाचें ताणीं एकमत केलें.

करतां करतां ह्या वर्साची म्हयन्याळी पयली कसोटी जाली. तोपयो सराक लिसांव शिकोवपा खातीर पावलून दीस-रात अभ्यास करून, हिन्दी विशयांत सगळ्यां परस चड गूण घेतले. तोपयो सराक हें सोंसलें ना. आपल्या हातांतलें फायद्याचें सावज सुटलें तें पळोवन तोपयो सर खवळ्ळो. हें घडलें तें गोंदूक लागून. सहजतायेन केल्ल्या बऱ्या कर्माक लागून गोंदू तोपयो सरांचो एक व्हडलो दुस्मान जावन बसलो. खंयच्याय इस्कोलांत, एकाद्रो विद्यार्थी एकद्र्या शिक्षकाचो नावडतो जालो जाल्यार, त्या विद्यार्थ्याचें फुडलें शिकप सारकें जायना. शिक्षकाची कृपा दृश्टी नाशिल्ल्यान आनी सतावणी सोसूंक जायना जाल्ल्यान कितलेशेच विद्यार्थी शाळा सोडून घरा बशिल्ले ताच्यो कितल्योश्योच देखी आमकां पळोवंक मेळटात. गोंदू असलो गरीब भुरगो, तोपयो सरा असल्या बळीश्ट शिक्षकामुकार कचरो! पूण तोपयो सराचीं चिन्नां पळोवन ताणें आपल्या आंगातले धिटायेक जाग हाडपाक कोमेस केलें. ताणें थारायल्लें आपूण तोपयो सरा मुखार कसोच नमचो ना. कितलीय कास्तीग पडल्यार सोसतलों. पूण तोपयो सराक बुद्द शिकयतलों तो शिकयतलोंच! आपले मनांतलें ताणें पावलूक उलोवन दाखयलें.

"पावलू, तोपयो सर मरे माजेर तापोन आहा."

"हांव जाणां रे. तापता तितलो तापोंदी. तापोन तापोन कितलो तापतलो? हांव आसतोना तूं कांयच भियो नाहां. आतां आमी ल्हान आहाय रे? तोपयो सोर जांव ना जाल्यार प्रिन्सीपाल जांव. वोगीच आमचे वाटेक येयल्यार आमी कोहेच वोगी रावचे न्हू."

पावलूलीं धिराचीं उतरां आयकून गोंदूक आनीकय मूठभर मांस चडलें.

तसो तो दिसानदीस आंगान भरतच आसलो. हे आर्दी फाटल्यान ताका कांय मस्ते भुरगे हाडकुटो, मरकुटो, काळू बी म्हणटाले. पूण आतां दिशीं दिशीं ताच्या हाडांर कात येवंक लागिल्ली. आतां तो झाडां-पेडांचेर भिये नासतना चडटालो. कितलेय खोल उदकांत उडी मारून पेवन तडीक येतालो. पावलूचे लगाडीक लागून फुटबॉल, क्रिकेट बी खेळूंक लागिल्लो गोंदू. व्यायाम भरपूर जाल्ल्या कारणान हाता-पांयांक भलतीच शक्त आयिल्ली. ताच्या तोंडार तिकतिकी दिसूंक लागिल्ली. दोळे तेजाळ जाल्ले. गोंदू आतां स्वाभिमानी आरसाटो दादलो जाल्लो. ताच्या चेऱ्यार करारीपणा दिसूंक लागिल्लो. इस्कोलांतल्या हेर भुरग्यां परस तो वेगळो दिसतालो. भुरग्यांली चांचाळ ताका कशीच बादनासली. ताच्यांतली गंभिरताय शाळेंतल्या शिक्षकांचीं मनां ताचेकडेन आकर्शीत करतालीं. गोंदू आतां इस्कोलांतल्या सगळ्या शिक्षकांचो आवडटो भुरगो जाल्लो. काळ्या गोंदूच्या तोंडावेलें हाशें गोंदूक सोबाय हाडटालें. गोंदूय दिशी दिशी हिरो जावपाच्या यत्नांत आशिल्लो. तशें करतना दुसरो मनीस दुखवंचो न्हय हाची काळजीय तो घेतालो.

चोराच्या मनांत चान्नें, अशी एक म्हणणी आसा. गोंदूची हुशारकाय पळोवन तोपयो सराक गोंदूची बेटीच नसाय जावंक लागली. पावलू हिन्दींत बरे गूण मेळोवंक लागलो, हाचें श्रेय गोंदूक वता, हें तोपयो मनांतल्यान जाणा आशिल्लो. गोंदूची एकएक करणी नितळ आशिल्ल्यान ती भश्ट मनशाक खूब लुकसाणीची आशिल्ली. गोंदू धाव्वी मेरेन ह्याच इस्कोलांत शिकल्यार आपल्याक तो म्हारग पडटलो हें तोपयान ताडलें. गोंदूल्या काळजांतलो चकचकीत उजवाड तोपयाच्या मनाक सोसपा सारको नासलो. इस्कोलांत कळत नकळत तोपयो म्हणल्यार सोरोप आनी गोंदू मुंगूस अशी समजणी तोपयो-गोंदूच्या मनांत रिगिल्ली. तोपयाक गोंदूची जणेक करणी दुबावांत बुडयताली. गोंदूय तोपयो सराचे बारीक सारीक हालचालीचेर नदर दवरून आसलो. तोपयो सर कुचित्री आनी सुवार्थी ही गजाल इस्कोलांतल्या सगळ्या शिक्षक आनी हेर वावुरप्यांक खबर आसली. पूण तो प्रिन्सिपालाक बरो आसा म्हण ताचे विशीं कोण कांयच उलय नासलो.

वोगीच शेणार फातर मारून तें आंगार उसळोवन कित्याक घेवंचें अशेंच सगळ्यांक दिसतालें. पूण गोंदू एकलोच भुरगो असो आशिल्लो जो अन्यायाक

तोंड दिवंक शकतालो. ताणें आपल्या मनाची तशी तयारी करून दवरलेली.

गोंदूची शिटूकसाण, धाडस, उलोवपाची रीत, झुडून काम करपाची सवंय खुबश्या भुरग्यांक आवडूंक लागिल्ली. कसलेंय म्हत्वाचें काम करपाचें जाल्यार भुरगीं गोंदूक बोट दाखयतालीं. आनी गोंदूय आपलेकडेन कसलेंच काम जायना अशें म्हण नासलो. दाराचें कुलूप आडखळ्ळें, दार उक्तें जायना आपय गोंदूक, इस्कोलाचो नळो फुटलो जाल्यार गोंदू घालतलो, घडयाळ बंद पडली गोंदू सारकी करतलो, बाकांचे खिळे सुटले जाल्यार गोंदूक सांग. गोंदूय आपूण जावन कामां करूंक फुडें सरतालो. कसल्याच कामाची उबगण म्हण येनाशिल्ली गोंदूक! आपूण कसलेंय काम करूंक शकतां हाचो गर्वय नासलो ताका. दुसऱ्यांचीं मनां राखून वावरप, दुसऱ्यान आपलेकडेन अरेरावी केल्यार ताका जाग्यार हाडूंक तो फाटीं फुडें सरनासलो. ताका लागून इस्कोलांतलीं भुरगीं आनी शिक्षक ताचेकडेन सांबाळून वागताले. हेर भुरग्यांचीं फकांडां बीन गोंदूकडेन चलनासलीं. कोणेंय केलींच जाल्यार गोंदूकडल्यान प्रतिसाद मेळनासलो. ताका लागून कोणूच ताचीं फकांडां करूंक फुडें सरनासलो. पावलू केन्ना केन्नाय फकांडां करतालो. पूण ताकाय शीम आसली.

गोंदू इकरा-बारा वर्सांचो जाल्लो. हें वय ताचें शिकपाचें आनी खेळपाचें. तरी ताचें वागप पिरायेच्या वयल्या पावंड्यावयलें आसतालें. हाचें कारण, मुळाव्या शिक्षणांत ताचेर केल्ले संस्कार आसूंये. मराठी चवथेक शिकता आसतना हरीमास्तरान भुरग्यांचेर मुजरत बरे संस्कार घडोवन हाडिल्ले. चवथेंतलीं भुरगीं फुडें आपल्या हातांत आसचीं नांत. तेन्ना ह्या वर्सांत तांकां आपणे कितें तरी दिवंचें अशें हरीमास्तराचें ध्येय आसलें. ताका लागून ताणें चवथेक शिकयता आसतना ध्रूव, प्रल्हाद, ज्ञानेश्वर, शिवाजी, अभिमन्यू, श्रीकृष्णाच्या भुरगेपणाच्यो काणयो सांगून भुरग्यांचीं मनां संस्कारीत केल्लीं. गोंदूचेर ताचो इल्लो चडच परिणाम जाल्लो. ताका लागून ताका आपणें बाल शिवाजी, बाल अभिमन्यू, बलराम-कृष्णाचें अनुकरण करचें अशें दिसतालें. एकटोच बसला आसतना तो तांच्या लिलांचो नियाळ करून आपलें मन शांत आनी आनंदीत करतालो. रामायण-म्हाभारत आनी पुराणांतल्यो काणयो गोंदूक गिरेस्त करताल्यो. पावलूचें

तशें नासलें. पावलूच्या आवय-बापायकडेन दुडू आसले. पूण पावलू संस्कारांनीं गरीब आसलो. इस्कोलांत आनी इगर्जेंत ताका धर्माचें शिकप मेळटालें. पूण देवाचेर भावार्थ दवरल्यारच पावलूचें जिवीत सुखी जातलें, असलें शिकप ताका मेळटालें. ताका लागून पावलूक चड विचार करपाची गरज पडनासली. देवाचेर भार दवरून तो आपलें जिवीत सारतालो. आवय-बापायकडल्यान ताका जाय तें मेळटालें . आयताराचें मीस तो चुकयनासलो. पाद्रिचो शेरमांव तो मन लावन आयकतालो. ताका लागून तो एक धर्मीक आनी बऱ्या मनाचो भुरगो जाल्लो खरो, पूण ताका कसलेंच वाचन नाशिल्ल्यान ताचेकडेन कसलीच शिटूकसाण आनी बरें वायटाचो निर्णय घेवपाची तांक आंगांत नासली. ताका लागून ताच्या मनांत सट्ट करून कसले प्रस्न उप्रासनासले. आनी केन्नाय उप्रासलेच जाल्यार ते सोडोवपा खातीर ताका गोंदूकडेन धांव घेवची पडटाली. विचारलेल्या प्रस्नाची जाप गोंदू ताट्ट करून दिता तेन्ना पावलू चाट पडटालो. पावलू आनी गोंदूची जोडी अकबर-बिरबला सारकी जायत वताली.

गोंदूल्या शिकपाक गती मेळटाली. प्रस्न निर्माण करून ते सोडयल्यार शिकप बरें जाता हाची जाणविकाय गोंदूक आसली. पावलूक ती नासली. पावलून आवयभाशेंतल्यान शिकप घेतिल्लें जाल्यार बरें जातलें आसलें हें ताच्या आतां लक्षांत आयलें. तरी तो निर्शेलो ना. बरे देखीचो आनी निजगुणांचो गोंदू पावलूक बरी वाट दाखोवंक हाजीर आसलो.

एकामेकाच्या आदारान पावलू-गोंदू आतां पावल फुडें मारीत आसले. कसलेंय बरें आनी उदरगतीचें काम करपाचें आसल्यार तें करप्यां मदें एकमत आनी विस्वास आसपाची चड गरज आसता. गोंदू-पावलून आतां एकमेकाचेर पातयेवन फुडल्या कार्यावळींच्यो येवजण्यो मांडपाक सुरू केलें. आपणें कितेंय तरी बरें करून लोकांक दाखोवचें अशें गोंदूक दिसतालें. आपल्या मनांतलें तो पावलूक उलोवन दाखयतालो. पावलूय ताका तें प्रत्यक्षांत हाडपाक फुलयतालो. सुरवेक गोंदूक आपणें खूब्ब कितें करून दाखोवचें अशें दिसतालें. पूण तो एकटो पडटालो. कोणाय मुखार उतर घालें जाल्यार तें आयकून घेवचे बदलाक ताचीं फकांडांच जातालीं. पावलूच्या उतरांक मात थंय मान आसलो. ताका दोन मुखेल

कारणां आसलीं. एक पावलू तेच इस्कोलांत शिकून फुडें आयिल्लो. दुसरें पावलूचो बापूय भायर आशिल्ल्यान वर्सांन वर्स इस्कोलाक कसली ना कसली देणगी मेळटाली. प्रिन्सिपाल पाद्रीन देणगी मागची आनी पावलून ती दिवची, अशें सदांकाळ चलतालें. केन्ना केन्नांय पावलू आपखोशयेन इस्कोलाक देणग्यो जाहीर करतालो. ते भायर आपल्या सर-टिचरांकूय बी आपल्या डॅडीन धाडलां म्हण कितें ना कितें दितालो. ह्या कारणांक लागून पावलूचें उतर चडशें भायर पडनासलें. ताका इत्सा आसल्यार तो खंयच्याय खेळांत वांटो घेवंक शकतालो. ताका लागून ताणें फुटबॉल, खो-खो, कबड्डी बी टिमिनी वांटो घेतिल्लो. पूण इत्सा आसूनय गोंदूच्या नशिबांत हे खेळ आयले नांत.

गोंदूक फुटबॉल खेळ खूब आवडटालो. पिटी सरान आपल्याक टिमीन घालचो अशें ताका दिसतालें. एकदीस ताणें आपल्या मनांतलें पावलूकडेन उलोवन दाखयलें. ‘‘पावलू, म्हाकां मरे फुटबॉल खेळन-खेळन दिसता. पिटी सर म्हाकां टिमींत केन्नाच घेयत सो दिसना. तूं सांग रे तेका. तूं सांगल्यार आयकोतोलो तो.’’

‘‘आतां टीम काडल्या न्हू रे, तुहां जेहल्यार सोराक कोणाकूय तोरी भायर काडचो पोडटलो.’’

‘‘शिमांव रावोंक सोदिना रे टिमींत. तेज्या काळजांत दुखता खूंय.’’

‘‘कोण शिमांव?’’

‘‘आठयेंतलो रे.’’

‘‘तेणें सोराक सांगलां?’’

‘‘तो सोराक सांगोंक भियेता.’’

‘‘माजीर कोहें जातलें तोरू?’’

‘‘तूं प्रिन्सिपालाक सांग रे. प्रिन्सिपाल पिटी सोराक सांगतोलो.’’

दोगय इश्ट प्रिन्सिपालाच्या कॅबिनांत गेले. पळय जाल्यार तोपयो सर प्रिन्सिपालाकडेन फुतफुतून कितें तरी उलयता. कोणाच्यो तरी चाडयो सांगता जावंये.

तोपयो सराल्यो फुतफुत्यो गजाली सोपना तें पळोवन गोंदून मुजरत एक

शींक काडली.

"कोण रे थिंगा." प्रिन्सिपालान कॅबिनांतल्यान आवाज काडलो.

"पावलू सर." गोंदून दबकत जाप दिली.

"यो भितोर."

गोंदू पयलो भितर गेलो.

"तूं पावलू केन्ना सावन जालोय.?" पावलूच्या बदलाक गोंदूक पळोवन प्रिन्सिपालान अजापान प्रस्न केलो.

"पावलू फाटल्यान आसा सर!" गोंदू फाटीं वळून पळयत जाल्यार पावलू अजूनय भायरूच.

पावलूचें नांव आयकना फुडें तोपयो सर भायर वचूंक सोदतालो. गोंदूक पळोवन तो तसोच बसलो. म्हणटा म्हणसर आतां पावलू भितर सरलो.

"व्होट इज द मेटर पावलू? आनी हाका किद्याक हाडलाय रे!"

"सर हो गोंदू सातवेंत शिकता."

"गोंडू गोंडू" प्रिन्सिपालाक 'द' म्हणूंक कुस्तार जातालें. तो सदांच 'द' चे पावटीक 'ड'आनी 'त' चे पावटीक 'ट' म्हणटालो. गोंदूक प्रिन्सिपालान 'गोंडू' म्हणलो तें पळोवन तोपयो सर मोठ्यान हांसलो.

"मिस्टर टोपयो, ओहें हासचें न्होय रे बाबा!" आतां प्रिन्सिपालान तोपयाक 'टोपयो' म्हणलो तें पळोवन गोंदूच्यान हांसो आवरूंक जायना जालो. तरी ताणें तोंडार हात थेवन 'खक्' केलें. ते बराबर तोपयो सरान दोळे मोठे केले आनी तो थंयच्यान कडसरलोच.

"आतां सांग पावलू कित्याक आयल्याय तुमी?" प्रिन्सिपालान दोळ्यांचें वक्ल काडून मेजार दवरलें.

"सोर, हो फुटबॉलां टिमीत खेवों सोदता."

"माजीर माहां कितें कोर म्होणटाय रे!"

"पिटी सोराक सांग सोर गोंदूक झे म्हूण."

"आतां कोहें जातलें, टीम फोर्मार केल्या न्होय रे!"

"होय सोर! पूण शिमांव बोरो ना."

"तुहां कोहें कोवलें?"

"तेणेंच सांगलां माहां."

"ओहें? तोहें जाल्यार हांव फोबोर झेतां. यू केन गो नांव!"

प्रिन्सिपालान खबर घेता म्हण सांगून गोंदूक आस दाखयली. आपलो आतां फुटबॉल टिमींत आसपाव जातलो. आपली कला लोकांक दाखोवंक पयलीच संद मेळटली, हे कल्पनेन गोंदूचें मन फुल्लें. आपल्या खातीर पावलून प्रिन्सिपालाकडेन फावर मारलो. पावलूचे ताणें मनांतल्या मनांत खूब उपकार मानले.

इस्कोल सुट्टकीर गोंदू खुशालकायेन घरा गेलो. आतां ताचे तकलेंत फुटबॉल आनी फुटबॉल मळ घुंवतालें. फुटबॉल ग्रावंडाच्या चारय कडानीं हजारानी लोक बोबो हुयेली मारतात. बॉल ग्रावंडार मळबांत उडटा. खेळगड्यां मदें गोंदू खेळटां. तो गोलकिपर जाला. ताणें सगळे बॉल आडावन एकूय गोल जावंक दिवनां. लोक आनी इस्कोलांचीं भुरगीं गोंदूची तोंडभरून तोखणाय करतात....

गोंदूची आतां एकूय रात अशी वचना की ताका फुटबॉल खेळाचीं सपनां पडनांत.

चार दिसां उपरांत पिटी सरान इस्कोलाच्या ग्रावंडार मॅच आयोजीत केल्ली. गोंदू आदींच ग्रावंडार बोवाळूंक लागिल्लो. इतल्यान पीटी सर भुरग्यांक घेवन ग्रावंडार गेलो. खेळ सुरू जालो. तेन्ना गोंदूच्या लक्षांत आयलें की सिमांवचे सुवातेर टिमींत भलत्याकच घेतला. तें पळोवन गोंदूच्या दोळ्यांकडेन काजुले उडूंक लागले. गोंदूक कळ्ळें, हांगा आपलें कोणाकच कोंत ना.

भुरगीं तीन चार वर्सांचीं जातकच सरभोवतणी घडपी घडणुकांचो नियाळ करीत आसतात. ताका लागून हे पिरायेसावन तांचें शिकप सुरू जाता, अशें म्हणू येता. असल्या वगतार भुरग्यांच्या मनाचो विचार करून जाण्ट्यांनी वावुरपाची गरज आसता. पूण खुपश्या पालकांक हाची जाणविकाय नाशिल्ल्यान भुरग्यांक फाव तशें शिकप मेळना. हाका कारण सुवार्थी शिक्षक आनी अनाडी पालक.

शाळा-कॉलेजां हीं न्याय-नितीचीं देवळां आसूंक जाय. पूण आयच्या

काळांत शाळांनी मोग-माया आनी न्याय-निती सोडून सगळें शिकप्यांच्या वाट्याक येता. शाळा-कॉलेजां पाप घरां जाल्ल्या कारणान, आख्खो समाजच दिशीं-दिशीं रसातळाक पावता, भुरग्यांचो जाण्ट्र्यांवेलो भावार्त ना सो जाता. तांकां जांण्टे फटिंगपणा, नाडपणा करतात अशें दिसून आयल्यार सगळें पाड पडलेंच म्हूण समजपाचें. ताका लागून समाजान आनी पालकांनी भुरग्यांहून चड लक्ष शिक्षकांचेर दिवपाची गरज आसता. शिक्षक बरे देखीचे आसले जाल्यारच शिक्षणाचें तारूं बरे भशेन तडीक लागूं येता.

गोंदू शिकता त्या पाद्रिल्या इस्कोलांतय हेर इस्कोलांभशेन राजकारण चलतालें. त्या इश्कोलांत बऱ्या वांगडा वायट मनीस वावुरताले. वायट थोडे आसले तरी तांच्याफुडें बऱ्यांचीं शाणेपणां चलपाक खूब कठीण आसता.

हांगा जात-धर्माचें राजकारण चलतालें. गरीब-गिरेस्त, हिन्दू-किरिस्तांव अशा भेद भावांक सारें उदक घालपाचे यत्न हांगाय दीस-रात पाड्या लोकांकडल्यान सहजतायेन चलताले.

गोंदू ह्या भेदभावाक बळी पडलो. पावलून फावोर लावनूय गोंदू हिन्दू आशिल्ल्यान ताका फुटबॉल पंगडांत घेवंक नासलो. हिन्दूं परस किरिस्तांव फुटबॉल खेळूंक कापाज, असलो सोद इस्कोलांतल्या एक-दोन हिन्दूंकच लागिल्लो. आपूण हिन्दू आनी गावडो आसलों तरी कसल्याच खेळांत मातय उणो ना, अशें गोंदूक दिसतालें. आपल्या आंगातले गूण दाखोवपाची संद मेळची, अशें गोंदूक दिसतालें. पूण ती मेळना म्हण तो दीस रात खंती जातालो.

भुरग्यांचो फुडार घडोवपाखातीर शिक्षकांक प्रशिक्षण दितात. शिक्षणशास्त्रा वांगडाच भुरग्यांचें मानसशास्त्रय शिक्षकांक शिकचें पडटा. पूण शिक्षणशास्त्र कडाशेक लावन कांय शिक्षक शाळांनी आपल्याक जाय तशीं धुमशेणां कांडटात. असल्या पाड्या शिक्षकांचेर कोणाचोच वचक आसना. ना व्यवस्थापनाचो, ना सरकारचो. ताका लागून शिक्षकांक कोणाचोच दचक असो आसना.

गोंदूल्या इस्कोलाचो पाद्री शिस्तीचो. सगल्या भुरग्यांक देवाचीं भुरगीं मानपी. हिन्दू-किरिस्तांव भाव-भाव मानपी. मागीर इस्कोलांत भेदभाव खंयच्यान

येतालो? सगल्या भुरग्यांक एकसारखो न्याय कित्याक मेळनासलो? कोंकण्यांक फुटबॉल खेळूंक येना अशें कोण थारायतालो?

अर्थांत इस्कोलांत रिगिल्ले पाडे मनीस. हे कुन्नाटे, पाडे मनीस थोडेच आसतात. खरें म्हणल्यार हे किरिस्तांव, कोंकणे, मोयर बी कोण आसनात. आसतात फकत कुसके मनीस. हे कुसके मनीस शिकपी आनी शिकोवपीय आसतात. ते कुसके कांदे, कुसक्या आंब्या भशेन आसतात. एक कुसको कांदो साकभर कांदे पेड्ड्यार करून सोडटा, एक कुसको आंबो पाटेंभर आंबे कुसोवन उडयता, तेच परी एकदोन पाडे मनीस सगलें इस्कोल पाड घालतात.

जणेका वर्गांत जशे एक-दोन पाडे भुरगे आसतात, तशे आख्ख्या इस्कोलांत सगले शिक्षक केन्नाच बरे आसनात. हे पाडे शिक्षक आनी विद्यार्थीच सगलें इस्कोल आपल्या ताब्यांत दवरतात. कटकट नाका म्हण सगलेच तांकां भिवन दीस काडटात. हेडमास्टर आनी मॅनेजरय तांच्याच कलान वागतात. गावांतय तेच फामाद आसतात. असल्या पाड्या लोकांनीच गोंदूक फुटबॉल पंगडांत घेवंक आडमेळें हाडिल्लें.

गोंदूल्या इस्कोलांतली टिचर आंतोनेत. एक पाडी बायल. ती स्वताक इंग्लीश लेडी समजताली. तांबड्या ओठांची ही बोडकी बायल कोंकणी केन्नाच उलयनासली. चाडयारी आनी आळशी नंबर एक.

तिचो शिकोवपाचो विशय इंग्लीश. ती भुरग्यांकडेन फकत इंग्लीश उलयताली. भुरग्यांक ती कितें उलयता तें साप्प कळनासलें. भुरगीं तिच्या तोंडाकडेन आंऽ करून पळयतालीं. तेन्ना ती मॉनिटराक भुरग्यांचें 'रिडिंग' घे म्हणटाली. भुरग्यांक आपल्या कामाक लायलीं अशी तिची खात्री पटली, म्हणटकच ती न्हिदूंक मेकळी. मॉनिटर वाचन घेतालो आनी आंतोनेत मॅडम आपली तकली मेजार दवरून कांदे जोकताली.

झेम लागलीच ना जाल्यार मागीर मॅडम विणकामांत बुडून वताली.

झेम काडटा आसतना अकस्मात प्रिन्सिपाल वर्गांत पावलो जाल्यार, मॅडम आपली तकली उसळटा म्हूण धोंग करताली. प्रिन्सिपालाक मॅडमीची काकुळट दिसताली आनी मागीर तो तिका घरा धाडटालो.

अशें म्हयन्यांतल्यान दोनदां तरी घडटालेंच. आंतोनेत मॅडम भुरग्यांकडेन गोड गोड उलयताली. फाटल्यान भुरगीं कांयच शिकनात म्हणून प्रिन्सिपालाकडेन कागाळ करताली. कागाळ अशे तरेन करताली की ती आयकून भुरग्यांक निटायेर हाडपाक प्रिन्सिपालाक बडी घेवन वर्गांत धांव मारची पडटाली.

चडशे वगतार मॅडम आंतोनेत वर्गार आसतना ब्लॅकबोर्ड भरिल्लो आसतालो. मॅडम भुरग्यांक जापो केन्नाच बरोवंक लायनासली. पांचवे-सवेच्या भुरग्यांक आठ आठ-धा धा वळींच्यो जापो बोर्डार बरोवन दिताली. त्यो जापो तपासपाचें कामय ती भुरग्यांकडच्यानच करून घेताली. ती करताली ती फक्त निशाणी.

मॅडम आंतोनेत वर्गार केन्नाच वगतार पावनासली. वर्गाच्या हुंबऱ्यार उबी रावन दुसरी टिचर येता काय म्हण वाट पळयताली. म्हऱ्यांतल्यान पासार जातले टिचरीक ना जाल्यार सराक आडावन ती जी गजाली सांगूंक आरंभ करताली ती बद्द पिरियेड काबार जावपाक धा मिनटां आसात तेन्ना बंद करताली. हुंबऱ्यार मॅडमील्यो गजाली, आनी क्लासांत भुरग्यांलो बोवाळ!

मॅडमीक कोणाचेंच बरें अशें दिसनासलें. ती सोडून संवसारांतलीं सगळीं मनशां चुकतात अशें तिचें मत. कोणायच्च्योय गजाली करतासतना पयलीं मान घुंवडावन हे वटेन ते वटेन पळयताली. लागीं कोण ना ती खात्री करून घेताली आनी मागीरच फुतफुतून उलयताली.

गोंदू ह्यो तिच्यो करण्यो बारकायेन पळयतालो. ताका खूब वायट दिसतालें. मॅडमीक लागून भुरग्यांचें लुकसाण जाता, हेंय तो जाणा आशिल्लो. पूण कांयच करूंक शकनासलो.

यत्न करूनय आपल्याक फुटबॉल टिमीत घेतलो ना म्हण गोंदूक पिकासांव जालें! आपूण असोच हात पांगरून बसल्यार शेणटलों म्हणपाची गजाल आतां ताच्या लक्षांत आयली. आपल्याक फुटबॉल पंगडांत घेवंक आडमेळें हाडटल्याचो ताका खूब राग आयलो. ताणें ताका बुद्द शिकोवपाचें थारायलें.

इस्कोलाक तेकूनच इस्कोलाचो प्लेग्रावंड आसलो. हांगां इस्कोलाचीं भुरगीं सगळे तरेचे खेळ खेळटालीं. ग्रावंड इस्कोलाचो आशिल्ल्यान भायल्या

भुरग्यांक आनी लोकांक हांगा मेतेर जावंक मेळनासलें. इस्कोलाभायल्या भुरग्यांक खेळूंक गांवांत दुसरो ग्रावंड आसलो. त्या ग्रावंडार कोणाच्यानय खेळूं येतालें.

गोंदू जिद्दी भुरगो. आतां ताची जिद्द इल्ली चडच वाडिल्ली. आपल्याक इस्कोलाच्या फुटबॉल पंगडांत घेतलो ना म्हण कितें जालें? आपूण भायल्या भुरग्यांचो एक नवो पंगड तयार करून दाखयतलों, अशें ताणें थारायलें. आपल्या मनांतलें ताणें पावलूक उलोवन दाखयलें.

गोंदूचो आस्पाव इस्कोलांतले टिमीत जालोना तें पळोवन पावलूक खूब वायट दिशिल्लें. ताणें गोंदूक नवी टीम काडपाक तेंको दिलो. ताणें आपले मम्मीकडल्यान दुडू घेवन गोंदूक एक नवो ताल्ल फुटबॉल घेवन दिलो.

नवो बॉल मेळिल्ल्यान गोंदू फुल्लो. आपल्या घरा फाटल्या मळार वचून ताणें बॉलाक खूब नाचयलो - खेळयलो. ताका दिसलें आपल्या वांगडा खेळपाक एक वांगडी आसचो. पूण ताच्या शेजराक कोणूच भुरगो नासलो. आसल्यो त्यो ताच्यो भयणी. पूण त्यो ताच्या कामाच्यो नासल्यो. आतां कितें करतलो? कोणावांगडा खेळटलो गोंदू? पावलूलें घर खूब पयस आशिल्लें. असल्या वगतार ताचे मजतीक धांवून आयलो तो काळू, ताचो सुणो.

गोंदू आनी काळू बरोच वेळ मळार खेळटाले. गोंदू नव्या बॉलाचेर खोंटार खोंट मारतालो. बॉल मळबांत उडटालो. जमनीर पडटकच तो आडोवपाचें काम काळू करतालो. गोंदूच्यो भयणी मळावेल्या काऱ्या मुंदांत बसून आपल्या भावाचो खेळ पळयताल्यो. गोंदूलो हो खेळ फकत बॉलाचेर खोटो मारून इस्कोलाच्या फुटबॉल पंगडाचेर राग काडपाचो आसलो!

हे आदीं ह्या मळाचेर असलो खेळ कोण खेळूंक नासलो. ताका लागून मळबांत उडटा तो वाटकुळो बॉल पळोवन थंयच्या रूखावळीवेलीं सुकणीं आनी हेर जिवाळ अजापान भरिल्लीं. बॉल धर्तरे सावन माडभर उंचायेर उडटा तो पळोवन सुकण्याची वाचाबंदी जाली. चानयो बरोच वेळ हेवटेन तेवटेन धांवून मागीर घोलीं दारार बसून गोंदू आनी काळूचो नाच चतरायेन पळोवंक लागल्यो. मळबांतल्यो घोणीय तेद्याच कुडक्यार मळबांत बोवाळूंक लागल्यो. कावळेय बेटेच ह्या झाडावेल्यान त्या झाडार उडून कांव कांव करूंक लागले. धर्तरेर गोंदू आनी काळू

बॉलाफाटल्यान धांवतात तें पळोवन कावळ्यांकय आपणें तशेंच करचेंशें दिसलें. एक-दोन कावळ्यांनी संद पळोवन बॉलार चोंची मारपाचो यत्न केलो. पूण एकदां तर गोंदूलो बॉल इतलो नेटार आसलो की तो कावळ्याक आदळून ताचो पाखाटो दुखावलो. तेन्ना सगळे कावळे ह्या अरिश्टापासून पयस रावले.

गोंदून ह्या आदीं फुटबॉलाकडेन इतली इश्टागत केन्नाच करूंक नासली. मराठी मुळावे शाळेंत कबड्डी, लगोऱ्यो, कोयंडेबाल, मीठफळयो बी खेळ चलताले. पूण फुटबॉल-बास्केटबॉल बी खेळ हरीमास्तरान भुरग्यांपसून पयसच दवरिल्ले. सादे-सोपे देशी खेळ आसतना विदेशी खर्चीक खेळांची गरज ना, अशें हरीमास्तराक दिसतालें. शिवाय फुटबॉल खेळपाक ग्रावंड खंय आसलो शाळेकडेन?

गोंदूक फुटबॉल खेळान पिशें लायलें तें पाद्रिल्या हायस्कुलांत येत पसून.

गोंदून आतां नव्यातल्ल फुटबॉलान आपली आस भागोवन घेतली. दोन दीस फुटबॉल आपल्याक जाय तसो नाचयलो, खेळयलो आनी ताची सवंय करून घेतली. आपूण आंगलटीन बारीक आसलों तरी बॉल खोट आनी तकलेन कितलोय पयस उडोवंक शकतां म्हणपाचो आत्मविश्वास आतां ताका जालो.

एक दीस गोंदून गांवचो फुटबॉल ग्रावंड रिकामो आसा तो पळयलो. तो धांवन घरा गेलो. आपलो बॉल जमनीर आपटीत ग्रावंडार आयलो. ताका आतां आख्खो ग्रावंड मेळिल्लो. ताणें आपल्या घराफाटल्या मळार जशी प्रॅक्टीस केल्ली, तशीच हांगाय कोमेस केली. हांगा ताका कसलीच आडखळ नासली. आपलेच तंद्रेंत तो बॉलाचेर खोटो झाडीत रावलो.

तसो हो गांवचो ग्रावंड लोकवसते पसून चड पयस नासलो. गोंदूल्यो खोटो बॉलाचेर पडटाल्यो आनी ताचो 'धब-धब' आवाज चारूय दिकांनीं फांकतालो. थोड्याच वगतान हो आवाज गांवच्या भुरग्यांच्या कानार पडलोच. भुरगे एक-एक करून मूस कशे धावन आयले. ते हांगा थंय उबे रावन गोंदूलो खेळ पळयत रावले. भुरगे आपलो खेळ पळयतात हाची गोंदूक मातय खबर नासली. भुरगेय गोंदूल्या खेळाची कसब पळोवन तोंडांत बोटां घालून केदो वेळ खूट कशे उबे आसले.

खेळाची कितलीय उमेद आसली जाल्यार आतां गोंदू फुडें खेळूंक शकनासलो. तो खूब थकलो. मळबांत सुर्या नासलो खरो, वताचो पत्तो नासलो खरो, थंड वारो आंगाक घसटतालो खरो, तरी गोंदूच्या आंगांतल्यान घामाच्यो पावळ्यो ओतताल्यो.

गोंदून आतां उडयो मारून धांवपळ करपाचें सोडून दिलें. तो खिणभर थांबलो, ताणें आंगाचें टीशर्ट काडलें. तें घामान चिप्प भिजिल्लें. ताणें तें आपल्या खांदार उडयलें. ताचे पांय एकठांय थारना जाले. ताणें नज जावन थंयच बसकण मारली. दोनय पांयें पसरले. दोनय हात फाटल्यान तेकोवन ताणें मळबार नदर मारली.

गोंदून ग्रावंडार बसकण मारल्या ती पळोवन सगळे भुरगे ताच्या म्हऱ्यांत आयले. ताणी ताका गराडोच घालो.

जमिल्ल्या भुरग्यां मदें पाद्रिल्या इस्कोलांत शिकपी णववेचेय भुरगे आसले.

"गोंदू, तूं बोरो शेवता मुरे! आमहां होबोरूच ना भाडया तूं इतलो बोरो शेवता म्होणोन." एका भुरग्यान अजापून म्हणलें.

"आमहां होबोर आहल्यार आमच्या क्लाबांत झेवपा नाहले तेहा? चिजे म्हुणटा रे फोरसू?" दुसऱ्यान आपलें मत उक्तायलें.

"होय, आमी झेवपाचेच." तिसऱ्यान तेंको दिलो.

"हो गोंदू आमचो मुरे. आमच्या इस्कोलां शिकताय तो. आमचो प्रिन्सिपाल मुरे, तेहा आमच्या इस्कोला फुटबॉल टिमीं झेवंक सोदतालो. पी.टी. सोराकय तो जाय आहलो. पूण मोरे, ते आंतोनेत टिचरीन आनी तोपयो सोरान कित्या कित्येंय सांगोन आट लायली. देकून तो हाटीं पोडलो भाडया!"

टिचरांक लागूनच आपल्या गुणांक वाव मेळना हें गोंदूय जाणासलो. आतां णववेच्या भुरग्यांच्या तोंडांतल्यान आयकून गोंदूचे समजवणेक तेंको मेळ्ळो.

हे फुडें इस्कोलाचे टिमींत आपलो केन्नाच आसपाव जावचो ना. फुटबॉल खेळाची आस भागयतलो जाल्यार आपल्याक स्वताचो पंगड उबो करचो पडटलो, अशें गोंदूच्या मनान थारायलें.

आपल्या भोवतणी भुरग्यांचो चोंबो पळोवन, गोंदू फुरफुरलो. तो फट करून ग्रावंडार परत उबो रावलो. ताणें हातांतलो बॉल फटफट करून जमनीर आपटिलो. मागीर भराभर किक्स् मारून बॉल मळबा दिकेन जाता तितलो वयर उडयलो.

इतलें करता म्हणसर काळखान आपली राजवट कोमेस केली. आतां गोंदूक ग्रावंड सोडूंकच जाय आसलो. ताणें बॉल आपल्या खाक्यांत मारलो. पयस पयस आशिल्ल्या सगळ्या भुरग्यांनी आतां ताका मदें घालो.

"गोंदू तूं कास्ता शेवता आं!"

"आमहांय झे रे."

"आमी टीम काडया रे."

वांगडचे भुरगे आपल्या मनांतलें उलयले तें आयकून गोंदूच्या आंगार मूठभर मांस चडलें.

"तुमी तयार आसात जाल्यार आमी टीम काडुया. पूण आदीं म्हाकां पावलूक विचारूंक जाय."

"हो पावलू आनी कोण रे?" गांवच्या भुरग्यान प्रस्न केलो.

"पावलू म्हजो फ्रेंड." गोंदून जाप दिली.

"आमी जाणाय, पावलू तेगे फ्रेंड तो." इस्कोलांतल्या दोगय भुरग्यांनी तेंको दिलो.

"टीम फोर्मार करूंक कोण कोण तयार आसात, हात वयर करात पळोवया!"

गोंदून भुरग्यांचो अदमास घेवपाखातीर म्हणलें. झट करून आठ भुरग्यांनी हात वयर केले. तातूंत पाद्रिल्या इस्कोलांतले दोगय भुरगे आसले.

"आतां मरे, आमी घरा या. फाल्यां हांव पावलूक मेळटां. मागीर थारावया कितें करपाचें पळे, तें!"

"पावलूक कित्याक रे, आमीच थारावया आनीक पिलेर जाये जाल्यार हांव हाडटां." एक हुतहुतो भुरगो आबुजकायेन उलयलो.

"नाहां रे, गोंदू सांगता तोहेंच कोरूया." पयल्या भुरग्याचे नसायेन दुसऱ्या

भुरग्यान गोंदूचो वोसलो वोडलो.

गोंदू हेर भुरग्यां भशेन आबूज आनी चंचल नासलो. कितें करता तें चिंतून करपाची सवंय आसली ताका. धा वेळां विचार करूनच आपलो निर्णय घेतालो गोंदू! एकदां पक्को केल्लो निर्णय सट करून बदलपाची सवंय नासली ताका!

ग्रावंडार काळोख वाडटा तो पळोवन गोंदून घराची वाट धरली. घामान चिप्प भिजिल्लें बानयेन काडून ताणें खांदार वडयलें. झाडामुंदांतलें बुशर्ट काडून आंगार चडयलें. बुतांव घालिनासतनाच, हड्डें उक्तें दवरून, हासत्या चेऱ्यान गोंदू एके दिकेन चलतालो तर दुसरे दिकेन गांवचे भुरगे खुशालकायेन चकाटां मारीत चलताले. गोंदू भशेनच तांचीय फुटबॉल खेळपाची इत्सा पुराय जावपाचो आदार तांच्या मुखार वावुरतालो. गोंदू पावलूच्या आदारान फुटबॉल टीम उबी केल्याबगर कसोच रावचोना, हाची खात्री सगळ्या भुरग्यांक आतां जाल्ली.

दुसरे दिसा सगळ्यांत पयलीं गोंदून पावलूची भेट घेतली. ताणें फुटबॉल टीम काडपाची आपली आयडिया पावलूक सांगली.

गोंदूली आयडिया आयकून पावलूक खोस जाली. पूण खिणांत ताच्या चेऱ्यावयली खोशी नाच जाली. तरी ताणें गोंदूक सांगलें, ‘‘गोंदू, तूं टीम काडच रे. पूण माहां मात तितूंत झेव नाहां.’’

‘‘कित्याक रे पावलू, तूं अशें कित्याक म्हण्टा? तुज्या फोर्सानच तर हांव टीम काडूंक फुडें सोल्लों. भुरग्यांकय हावें तशेंच सांगलां.’’ सांगतना गोंदू मात्सो आकांतलो.

‘‘म्हुजो तुहां फूल सपोट आहा रे. पूण टिमीत प्लेयर म्हूण माहां झेंव नाहां.’’ पावलू एक शाणो भुरगो कसो उलयलो. मागीर एका जाण्टेल्या भशेन ताणें सरभोंवतणी नदर मारली आनी फुडें उलोवंक कोमेस केलें.

‘‘हांव टिमींत शेवल्यार मुरे, आमी ग्रूप केला म्हूण कांय टिचर प्रिन्सिपालाचे कान भोरतले. तो माजीर आमचेर रागार जातलो आनी आमहां सोदांच दुबावान पोयतलो.’’

‘‘हावें इतलें सांगोनय, तुहां इस्कोलाच्या टिमींत झेंवना. हें कोणाक

लागून जालां होबोर आहा तुहां?"

"हांव जाणा रे. णववेच्या भुरग्यांनी काल सांगलां म्हाकां. आंतोनेत माडाम आनी तोपयो सोर, चडच म्हज्या फाटल्यान लागल्यांत."

"तूं कांय भियों नाहां रे हांव आसतोना. तेहा कोहें लिसांव शिकोवंक जायें तें हांव पोयतां. तेका लागोन आमी दोगय एक आहाय, ओहें इस्कोलांत कोणाकूच कोवोंक फावोना."

पावलूलें राजकारण गोंदूले तकलेंत शिरूंक कळाव लागलोना. पावलू आपले टिमींत आयलो जाल्यार इस्कोल ताका पातयेवचेंना. प्रिन्सिपालान पावलूचेर विश्वास दवरल्यार आपलो फायदो आसा, हें गोंदूच्या लक्षांत आयलें. ह्या फुडें इस्कोलांतल्या टिचरांच्या दोळ्यांक उदक लावपाक ताणें पावलूक पयस दवरपाचें थारायलें. पावलूनय तें मान्य केलें.

गोंदूचे लगाडीक लागून पावलू आतां खूब गजाली शिकलो. ह्या सवसारांत बरो मनीस जावन वावुरतलो जाल्यार आपले तकलेचो आनी काळजाचोय उपेग करूंक जाय, हें ताका आतां कळूंक लागिल्लें. समाजांत वावुरतना बरें-वायटाची जाणविकाय मनशाक आसूंक जाय. केदेंय व्हडलें संकश्ट आयल्यार ताका धिरान तोंड दिवंक जाय, अशें मत आतां ताचें पक्के जाल्लें. वगतार बऱ्या खातीर उबो मार्ग सोडून आड वाटेन वचचें पडटा, हें गिन्यान ताका आतां इल्लें इल्लें जावंक लागलें. फाटीं चुकल्यार फुडें सुदारपाचें आसता ही जाणविकाय आतां ताका जाल्ली.

गोंदू भेटचे पयलीं पावलूक खबर आसली ती फकत देवाचो मोग करपाची. पूण आतां ताका देवा इतलोच देसाचोय मोग करपाची गरज आसा हें कळून आयलें. देव सगळ्यांचो एकच आसता, ही गजाल ताका गोंदून शिकयली. गोंदूक ती हरीमास्तरान शिकयल्ली.

आपली मम्मी आनी इंगर्जेंतलो पादविगार सदांच आपल्याक देवाचो मोग करूंक शिकयता. पूण आपल्या देसांतल्या भाव-भयणांचो मोग करप म्हणल्यार देवाचो खरो मोग करप ही गजाल पावलूक आतां कळून आयली. संवसार सुखी जातलो जाल्यार नाडांचें पाड घालप आनी बऱ्यांची राखण करप हो

खरेलो धर्म पावलूच्या लक्षांत आतां आयलो. आपलो इश्ट गोंदू खरो धर्म पाळटा. ताका आदार दिवप हो आपलो धर्म, हें सत आतां पावलूक कळून आयलें.

तोपयो सर हिन्दू आनी मॅडम आंतोनेत किरिस्तांव. पूण दोगांय लोकांक नाडपी, पिडपी आनी कुसलावणीं मनशां. असलीं मनशां फकत सैतानाच्याच पंगडांत बसूंक शकतात, आनी सैतानाक नानपयत करप हें बऱ्यांचें काम, अशें आतां पावलू मानूंक लागलो. इस्कोलांतल्या पाड्या लोकांक लागून, गोंदूचो आसपाव टिमींत जालो ना हाचें पावलूक आदींच खूब वायट दिशिल्लें. गोंदूचो आसपाव इस्कोलाचे टिमींत करून दिल्याबगर आपूण सुशेगाद बसचोना, अशें ताणें थारायलें. तशें करतलो जाल्यार गोंदून आपली टीम उबी करून आपली कापाजदाद लोकांक दाखोवंक जाय. गोंदूक टीम उबी करपाक पावलून गुपचूप आदार दिवपाचें थारायलें.

गुपचूप आदार? गुपचूप सो! गुपचूप ह्या खातीर की एकदां टीम फोर्मार जातकीर गोंदू मुखार खुबशीं आडमेळीं उबीं जातलीं. एकल्या गोंदूच्यान तीं पयस करूंक जावचीं ना हें पावलू जाणा आसलो. गांवचे मस्ते भुरगे गोंदूक वयर सरूंक दिवचेनात. ते भायर इस्कोलांत तोपयो सर आनी आंतोनेत मॅडमीक गोंदूल्या टिमीचो वास लागल्यार, तांकां फुगडी घालपाक आयतेंच मळ मेळटलें. बऱ्या कामांक विघोड घालपाक सदांच तीं पयले सुवातेर आसतात. गोंदूक तर तीं सदांच दोळे फोडटात.

पावलू किरिस्तांव आसूनय आंतोनेत मॅडमिच्यो करण्यो ताका मात्तय आवडनासल्यो. किरिस्तावांलीं हेर भुरगीं मात आंतोनेत मॅडमीलें उतरान उतर मानून घेतालीं. कारण आंतोनेत मॅडम तांकां आपलीशी दिसताली. मॅडमीलें उलोवपय तशेंच आसतालें. ती भुरग्यांक हिन्दी-मराठी टिचरींक मॅडम म्हणूंक दिनासली. एकाद्रया भुरग्यान हिन्दी टिचरीक मॅडम म्हणली जाल्यार ती ताचेर केंच करून वताली. 'तेंकां बाई म्हणूंक जाय. हिन्दू केन्ना मॅडामी जाताय हूंयीऽऽ? मॅडामी आमी किरिस्तांवां. किरिस्तांव सोर आनी कोहणे मास्तोर.' अशी भेदभावाची शिकवण आंतोनेत मॅडम भुरग्यांक एक दीस चुकनासतना दिताली.

कोंकणी-मराठी शिक्षिकांक, आंतोनेत मॅडमीच्या बोडकांत कितें

शिजता हाची जाणविकाय आसली. ताका लागून भुरग्यांनी तांकां टिचर म्हणल्यार त्यो आपल्याक 'बाईच' म्हण म्हूण भुरग्यांक सांगताल्यो. टिचरी परस 'बाई' म्हणून घेवप तांकां आवडटालें.

हाच्या उरफाटें तोपयो सराचें आसलें. चुकून लेगीत एकाद्रया भुरग्यान ना जाल्यार पालकान ताका मास्तर म्हणलो जाल्यार तो पिसावल्ल्या सुण्यावरी दांत भायर काडीत आंगार धांवतालो.

खोट्या व्हडपणाक लागून, असल्यो बारीक सारीक गजाली इस्कोलांत खुबदां घडटाल्यो. चडश्या भुरग्यांक तातूंत वायट अशें कांयच दिसनासलें. कोणाक तें मालय पडनासलें. पूण गोंदू, पावलू आनी तांच्या असल्या थोड्याच हेर भुरग्यांक त्यो नाका आसल्यो गजाली बादताल्यो. आपलें इस्कोल बऱ्या देखीचें आसचें, इस्कोलाचें नांव सगळ्या वाटांनी वयर सरचें, अशें पावलू -गोंदूक दिसतालें.

पावलूच्या मनाक लागसारकी निकतीच एक गजाल इस्कोलांत घडली. वर्सान वर्स इस्कोलांत गांधी जयंती व्हडा दबाज्यान मनयताले. इस्कोलाचो प्रिन्सिपाल गांधीजीक खूब मानपी. ह्या वर्सा ताणें गांधीजींच्या आवडीच्या गीतांची सर्त घेवपाचें थारायलें. पावलू क्लासाचो मॉनीटर आशिल्ल्यान सर्तीखातीर गीत वेंचून काडपाची जापसालदारकी ताचेर पडली. गोंदूच्या सांगातान ताणें, 'रघुपती राघव राजाराम. पतीत पावन सीताराम.' हें गीत वेंचून काडलें. क्लासटिचरीनय त्या गीताक मान्यताय दिली. दुसऱ्या दिसा सावन क्लासांत गीतांची प्रॅक्टीस कोमेस जाली. हेर क्लासांक त्रास जावचो न्हय म्हण दारां बंद करून दोन-तीन दीस प्रॅक्टीस चल्ली. गीताक कोणेच हरकत घेतली ना. प्रिन्सिपालय प्रॅक्टीस पळोवन गेलो. गीत वेंचून काडटल्याचीय प्रिन्सिपालान तोखणाय केली.

गोंदूली क्लास सोडून, हेर क्लासांनीं 'वैष्णव जन तो तेणे कहीए जो पीर परायी जाने रे!' हें गीत वेचून काडिल्लें. गीतां खंयची क्लास बरीं म्हणटा ताका इनाम फाव जावपाचें आसलें.

सर्त फाल्यां म्हणल्यार आयज गोंदून घरा सावन टाळ हाडलो. टाळाच्या वाजपान गोंदूलो क्लास गाजूंक लागलो. टाळाच्या तालार क्लासांतलीं सगळीं भुरगीं धोलूंक लागलीं. आपली क्लास सर्तींत जिकतलीच हाची खात्री गोंदू आनी

पावलूकय जाली. दोगांच्याय चेऱ्यांचेर खुशालकाय खेळटा आसतनाच कार्तिक म्हयन्यांतल्या नितळ मळबाचेर भिरांकूळ काळें कूप दाटचें तशें जालें. गोंदूल्या क्लासा भायल्यान मॅडम आंतोनेत पासार जाली. येदो वेळ शांत आशिल्ली तिची तकली टाळाच्या आवाजान सणसणली. तशीच ती स्टाफरूमांत धांवली आनी कदेलार बसून लागली बडबडूंक,

"कार्मेलीन!"

"कितें जालें गो आंतोनेत?"

"सातयेंत कितें चोल्लां 'तें' पोयलां गो तुयें!"

"कितें जालां गो?" कार्मेलिनान हातांतलो बूक मेजार दवरीत म्हणलें.

"भोजोन चोल्लां मुगो थिंगा. माय गॉड! सोसपाक जायना गो बाये."

"फादर नोको गो?"

"नोको, तेका कितें पोडलां गो, हाल्यां हे इस्कोलांत कोकणेपोण चोल्लां म्होणोन लोकांक कोवल्यार पेरेंट आपल्या भुरग्यांक इंगा धाडटले गो?"

"हें सारकें उलयलें तूं. कोहेंय करून हें गीत बोंद करूंकूच जायें. चोल, चोल फादोराकोडें या. हें सोंग स्टोप कोरूंकच जायें."

दोगय मॅडामी भूत लागिल्ल्यावरी उठल्यो. खांदाक बॅगां लायलीं. हातांत मिनी पर्सी घेतल्यो. आंतोनेत मॅडमीन बॅगांतलो हारसुलो काडलो. कार्मेलीन मॅडमीन मिनी पर्सींतली लिपिस्टीक काडली, दोगांयनी वोंट रंगयले. एकामेकांक पळोवन 'पिच्च' करून हांसलीं. मागीर गंभीर चेरो करून प्रिन्सिपालाकडची वाट धरली. दोगय मॅडामी सेंडलांचो 'ट्रक-ट्रक' आवाज करीत, मोडत-लचकत चालीक लागल्यो.

प्रिन्सिपालाचें केबीन एका पोंताक तर स्टाफरूम दुसऱ्या पोंताक आसलो. मदें पांचवी ते सातवीच्यो क्लासी. चलतां चलतां आंतोनेत मॅडमीन ट्रक-ट्रक करून सातवेच्या दारार मारलें. पावलून दार उक्तें केलें. पळय जाल्यार क्लासांतलीं सगळीं भुरगीं टाळाच्या ठेक्यार संतपणान, ताल-सुरांत 'रघुपती राघव राजाराम ....' गीत म्हणटात. गीताचे सूर कानार पडटांच आंतोनेत मॅडामीचें उचंबळ बोड खिणांत शांत जालें. खिणभर ती तशीच उबी रावली. तिका तशीच उबी

रावन गीत आयकत रावचेंशें दिसलें. पूण तेच वगतार तिचे तकलेर कोणेतरी बडी मारिल्ल्यावरी तिका दिसलें. देवचारान तकलेंत एन्ट्री घेतली आनी मनीसपण खंयच्या खंय नाच जालें. मॅडमीचे दोळे तांबडे जाले. नाक फुरफुरलें, वोंट थरथरले आनी तिचे अख्खे कुडींत कापरें भरलें. तिणें हुंबऱ्यार रावन एकच किळांच मारली, "स्टोप इट. हें स्कूल कातोलिकांचें. इंगा कोंकोणपण चोलचेंना सोमजोलोय!" मॅडम गोंदूचेर नदर मारीत आड्डेली. मॅडमीचो तो अवतार पळोवन क्लासांतल्या एकान एक भुरग्यांची दांतखिळी बशिल्ल्यावरी जाली. गीत गायन थांबलें तें थांबलेंच!

इतलें करून दोगय मॅडमी आनी आनी थंय थांबल्योना. बद्द फादराच्या केबिना भायर उब्यो जाल्यो.

"मे आय कम इन फादर!" आंतोनेत मॅडमीन परवानो मागलो. ते म्हणसर कार्मेलीन मॅडमीन केसांचेर हात वोडीत हारशांत आपलें खुमणें पळोवन घेतलें.

"कम इन, प्लीज!" भितरल्यान फादराचो आवाज आयलो. दोगय मॅडमी वांगडाच भितर घुसल्यो. आंतोनेत मॅडम तर वाग फाटीक लागिल्ल्या सुण्यावरी धापेताली.

"प्लीज सीट डावन."आबुजलेल्या मॅडमींक पळोवन फादरान म्हणलें.

"फादर, आमच्या इस्कोलांत कितें चोल्लां?"

"भोजोन-भोजोन, आनी कितें! फादर, आमच्या कातोलिकांच्या इस्कोलांत कोहण्याल्या देवांचें भोजोन कित्याक?" आंतोनेताच्या फोर्सान कार्मेलिनान प्रस्न केलो.

"कूल डावन मॅडम! कितें घोडलां तें माहां सोवकासायेन आनी थोंडसाणेन सांगाय पोवया."

"फादर, सातवेच्या क्लासांत बोग्गोर राजाराम राजाराम कोत्ताय. हें कितें चोल्लां?"

"तें गांधींजींचें भोजोन चोल्लां. हाल्यां गीतांची सर्त आहा न्होय?"

"होय फादर, पूण कोहण्याल्या देवाचें भोजोन आमच्या इस्कोलांत नाहां." आंतोनेत आड्डेलें.

"कित्याक नाहां, देव सोगल्यांचो एक आनी हें भोजोन सोदांकाल जावचेंना. फोकोत सर्तीक लागोन म्होण्टाय तीं भुरगीं, म्होणो दी."

"पूण फादर आमहां भुरग्यांचे आवय-बापूय हातोलेय. ते म्होण्टाय, आमच्या भुरग्यांच्या तोंडांत कोहण्यालें भोजोन नाहां."

"ओहें कोण म्होण्टाय?"

"भुरग्यांचे आवोय-बापूय म्होण्टाय. हायें आयकोलां म्हुज्या ह्या कानांनी. हांव फोट सांगतां जाल्यार, इचार तोपयो सोराक."

"नाहां-नाहां. तोपयो सोराक आनी मोदें हाडूं नाहां. तुमहां नाहां जाल्यार, हांव तें बोंद कोत्तां." अशें म्हणून फादरान पावलूक आपोवन हाडलो आनी तें गीत सर्तीतल्यान काडून उडोवंक लायलें.

खरें म्हळ्यार फादराक त्या गीताचो अर्थ खबर आसलो. 'ईश्वर अल्ला तेरो नाम सबको सम्मती दे भगवान' हे वळींत भक्त समस्तांक बरी बुद्द ईश्वरान दिवची अशें मागणें करतात हें फादराक कळून आयिल्लें. हातूंत वायट अशें कांयच नाशिल्लें. तरी वाद आनी कटकट नाका म्हण ताणें तें गीत सर्तीतलें काडून उडयलें.

गीत काडून उडयलें हाचें दूख गोंदूहून चड पावलूक जाल्लें. तेन्नाच्यान पावलू चड करून आंतोनेत टिचरीचेर चड रागार आसलो. आतां ताका कळून आयिल्लें की तोपयो सर धरून आनीक कांय टिचरींचो एक पाडो पंगड आसा आनी तो इस्कोलाक केन्नाच वयर सरूंक दिवचोना. धर्माच्या आनी जातीच्या नांवान भुरग्यांचें लुकसाण होच पंगड करता. ह्या पंगडा वांगडा झुजतलो जाल्यार, नितळ मनाच्या वांगड्यांचो एकवट घडोवन हाडपाची चड गरज आसा अशें आतां पावलूच्या मनान घेतलें. तो आतां सताचे दिकेन वाटचाल करूंक लागलो.

आयज आयतारचो दीस. सदां जिळमिळट्यार उठपी गोंदू आज बरोच उसरां उटलो. उदकाकडेन वचून येतनाय तो गणयत-गणयत आयलो. येतना ताणें येंड्याची बडी तोडून हाडली. ती तोंडांत धोंगशीत, वताचीं खर किरणां

आंगार घेत तो आंगणांत उबो आशिल्लो. घरांत ताटलेंत वाडून दवरिल्ली हुनहुनीत आंबील ताची वाट पळयताली.

इतल्यान पयसुल्ल्यान कोण तरी ताका झळकलो. कोण आसतलो काय तो? असल्या वगतार गोंदूल्या घराकडच्यान मानाय-कामेऱ्यांचें येवप-वचप आसता. पूण हो तसल्यांतलो कोण आसूं नज. तो धवेफुल्ल भेसांतलो लांब-रूंद भुरगो लागीं पावलो आनी गोंदू ताका वळखलो. तो आसलो पावलू. गोंदूचो फास्ट फ्रेंड! गोंदून हातांतली बडी भायर मोखून मारली. धांवत वचून तांबयांतल्या उदकान कुचकुचीत घोंट घेतलो. वोलेच हात घेवन धांवत तो पावलू म्हऱ्यांत गेलो. पयलीं ताका वेंग मारली. मागीर ताचे दोनय हात आपल्या हातांत घेवन तो ताका चोवकेर घेवन गेलो.

गोंदूक आपल्या इश्टाक आतां खंय बसोवं खंय नाका अशें जालें. चोवकेर दोनय वटयां मातयेचे सोपे आसले. पेटून-धोपटून सुळसुळीत केल्ले. शेणान सारयिल्ले. गोंदून थंयचे दांडयेवयलें आपले काकेचें जुनेर वोडलें. तें सोंप्यार पातळायलें आनी आपल्या इश्टाक ताचेर बसयलो.

गोंदू अजून भुरगो आसलो. इस्कोलाक वचप आनी घरा येवप. गोंदूगेर येताले ते ताच्या वाड्यावयले गावड्याले पोर. केन्ना घाणयारे चेड्डेन तर केन्ना म्हेळे काश्टेन. इतलो देशेंत मनीस गोंदूगेर केन्नाच येवंक नासलो.

आपल्या भावाक इतलो देखणो, शांत आनी देशेंत मनीस भेटूंक आयला तें पळोवन गोंदूले भयणींक अजाप जालें. त्यो गर्वान फुलल्यो. पयस रावन लिपून त्यो पावलूक पळोवंक लागल्यो. कशाकशोय न्हेशिल्ल्यो आपल्यो भयणी पावलू म्हऱ्यांत येना जाल्यार पुरो, अशें गोंदूक दिसतालें. गोंदू इतल्योच ताच्यो भयणीय शाण्यो आसल्यो. त्यो पावलू पसून पयसच रावल्यो. तांणी गोंदूच्या मनांतलें वळखलें जावंये.

पावलू पयलेच खेप आपल्या घरा आयला, हाची गोंदूक खोस भोगली. पूण तो कळयनासतना अकस्मात घरा आयिल्ल्यान आपल्या इश्टाक कितें दिवचें हाची खंत ताच्या चेऱ्यावयल्यान स्पश्ट दिसताली. च्याव आनी बिस्कुत्यो दिवंक गोंदूगेर सकाळची च्याव पिवपाची रीत नासली. उकड्या तांदळांची पेज नाजाल्यार

आंबील जेवन घरांतलीं भुरगीं इस्कोलाक वतालीं.

गिरिजें घरांत आपल्या कामांत गूंग जाल्लें. भायर पावलू आयला हाचो ताका पत्तो लागलो ना. गोंदूक आंबील वाडून दवरलेली न्हिवली म्हण ताणें दुसरे खेप गोंदूक मोठ्यान उलो मारलो.

"काके, मात्शी भायर येता?" गोंदून गिरिज्याक सुचोवणी केली.

"कित्याक रे." अशें म्हणून गिरिजें ताकतिकेन भायर आयलें. पावलूक पळोवन तें मात्शें दचकलें आनी मागीर तोंड हासतें करून पावलूक पळयत रावलें.

"गोंदू, बाबाक मात्सो बोसों दी रे. तुका आंबील वाडला, ती जेय आनी पोसऱ्यार वोचोन यो."

गोंदूची मामी गोंदूक पसऱ्यार कित्याक वोच म्हणटा तें पावलूच्या सारखें लक्षांत आयलें. गोंदूक "आंबील जेय" म्हणटा तेंय ताणें आयकलें. गावड्यांगेर आंबील रांदतात हें पावलून आयकल्लें. ताका आंबील चाखून पळोवपाची इत्सा जाली. ताणें गोंदू वांगडा आपूणय आंबील जेवतां म्हणपाचें उलोवन दाखयलें.

पावलू आंबील जेवंक तयार जाला तें पळोवन गोंदू खोशयेन भुरकुटून गेलो. गिरिज्याकय खूब खोस भोगली. तें तरतरीत घरांत गेलें. दोन म्हाणायो हाडून चवकेर थेयल्यो. गोंदून भितरल्यो दोन पितळ्यो हाडल्यो. इतलें म्हणसर गिरिजें आंबली बुडकुलो आनी निवणे घेवन भायर आयलें. ताणें हून हून आंबील दोनय पितळ्यांनीं वाडली. दोन कुलेरां हाडून दोनय पितळ्यांनीं एक एक बुडयलें.

"पावलू तूं आंबील केन्ना जेयला रे!" गोंदून पावलूच्या तोंडाकडेन पळोवन प्रस्न केलो.

"ना रे! म्हुजी मम्मी जेयल्या हूंय. सांगताली बोरी लागता म्हूण!"

"आमकां कुलेरान जेवपाची सवंय ना."

"माजीर, कोही जेयताय तोर तुमी. कित्येंय पातोव आहल्यार कुलेरान जेवंक बोरें जाता न्होय रे!"

"हेंऽऽ! म्हाका आंबील, वोन्न, सोजी बी भुरकावपाची सोवंय. भुरकायल्यारच जेयलें शें दिसता आनी जेयल्लें हरगतीक पडटा."

"तोहें जाल्यार माहांय शिकोय रे, कोहें भुरकायताय तें!"

गोंदून वयल्या वयर आंबलीर हात वोडलो तोंडांत घालो आनी भुर्र ऽ ऽ ऽ..... करून आवाज केलो. पावलूक तो आवाज कॉमीक दिसलो. ताणें आपलोय हात आंबलीत रोमलो. आंबलीचो वयलो थर थंड आसता आनी भितर खतखत. पावलूचो हात सोसूंक जायना तितलो लासलो. ताणें झट्ट कन्न हात भायर काडून फाफुडलो. आंबलीचे थेंबे ताच्या धवेफुल्ल टी शर्टाचेर शिपडले. तरी ताणें हाताचीं चारूय बोटां तोंडात घालून चोखलीं. पावलूक ती मात्शी खारट आनी गुळमट आंबील खूब आवडली. केदो वेळ तो हात चाटत रावलो.

आपलो हात लासलो, पूण गोंदूचो कसो लासलो ना? पावलूक अजाप दिसलें.

आंबील भुरकवपाची कला पावलूक खबर नासली. पावलूक ती गोंदूकडच्यान शिकनशी दिसली. कारण पावलू आतां आंबील सोडूंक तयार नासलो. गोंदूक ताणें आंबील जेवपाक सांगलें आनी आपूण ताका पळयत रावलो. गोंदू आंबलींत हात कसो घालता, तोंडाकडेन कसो व्हरता, भुर्रर करून आवाज कसो करता आनी मागीर बोटां कशीं चोखता–हात कसो चाट्टा तें ताणें खिणांत शिकून घेतलें.

इतलें म्हणसर गिरिजें घशीन भरिल्लें काळेंकिट्ट कुळणें आनी दोन चोळके घेवन भायर आयलें. कुळण्यांत ताणें सोय–कांदो आनी हरव्यो मिरसांगो घालून मानसेचीं सुंगटां तळशिल्लीं. ताणें तीं चोळक्यांचेर वाडून दोनय पितळ्यां म्हऱ्यांत थेयलीं. पावलून तीं तोंडांत घालून चाखलीं मात, मागीर घे! दोगय इश्टांनीं भुरक्यार भुरको मारूंक कॉमेस केलें. आंबलीचो बुडकुलो अर्दो जालो, तेन्नाच दोगय इश्टांनी पितळ्यो सोडल्यो.

सुंगटां तोंडाक लावन आंबील जेवन जातकीर पावलून आपल्या खाणा–जेवणाचो खिणभर नियाळ केलो. तेन्ना ताका दिसून आयलें की, गावड्यांल्या ह्या आंबलीमुकार पाव–उंडे, केक–बिबिंका आनी सगळ्या तरेच्यो दोसी कित्याक उपकारनांत.

आंबलीचो आक्त जातकीर पावलूक आपल्या कामाचो उगडास जालो. ते पयरचे गीत सर्ती विशीं पावलूचे क्लासाचेर व्हड अन्याय जाल्लो. तोय बी

मॅडम आंतोनेतीक लागून. मॅडम आंतोनेत एक तसलेंच, पूण प्रिस्निपालान तरी अशें करूंक फाव नासलें. फादर सगळ्यांकडेन मोव रावता देखून त्या इस्कोलाचो रिजल्ट बरो येना. फादराच्या धर-सोडपणाक लागूनच कसल्योच ॲक्टिविटी बरे भशेन पार पडनांत त्या इस्कोलांत. तांच्या कर्तुबांक वाव मेळूंक जाय जाल्यार, भायल्यानच कितेंय करून दाखोवचें पडटलें. हाचो विचार करून पावलू गोंदूक मेळूंक आयिल्लो.

"पावलू आयज आमगेर येतलो म्होणोन खबरूच ना." खंती जावन गोंदून म्हणलें.

"सांगोनासून बोरें जालें. सांगलेलें जाल्यार आंबील भुरकावंक हुंय मेवतोली आहली माहां."

"आंबील आवडटा जाल्यार, तूं केन्नाय यो. आमगेर आंबली बुडकुलो सोदांच तोयार आसता."

"तें बोरें आहा रे. आतां आमी टिमीचें कितें करूया तें सांग. काडया मरे टिमू?"

"आनी आनी इचात्ता, काडुया म्हणचे काडुया."

"काल णोयेंतलो कोस्तू मेवलो रे माहां. तेका झेवया मुरे?"

"तूं म्हुण्टा जाल्यार घेवया."

"तेका झेवया मुरे, आनी णोयेंतले सालू आनी पेद्रू आहाय रेडी. तेय खोडेगांट प्लेयर आं."

"कोण बोरो शेवता आनी कोण वायट तें तुकां खोबोर आहा रे. तूंच कोर कितें कोरता तें."

"आमी टीम काडटा म्होणोन णोयेंतल्या पेद्रून सोगल्याक फामाद केलां."

"तोहें कोणाक कोवोंक दिवोंक फावो नाहलें."

"कित्याक रे, जावंदी फामाद. आमी कितें कोत्ताय तें उक्तें उक्तें जावंदी. हांव आसतोना तूं कांय भियों नाहां रे. आदीं माहां कांय गोमो नाहलें. हे पाडे लोक आमहां शिकोयताय एक आनी आपूण कोत्ताय दुसरेंच. आतां तुझ्या सांगातान

हांव जायतें शिकोंक पावलों. हे फुडें आमी दोगय होरें आहा तेंच कोरया. केदोय व्होडलो मोनीस आमहां आड येयलो जाल्यार तेहा होल्ले कोरपाची ताकोत आमच्यांत ना रे गोंदू?'' पावलूलीं हीं उतरां आयकून गोंदूक बरें दिसलें.

''पूण पावलू, मॅडम आंतोनेती मुकार आमी टिकत रे? धायेचे आनी णववेचे चडशे भुरगे तिचेवटेन आसात मुरे.''

''चोडशे आहाय रे, सोगले नाय मुरे? बऱ्या भुरग्यांक आमचे सायडीक हाडपाचें काम म्हुजें. स्टाफांतल्यो चडश्यो टिचरी मॅडम आंतोनेत आनी तोपयो सराचेर बऱ्यो नाय. त्यो आमचेर कोंत्र केन्नाच रावपा नाय.''

आनी ती गजाल खरी आसली. आंतोनेत मॅडम इस्कोलांत केन्नाच आपलें काम बरे भशेन करून नकळो आसली. आपल्या मर्जेतल्या, कांय शिकूं नासलेल्या भुरग्यांक ती सोपेपणान पास करताली. होमवर्क करिना जाल्यार कोणाक विचारी नासली. हेर टिचरीनी वायट भुरग्यांक तापयल्यार आंतोनेत तांकां वेंगेंत धरताली. ताका लागून वायट, मस्तीं आनी आळशी भुरग्यांमदीं आंतोनेत मॅडम हिरोईन जावन आसली. भुरग्यांच्या पालकांकडेन कशें उलोवंक जाय तें आंतोनेत बेसबरी जाणा आसली. ताका लागून गांवांत लोक तिका मान दिताले. आपलीं भुरगीं शिकनांत, तीं फायनल येजामीक फेल जातलीं हें लक्षांत येतकीर पालक मॅडम आंतोनेतीकडेन वताले. तांकां प्रिन्सिपाल आनी क्लासटिचरींकडेन वचपाची गरज पडनासली. मॅडम आंतोनेत दबाव हाडून भुरग्यांक मार्क वाडोवन पास करूंक लायताली. तोपयो सराचोय तिका सदांच तेंको आसतालो.

ही गजाल इस्कोलांत कश्ट घेवन शिकप्यांक, शिकोवप्यांक आनी प्रिन्सिपालाक मातय आवडनासली. तरी कोफुसांव नाका म्हण सगळे तोंड धांपून ओग्गी रावताले.

पावलूक हे गजालींकडेन लक्ष दिवपाची गरज नासली. पूण देव सदांच वायटपणांक तेंको दिना. एक ना एक दीस कोणाच्याय रुपान तो फुडें सरून मदांध प्राण्यांक जाग्यार हाडपाचें काम करता. आतां तो गोंदू आनी पावलूच्या रूपान वावरूंक सोदतालो.

आपलें नांव फुडें हाडिनासतना पावलून पंदरा वांगड्यांचो फुटबॉल पंगड

घडयलो. ताणें आपल्या इस्कोलांतले आठवे-णववेतले चार वांगडी पंगडांत घेतले. हेर इकरा वांगडी गावांतले घेतले. गोंदूक ह्या पंगडाचो मुखेल केलो.

गोंदूल्या घराफाटल्या मळाचेर आतां सांजेच्या सद्‌दां साडेचारांक चुकनासतना पंगड एकठांय जावंक लागलो. सदांच शांतिकायेन भरिल्लो ग्रावंड ह्या दिसांनी बोबो आनी हुयेलींनीं गाजूंक लागलो. सुर्वेक ग्रावंडार गांवचेच भुरगे जमूंक लागले. उपरांत गांवां भायल्या ल्हान-व्हडांची हाजेरी लागूंक लागली. ह्या आदीं गांवच्या मुखेल ग्रावंडाचेर राज्यांतल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो मॅची खेळिल्ल्यो, पूण फुटबॉल मोग्यांक गोंदूल्या खेळा असलो खेळ केन्नाच पळोवंक मेळूंक नासलो. तरणाट्यांची हेडींग, किकींग, रनींग, जंपींग आनी बॉल कॅचींग सगळेंच पळयन-पळयन दिसतालें.

गोंदूले टिमिचो खेळ थोड्याच वगतान रंगार येवपाक एक कारण आसलें. पावलूचो मामा एका वगतार खडेगांठ फुटबॉल प्लेयर आशिल्लो. ताणें भारत देशाचे वतीन संवसारभर मॅची गाजयल्ल्यो. आफ्रिका, पोर्तुगालाक बी वचून ताणें नांव मेळयल्लें. उपरांत तो रिटायर जावन घरा बसून आसलो. पावलून ताका भोवमानान आपोवन घेतलो, आनी गोंदूल्या पंगडाक दोन दिसां भितर कोचींग दिवन पंगड बळिश्ट केलो.

गोंदून ह्या बळिश्ट पंगडाचें नांव थेयलें 'पदचेण्णू पंगड'. असलें नांव हे पयलीं खंयचेच टिमींक नासलें.

गोंदूलो पदचेण्णू पंगड थोड्याच दिसांनी गांवभर फामाद जालो. कोंडवाड्यार ह्या आदीं कोणच फिरकनासलो. आतां सांजवेळार आख्खो गांव कोंडीमळार जमूंक लागलो. कोंडवाड्यार लोकांची रीग लागता ती पळोवन चणे-भिकणां आनी आयसफ्रूटवालेय थंय आतां आपली हाजेरी लावंक लागले. लोक म्हणूंक लागले, गावांतले नवे टिमींत जादू आसा, जादू!

पाद्रिल्या इस्कोलापसून कोंडवाडो तिनेक किलोमिटरांच्या अंतराचेर आसलो. गोंदूल्या घरापासून पावलूलें घर दोनेक किलोमिटरार आसलें. पावलू आतां सुटये दिसांनी गोंदूगेर येवंक लागलो. कोणाक कळनासतना गोंदूगेर येवन फुडल्यो राटावळी करप ताका सोपें पडटालें. त्या भायर दिसांतल्यान एकदांतरी

गोंदूकडेन थंडसाणेन उलोवपां करपाची संद मेळटाली.

गोंदू इतलोच पावलूय आतां शिटूक आनी विचारवंत जाल्लो. तांचें दोगांचेंय विचारचक्र आतां समगतीन धावंक लागिल्लें. निर्णयशक्तीय वाडिल्ली. आपलो सदांचो अभ्यास सोपोवन ते आपल्या येवजिल्ल्या कामा फाटल्यान नेटान लागताले. आतां तांकां एकच ध्यास लागिल्लो, आनी तो म्हणल्यार आपलो नवो फुटबॉल पंगड खंयच्या तरी खडेगांठ पंगडा कडेन खेळोवन जैत मेळोवपाचो. ह्या कामांत गोंदूक फुडें करून पावलू आपलें काम सादोवंक सोदतालो. ती एक ताची चाल आसली. इस्कोलाचे टिमी आड खेळपाची.

तो म्हयनो डिंसेबराचो आशिल्लो. नातलांच्यो सुटयो चलताल्यो. गांवांतल्या घरांच्या पडव्यांचेर आनी आंगणानी जेजू जल्माचे गोठे सजयल्ले. घराघरांतल्यान दीस – रात गितांचे मधूर सूर कानार पडटाले. वाड्यांवाड्यार 'झिंगल बेल' गाजतालें. आमोरी जातांच कश्टकरी रेंदेर आनी खारवीय बी घुमटां तालार कांतारां म्हणटाले. माडाफेणी लागतकीर खारवी – रेंदरांच्या तोंडांतल्यान आपसूक कुकाऱ्यो भायर पडटाल्यो. घुमटां गाजांत मिसळिल्ल्यो ह्यो कुंकाऱ्यो गांवपण जागयताल्यो.

जेजूच्या जल्माखोशयेन सैम आपलो खेळ खेळटालो. माथ्यावयलें मळब कुपां विरयत जाल्ल्यान तें हारश्यावरीं चकचकतालें. थंडेचे दीस आसूनय लागसाराक आशिल्ल्या दर्याउबेन जणेकल्याची कूड खोशेताली. हांगा थंय पासयो मारपी वाऱ्या झुळक्यो मनशांचीं आंगां पोशेताल्यो. थोड्यो भुरग्याबाळांक खातकुतल्यो करपाच्या यत्नात आशिल्ल्यो.

गांवांतलीं रेंवट शेतां कणगांवालींनी आनी मिरसांगा रोप्यांनी पाचवींचार जाल्लीं. शेतांदेगेर खंय ना खंय आशिल्लें, बोरांनी भरिल्लें बोरीझोंप आपल्याचेर नदर मारूंक खुणायतालें. शेतांक तेंकिल्ल्या भाटांतल्या आंब्या चवरांतल्यो सानुल्यो कळयो शेतां–भाटांतल्या मनशांवांगडा खेळूंक सोदताल्यो. दोंगरा पालसणावयल्यो काजी आंगभर चवरांनी भारेल्ल्यो. थोड्याच दिसांनी त्यो घसघशीत फोकां

देवोवपाच्या बेतांत आसल्यो. आपूण मोटव्यो आनी बुटक्यो आसुनय आंब्या-पणसांहून चड वालोराच्यो दाखोवपा पासत मुट्टे पिकचे पयलींच आपल्या चवरांचो परमळ म्हऱ्यांत येतल्यांच्या नाकांत भरताल्यो!

सगळेकडेन नातालांचो बोवाळ, वांजपां-गितांचो सुकाळ. नाटकां - तियात्रांचो गजबज. परबांचेर परबीं आनी ल्हान-व्हडांचे हांसरे चेरे!

असल्या वगतार गांवांतले फुटबॉल मोगी वोगी कशे बसत? ल्हान-ल्हान पोरांटे आनी आरसांटे तरनाटे फावशी खेळां सुवात पळोवन, वाड्या-वाड्यार फुटबॉल गेमी खेळटाले.

हे खुशालकायेंत भर पडपाक आनी एक बरी गजाल गांवांत घडली. जानेराच्या पयल्या सप्तकांत, गांवच्या क्लबान गांवांतल्या आनी गांवांभायल्या लोकांखातीर फुटबॉल गेमीची एक सर्त घेवपाचें पेरगांव सगळे कडेन घालें. ही सर्त इस्कोलां आनी खंयच्याय क्लबांच्या अठरा वर्सांखाला खेळप्यांखातीर आसली. ही सर्त नातलां सुटयो कॉमेस जावपा आदींच फामाद केल्ली. जैतवंत पंगडाक गांवांचो संबंद आशिल्ल्या आमदारान पन्नास हजारांचें इनाम आनी रुप्या कप दिवपाचें जाहीर केल्लें. ताका लागून क्लब आनी हायस्कुलां मेळून वीस पंगडांनी सर्तींत वांटो घेवपाचो निश्चेव केल्लो.

आतां नातलांचो दबाजो सोंपिल्लो. तरी गोंदूल्या गांवांत फुटबॉलसर्तीच्या निमतान जात्रेच्या उत्सवाचें भरतें आयिल्लें. ल्हाना-व्हडांचीं काळजां उमेदीन भरिल्लीं. सर्ती सोंपसर कसल्याच कामाक हात घालचो न्हय, अशें गांवकारांनी थारायल्लें. तीन तारकेक कोमेस जावपी इस्कोलां आतां चार दीस फुडें व्हेल्लीं.

गोंदूल्या गांवांतलें पाद्रिलें इस्कोल, गांवांतलो मुखेल क्लब आनी गोंदूलो पंगड अशा गांवच्या तीन पंगडांनी सर्तींत वांटो घेवपाक नामांकन केल्लें.

ह्या गांवच्या तीन पंगडां भितर गांवच्या क्लबाचो पंगड नावास्तो आनी खडेगांठ आसलो. गेल्ल्या वर्सा ह्या क्लबान आपल्या भुरग्यांक खेळोवन जायतीं इनामां जोडिल्लीं. पाद्रिल्या इस्कोलाचो पंगडय साप्प बाबतसो नासलो. प्रिन्सिपाल फुटबॉल खेळाचो मोगी आशिल्ल्यान आठवे-णववेंत नापास जाल्ल्या भुरग्यांक ताणें इस्कोल सोडूंक लायलें ना. इस्कोलाचें नांव राखपा पासत, खेळांत जैतां मेळोवपा खातीर युनिफॉर्म, फी बी भरून, शिकपांत गड्डे आशिल्ल्या भुरग्यांक

ताणें पोसून दवरिल्ले. ह्या कामाक तोपयो, पी.टी.सर आनी आंतोनेत मॅडमीचो तेंको आसलो.

भायले गांवांतले पंगड नामनेचे आसले. ताणीं हे ना ते सतींत नामना मेळयल्ली.

गोंदूलो पंगड मात नवो आसलो. हो पंगड पयलेच खेप सतींत वांटो घेतालो. सगळेच बाबतींत हो खालत्या दर्जाचो पंगड. ना आवय ना बापूय, कोणाचोच आदार नाशिल्लो. जाणटेले गोंदूक सांगताले, 'आरे गोंदू, तूं भुरगो आसा. हार उडटा म्हणून गायंडोळान उडूंक फावना. तेन्ना तूं सतींतलो फाटीं सर. ओगीच लोकांकडल्यान हाशें करून घेवं नाका.' असल्या वगतार गोंदूक हरीमास्तराची शिकवण याद जाताली. 'ऐकावे जनाचे, करावे मनाचे.' गोंदू हांसत्या तोंडान सगल्यांचें आयकून घेतालो. पूण आपली जिद्द सोडूंक तयार नाशिल्लो. लोकांक खबर आशिल्ली, गोंदू एक गावड्यांलो पोर. कसलोच आदार नाशिल्लो. फामाद नाशिल्ल्या कांय पोरांक घेवन फुटबॉल टीम तयार केल्या ताणें. आपल्या घराफाटल्या मळार आनी शेतां-भाटांनी टीम खेळयता तें बरें आसा. पूण गांवांतल्या आनी गांवाभायल्या बळीश्ट पंगडावांगडा हो कसो निस्तर काडटलो?

पूण गोंदू मात मनान थीर आशिल्लो. ताच्या फाटल्यान कोण कोण आसात, ताका दुडवांचें बळगें कोण दिता हाचो पत्तो कोणाक लागूंक नासलो. गोंदूचो सगळ्यांत व्हड आदार पावलू. पूण तो आतां गोंदू म्हऱ्यांत फिरकनासलो. तो इस्कोलाचे टिमींत खेळनासलो. तरी तो आपली टीम मानून, खेळगड्यां वांगडा बोवाळटालो. ताका लागून तो इस्कोलाच्या पी.टी. सराक आनी प्रिन्सिपालाक आपलोच सो दिसतालो. पूण 'अंदर की बात और थी.'

इस्कोलाचे टिमीत काडूंक नाशिल्ले बरे खेळपी आनी शिस्तिचे दोन-तीन भुरगे पावलूल्या विस्वासांतले आशिल्ले. जीव गेल्यार लेगीत पावलूलो गूट कोणामुखार उक्तो ना करपी. पावलू आनी गोंदूले तकलेंत कितें शिजता तें ह्या भुरग्यांक खबर आसताली. पावलू-गोंदूचें बरें मागपी हे भुरगे, गोंदूले टिमीक जैत मेळोवन दिवपापासत गुपचूप वावुरताले. गोंदूले टिमीविशीं कोण बरें उलयता, कोण वायट उलयता हें बारीकसाणीन आयकून पावलूच्या कानार घालपाचें काम, हे पावलूले जासूस करताले. पावलू ते परमाण सादूर रावन फुडलें पावल घालतालो.

आपल्या इस्कोलाचे टिमीहून चड काळजी ताका गोंदूले टिमीची आसली. कोणायभशेन गोंदूली टीम वयर येवन तिका नामना मेळची, हो ताचो ध्यास आसलो.

शेजारच्या गांवचेय थोडेभोव भुरगे पाद्रिल्या इस्कोलांत शिकूंक येताले. पावलून ह्या भुरग्यांकडेन मुजरत इश्टागत केल्ली. जणेका गांवच्या भुरग्याकडसून ताणें नावाजत्या खेळगड्यांचीं नांवां घेतलीं. कोण भुरगो पास दिवंक बरो आसा, कोण गोल मारूंक शिटूक आसा, हेड मारपाची कोणाची स्टायल कशी आसा, हाची म्हायती पावलू भुरग्यांकडच्यान घेतालो आनी गोंदूल्या टिमींतल्या भुरग्यांकडेन दिस्कुसांव घडोवन हाडटालो. हें सगलें चोरयां घडटालें.

ही फुटबॉल सर्त गोंदूलो गांव सोडून आनीक हेर चार गांवांनी घेवपाचें थारायल्लें. सगळ्यो चोवीस टिमी खेळोवपाच्यो आसल्यो. क्वार्टर फायनल, सेमी फायनल आनी फायनल अशा तीन स्तरांचेर गेमी खेळोवपाच्यो आसल्यो. खंयच्यो टिमी सेमी फायनल आनी फायनलीक पावतल्यो हाची चर्चा गांवां-गांवांनी जाताली. सर्तींत वांटो घेवपी क्लब आनी इस्कोलां लागच्याच गांवांतलीं आशिल्ल्यान खंयचो पंगड ताकतीन व्हड आसा म्हणपाची खबर सगळ्या फुटबॉल मोग्यांक आशिल्ली.

गोंदूल्या गांवच्या शेजराक वसतालो माकडगांव. माकडगांवांतलो क्लब गोंयभर फामाद. ह्या क्लबाचे टिमीन फाटल्या तेंपार गोंयभरच्या टिमींक हारयिल्ल्यो. हो क्लब दुडवांच्यो राशी ओतून प्लेयर तयार करतालो. ताका लागून हेय खेप हो क्लब पयले सुवातेर आसतलो अशें सगल्यांचें मत्त. गोंदूल्या गांवांतल्या पाद्रिलें इस्कोल सेमी फायनलीक तरी पावतलें, हाचो कोणाकच दुबाव नासलो. गोंदून कितल्योय उडयो मारल्यो तरी तागेली टीम क्वार्टर फायनलीक पावचे पयलीं बाद जावन घरा बसतली, हें सगळ्यांच्या मत्तान पक्कें जाल्लें.

सर्ती कॉमेस जावंचे पयलीं गोंदूल्या गांवांतल्या दोनय फुटबॉल ग्रावंडावेले खेळगडे एकाच गांवचे आसले. तरी गांवचे लोक दोन पंगडानी वाटून गेल्ले. जणेक पंगड आपापले टिमीचो समर्थक आशिल्लो. तरी गांवचे सगळे लोक दोनय ग्रावंडांचेर हाजीर रावन टिमीचे सराव पळयताले. मागीर आपापलें मत

एकमेकाकडेन उक्तायताले. जणेकल्याक दिसतालें आपलीच टीम जिकतली. ताका लागून गांवभर भासाभास आनी केन्ना केन्नाय झगडीं-केस्तावांय जातालीं.

गांवभर हो सगळो बोवाळ चलतासतना गोंदूलो पंगड मात ताच्या घरा फाटल्या मळाचेर सराव करतालो. गोंदूलो सराव चलता म्हणपाचें गांवच्या खुबशा लोकांक खबर आशिल्लें. तरी आतां कोणच ते टिमीक म्हत्व दिनासले. आनी बाबत टिमीचें कोंत तरी कोण कित्याक करतलो?

गोंदूकय आपल्या ग्रावंडार कोणे येवचें आनी बोबो-हुयेली मारच्यो अशें दिसनाशिल्लें. तांच्या ग्रावंडार सराव पळयतल्यांत थोडेच खेळगडी आसले, तेय बी फुटबॉल खेळाचे जाणकार. ह्या जाणकारांमदीं पावलूचो मामाय आसलो. तो सरावाचो बारकायेन नियाळ करतालो. सगळे जाणकार सरावाची गेम सोंपतकर खेळगड्यांच्यो चुको दाखोवन दिताले. अशेतरेन झिरोंतल्यान फुडें येताली गोंदूली फुटबॉल टीम! लोक कितेंय म्हणू, गोंदूली फुटबॉल टीम आतां आत्मविस्वासान सर्तींत वाटो घे सारकी जाल्ली. गोंदू आनी पावलू आतां आत्मविस्वासान भरिल्ले.

पावलूची कूड इस्कोलाचे टिमीत वावुरताली खरी, पूण ताचें मन मात गोंदूले टिमीत आसतालें. पावलू इगर्जेंत वतकीर सगळ्यांत पयलीं, गोंदूले टिमीक जैत मेळचें म्हूण देवाकडेन मागतालो.

शेकीं सर्ती सुरू जाल्यो. पांच गांवांतले चोवीस पंगड उबे जाले. ह्या पांचय गांवांनी बारा गेमी सुर्वेक खेळपाच्यो. तांतले स जैतवंत पंगड प्री-क्वार्टर फायनलीक पावपाचे आसले.

फाल्यां सर्त कॉमेस जातली म्हणल्यार आयज ग्रावंडाचेर घुडयो रोमिल्ल्यो. बोंदेरांनी ग्रावंड शेर्कायल्ले. धवेफुल्ल चुन्यान शिमो कुरूवायल्ल्यो. कच्च्या ग्रावंडांच्या चारय वाटांनी आर्दीच कदेलां मांडून दवरिल्लीं. एके सुवातेर आर्मुसावांच्या माटवांत मुजगेरांक बसपाची वेवस्ता केल्ली. दुसरे सुवातेर मदेंच मुखेल सोयऱ्यांक सोबीत माटोव तयार केल्लो.

नातालांचे दीस सोंपिल्ले, तरी ह्या पांचय गांवांनी फेस्त जागतालें. आपलो गांव खेळांत जैतवंत जावंचो म्हण, वाड्यावाड्यार कपेलांनी आनी खुर्सामुखार लादायिनी चलताल्यो. मायकांचेर देवासांव चलतालें. गांवांतलें सगलेंच वातावरण खोशेचें जाल्लें! उमेदीन भरिल्लें! आनी तो दीस आसलो आयताराचो. सांजेचीं

चार जाता जाता म्हणसर गांवचीं पोरां-तोरां, तरणाटे आनी म्हातारेकोतारे ग्रावंडाचेर लोटूंक लागले. साडेचार जाता म्हणसर ग्रावंडाच्यो सरभोंवतण्यो, सायकल-स्कुटरींनीं गर्देल्यो. मोटर गाडयो सुवात मेळटा थंय पार्क केल्ल्यो. एम्.एल.ए., मिनिस्टर्स, पाद्री आनी हेर मानादीक ग्रावंडाचेर दिसूंक लागले. हातांक हात मेळूंक लागले. राजकीय पक्षांचे कार्यकर्ते धोलां मुखार काडून, आपल्या लिडरांमुखार बेटोच भाव खावंक लागले.

पांचय गांवांतल्यो बाराय गेमी एकाच दिसा एकाच वगतार कॉमेस जाल्यो. गोंदूल्या गांवांतय तिनय पंगडांनी तीन ग्रावंडाचेर खेळ एकाच वगतार कॉमेस केले.

पाद्रिल्या ग्रावंडार पाद्रिनी गर्दी केल्ली. शिकपी भुरग्यांचे पालकय इस्कोलाची गेम पळोवंक झाडून आयिल्ले. पाद्रिल्या पंगडां वांगडा खेळपी दुसरो पंगडय भायले गांवच्या पाद्रिल्या इस्कोलाचोच आसलो. ताका लागून त्या गांवचे पाद्री आनी भुरगे बसी भरून आयिल्ले. ताका लागून ग्रावंडार हिसपाभायर गर्दी जाल्ली.

गांवचो क्लब म्हणटकीर ताच्या पंगडाचो मान मोठो. क्लबाच्या म्हालगड्यांनी आमदार आनी मंत्र्यांक मुजरत आमंत्रणां दिल्लीं, आनी मंत्री-आमदारय गांवच्या भुरग्यांक मोग दिवपाक चुकनासतना हाजीर जाल्ले. अशे तरेन पाद्रिलो आनी क्लबाचो ग्रावंड ह्या दोनय लोकांनी उप्पाट भरिल्लो.

आनी गोंदूल्या पंगडाचें कितें? तो तर दोळ्यांआड करपाचो. तरी ताका आयोजकानी कायदेशीर एन्ट्री दिल्ली. ताका लागून कांय गांवकारांच्या आदारान सर्तीक फाव तसो ग्रावंड एका बऱ्या लोकवसतीच्या वाड्यार तयार करून दिल्लो. हें करपाक फुडाकार पावलूच्या मामान घेतिल्लो. तोय पावलूच्याच तेंक्यान.

गोंदू गरीब म्हणटकीर ताची टिमय गरीब. नावाजत्यो गेमी सोडून गोंदूली फकत नावाची गेम पळोवंक वतलो कोण? गोंदूल्या ग्रावंडार ना कदेलां, ना म्युजीक, ना आर्मुसांव. हां, बोंदेरांनी मात तो सोबयल्लो.

गोंदूले गेमीक मंत्री आमदार बी तसले कोण नासले.

मॅच काबार जातकीर उलोवपां करचीं आसतात. ताका लागून मुखेल सोयरो, अध्यक्ष बी जाय पडटात. पावलूच्या मामान हीय वेवस्ता केल्ली. तो

स्वता येजमान जाल्लो. त्याच मतदार संघांत फाटले वेंचणुकेंत पडिल्ल्या उमेदवाराक ताणें मुखेल सोयरो म्हण हाडलो.

गांवच्या लोकांचे दिश्टीन गोंदूलो पंगड उणे दर्जाचो आसलो तरी आयोजकांनी मात ताका कमी लेखलो ना. गोंदूल्या पंगडाक एका गांवांभायल्या खडेगांठ पंगडाकडेन झूज दिवची पडली. ह्या पंगडाचें नांव आयकूनच गांवकारांनी गोंदूल्या पंगडाची आस सोडिल्ली.

शेकीं सर्तीचो पयलो रावंड ते दिसा सोंपलो. बारांतल्यो स टिमी जैतीवंत जावन क्वार्टर फायनलीक पडल्यो. बरी खबर म्हणल्यार गोंदूल्या गांवांतल्यो तिनय टिमी जैतिवंत थरल्यो. गोंदूली टीम जिंकली तें आयकून गांवच्या लोकांक खूब अजाप जालें. एका इस्कोलाचो मॅट्रिकेक शंबर टक्के रिजल्ट लागतकीर त्या इस्कोलाक जशी खोशी भोगता, तशीच खोशी गांवभर पातळ्ळी. गांवभर तुस्त जाताली ती गोंदूले टिमीची. गोंदून आनी पावलून घेतिल्ल्या कश्टांचें फळ देवान तांकां दिल्लें.

ते राती गांवकारांनी फुगेट्यो मारून, घुमटां वाजोवन आनी मायकार कांतारां गावन व्हड फेस्त मनयलें.

गोंदूली टीम जिंकली ती पळोवन गोंदूल्या इस्कोलांत बरोच बोवाळ जालो. दुसरे दीस इस्कोल कोमेस जालें. सुकिल्ल्या हड्ड्याचो गोंदू बरे नेटान इस्कोलाक गेलो. उक्त्या मनाच्या लोकांनी ताका वाटेर परबीं दिलीं.

गोंदू इस्कोलाच्या परिसरांत पावलो. ताच्या आदीं आयिल्ल्या भुरग्यांनी फुडें येवन ताका परबीं दिलींच पूण टिचरांनीय ताका शाबासकी दिली. गोंदूक आतां सगळेजाण आदरान आनी अजापान पळयताले.

पावलू मात गोंदू मुखार आपली खोस परगटावंक सोदी नासलो. तो ताका पळोवन पळोवंकच ना अशें करतालो. कित्याक तें ताचें तोच जाणा आसलो.

आतां सगळीं भुरगीं असेंब्लीक उबीं आशिल्लीं. सदची कार्यावळ पुराय जातकीर प्रिन्सिपाल भुरग्यांमुखार येवन उबो रावलो. आपलें इस्कोल पयली गेम जिंकलें म्हण खोस परगटायली. प्लेयरांकय ताणें परबीं दिलीं.

एक गजाल मात टिचरांक आनी भुरग्यांक कळून चुकिल्ली की

भुरग्यांमुखार उलोवप करतासतना फादराच्या कपलार मिरयो पडिल्ल्यो आसल्यो. तोपयो सर आनी पिटी सराचेंय तशेंच जाल्लें. पिटी सराची नदर तर असेंब्लीक उबो आशिल्ल्या गोंदूचेर थीर जाल्ली. आपल्याक टिमीत काडुना म्हूण गोंदू बदलो घेता, हें आतां गोंदूल्या दुस्मानांक कळून आयिल्लें. आतां तर तो क्वार्टर फायनलीक पावला, फुडें तो फायनलीक कित्याक पावचो ना? गोंदूली टीम वयर सरली, आनी इस्कोलाची घसरली जाल्यार? इस्कोलाचोच एक भुरगो, इस्कोलाच्या आड उबो रावता, हें समा न्हय! हाका आळाबंदाक हाडपाक कितें ना कितें करचेंच पडटलें. ना जाल्यार आपली धडगत ना. अशें मनांत म्हणत पिटी सरान भुरग्यांक आदेश दिलो, ''सावधान! एक साथ शुरू ऽऽ कर!''

भुरगीं मार्चिंग करीत आपापले क्लासींत गेलीं. तांच्या फाटल्यान टिचरय आपापल्या कामाक लागले.

थोड्या वगतान प्यून गोंदूले क्लासाच्या दारार येवन उबो रावलो. क्लासांत टिचर अजून येवनासली.

''गोंदू हूंय आहाय रे!'' प्यून आड्डेलो, ते बराबर गोंदू उबो रावलो.

''हो पळे हांव हांगा आसां. कित्याक रे?''

''तुका प्रिन्सिपालान आपयला.''

गोंदू पयलीं दचकलो मागीर नेटान धेपां मारीत प्रिन्सिपालाच्या केबिना दिकेन चलत रावलो.

गोंदूल्या इस्कोलाचो प्रिन्सिपाल मात्सो मोव काळजाचो आसलो. आपल्याच इस्कोलांतलो एक शिकपी भुरगो, तोय बी गावडो फुटबॉलाची नवी टीम काडटा आनी सर्तीक खेळयता आनी जिकताय बी. ताचे टिमींत तो आपल्याच इस्कोलांतल्या भुरग्यांक खेळयता, तेय बी एके नावाजते टिमीवांगडा. इतले बरे खेळगडे आपल्या इस्कोलांत आसून तांकां आपलें इस्कोल संद दिवंक शकना हाचें पिकासांव फादराक जाल्लें.

दुसरी गजाल गोंदू इस्कोलाचे टिमीक खेळूंक सोदतालो. पूण इस्कोलान ताका घेतलो ना हाचो बदलो घेवपाक ताणें आपली स्वतंत्र टीम काडली. चूक

ताची न्हय, तर ती इस्कोलाची आसली. इस्कोलांनी शिकपी भुरग्यांक शिक्षकानीं वळखूंक जाय. तांच्या आंगांतल्या गुणांक वाव मेळूंक जाय. अशें घडलें ना जाल्यार इस्कोलां चलोवन फायदो कितें? गोंदून प्रिन्सिपालाचे दोळे उक्ते केल्ले. आपूण खंय तरी चुकतां म्हणपाची गजाल ताका कळून आयली.

प्रिन्सिपाल आपलें सगलें काम सोडून गोंदूची वाट पळयत बशिल्लो. गोंदू येतकीर कॅबिनांत धाड म्हण ताणें भायर स्टुलार बशिल्ल्या प्यूनाक सांगून दवरिल्लें.

गोंदू येवन कॅबिनाच्या दाराकडेन धिटायेन उबो रावलो. प्यूनान ताका रोखडोच भितर धाडलो. 'गुडमॉर्नींग फादर!' वीश करतना गोंदूचो चेरो गंभीर जाल्लो. ताका दिशिल्लें फादर ताका धारेर धरतलो. तशें केल्यार फादराक जापो कशो दिवपाच्यो, तें थारावन आयिल्लो गोंदू.

"गुडमॉर्नींग, बाब गोंडू, काँग्रेचुलेशन!"

आतां मात कसलीच जाप दिनासतना गोंदून मान खाला घाली.

"आरे, ओहो उबो कित्याक, बोस कोदेलार."

गोंदू तसोच उबो. ताका दिशिल्लें फादर ताका तापोवन काडटलो. कित्याक तेंय गोंदूक खबर आशिल्लें. इस्कोलांतले णव्वेंतले भुरगे ताचे टिमीत खेळिल्ले. तेय फादराक सांगिनासतना. णव्वेंत पावतकीर भुरग्यांनी प्रिन्सिपालाक सांगल्याबगर भायल्यो कसल्योच ॲक्टिविटी करूंक फावना, असो कायदो घालून दिल्लो. हो कायदो भुरग्यांनी मोडिल्लो आनी ताका कारण आसलो गोंदू.

गोंदू तसोच उबो रावला तें पळोवन फादर आपल्या कदेलावयलो उठलो. ताणें गोंदूचे खाडकेक हात लावन तकली वयर काडली. ताच्या केंसांचेर हात वोडलो. ताच्या भुजांक धरून कदेलार बसयलो.

"बाब गोंडू, माहां चोड खोस भोगली, तुयें फुटबॉल टीम उबी केली पोवोन. तुजी टीम क्वार्टर फायनेलीक पावली, तेंय बोरें दिसलें. पूण एकूच वायट दिसलें, तुयें माहा सांगोंक जाय आहलें, तूं टीम काडूंक सोदताय. हांव तुहां आदार दिवपाचों."

गोंदू प्रिन्सिपालाचीं शापतां मोन्यानीं आयकतालो. फादर फट उलयता

हें न कळपा इतलो तो पिसो नाशिल्लो. ताका दिशिल्लें, फादराक सांगचें की 'फादर तूं फट उलयता. फादर तूं फटकिरो. तूं इस्कोलाचे टिमीक सोडून दुसरे खंयचेच टिमीक आदार दिवचो नासलो. म्हजी टीम सर्तींत पयली गेम जिंकली. फुडेंय ती जिंकत म्हूण तूं काचाबूल जाला. खरें म्हणल्यार तुका हावें टीम काडल्या तें मातय मानूंक ना!' अशें तेन्नाच सडसडीत उलोवन फादराक दाखोवचें, अशें गोंदूक दिसलें. तो प्रिन्सिपाल सोडून आनी कोणय आसलो जाल्यार गोंदू ताका वोगी रावचो नासलो.

"सॉरी फादर! म्हाका टीम काडपाची नासली, म्हाका इस्कोलाचे टिमींत घेतलेलो जाल्यार हांव दुसरी टीम काडपाचे भानगडींत पडचो नासलों. फुटबॉल खेळोंक म्हाजी सोगली कूड शिंवशिंवताली फादर. हांवय खेळोंक उणो कापाज ना, हें म्हाका दाखोवंकच जाय आसलें. हायें टीम काडूं नासली जाल्यार, हांव म्हाजी कापासदाद दाखोवंक शकतालों फादर?"

"होय रे, आमचेंच चुकलें. आमी तुहां इस्कोलाचे टिमीत घेवंक जायो आहलो. पूण कांय पोरवा ना. हे फुडें आमी तुहां आमचे टिमींत मुजरोत घेतोलेय. पूण आतां तुयें तुजी टीम सोर्तींतुली हार्टीं झेवची, ओहें माहां दिसता."

"कित्याक फादर? म्हाजी टीम सर्तींत आसल्यार कोणाचें लुकसाण जावपाचें आसा!"

"लुकसाण कोणाचें जावपाचें नाय रे. तुजी टीम कोटोर फायनलीक पावली म्हूण ती फुडेंय जिंकतोली ओहें चिंतू नाहां तूं." फादरान आपलें मन उक्तें केलें. गोंदूक दुबावांत घालपाची माण्णी फादरान केल्ली खरी, पूण गोंदू केदो वस्ताद तें फादराक खंय खबर आसली? ताका दिशिल्लें आपल्या उलोवण्यान आनी समजावण्यान गोंदू नरमतलो. निर्शेवन आपली टीम फुडें व्हरपाचे भानगडींत तो पडचोना. पूण जालें मात भलतेंच. गोंदूनच फादराक परतें केलें.

"फादर, कोणाचें लुकसाण जायना जाल्यार तूं म्हाजे टिमीक आदार दी. हांव ती फुडें व्हरतां. तुज्या आशिर्वादान घडये ती उजवाडांत येत." हें सांगून गोंदू लिकलिक्या दोळ्यांनी फादराच्या चेऱ्याकडेन जापेची वाट पळयत उबो रावलो.

"तोहें न्हय रे भावा म्हुज्या. तूं आमच्या इस्कोलांत शिकताय मुरे?"

"हय फादर!"

"हाल्यां तुजी टीम होरोत रावली जाल्यार, तुहां लागोन आमहां लोज मुरे?"

फादराच्या मनांत दुसरेंच कितें चल्लां, हें गोंदून वळखलें. ताणें फादराक शादुरकायेन जाप दिली.

"फादर, कोणय लजेंत पडत असलें काम म्हजेकडल्यान केन्नाच घडचें ना. आमच्या इस्कोलांतले कांय भुरगे म्हजे टिमींत खेळटात, तशे हेर गांवच्या टिमीनय खेळटात. तेन्ना तुमकां कसलीच खंत करपाची गरज ना. आमच्या इस्कोलाची टीम जिकली जाल्यार, आमकां सगल्यांकच खोस भोगतली. म्हाजे टिमीचें कोणाक कोंत आसा?"

गोंदू आपल्याक कसोच बदचोना हें फादराक कळून चुकिल्लें. फुडें इस्कोलाची टीम हरली आनी गोंदूली टीम जिकली जाल्यार फादराक मान खाला घालची पडटली हाची खंत फादराक लागून आसली. हेरांक गोंदूचें कोंत नासलें. पूण फादराक गोंदूचो भंय आसलोच.

आनी जालेंय तशेंच. क्वार्टर फायनलिच्यो टिमी सेमी फायनलीक पावल्यो. गोंदूल्या गांवच्या क्लबाचो पंगड सेमी फायनलीक पावलो ना. गोंदूली टीम आनी पाद्रिल्या इस्कोलाची टीम सेमी फायनलीक पाविल्ल्यान सगळ्याक बोवाळ जालो. बोवाळ जावपाकय तशेंच कारण आशिल्लें. सर्तींतल्या चोवीस टिमींतल्यो चार टिमी सेमी फायनलीक पाविल्ल्यो. गोंयभर गाजिल्ल्यो टिमी सर्तींतल्यान भायर पडल्यो आनी नामनिशाण नाशिल्ली टीम सेमिफायनलीक? गोंयभर ह्या चारय टिमींचो आतां गाजो-वाजो जावंक लागलो. तांतल्या तातूंत गोंदूल्या टिमीच्यो खबरो गोंयच्या सगल्या पेपरांनी फुलोवन दिल्ल्यो. गोलकीपर गोंदू बॉल आडायता तें छायाचित्र कांय पेपरांनी पयल्या पानार दिल्लें. कारण बातमीदारांक गोंदू नवो आसलो. ताचो खेळ पळोवन सगळे खबरेकार अजाप जाल्ले.

गोंदूली टीम सेमीफायनलीक पावली देखून सगळ्यांत चड बोवाळ जाल्लो तो पाद्रिल्या इस्कोलांत. जणएका भुरग्याचे जिबेर घोळटालें तें गोंदूचें नांव. गोंदू

आतां शिक्षक-विद्यार्थ्यांमदें हिरो जाल्लो. गोंदू सगळ्यांचोच चर्चेचो विशय जाल्लो. फकत पाद्रिल्या इस्कोलांतच न्हय तर गांवांतल्या हेर शाळांतल्या भुरग्यांच्या तोंडांतल्यान गोंदूचे तुस्तिंचो पावस पडटालो.

अशें आसलें तरी गोंदू मात आपणाल्या जैतान भुरकुटून गेलो ना. ताची मोख फायनलीक पावपाची आसली. ताका लागून ताचे तकलेंत तरेतरेच्यो हिकमती जल्म घेताल्यो. आपले तकलेंत जें कितें येता तितलेंय तो पावलूक उलोवन दाखयतालो. पावलू मागीर हेर खेळगड्यांक एकठांय हाडून तांकां सुचवण्यो करतालो. सगळे वांगडी ताच्यो सुचवण्यो व्हडा खोशयेन मानून घेताले. कसलीच कुरकूर करिनासतना.

इस्कोलाची टीम सेमीफायनलीक पडटकीर प्रिन्सिपालान पिटी सराकडेन दोन हजार रूपये दिले. ''खायात-पियात मोज्जा कोरात आनी म्हुज्या इस्कोलाचें नांव वोयर काडात. दुस्मोनाक तोकली वोयर काडूंक दिवं नाकात.'' पाद्री शेर्मांव सांगता ते भाशेन उलयलो. पूण कोण कोणाचो दुस्मान तें मात ताणें सांगलें ना. इगर्जेंत समेस्तांचें बरें मागपी पाद्रीक फुटबॉल खेळाचे बाबतींत चिततनां सगळे कडेन दुस्मान दिसताले. फुटबॉल खेळ कांय मनशांक पिशे करून सोडटा म्हणटात तें फट न्हय! इस्कोलाचे टिमी वांगडा गोंदूली टीमय सेमी फायनलीक पावली ती पळोवन फादराक चड वायट दिसलें. तो उठता बसतासतना एक सारको 'गोंडू, गोंडू' करीत रावलो. सामको पिसो कसो!

गोंदूल्या गांवाक तेंकून तांबागांव आसलो. गोंदूलो गांव आनी तांबागांव हांचे मदें व्हडलोसो फरक नासलो. मदें शीम आसली म्हूण ते दोन गांव म्हणपाचे. गांवांत रावपी चडशे रेंदेर आनी खारवी. हिन्दूंचीं घरां साप्प थोडीं. दोनूय गांव शेतां भाटांचे, दाट लोकवस्तेचे. फुटबॉल खेळ, रेडेपाड्यांच्यो धिरयो आनी तियात्र पळोवन खुशालकायेन जियेताले हांगाचे लोक. तरी फुटबॉल हें उतर कानार पडल्यार अर्द मेल्ले लेगीत जिते जाताले. काम धंदो वाऱ्यार उडोवन फुटबॉल गेमी फाटल्यान मूस कशे धांवपी हे लोक.

अश्या ह्या तांबागांवांतलो सांतातोन फुटबॉल क्लब आख्ख्या गोंयांत फामाद. ह्या क्लबाक आयज मेरेन कोणेंच सट्ट करून हारयल्लो ना. असल्या

ह्या खडेगांठ क्लबाचे टिमीवांगडा खेळपाचो वगत गोंदूले टिमीचेर आयलो. तांबा गांवच्या सांतोमे हायस्कुलाच्या पंगडा वांगडा पाद्रिलें इस्कोल आतां झुंजतलें.

अशे तरेन फामाद आनी बळीशट सांतातोन पंगडाकडेन गोंदूलो पंगड झूज दितलो तें आयकून फुटबॉल मोगी चडच शितिदार आयले. फाल्यां गेम कोणय जिकूं आयज गोंदूलो पंगड गोंयभर फामाद जाल्लो. गांवांत सगळ्यांचे जिबेर गोंदूचें नांव घोळटालें. गांवांभायर गोंदूलो पंगड गाजतालो, आपले टिमीची तोखणाय जाता ती पळोवन गोंदूचे कुडीर इंच इंच मास चडटालें. पावलूकय भितरले भितर खातकुतल्यो जाताल्यो. गोंदूली टीम सेमी फायनलीक पडली. आतां ती हारल्यार लेगीत पावलूक व्हडलेंशें कांयच दिसपाक नासलें. सांतातोन पंगडान हे आदीं व्हडल्या व्हडल्या पंगडांक लोळयल्यात. सांत आंतोन पंगडाचें कोणें नांवच काडल्यार हेर पंगडाचे खेळगडे कच्च करून आंग काडटाले. असल्या बळीशट पंगडा वांगडा गोंदूली टीम खेळटाली. पावलूक इतलेंच पुरो आसलें. पूण गोंदू मात निमाणे मेरेन लडून आपूण जैतीवंत जातलोंच असो निश्चेव करून आसलो. तो आपल्या वांगड्यांक सांगतालो कीं तांचो पंगड कप आनी पन्नास हजारांचें इनाम जिंकतलोच. तेन्ना वांगड्यांनी हारपाचो विचार तकलेंत केन्नाच हाडचो न्हय.

पयलीं प्रिन्सिपालाक आनी पिटी सराक गोंदूल्या पंगडाचो भंय दिसतालो. पूण आतां तांचो भंय खंयच्या खंय पळून गेल्लो. कारण सांतांतोन पंगड गोंदूल्या पंगडाक खोल्ले करतलो हाची खात्री आतां तांकां जाल्ली. तेन्ना प्रिन्सिपालाक दिसतालें कीं आपली टीम कोणाय भशेन फायनलीक पावतली. सांतातोन टिमीवांगडा आपली टीम हारल्यार कसलीच लज आसची ना. आनी सांतोमे टिमी परस पाद्रिली टीम खर आसा हातूंत इल्लोय दुबाव नाशिल्लो.

तो दीस आसलो आयताराचो. सेमीफायनल आनी फायनल ह्यो गेमी पणजेच्या कांपालार खेळोवपाच्यो आसल्यो. सेमी फायनलीक मुखेलमंत्री आनी फायनलीक मुखेल सोयरे म्हण राज्यपाल हाजीर रावपाचे आसले. मॅच चारांक कॉमेस जावपाची आसली. पूण ती कॉमेस जाली साडेचारांक. कारण मुखेलमंत्र्यांक हाजीर रावपाक कळाव जालो. मुखेलमंत्र्याचे हाजिरीक लागून चडांत चड आमदार गेमीक हाजीर आसले. पूण शेकीं मुखेलमंत्र्यान आपल्या पावटीचो

खेळामंत्र्याक धाडून दिलो.

हे सेमीफायनलीच्यो दोन मॅची आयज आनी फाल्यां, सेगीत दोन दीस एकाच ग्रावंडार खेळपाच्यो आसल्यो. पयली मॅच आयज सांत आंतोन पंगड आनी गोंदूलो पंगड हांचे मदें आशिल्ल्यान गोंयच्या खांची कोयंड्यांतल्यान फुटबॉल मोगी कांपाल ग्रावंडार एकठांय जाल्ले. सगळ्या इदादीच्या लोकांनी ग्रावंडार गर्दी केल्ली. ही गर्दी चड करून गोंदूल्या नांवाक लागून जाल्ली. खबरा पत्रांनी गोंदूक दिल्ले प्रसिध्दीक लागून ती जाल्ली.

आतां मॅच कोमेस जावपाचो वगत जाल्लो. दोनय पंगड शिस्तीन ग्रावंडार आयले. एकमेका सामकारा वळीन उबे रावले. सांत आंतोन पंगडाच्या चडश्या खेळगड्यांक लोक वळखताले. कारण चडश्या ग्रावंडांचेर तांच्यो मॅची जाल्ल्यो. पूण लोकांचे दोळे गोंदूक पळोवंक आशेल्ले. ताणीं आपली नदर पयलीं गोंदूल्या पंगडार मारली. बळीश्ट आनी घटमूट तरनाट्यांमदें एक काळसो, शिरपुटो भुरगो शिस्तीन उबो आसलो. हेर भुरगे चुळबुळे आसले. पूण हाची हालचाल नासली. लोकांनी ताडलें होच गोंदू आसूंक जाय.

इतल्यान खेळामंत्री ग्रावंडार आयलो. ताणें पयलीं सांत आंतोन पंगडाच्या प्लेयरांक हात दिवन जैतवंत जावपाक आशिर्वाद दिलो.

मागीर गोंदूल्या पंगडांतल्या भुरग्यांक हस्तांदोलन करतां करतांच मंत्री गोंदू म्हऱ्यांत पावलो. मंत्री ताका हात दितालो. पूण गोंदून मंत्र्याक हासत्या तोंडान नमस्कार केलो. व्हडांक हात दिवचे परस नमस्कार केल्यार बरें आसता, अशें गोंदूक हरीमास्तरान सांगून दवरिल्लें.

उपरांत वांगडा आशिल्ल्या अधिकाऱ्यान गोंदूची मंत्र्याकडेन खास अशी वळख करून दिली. मंत्री दोन मिनटां थांबून गोंदूकडेन उलयलो. तेन्ना किडकिडीत गोंदूच्या आंगांत चडूच बळगें शिरलें.

आतां रेफ्रीन पिल्लूक मारली. खेळ सुरू जालो. सांत आंतोन पंगडाचे खेळगडे कांय न्ही करून खेळटाले. तांचेर कसलोच दबाव असो नासलो. तांकां दिसतालें जैत तांचेंच आसा. तांचे सगळेच खेळगडे ताडमाड, खाडा-मिशांचे. ताका लागून गोंदूलो पंगड सामकोच किरकोळ. सांत आंतोनीलो गोलकीपर तर लांब-रूंद भयांकृत बॉक्सर कसो दिसतालो.

गोंदूलो पंगड सुर्वेक भियेवन भियेवन खेळ्ळो. सांत आंतोनीन पांच-

पांच मिनटांनी गोल करून गोंदूल्या पंगडाचेर सेगीत तीन गोल केले. आतां सगळ्या लोकांची खात्री जाली. हे फुडें गोंदूल्या पंगडाचेर गोलांचो पावस पडून तो पंगड व्हांवन वतलो.

गोंदू पंगडाचो मुखेल आसलो खरो, पूण तो गोल कीपर आशिल्ल्यान आपल्या वांगड्यांक सुचवण्यो करूंक शकनासलो. तरीय ताणें कांय म्हत्वाच्यो खुणो आपल्या वांगड्यांक शिकोवन दवरिल्ल्यो. खेळटां खेळटां वांगडी गोंदूचेर नदर मारताले. गोंदू तांकां खुणार्नी कितें सांगूंक जाय तें सांगतालो. खुणो करपाचें काम गोंदूले दोळे आनी वोंट करताले.

मांजर जशें हुंदराक खेळयता, तशें सांत आंतोन पंगडान गोंदूल्या पंगडाक खेळोवन तांकां जाम करपाचें थारायल्लें. एका कमजोर पंगडाचेर गोलांचो पावस घालून सांत आंतोन पंगडाक कसलेंच व्हडपण मेळसारकें नासलें. इंटरवल मेरेन गोंदूल्या पंगडाक जगमाभशेन मोव करपाचें ताणीं थारायल्लें.

गोंदूल्या पंगडान हे संदीचो पुराय फायदो घेतलो. मर्दी-मर्दी सांत आंतोनीचेर आक्रमण करून पंगडाक खूब धांवडायले. हीच पद्दत इंटरवला उपरांतूय चालू दवरली. खेळ सोंपपाक पंदरा मिनटां आसात म्हणल्यार आनीक दोन गोल गोंदूल्या पंगडान घेतले. असल्या वगतार गोंदूली टीम आतां हरतली हें सांगपाक खंयच्या पारख्याची गरज नासली.

इतले म्हणसर गोंदूले वोंट आनी दोळे हालूंक लागले. ते बराबर गोंदूले टिमीतले सगळे खेळगडे एकमेकांक खुणावंक लागले. ह्या खुणांनी गोंदूल्या पंगडाक भलतोच नेट आयलो. पयलीं सांत आंतोन पंगड गोंदूल्या पंगडाक भियोवन सोडटालो. आतां गोंदूल्या पंगडान तांचेर भलतेंच चेपण हाडलें. गोंदूले वांगडी भार आयिल्ल्या गड्यांभशेन खेळूंक लागले. ते स्प्रिंगो कशे उडूंक लागले. तांचें बळ पळोवन सांत आंतोन पंगड नरम पडलो. ते गोंदळ्ळे. हे गोंदळेल्ले अवस्थेंत गोंदूल्या पंगडान सांत आंतोन पंगडाचेर दोन मिनटांत दोन गोल केले. ह्या दोन गोलांनी सांत आंतोन पंगड बिथरलो. तांच्या हाता-पायांतलें त्राण खिणांत खंयच्या खंय पळून गेलें. तरी उश्णें अवसान हाडून ताणें गोंदूचेर हल्लो केलो. पासार पास, हेडार हेड करून गोलकीचेर तोफेन सोडिल्ले गुळे कशे बॉल येवंक लागले. बॉल म्हऱ्यांत येतकीर गोंदू सुंगट कशें उडून, वाकडो तिकडो कसोय आयिल्लो बॉल

आडायतालो. गोंदूली लडाय पळोवन ग्रावंडावेले हजारांनी लोक तोंडांत बोटां घालताले.

गोंदूलो खेळ पळोवन सांत आंतोनीलो गोलकीपर तर गरजेभायर धापेवंक लागलो. तो धांपेता तें पळोवन गोंदूले टिमीक कसो चेव आयलो देवाक खबर! खंयच्यान कितें घडटा तें कळचे पयलींच गोंदूले टिमीन सणसणीत आनी तीन गोल सांत आंतोन पंगडाचेर दिले. हो बदल घडलो तो पळोवन कांपाल ग्रावंडावेले लोक शिगम्याक नाचतात तशे नाचूंक लागले. लोकांक चड खोशी जाल्ली गोंदूली हार जायना ती पळोवन.

गेमीचो निकाल लागचो म्हूण अधिकाऱ्यांनी थंयच्या थंयच निर्णय घेतलो. जणेका पंगडाक पांच-पांच गोल मारूंक लायले आनी चड गोल मारपी पंगड जैतिवंत जातलो, अशें थारायलें. अशे तरेन गोंदूले टिमीन जैत मेळोवन ती फायनलीक पावली.

दुसऱ्या दिसा पाद्रिल्या इस्कोलान, सांतोमे इस्कोलाचेर दोन गोल मारून जैत मेळयलें. अशे तरेन आपल्याच इस्कोला आड फायनलीक खेळचें पडटा, हाची गोंदूक खोशीय जाली आनी दुख्खय बी.

पंगड फायनलीक पाविल्ल्यान गोंदू आनी पावलू आतां चडच खुशालकायेन भरिल्ले. पावलू उकत्या मनाचो आशिल्ल्यान तो आपली खुशालकाय लिपोवंक नकळ आशिल्लो. गोंदूचें तशें नाशिल्लें. ताच्या मनाक कितलीय खुशालकाय भोगली तरी उचांबळ जायनाशिल्लो. पदरांत पडिल्ली खोशी खिणाची. ती केन्ना उडत हाचो नेम ना. तेन्ना ती तिगोवन दवरपाक आनी वाडोवपाक सदांच दोळ्यांत तेल घालून रावचें पडटा, हाची जाणविकाय गोंदूक आशिल्ली.

आपलो पंगड आपल्याच इस्कोलावांगडा झुजतलो. तो हरलो जाल्यार तितलेंशें वायट धरपाची गरज ना. व्हडल्या व्हडल्या पंगडांक फाटीं घालून गोंदूलो पंगड फायनलीक पावला. आतां फायनलीक इस्कोल जिंकलें, कप आनी इनाम इस्कोलाच्या पदरांत पडलें तरी गांवांत हिरो थारतलो तो गोंदूच. कारण गोंदून जशें

थोडे काळांत आपल्या पंगडाक जैत मेळोवन दिलें तशें कोणाकच आयज मेरेन जमलें ना. भुरग्यांचे पांय पाळण्यांत दिसतात खंय! गोंदू फुडें कितें पसून करूंक शकता हें ताच्या जैतावयल्यान लोकांक कळून चुकिल्लें.

पावलू खोशी जाल्लो, गोंदू जालो ना. ताका फायनलीक जिंकून इनाम मेळोवंकच जाय आसलें. ह्या जैतान ताका लोकांचीं तोंडां बंद करूंक जाय आसलीं. खंयच्याच फुटबॉल पंगडांत गोंदूक घेवचो न्हय अशें म्हणपाची कापाजदाद ह्या फुडें कोणाक जावची न्हय, अशें जाल्लें ताका जाय आशिल्लें. ताका लागून सेमिफायनलीक जैतवंत जावनय तो पावलू इतलो खोशी जावं नासलो. ताका दिसतालें, सगलेच बाबतींत बळिश्ट आशिल्ल्या पंगडाक हारोवन आपलो पंगड फायनलीक पावला. आतां मातय हयगय करूंक फावना. मात्सो नेट धरून जणेका खेळगड्याक कोमार काडपाचें काम बरे तरेन जाल्यार, जैत आपलेंच आसा, अशें गोंदूक दिसतालें. ताका लागून तो आतां जैताचे तेंगशेर पावपाचे माण्णेक लागलो.

समाजाक कितेंय तरी बरें करून दाखयतलो जाल्यार, कर्तुबी मनशाचेर चड ना थोडें चेपण हें येताच. सुसेगाद रावन आळसायेन दीस काडपांत ताका सूख लाबना. ईश्वर ताका एके सुवातेर बसूंकच दिना. आपल्याक जाय तसलीं कामां करपाक, लोकांक बरी देख दिवपाक ईश्वर बऱ्या मनशाकच वेंचून काडटा. गोंदूय तांतलोच एक भुरगो आसलो. ताची ईश्वराकडेन इश्टागत आसली. ताका लागून तो काळखाक भिवन उजवाडाक फाट करपाक तयार नासलो.

फायनल लागीं पावतां पावतां म्हणल्यार गोंदूक आतां चडच तळमळे लागूंक लागले. ताका केन्ना काय पावलूक भेटून आपलें मन मेकळें करीन शें दिसलें. आपणें उबो केल्लो फुटबॉल पंगड आपल्याच इस्कोला आड झुंजप हें गोंदूक पटनासलें. गांवांतल्या चडश्या शिकपी भुरग्यांचो आनी तांच्या पालकांचो तेंको पाद्रिल्या इस्कोलाक आसतलो. आपल्या पंगडान इस्कोलाच्या पंगडाचेर गोल घालो जाल्यार गांवच्या लोकांक बरें दिसचेंना. आपल्या पंगडाचेर गोल पडलो जाल्यार मात इस्कोलाचे भुरगे टाळयो पेट्टले तेन्ना आपल्याक मान खाला घालची पडटली. पावलूकय तें मानवचेंना. दोगय त्या इस्कोलाचे शिकपी भुरगे. आपलें इस्कोल दुसऱ्या पंगडाकडच्यान हारता तें पळोवन तांकां कशें बरें दिसत!

आनी खेळटां खेळटां आपल्या पंगडाक हार खावची पडली जाल्यार गोंदूक मरूंक पुरो जातलें आसलें. तोपयो सर, पी. टी. सर आनी तांचे वांगडी गोंदूक उट्टा-बसतना केरायतले आसले. ते भायर इस्कोलाचे टिमीत गोंदूचो आसपाव केन्नाच जावचो ना हाची खात्री गोंदूक आसली. तेन्ना जिखूं कोणय.... निमाणे मेरेन जैता खातीर झुजपाची मोख गोंदू सोडूंक तयार नासलो. जिखलो जाल्यार कांय लोक तरी शाबासकी दितले. हारल्यार दोनय वटयां मार सोसचोच पडटलो. तेन्ना झुंजपांतच खरें शाणेपण आसा. झुंजतां झुंजतां मरण आयल्यार सर्ग मेळटा. भियेवन तोंड लिपोवन भोंवता ताच्या वाट्याक नरकच आसता, अशें गोंदूक हरीमास्तरान सांगून दवरिल्लें.

पावलू मात इतले खोलायेन विचार करी नासलो. आपल्या इश्टान खूब कितें करून दाखयलां, आतां ताच्या मुखार हड्डें फुडें काडून उबो रावपाची कापाजदाद खंयच्याच दादाक जावची ना. तेन्ना तो हारलोय जाल्यार सर्तींतलें ताचें कर्तूब कोणच विसरचोना. गोंदूलो पंगड हारल्यार पावलूक आतां व्हडलेंशें कांयच दिसचें नासलें. पूण तागेल्या इस्कोलाची टीम हारली जाल्यार मात ताका वायट दिसतासलें. ताच्या वागणुकेवयल्यान हेंच दिसून येतालें. फायनल गेम चलतना, ताळयो मारून कोणाक तेंको दिवचो हो प्रस्न पावलू मुखार आसलोच. तरी ताचे तागडेचें दालें इस्कोलाच्या पंगडाविशीं झुकतलें हातूंत दुबाव नासलो.

कितेंय जालें तरी पावलूक आपल्या इश्टाची काळजी दिसतालीच. गोंदू काळजी विरयत आसचो अशें पावलूक दिसतालें. ताका लागून दोन धिराचीं उतरां दिवपाक पावलू आमोरे वेळार गोंदूक मेळपाक गेलो.

गोंदूल्या घरा कुशीक माडाचुट्टांचो एक माच आसलो. दीसभर हांगा थंय भोंवतकीच गोंदू थकतालो. थकलो म्हणटकीर तो आमोरेच्या वगतार चुडटांमाचार हात-पांय तांडून आड पडटालो. आजय तो असोच आड पडून, मळबाकडेन दोळे लावन आपल्या फुटबॉल पंगडाविशीं गंभिरतायेन चिंततालो. अशे तरेन गोंदू हे आदीं चिंतपात गुंतून केन्नाच वचूंक नासलो. ताका एकांत खूब आवडटालो. पूण एकांतांतलो चडांत चड वगत तो सैम नियाळ करपाक घालयतालो. सैमाचो बारीकसाणीन नियाळ करतासतना बारिकांतली बारीक वस्त ताचे नदरेंतल्यान सुटनासली. आपल्या घराभोंवतणी कसले रूख आसात. त्या

रूखांचेर खंयचे पक्षी भायल्यान येवन बसतात. तांचे पाखांटे, चोंची, बसपा उडपाची आनी आवाज काडपाची रीत, ह्यो सगल्यो गजाली गोंदूच्या काळजाक ओड लायताल्यो.

चुडटां माचयेर पडिल्लो आसतनाच ताका रातीचो अदमास समजना. काळखी रात ताका चडच आवडटा. धर्तरेर उप्पाट काळोख आसतकीर गोंदूचे दोळे मळबाक लागून आसतात. असल्या वगतार आख्खें मळब चमक्यो आनी तिकल्यो लावन बसलां असो ताका भास जाता. मळबांत चंदामामाचो पत्तो नासता तेन्ना गोंदू नखेत्रां वांगडा मनांतल्या मनांत खेळटा. धर्तरेर वयल्या गोंदूचे दोन दोळे मळबाच्या लाखांनी दोळ्यांत मिसळटात. गोंदूलें मन इतलें चंचल आसता की तें एके सुवातेर आनी एका विचारांत म्हण थीर कशेंच रावना. मळबांतलीं नखेत्रां ताका केन्ना मिणमिणत्यो पणट्यो दिसतात. केन्ना मळबरूपी कालीमातेन आपल्या काळ्या कपलार चिकटयल्ल्यो भांगराळ्यो तिकल्यो दिसतात तर केन्ना-केन्ना तींच नखेत्रां ताका एखाद्रे देखणे अस्तुरेच्या नाकांतले पिलीची वज्राळीं थिकां दिसता. केन्ना केन्नाय गोंदूक मळबांतलीं सगळीं नखेत्रां शेंवतीं-मोगरीं मेजतात तशीं मेजून काडचींशीं दिसतात.

तीं मेजपाचो तो यत्न करता. पूण लिकलिकत्या तेजाळ नखेत्रां फाटल्यान आनीकय कितलींशींच नखेत्रां गोंदूक लिपून पळयतात आनी तीं म्हणटात, 'गोंदूबाब, आमकांय मेज रे बाबा!' तेन्ना गोंदू बुचकळ्यांत पडटा आनी सगळी सुखदिणी नियाळणी अदूर्यार सोडून तो भानार येता. ताची काकी ताका जेवणाक साद घाली मेरेन ताचो एकांत चालू आसता.

आयज मात गोंदूक सगल्यांचो विसर पडला. तें मळब, तो चंद्रीम, तीं नखेत्रां ताचे तकलेंतल्यान खंय तरी पयस उडून गेल्यांत. तांचे सुवातेर ताका दिसता तो कांपाला वयलो फुटबॉल ग्रावंड. ग्रावंडार सर्तींतली फायनल गेम सुरू जावपाचो वगत जाला. गोंदूली आनी पाद्रिल्या इस्कोलाची टीम, एकामेकांक हारोवन जैतिवंत जावपाचे तयारेन उबी आसा. रेफ्री पिल्लूक केन्ना मारतलो आनी बॉलार खोंट केन्ना पडटली हाची वाट ग्रावंडाकडेन दोळे लावन आशिल्ली गर्दी पळयत आसा. गेम पळोवपा खातीर व्हडले व्हडले मनीस मुजरत आयिल्ले आसात. इस्कोलाचो प्रिन्सिपाल व्हड मनशांमदें बसून आपल्या टिमिच्यो बडायो

मारतालो. ताच्या चेऱ्यावयल्यान दिसून येतालें की जैत ताचेच टिमीचें जातलें.

इस्कोलाचे टिमीक नेट दिवपाक इस्कोलाच्या भुरग्यां सयत आख्खो गांव उत्सुक्तायेन बसला.

कोणाचो आदार नाशिल्ली गोंदूली टीम मात सामकी निर्शेल्या. गांवांतल्या ल्हान-व्हडांचे पुराय आशिर्वाद इस्कोलाचे टिमीक आसात हें पळोवन गोंदू खंतीत बुडला.

गोंदूक दुख्खदिणी गजाल म्हणल्यार ताच्या इस्कोलांतल्या तोपयो सरान ताका खिजोवपाखातीर एक खासा तवनासांचो पंगड हाडून गर्देंत बसयल्लो आसा. खेळतासतना गोंदूल्या पंगडाक कशे तरेन हिणोवचो, पंगडांत निर्शेवणी कशी हाडची, हाची ट्रेनींग तोपयो सरान त्या तवनासांक दिल्या. गोंदूच्या आड कारस्थनां करपी आंतोनेत टिचरीनय कांय भुरग्यांक फितोवन गर्देंत हांगा-थंय बसयल्ले आसात. सगळो लोक इस्कोलाच्या फावोरार आसा. आपल्या वांगडा कोणच ना, हे भावनेन गोंदू आतां चडच खचून गेला. आपूण आतां सामकोच उबंत पडला, निमणे वगतार आपल्याक तेंको दिवपी कोणच ना, अशें ताका आतां दिसूंक लागता. तरी तो पावलूक विसरना.

पावलूच्या आदारान गोंदूलो पंगड फायनलीक पाविल्लो. गोंदूलो पंगड आनीक खंयच्याय पंगडा आड फायनलीक पाविल्लो जाल्यार, पावलू आपली सगली शक्त एकठावन गोंदूल्या जैताखातीर वावुरतलो आसलो. पूण आपल्या इस्कोलाक खंयचेय भायले टिमीन हारयल्लें पावलूक कशें आवडत? पावलूकच कित्याक? गोंदूकय तें आवडचें नाशिल्लें!

गोंदू आतां व्हडल्या पेचांत सापडिल्लो. वाठारांत व्हडल्यो-व्हडल्यो टिमी आसतना, आपल्याच इस्कोला आड खेळपाचो वगत आपल्याचेर येतलो, हें गोंदून सपनांत लेगीत चिंतूंक नासलें. पूण आतां ताका उपाय नासलो. एकदां खोल उदकांत उडी घेतिल्ली गोंदून. हात-पांय मारून तडीक पावल्याबगर ताका दुसरो पर्याय नासलोच. एक तर जिखचो ना तर हारचो!

चिततां चिततां आमोरेची घांट केन्ना वाजली गोंदूक कळ्ळेंच ना. सद्दां आमोरे वगतार गोंदूक शेण-गोबोर आनी धुंवराच्या वासाची संवंय जाल्ली. हो वास गोंदूक सूख दितालो. ह्या वासान आपल्याक केन्ना न्हीद लागताली हाचो

पत्तो गोंदूक लागनासलो. नीज शेतकारांचें अशेंच आसता. देखून भारतीय संस्कृतायेंत शेण-मातयेक चड म्हत्व आसा.

गोंदू आपले तंद्रेंत आसतना अकस्मात एक विपरीत घडलें. गोंदूल्या आवडट्या शेणावासाचो खिणांत भंग जालो. शेणावास खंयचे खंय नाच्च जालो. आनी गोंदूच्या नाकांत भस्स करून चेरावास घुसलो. गोंदूक हें अनपेक्षीत आसलें. तो फटफटीत उठून बसलो. फाटीं वळून पळयत जाल्यार पावलू! असल्या वेळार पावलूक पळोवन गोंदू दचकलो.

"पावलू तूं ह्या वगतार आमगेर? असो अकस्मात येवपाक कितें जालें?" खिणभर दोळे बिटबिटायत गोंदू जापेची वाट पळयत रावलो. गोंदू गोंदळ्ळो तें पळोवन पावलू अजापलो. कितें उलोवचें तें कोणाकच समजना जालें. उपरांत गोंदून पिट्ट करून माचावयल्यान खाला उडी मारली. दोगय इश्ट आतां शिंतिदार आयले. गोंदूचो चेरो उजळ्ळो. ताणें पावलूच्या खांदार हात घालो. ताका तो वासरेर व्हरूंक लागलो.

"हुंय वोयताय रे, इंगाच बोसया रे चुडटांचेर. माहांय बोरें ऽऽ दिसता, भायर बोसोंक." पावलून खुशालभरीत जावन म्हणलें.

पावलू माचयेर पातळ्ळो. गोंदू ताचे तकले कुशीक बसलो.

"गोंदू, हाल्यां फायनल मुरे!"

"हय!"

"तूं चोड टेन्शन झेवं नाहां रे!"

"हांव खंय घेतां रे टेन्शन. तें आपशींच जाता. आता आमची टीम फायनलीक पावली. ती जिखूंकच जाय. ना जाल्यार तोंड दाखोवंक लज मरे म्हाका."

"लोज कोहली रे! हुंयचीय एक टीम जिखतोली. दोनय टिमी आमच्योच मुरे!" पावलू गोंदूक समजावपाच्या सुरांत उलयलो.

"ना पावलू. इस्कोलाची टीम ती इस्कोलाची आनी आमची ती आमची. एकदां सर्तीक उबे रावले म्हणटकीच आमचे तुमचे उरनात रे पावलू. जणेका पंगडान आपल्या जैताखातीर लडपाचें आसता. आमी आतां फकत इस्कोलाचे टिमीक हारोवन जैत मेळोवपाचेंच चितूंक जाय." गोंदू किंवाट्यान

उलयलो.

“होय रे गोंदू, तूं सांगता तें सारकें. पूण माहा मुरे भाडया आमचें इस्कोल जैतिवंत जालेलें जायें. माहांच न्हो, आख्ख्या इस्कोलाक आनी गांवांकूय तेंच जायें. गांवांतलो क्लब होरलो. आतां गांवांतलें इस्कोल तोरी जिंको दी म्हूण आख्खो गांव सायबीण मांयक रोजार कोत्ता.”

“तुकाय तशेंच दिसता रे पावलू? आमचो पंगड हारल्यार तुका बरें दिसतलें?” गोंदून तोंड रडकुरें केलें.

“माहां इस्कोलाची टीम जिखल्यार बोरें दिसतोलें.” पावलून गंभीरतायेन म्हणलें. गोंदू पळयत उरलो.

“होय गोंदू. माहांच न्होय तोर आख्ख्या गांवांक बोरें दिसतोलें. सोगल्यांक जाय आपल्या गांवांचें नांव वोयर सोरलेंलें.” पावलू एका जाण्ट्या मनशा भशेन उलयलो.

“हांवय ह्या गांवचोच मरे पावलू! म्हाकाय जाय म्हाज्या गांवचें नांव वयर सोरलेंलें. आमचो पंगडय ह्याच गांवचो. हांव-तूंय हेच गांवचे. हेर गांवांतले सगले पंगड हारोन फाटीं पडले. आतां आमच्यांतलो खंयचोय पंगड जिखलो जाल्यार मान गांवाकच मेळटलो.” गोंदून पावलूक समजावपाचो यत्न केलो.

“तोहें न्होय गोंदू, आमचें इस्कोल आख्ख्या गोंयांत फामाद आहा. तुजे टिमीक कोण ओवकोता?”

“तुजी म्होणों नाका रे, आमची म्होण!”

“ना गोंदू, आतां इस्कोलाची टीम तीच आमची. तुजेर ओन्याय जालो देखून हांव तुज्या हाटल्यान उबो रावलों. इस्कोलाची टीम नाहली जाल्यार हांव तुहां सपोर्ट कोत्तोलों आहलों. तुजी टीम ती आमचे गांवची टीम मानतोलों आहलों. पूण तुहां आतां फावो तें मेवता. ही सर्त काबार जाली म्होण्टोच फादर तुहां इस्कोलाचे टिमींत झेवंक तोयार जाला. इतलेंच न्होंय तोर तुहां तो टिमीचो मुखेल कोरूंक सोदता.”

“आतां हायें कितें करपाचें?”

“तुयें कोहलेंच टेन्शन घेवपाचें ना. फोकोत लोकांक दाखोवपा पासोत शेवपाचें. तुजे टिमीर गोल पोडले जाल्यार पिकार जावपाचें ना.”

गोंदूक पावलूलें उलोवप साप्प मानवलें ना. पावलू ह्या वगतार कित्याक आयला, हें गोंदूक आतां कळून आयलें. ताका कोणेय तरी शिकोवन धाडला म्हणपाचें गोंदूक जाणवलें.

"गोंदू, हांव सांगतां म्हूण म्हुजेर रागार जावं नाहां. तूं आयज टिमीच्या प्लेयोरांक मेवलाय रे?"

"ना. कित्याक? कितें जालें?"

"तूं तेंहां मेव आनी त्येंची तोंडां पोय!"

"कितें जालां तेंच्या तोंडांक?"

"त्येंच्या तोंडार तुकां मातूय हुशारकाय दिसची ना. आतां तुयें कितल्योय उडयो माल्ल्यार तूं जिखपाची आस धोरूं नाहां. तोपयो सोर आनी टिचर आंतोनेतान सोगल्या प्लेयरांक धोमकायल्यात. ते भायर जोण एकल्या प्लेयरांक एकेक हाजार रूपये दिवन तेंहां सांगलां इस्कोलाचे टिमीक कोणाय भाशेन हारोंव नाहांय म्हूण! आनी गोंदू, हें पोय फादोरान तुहां कितें दिलां."

गोंदून पावलूल्या हातांतलें पुडकें आपल्या हातांत घेतलें. तें चतरायेन सोडयलें. पळय जाल्यार पन्नासांच्या शंबर नोटांचें बंडल. पुराय पांच हजार रूपया.

"इतले पयशे? आनी ते कित्याक?" गोंदूक शेळो घाम सुटलो. इतक्या पयशांचें बंडल गोंदूच्या हातांत केन्नाच पडूंक नासलें.

"हें नोटांचें बंडल म्हजेकडेन कित्याक रे पावलू!"

"सोगल्या प्लेयरांक एकेक हाजार. तूं मुखेल म्हूण तुहां पांच."

गोंदू ल्हान आसलो, तरी कितें समजूंक जाय तें समजलो. मंत्री आनी सरकारी मनीस दुडू घेवन काम करतात, अशें गोंदून गांवच्या लोकांकडल्यान आयकल्लें. ब्रायब म्हणचे कितें हेंय गोंदू समजतालो. फादरान हे दुडू धाडल्यात तीय 'ब्रायब'च. ब्रायब घेवप हें पातक, अशें बरे लोकांच्या तोंडांतल्यान गोंदूच्या कानार पडिल्लें.

फादरान धाडिल्ले पांच हजारांचें पुडकें गोंदू रागान भायर मारूंक सोदतालो. पूण ताणें संयम राखलो. तें पुडकें ताणें पावलूच्या हातार थेयलें आनी तें फादराक परत दिवंक सांगलें.

आनी कोणय पांच हजार गुपचूप घेवन मजा करतलो आसलो. आपले

काकीक कापडां घेतलो आसलो. भयणांक आंगलीं घेतलो आसलो. आपल्याक जाय तसलीं पॅण्टां आनी शर्टां घेतलो आसलो. फादराचो राग ओडून घेवचो नासलो. पूण गोंदून तशें कांयच केलेंना. ताणें दुडवांक कोयर मानलो आनी आपलें मनीसपण जागयलें.

पावलू पयशे घेवन थेट फादराकडेन गेलो. फादराचें आयकना असलो गोंदू हो पयलोच भुरगो आसलो. फादर जें कितें करता, तें इस्कोलाच्या बऱ्याक. तातूंत कसलेंच पातक ना, अशें पावलूक दिसतालें.

पयशे परत करून गोंदून फादराचो अपमान केला अशें पावलूच्या मनान पक्कें केलें. गोंदू आपलो इश्ट, आपल्याक लागूनच तो इतल्यार पावलो. आपूण सांगतां म्हूण तरी गोंदून पयशे घेवंक जाय आसले. पावलू मनांतल्या मनांत गोंदूचेर जळफळ्ळो. ताका गोंदूचें खूब वायट दिसलें.

पावलू रागान गेलो तें पळोवन गोंदूकय खूब वायट दिसलें. पावलून आपल्याक फाट केली जाल्यार आपूण एकटो पडटलों हाची पुराय जाणविकाय ताका आसली. पूण पावलूक बरें दिसूंक जाय म्हूण तो कायचे काय करूंक शकनासलो.

पावलू रागान गेलो म्हूण गोंदू निर्शेलोना. रातीचीं आतां आठ वरां जाल्लीं. चूड पेटोवन तो पांच मिनटांच्या अंतराचेर रावपी शेजाऱ्यागेर गेलो. बॅटरे दिवो घेवन तो वाग फाटीक लागिल्ल्यावरी धांवत पावलूच्या मामाल्या घरा गेलो. घडलेली सगली गजाल ताणें धिटायेन मामाक सांगली.

अणभवी मामाक आपल्या भाच्याचें साप्प मानवलें ना. प्रिन्सिपालाचो तर ताका चडच राग आयलो. मामा खरेलो खेळामोगी आसलो. सत्त्यान चलपी. न्यायान आनी शिस्तीन वागपी. ताणें गोंदूक धीर दिलो–

''बाबा गोंदू, तूं कांय भियों नाहां. इस्कोलाची टीम कोही जिखता ती पोवया. चोल सोर भायर!''

मामान हातांत दांडो आनी आपलो बॅटरे दिवो घेतलो. सगळे खेळगडे खंय–खंय रावतात ती खबर गोंदूक आशिल्ली. जणेकल्या खेळगड्याच्या घरांत शिरून, सगळ्यांक मामान भायर काडले. सगळ्यांक घेवन ते व्हड रातीर पावलूगेर पावले.

फादर इगर्जेचें देवासांव सांबाळून इस्कोलाचो वेव्हारय सांबाळटालो. मीस सांगप, कुमसार घेवप, बाल्तिम दिवप, मरणां करप, लोकांक भेटप, हीं सगळीं कामां जातकच फादर इस्कोलांत आपल्या केबिनांत वचून बसतालो.

पादविगाराची न्हिदपा-उठपाची आनी जेवणा-खाणाची वेवस्ता इगर्जेक तेंकूनच केल्ली आसताली. आपलें दिसपट्टें काम सोंपतकच फादर आपल्या विसवघरांत विसव घेतालो. कसलेंय उर्जेंत काम आसल्यार, शिक्षक, पालक आनी विद्यार्थी फादराक ह्याच विसवघरांत येवन भेट्टाले.

आतांय तोपयो सर आनी पि. टी. सर प्रिन्सिपालाक मेळूंक राती वगतार विसवघरांत आयिल्ले. फाल्यांचे फायनलीचें दिस्कुसांव करून कितेंय सादलें जाल्यार सादलें हो दोगांचोय हेत आसलो. दोगांकय इस्कोलाचें जैत म्हत्वाचें नासलें. गोंदूली टीम कशी हारोवची हाचोच विचार तांच्या मनांत चड घोळटालो. फादराच्याय मनांत तेच विचार मुज्ग नासतनाच दांस करताले. तो फादराचो दांस गोंदू वांगडा चलतालो. खाता, जेवतासतना गोंदूचें चित्र फादराच्या दोळ्यां सामकारा नाचतालें. मात देवा पासत फादर गोंदूच्या कानाक धरून ताचो दांस थांबोवंक शकनासलो.

तोपयो आनी पी. टी. सर विसवघरांत बरोच वगत फादराची वाट पळयत बसले. इस्कोलाच्या स्टाफरूमांत बडबडत वेळ घालोवपी दोनय सरांक, हांगाची शांतिकाय बोअरींग लागूंक लागली.

इतल्यान फादरालो कुजनेर कुजनांतल्यान भायर आयलो. ''बैसोन राबाय आं, फादोराक सांगोतां.'' म्हणून कुजनेर भितर वचून फादराच्या कानांत फुतफुतलो. चुकून लेगीत आपल्याकडेन मोठ्यान उलोवंचें न्हय, अशी कुजनेराक फादराची ऑर्द आसली.

इस्कॉलांत आनी इगर्जेंत सदांकाल धवोफुल्ल लोब घालून आसपी फादर आतां गावन घालून, पोटार हात ओडीत भायर आयलो. दारावेल्या पड्ड्यांतल्यान भायर सरतांच फादरान एक पावरफूल ढेकर दिलो. तो आयकून झेमत बसलेले

दोगय सर 'एकसाथ सुरूऽऽ कर'च्या थाटांत उबे रावले.

'गूड मॉर्निंग फादर' सदां सवंयेन सरांनी व्हडा रातीर फादराक 'गूड मॉर्निंग' म्हणलें आनी फादरानय संवयेक पाळो दिवन तेंच केलें.

''बोसाय रे'' फादरान वक्ल काडून गावनाक पुसलें आनी परत दोळ्यांक लायलें.

''कितें म्हुण्टाय, कोहलें काम आहलें? मात्से वेगी उलोयाय. माहां न्हीद मेवोंक जाय.''

''फादर फाल्यां फायनल न्हय, कितेंय परतें जायत म्हूण भंय दिसता.'' तोपयो सरान आपली चिंता उक्तायली.

''तुमी कांय भियों नाहांय रे. हायें ज्युस्त सोगलें माण्णेर गाहलां. तें गोंडून मुरे, शी! ओहलो भुरगो हे आदीं आमहां केद्नाच मेवोंक ना! गावडो जावन, ओहो कोहो रे तो? हॅं, गोंडू, गोंडू!''

''पूण फादर, आतां आमकां काळजी करपाची कसलीच गरज ना. ऍवरी थिंग इज ओ के फादर.'' तोपयान आपल्या उलोवपांत इंग्लिश घुसडयली.

''तुमी सोगल्या प्लेयोरांक मेवल्यात मुरे?'' फादरान चवकशी केली.

''हय फादर, फाल्यां गोंदूली टीम हरलीच म्हूण समज. हातार एक एक हजार पडना फुडें सगले उडयो मारूंक लागले. इतलेंच न्हय, आमच्या प्लेयरांक हेल्प करपाचेंय उतर दिलां ताणीं सगळ्यांनी.'' तोपयो सराचीं उतरां फादराच्या कानांत घुसून मेंदवांत खातकुतल्यो करूंक लागलीं.

''तोहें जाल्यार फोत्त-फोत्त. हायें गोंदूकूय पांच हाजार धाडून दिल्याय पावलूकोच्च्यान. पावलू ताचो इश्ट. तो ताचें उतोर खालतें पोडपाक कोहेंच दिवचो ना. आनी आमच्या गोंयांत तोर, नोटां दाखोयल्यार व्होडले व्होडले मुनीस बागोवताय. कितें म्हुण्टाय रे.'' फादरान पी.टी. सराक प्रस्नार्थक नदरेन पळयत म्हणलें.

''दुडवांचो अणभव म्हज्याहून तोपयो सराक चड आसा फादर.'' पी. टी. सरान तोपयाक तिरशे नदरेन पळयत जाप दिली.

''तुमी आतां घारा जेल्यार बोरे. माहां आतां चोड झेम येवपाक

लागली.''

दोगय सर घरा वचपाक उठले. इतल्यान भायल्यान दाराची बॅल वाजली. फादरान दार उक्तें केलें. पळय जाल्यार एका भुरग्या वांगडा दारांत पावलू उबो आसा. ताच्या तोंडार काळोख पडला. फादराक जाप दिवपाचें धाडस ताच्यांत नासलें. तरी तो धिटायेन फादराच्या तोंडाक पळयत उबो रावलो. पावलूची हालचाल पळोवन फादर निर्शेलो. ताणें दोगय सरांक दोळ्यांनी खुणायले आनी तांकां घरा वचूंक वाट दाखयली.

फादरान दोगय भुरग्यांक भितर घेतले आनी तांकां बसपाक मोन्यानी खुणायले. तरी पावलू मान बागोवन उबोच रावलो, गुन्यावकारी कसो!

''पावलू कितें म्होण्टाय रे गोंडू, झेहले मुरे पोयशे?'' पावलून नोटांचें पुडकें जशाचें तशें फुडें केलें. पुडकें पळोवन फादर कितें समजूंक जाय तें समजलो. ताची न्हीद खंयच्या खंय उडून गेली. ताणें नोटां घेवन तीं मेजार आपटिलीं. हात चोळीत थंयच्या ओल्तेरार वचून बसलो.

''गोंडू-गोंडू-गोंडू! शा! हो वेंतभोर गावड्यांलो पोर, येद्या व्होडल्या प्रिन्सिपालाक आटोपो येयनाय? कितें म्हुण्टाय रे तो पावलू? कितेंय पूण उलोयलो काय ना रे?''ओल्तेरावयलो उठून रागान पासयो मारतां मारतांच फादरान पावलूक प्रस्न केलो.

''फादर, गोंदू म्हुण्टा, आपूण पोयशे झेवन हारपाचें पातोक केद्नाच कोच्चोना.''

'पातक' हें उतर आयकताच फादराक कच्च जालें आनी जावपाचेंच! कित्याक तर, लोकांची पातकां पयस करपी फादर गोंदूक पयशे दिवन स्वता पातक करूंक फुडें सरिल्लो. आपूण पातक करतां हाची जाणविकाय ताका आसली. तरी तो आपल्या इस्कोलाचें बरें चिततालो. आपल्या इस्कोलाचें बरें चिततासतना हेरांचें वायट घडल्यार तें पातक जायना, अशें फादराक दिसतालें.

आनी गोंदू तरी दुसरें कितें करतालो? आपलो पंगड जिंकचो आनी इस्कोलाचो हारचो. आपलें बरें आनी दुसऱ्याचें वायट जावंचें. पूण गोंदूचें मन नितळ तशें फादराचें नासलें. पयशे दिवन हारपाक लावप हें पातकच.

दुसरी गजाल अशी की फादर किरिस्तांव धर्माचो अधिकारी आसूनय गोंदूक गावडो मानतालो. हाचें कारण फादराचेर ताच्या भुरगेपणांत जाल्ले संस्कार.

फादराल्या घरांत आदीं भाटकारशाय चलताली. सगलेच गावडी अशिक्षीत. दिसरात भाटकारागेर मर मर मरपाचें. दिता तें घेवपाचें. कर म्हणटा तेंच करपाचें. भाटकारालें उतरान उतर झेलपाचें. आनी आतां त्याच गावड्यालो हो पोर फादराच्या माथ्यार बसता म्हणचें कितें?

तशें पळोवंक गेल्यार आतांय गावड्यांत व्हडलोसो बदल जाल्लो ना. बदल जालो तो खावपा-पिवपांत आनी न्हेसपांत. कांय आडवाद सोडलो जाल्यार, बुद्द आसूनय पदरांत कुड्डेपणाच चड बाळगून आसले तरी हेर लोकां भशेन फटींगपणां चडशीं नासलीं ह्या लोकांकडेन. अन्यायाविशीं तिडक, उतरान रेक्त. खालतेपणान रावपाची रीत आजय राखून आसले हे लोक. हांकांच लागून गोंदूलीं शाणेपणां खपोवन घेवंक फादर तयार नासलो. गोंदूले सुवातेर पावलू आसता, तर फादर कितें घडटा तें पळयत बसतलो आसलो. एका गावड्याल्या पोरान उबी केल्ली टीम एका बळिश्ट इस्कोलाचे टिमीक हारोवंक सोदता हें त्या इस्कोलाचो प्रिन्सिपाल कसो सोसून घेत? तोपयो सर आनी आंतोनेत माडामीचेंय हेंच मत आसलें.

फादर आयज मेरेन गोंदू विशीं तटस्थ आसलो. आतां मात ताका गोंदूचो खूब राग आयलो. हो भिकारी पोर आपले दिल्ले पयशे परत करता म्हणचे कितें? हाका कोणायभशेन लिसांव शिकोवंकच जाय.

"बाब पावलू, तुमी आतां घारा वोसाय. भिरांत बा दिसोना मुरे तुमहां?"

"ना फादर. आमी दोग आहाय. आनी सोगले वाटेर लायट आहा. ते भायर गांवांतले लोक आजून जागे आहाय."

पावलू वांगडा आशिल्लो भुरगो पावलूच्याच शेजराक रावतालो. रातिचो बाजारांत, घरापसून पयस वचपाचें जाल्यार, पावलू त्या भुरग्याक वांगडा घेवनच भायर सरतालो. पावलूलें घर गोंदूल्या घराभशेन पयस खाचीक नासलें. पाद्रिलें इस्कोल तें पावलूलें घर हाच्या मदें पावला कणकणी दाटायेन घरां. वाटभर लायटिचो चकचक. केदेय रातीर भोंवतल्याक खंयच्या ना खंयच्या घरांत जाग

ळटाच. भंय आसता तो फकत सुण्यांचो. ह्या भुरग्यांक पळोवन सुणीं आंगार ग्रांवून येवपाची शक्यताय आसली. फादरान पावलूच्या हातांत आपलें रोत दिलें आनी ताका तांच्या घरा धाडून दिलो.

फादरान धाडून दिल्ले पांच हजार गोंदून घेतले ना, ते विशीं पावलूक व्हडलेंशें कांयच दिसलें ना. गोंदू दुडवा आशेचो न्हय हें पळोवन पावलूक खूब बरें देसलें. पूण गोंदू फादर सांगता तें आयकना हें मात पावलूक खपलें नां. ताणें हे फुडें गोंदूक गेमीचे बाबतींत कित्याकच पालव ना दिवपाचें पक्कें केलें.

पावलू व्हड राती घरा पावलो. ताका दिसलें आपली मम्मी आपली वाट पळयत आसतली. आपली भयणय जागीच रावतली. पूण घराकडेन पावतां पावतां ताका कळून आयलें की घरांतले सगळे दिवे पेटून आसात. ते भायर सालांत लोकांची गर्दी आशिल्ली ताणें पळयली. पावलूक कच्च जालें. येदे राती घरांत कसलो बोवाळ? मम्मी बी बरी ना काय? केन्ना केन्नाय तिचो प्रेशर वाडटालो. आपणें येदो वेळ मम्मीक आनी भयणीक सोडून भायर रावंक फावनासलें अशें ताका दिसलें. तो धांवतच घरांत गेलो. पळय जाल्यार ताची मम्मी खुशालभरीत आसा. ताची भयण मामाचे मांडयेर बसून खेळटा. गोंदूले टिमींतले सगळे खेळगडे पावलूची वाट पळयत बसून आसात. मामा आपले भाचये वांगडा खेळत आसलो तरी ताच्या चेऱ्यार मातय खोस खेळनासली. पावलू घरा केन्ना येतलो आनी आपूण ताचेर फोग केन्ना काडटलों, हे तयारेन मामा पावलूची वाट पळयत बशिल्लो. हाची कल्पना ताणें आपले भयणीक – पावलूचे मम्मीक दिवन दवरिल्ली.

"गूड इव्हनींग मामा! कितें जालें? येदे व्हडा रातीर तूं कित्याक येयला? आनी ही गोंदूली आख्खी टीम आमच्या घरांत कित्याक?"

पावलून आकांतून मामाचेर प्रस्नांचो पावस घालो.

"तूं येद्दी रात मेरेन फुंय आहलो, तें माहां पोयलीं सांग!" मामा पावलूचेर धेंगशेलो.

"मामा, हांव प्रिन्सिपालाक मेवोंक जेलेलों."

"केदना जेलेलो रे?"

"सोवांक जेलेलों."

"आनी हे वोगतार घारांत भितोर सोत्ता? पोय रे वोरां कितलीं जाल्यांय तीं! तूं तुजे मम्मीक आनी इल्लेशे भोयणीक घारांत एकटी सोडून येदे रातीर गांवार भोंवताय? डेडी भायर आहा म्होणोन तुहां कोण इचात्तोलो ना ओहें सोजमोलाय कितें रे?"

"तोहें ना रे मामा."

"आनी कोहें तोर?"

"हांव मम्मीक सांगल्या बोगोर हुंयच वोसोना. आतांय हांव मम्मीचें परमिशन झेवनच जेलेलों. ते भायर मम्मीन माहां सांगोन दोवोल्लां, पाद्री देवाचे मोनीस. ते सांगताय तें भावार्तान आयकोंक जायें. ना जाल्यार पातोक लागता. ते भायर इस्कोलांतलो पाद्री आमचो प्रिन्सिपाल. हांव तेका चोड मान दितां. माजीर तेजें सांगणें म्होण्णें कोहें भायर मारूं मामा?"

पावलूच्या उलोवण्यान मामाक आतां कळून आयलें की ह्या प्रकरणांत पावलूची व्हडलीशी चूक ना. पाद्रीय गुन्यांवकारी आसा. पूण पाद्रिच्या गुन्यावांचें चड प्रदर्शन पावलू मुखार करप बरें न्हय, हें मामाचे तकलेंत आयलें. समजुतदार किरिस्तांव आपल्या भुरग्यांमुखार पाद्रिचेर आनी आपल्या धर्माचेर कोंत्र उलयनात. मामाक चड शिक्षण नासलें, तरी तो अन्नाडी मात नासलो.

"बाब पावलू, तूं दुडू झेवन गोंदू कोडें जेलेलो?"

"होय मामा! प्रिन्सिपालान धाडलोलो माहां."

"दुडू दिवन जिखपाची माण्णी बोरी दिसता तुहां?"

"ना मामा!"

"गोंदू तुजो फ्रेंड ओशें आयकोतां हांव, ही गोजाल होरी?"

"होय मामा!"

"गोंदू हारल्यार तुहां कोताक येतोलें मुरे बाबा?"

"ना मामा, पूण म्होजें इस्कोलूय माहां जिखलेलें जायें."

"होय रे, आमहांय तोहेंच जायें. पूण तें पोंगडाच्या कापाजदादीन जिखोंक नाहां? दुडवां मोदार गेमी जिखताय हुई?"

मामा सगल्या भुरग्यांमदें किंवाट्यान उलयतालो. तो पावलूक उलयतालो

खरें, पूण थंय बसून आशिल्ल्या सगल्या भुरग्यांनी लिसांव घेवचें, होय ताचो त आसलो.

गोंदूली आख्खी फुटबॉल टीम पावलूल्या घरांत हाजीर आसली. हे नार्दी ह्या भुरग्यांनी पाद्रिचो शेरमांव आयकल्लो. शेरमांव हो ह्या कानान आयकून सरे कानान सोडपाचो आसता, अशी समजिकाय ह्या सगल्या भुरग्यांची जाल्ली. ण आतां मात मामाचें उलोवप तांच्या काळजांत खोल रिगलें. मॅची कापाजदादीन जेखपाच्यो आसतात दुडवांनी न्हय, ह्या मोलादीक उतरांनी थंय हाजीर आशिल्ल्या रनाट्यांक जाग हाडली. पाद्रिकडच्यान दुडू घेवन ते गुन्यांवकारी जाल्ले. दुडवां प्राशेन ते गोंदूचो घात करूंक फुडें सरिल्ले.

मामान आपलें उलोवप फुडें चलयलें.

"भुरग्यांनो, गोंदून माहां घोडलेलें सोगलें सांगलां. जें कितें घोडटा, तें वाल्या कायद्या आड घोडटा. पाद्रीक आपलें इस्कोल जिखलेलें जायें. ते पासोत मी मॅच हारची म्हूण फादरान तुमहां जण येकाक एकेक हाजार दिला. आनी गोंदूक दिवंक सोदतालो पांच हाजार. गोंदून ते झेवंक नाय, ती गोजाल दुसरी!"

मामान दिल्ली म्हायती आयकून, प्लेयरांक धक्कोच बसलो. पाद्रीन लेयरां फाटल्यान दिल्लो एकेक हजार तांकां मेळूंकच नासलो. पांचशेंवयर रूपये कोणाकच मेळूंक नासले. मामान दिल्ली म्हायती आयकून प्लेयर एकामेकाकडेन अजापान पळोवंक लागले.

"माहां एक हाजार मेवोंक ना, पायशींच मेवल्याय." शिमांव बसलेल्या थंयच्यान आड्डेलो.

"कोणाक मेवल्याय रे हाजार, माहांय पायशेंच मेवल्याय." कायतू हेरांक आयकूंक येता तशें शिमांवाच्या कानांत फुतफुतलो.

"तुमहां पूण पायंशीं मेवल्याय, माहां चारशींच मेवल्याय मुरे." आलसू डकुऱ्या सुरांत उलयलो.

"तूं बरो शेवोना मिस्ता."

"दुडू बोरे शेवतोल्यांक दिल्या तोरू, ते हारोंक दिल्याय मुरे!" कोण तरी फाटल्यान नेटान उलयलो.

पावलू कसल्या तरी निमतान भितर गेल्लो. दुडवांची गजाल चलता ती आयकून भायर आयलो आनी भुरग्यांमदें उबो रावलो. फादरान वाटूंक दिल्ल्या पयशांचीं कोणे तरी गुड्डुलसांवां केल्यांत ही गजाल ताच्या लक्षांत आयली. तरी पुराय गजाल जाणोवन घेवपाक तो मोन्यानी उबो रावलो.

गोंदूक खाला उडोवपाचीं कारास्तना चड करून आंतोनेत माडाम आनी तोपयो सर करी. गोंदूली टीम हारोवपाक पयशे दिवपाची आयडिया तांचीच आसली. तशें करपाक फादरान पयशे आंतोनेत माडामीकडेन दिल्ले. तोपयो सरान ते आपल्याकडेन घेतले. थोडे भुरग्यांक वाटले आनी चडशे आपणें सुतलायले.

ही गजाल आतां पावलू आनी हेर सगळ्या भुरग्यांक कळून आयली. तोपयो सरान पयशे खाल्यात ही गजाल फादराक खबर नासूंये. पूण फादरान दिल्ले पुराय पयशे भुरग्यांच्या हातांत पडचे पयलीं मदले मदीं गडप जाले, ही गजाल भुरग्यांक लागली. मामान हे संदीचो लाव घेवपाचें थारायलें. मामा भुरग्यांमुखार फुडें उलयलो.

"भुरग्यांनो, आतां तुमहां कोवलें आसतोलें इस्कोलांत आत्तें-पोत्तें कोहें जाता पोय तें. दुडवाचे आशेक लागोन तुमी गोंदूक धोको दितोले ओहें माहां म्होणपाचें ना. पूण तुमच्या कोडल्यान तोहलें पातोक घोडचें न्होय, हाका लागोन तुमहां हांव शिटकावणी दिवंक सोदतां इतलेंच. तुमी बाब गोंदूची देख झेयात. फादोरान आपलें काम सादोवपाक गोंदूक पावलूकोडच्यान पांच हाजार धाडून दिले. पूण गोंदून ते तोहेच फादोराक पोत्ते धाडून दिले. होरें दिसोना जाल्यार पावलूक इचाराय. दुडू हाडपा-व्होरपाचें काम पावलूनच केलें. गोंदून दुडू नाहां मुहलें तेन्ना फादोराक दिनासतना ते मोदल्या मोदें गोडोप करूंक जाताले पावलून. पूण तेणीं तोहें केलें ना. कित्याक तोर ते दोगय भुरगे जावन आहाय बोरे देखीचे! बोरे देखीचे भुरगे नोसतें काम केदनाच कोन्नाय. आपूणय कोन्नाय आनी हेरांकूय कोरूंक दिनाय. केदेय व्हडल्या मुनशाच्या चेपणाखाला ते येयनाय. देखून हांव तुमहां ओहल्या वोगतार सांगोंक सोदतांव, तुमी गोंदूची देख झेयाय. प्रिन्सिपालाच्या चेपणाखाला रावंक नाहाय. तुमचे टिमीक जैत मेवोवन दियाय. मुनशांचें मोन नितोव आहल्यारूच देव बेसांव घालता. गोंदू सोतान चोलता. तुमी तेहा आदार

ःयाय. तुमची टीम जिखोत जाल्यार गोंदू बाराबोन तुमचेंय नांव व्होड जातोलें."

मामालें उलोवप भुरग्यांच्या काळजांत रिगलें. मामालें उतरान उतर तांकां ब्रें दिसलें. फादर तांकां दुडू दिवन पातकी करूंक सोदतालो. मामाल्या उतरांनी ांचे तकलेंत चकचकीत उजवाड घालो. फाटलो-फुडलो कसलोच विचार करिनासतना तांणीं थंयच्या थंयच गोंदूक तेंको दिवपाचो सोपूत घेतलो.

"देवाचेर भावार्त दवरून, सताचो आदार घेवन बरें काम करूंक फुडें नरतल्याचेर देवाचें बेसांव पडटाच पडटा." मामान म्हळें.

"मामा, तुजीं मोलादीक उतरां आमी आमच्या काळजांत घोट्ट साटोवन दोवोरल्यांय. आतां तूं हाल्यां पोय ग्रावंडार कितें घोडटा पोय तें! आमी ही फायनल जेखतोले म्हणचें जिखतोले."

"व्होय, व्होय जिखतोले रे जिखतोले. फायनोल आमीच जिखतोले." गोंदू, पावलू आनी मामा सोडून सालांतले सगले भुरगे मोठ्ठ्यान आड्डले.

"तोहें जाल्यार हाल्यां सोक्काडीं पाचांक ग्रावंडार सोगले हाजीर रावाय. सात मेरेन प्रॅक्टीस कोरया. एकवोटान रावाय. जैत तुमचेंच आसतोलें."

सगले भुरगे आपापल्या घरा गेले. मामा गोंदूक पावपाक गेलो. पावलू सोडून सगळ्यांचे कुडींत एकच हावेस आसलो, तो म्हणल्यार फायनलीक जैत मेळोवपाचो.

आकाश-पाताळ एक करूनय दुस्मान गोंदूचें कितेंच वाकडें करूंक शकले नात. जांच्या फाटल्यान देव आसता तांकां मनशांच्या करण्यांक भिवपाची गरज नासता. देव आपल्या भक्तांक साल्वार करपाक मोन्यानी कसल्यो ना कसल्यो राटावळी करीत आसता. हाकाच लागून पावलूचो मामा गोंदूक आदार दिवंक फुडें सरिल्लो.

मामान सांगिल्ले परमाण गांवच्या एक शेतग्रावंडार गोंदूली टीम हाजीर जाली. सगले खेळगडे सकाळच्या पांचा पयलींच ग्रावंडार हाजीर रावले. ग्रावंड लोकवस्ते पासून इल्लो पयसूच आशिल्ल्यान लोकांची न्हिदमोड जावपाचो प्रस्नच

नासलो.

मामा अजून ग्रावंडार येवंक नासलो. ग्रावंड चान्यात चकचकतालो. रूखावळीचेर हांगा-थंय चिंव-चिंव भासताली. एखाद्रोच कावळो खंयतरी 'कांव' करतालो. एक-दोन भुरगे बॉल नाचयताले. मदेंच बॉल खोंटायताले. कांय भुरगे हात पांगरून मामाची वाट पळयत बशिल्ले. काल चिंतेस्त आशिल्लो गोंदू आयज हांसत्या चेऱ्यान बोवाळटालो. तरी मामाक येवंक वगत जाल्ल्यान गोंदूचो जीव सकयल-वयर जातालोच.

इतल्यांत मामा आयलो. मामाक पळोवन सगळ्या भुरग्यांचें शीं खंयचे खंय पळळें.

मामान एकान एक भुरग्यांचेर नदर मारली. ताका पावलू खंयच दिसलो ना. मामाच्या मत्तान पावलू भुरग्यांमदें हाजीर आसूंक जाय आसलो. तो नासलो तरी मामाक ताचें व्हडलेंशें दिसलें ना कारण तो टिमीत खेळनासतलो. गोंदून मात पावलूचे गैरहाजिरिचें मनाक लावन घेतलें.

पावलू ग्रावंडार मुजरत येवंक नासलो. ते राती ताका मातय न्हीद लागलिना. भुरगे ग्रावंडार पावले तेन्नाय तो तळमळटालो. रातीकडेन मामा उलयलो, तें सगळें ताका पट्टालें. पूण गोंदूचो मात ताका देमायज राग आयिल्लो. पावलूक दिसलें गोंदून आपले आड मामाकडेन कागाळ केली. आपले आड नाका त्यो गजाली सांगून टिमींतल्या सगल्या खेळगड्यांक आपल्या घराकडेन हाडले. आपल्याक विस्वासांत घेनासतना प्रिन्सिपाला आड पावलां उखल्लीं. तोपयो सर आनी आंतोनेत माडाम माल्किर्यादपणां करता हें खरें आसलें तरी तांचे आड कसलीय कारवाय करपाची जाल्यार आपल्याक विस्वासांत घेवनच करूंक जाय आसली, अशें पावलूक दिसतालें. आपले परस गोंदूक मामा व्हडलो न्हय. आपणेंच गोंदूक मामाची वळख करून दिल्या आनी आतां तो म्हाका कुशीक दवरून मामाक घेवन नाचतालो आनी मामा ताचो पुराय पाखो घेतालो. आपले आड वचून जर गोंदू आपल्याक जाय तशें करूंक सोदता, तर ताचें हांवें कित्याक म्हूण कोंत करचें?

आनी तसो विचार करपाक ताका रजांवय आसलें. दोगांचीय इश्टागत जायत मेरेन पावलून गोंदूलें कसलेंच उतर भायर मारूंक नासलें. पूण आयज मात

ोंदू पावलूची पर्वा करिनासतना, आपल्याक जाय तेंच करतालो. आपल्या परस गोंदूक खेळ व्हडलो दिसतालो. आपलें जैत व्हडलें दिसतालें, तर पावलूकय मान स्पेद आसा हें गोंदूक दाखोवन दिवपाचो वगत आयला, अशें पावलूक दिसलें.

पावलूक अशें दिसपाक कारण की, पावलू आनी गोंदू पिरायेन एक आसले तरी बुद्दीन मात वेगळे आसले. पावलूक दिसतालें आपले इश्टागतीक मान दिवन गोंदून थोडें तरी मारतें घेवचें. प्रिन्सिपालान व्हडा विस्वासान दुडू घेवन धाडिल्लो ताका. गोंदूक दुडवां आस ना जाली म्हूण कितें जालें? दुडू नाकात जाल्यार परत करपाचे आनी फादराच्या उतराक मान दिवपाचो. फादर सांगता तशें करपाचें. कसोय जालो तरी तो इस्कोलाचो मुखेल. सगल्या भुरग्यांची शेंडी ताच्या हातांत आसा, ते भायर तो पावलूक खूब बरो करतालो. ताच्या मम्मी डॅडीकडेंय प्रिन्सिपालाची खर इश्टागत आसली. गोंदू केदोय व्हडलो इश्ट आसलो तरी तो पावलूक फादरा परस व्हड नासलो.

कांय शिक्षक गोंदूले दुस्मान आसले हें खरें. पूण ताची शिक्षा इस्कोलाक आनी प्रिन्सिपालाक मेळची न्हय, अशें पावलूक मनापासून दिसतालें. ताका लागून ताणें गोंदू पासून जाता तितलो पयस रावपाचें थारायिल्लें.

पावलू ग्रावंडार येवंकना, ही गजाल टिमींतल्या कांय भुरग्यांक खटकली. तांकां दिसलें पावलू आनी गोंदूमदें खंयतरी भिनसलां. प्रॅक्टीस करून घरा गेल्या उपरांत कांय भुरग्यांमदें हे विशीं गजाली जावंक लागल्यो. त्याच भुरग्यांनी पावलू-गोंदू मदें भिनसल्याची गजाल सगलेकडेन फां फां केली आनी गोंदूल्या दुस्मानांचें आयतेंच फावलें. प्रिन्सिपालाकय सूऽऽ जालें. पावलून कितलेंय सांगलें जाल्यार पावलूक गोंदूची ओड आसा, ही गजाल इस्कोलांतल्या बऱ्याच लोकांक खबर आसली. आतां पावलू-गोंदूचें भिनसल्यान इस्कोलाचे टिमीच्या जैताक इल्लोय भंय ना, अशें प्रिन्सिपालाक आनी गोंदूल्या हेर दुस्मानांक दिसतालें.

आज सांजेवेळार फायनल आशिल्ल्यान प्रिन्सिपालान इस्कोलाक हॉलिडे दिल्ली. इस्कोलाचे टिमीचें जैत निश्चित आशिल्ल्यान पाद्रिलें इस्कोल आनी खेळा टीम काळजी विरयत आसली. तरी प्रिन्सिपालाक दिसलें, पावलूक ताच्या घरा वचून मेळचें. पावलू आपले टिमी फाटल्यान भोंवल्यार गोंदूले टिमीचो बरोच धीर सुटटलो. पावलूक लागूनच बरेचशे भुरगे गोंदूले टिमींत सामील जाल्ले, हें

फादराक खबर आसलें. आतां पावलू गोंदू फाटल्यान नासो दिसल्यार गोंदूले खेळगडे फाव तितलो खेळांत् रस घेवचे नांत हें आतां फादराच्या लक्षांत आयलें. फादरान वगत लाय नासतना, मीस सुट्टकीर आपली कायनेटीक स्कुटर भायर काडली. फाटल्यान कोण्णाक बसयनासतना, हेवटेन तेवटेन पळयनासतना बद्द पावलूल्या घरा दिकेन धाफरायली.

आयज इस्कोल नाशिल्ल्यान पावलू उसरां मेरेन कुलचांवाचेर लोळत पडिल्लो. इतल्यान फादरान आपली स्कुटर दरवंट्या भायर उबी केली. फादराक पळोवन पावलूची मम्मी अजापली. तशीच पावलू म्हऱ्यांत धांवली –

"बाबा पावलू उठ रे पादविगार येयला मुरे! ऊठ–ऊठ बाबा, वॉश कोर. हांव फादोराक सालांत बोसोवन झेतां."

पावलू मम्मीन आकांतावन पावलूक उठयलो.

तशें पळोवंक गेल्यार पादविगार पावलूल्या घराक मदें मदें विजीत करतालो. इगर्जेचो पादविगार म्हूण ताका पावलूल्या घरांत घसघशीत मान रेस्पेद मेळटालो. फादरालें विजीत चडशें सांजे वगतार आसतालें. पूण आयज फादर सकाळचो आयला हें पळोवन पावलूलीं सगळीं गात्रां गळसणलीं. ताणें कशे बशेन घोंट घेवन दोळ्यांक उदक लावन सालांत धांव मारली.

"गूड मॉर्निंग फादर." पावलून आदरान फादराक वीश केलें.

"गूड मॉर्निंग माय चायल्ड! बाबा पावलू कोहो आहाय रे. आमचेर रागार जालोय?" फादरान हासत्या चेऱ्यान प्रस्न केलो.

"ना फादोर."

"माहां दिसलेलें तूं आयज सोकाणीं फुडें माहां मेवोंक येतोलोय म्होणोन."

"हय फादर? कित्याक!"

"आयज फायनोल न्हू रे? आमच्या भुरग्यांक नेट आनी तेंको दिवच्याक तुजे ओहलो हुशार भुरगो कोणय नाहां?"

फादरालें उलोवणें चलता आसतनाच मम्मीन च्या हाडून मेजार दवरली. फादराकय तेंच जाय आसलें. तो चड वगत पावलूगेर रावंक सोदी नासलो. तो सट्ट करून उबो रावलो आनी उब्यांच बशयेंतलो केक काडून ताणें तोंडांत

धोंगशिलो. पावलूकय तशेंच करचें पडलें. बशयेंतलो अख्खो केक केन्ना काबार जालो दोगांकय कळळें ना.

“या मुरे!” चाये कोप तोंडाक लायत फादरान पावलूक प्रस्न केलो.

“हय फादर.”

“आयज तूं दिसभर आमच्या बाराबोन्न रावोंक जावो. देनपोरां जेवणाक लेगीत म्हुज्या बाराबोन्न आसतोलो. हायें कुजनेराक सांगोन दोवोल्लां पोंचवीस लोकांचें जेवोण कोरूंक. लेयतांव हाडला तो आख्खो काबार जावंक जावो. चोल तूं आतां वोगोत लांव नाहांय.”

पावलूक कितें करचें कांयच समजलें ना. तो मान खाला घालून तसोच बसून रावलो. फादरा वांगडा भोंवपाक सदांच एका पांयार तयार आशिल्लो पावलू आयज मेकळेपणान हालचाल करिना तें पळोवन मम्मीच्यान वोगी रावंक जायना जालें. तिणें म्हणलें –

“बाबा, फादोर आपोयता मुरे तुहां. चोल आनी वोगोत लावं नाहां.”

“वोयतां मम्मी.” पावलून मम्मीलें उतर झेलून घेतलें. तो भितर वचून न्हेसून भायर आयलो.

दोन मनां आतां एके स्कुटरी वयल्यान धांवतालीं. फादराच्या मनांत कितें चलतालें देवाक खबर! पावलूचें मन मात मळबांतले घोणी भशेन गोंदू भोंवतणी पासयो मारतालें. पवित्र फादराच्या मना फाटल्यान आनीक एक मन आपल्याक गुन्यांवकारी मानतालें. पावलूचें मन गोंदू गुन्यांवकारी आसा असो स्पश्ट निर्णय दिवंक तयार नासलें आनी तो पवित्र आसा अशेंय मानूंक तयार नासलें.

केन्नाय तरी दोन मनां पवित्र भावनेन एकठांय जातकीर तीं सट्ट करून दोशी जावंक पावनांत. गोंदू आनी पावलूची इश्टागत एके पवित्र भावनेन जल्माक आयिल्ली. अमकोच एक सुवार्थ सादपाक म्हूण ते एकठांय येवंक नासले. एकदां इश्ट जातकीर मागीर ताणीं एकमेकां कडच्यान थोडोभोव लाव करून घेतला ही गजाल खरी आसली तरी तांच्यांत दुश्ट भावना दिसूंक नासली हेंय तितलेंच खरें आसलें.

फादरान आपली स्कुटर आतां अकस्मात स्लो केली. कित्याक करची पडली ताका ती स्लो? वाटेर रेडे पाडे नासले. पूण पयसुल्ल्यान तोपयो सर येता तो

फादराक दिसलो. फुडें वताक स्कुटर थांबोवचे परस सावळेक थांबयल्ली बरी म्हण फादरान थंयच्या जांबळी झाडा मुंदांत स्कुटर थांबयली आनी तोपयो सराची वाट पळयत फादर आनी पावलू उबे रावले.

फादराक पळोवन तोपयो सरान आपल्या पावलांची गती मात्शी चडच वाडयली.

''गूड मॉर्निंग फादर!'' म्हऱ्यांत पावतकीर तोपयो सरान मान मात्शी चडच बागोवन फादराक वीश केलें.

''गूड मॉर्निंग मिस्टर तोपयो. फूंय रे तूं, कितें फोबोर?''

''भिवपाचें कांय ना फादर. सगळेकडेन आमच्याच फावोरार उलोवप चल्लां.'' तोपयान पावलूचेर विस्त मारीत म्हणलें.

''फादर, फोग मात चडूच ऑर्डर करून दवर. गांवभर गडगड जावंक जाय.''

''फोग तुमहां जाय तितलो लासाय रे! मॅच जिकोनीच.''

तोपयो हातवारें करून उलयतासतनाच ताची नदर गोंदूचेर पडली आनी तोपयाची हालचाल खिणांत थंडावली. गोंदू पावलूक भेटपाक तागेर वचूंक आयिल्लो. वाटेर तिगांकय पळोवन गोंदू मात्सो दचकल्या वरी जालो. तरी तो थांबनासतना चलतच रावलो. गोंदू लागीं पावता सो पळोवन फादरान स्कुटरीक कीक मारली. पावलूक फाटल्यान बसपाक खुणायलो आनी हेवटेन तेवटेन पळयनासतना स्कुटर दामली. स्कुटर पयस पावली ती पळोवन तोपयो सर गोंदू म्हऱ्यांत गेलो. हासकुऱ्या चेऱ्यान तो गोंदूक कोरें करून पळोवंक लागलो. गोंदूचेर ताचो कसलोच परिणाम जालो ना. उलट तो गंभिरतायेन तोपयाक पळयत रावलो. आयज मेरेन तोपयाक अशे तरेन पळोवपी एकय भुरगो सापडूंक नासलो. गोंदू तोपयाक अशे तरेन पळोवंक लागलो कीं तोपयो केदोय व्हडलो सर आसलो तरी आपल्याक ताचें कोंत ना.

गोंदून आतां तोपयो सरावेली नदर हटयली. धिटायेन पावलां मारीत तो तसोच फुडें गेलो. थोड्या वेळान ताणें फाटीं वळून पळयलें. पळय जाल्यार तोपयो सर आड वाटेन खंय नाच्च जाल्लो. आतां गोंदू खंय वतलो? तो आयिल्लो पावलूक मेळूंक. पावलू तर फादरा वांगडा गेला. आतां ताच्या घरा वचून कसलो

फायदो?

तो परतलो. आतां कितें करतलों? खंय वतलों? पावलूक तर फादरान गुठलायलो. आतां तोपयो सरय फादराकडेन गेला आसतलो. सगळे एक जावन आपली टीम हारोवपाची मांडणी केले बगर कशेच रावचे नांत. करूं बाबडे! आपणें जितले यत्न करूंक जाय तितलेय केल्यात. आतां सगळें देव पळोवन घेतलो. देवाचेर पातयेवन कितें घडटा तें पळोवपाचें.

सकाळीं ग्रावंडार आपले टिमीन सराव केल्या उपरांत भंया विरयत भोंवपी गोंदूच्या माथ्यार पेज आयलो. पावलू फादरा वांगडा गेला हें पेज येवपाचें कारण आसलें. आतां पावलूक मेळून गोंदूचें कांयच सादपाचें नासलें. तरी आपले टिमीच्या जैता खातीर निमणे मेरेन यत्न करपाचें ताणें थारायलें. तो थोडो वेळ जांबळी मुंदांत बसलो. सावळेंत तकली थंड केली. थोडो विचार केलो आनी उठून बद्द पावलूच्या मामागेर गेलो. पावलू फादराक वचून मेळ्ळा म्हणपाची गजाल ताणें मामाच्या कानार घाली. मामाक पावलूची करणी मानवली ना. पूण आतां निमणे वगतार मामा कांयच करूंक शकनासलो. पावलू गोंदूची संगत सोडीत अशें मामान सपनांत लेगीत चितूंक नासलें. ताका आपल्या भाच्याचो खूब राग आयलो. त्या रागाभारार मामा गोंदूक थंयच सोडून वारें कसो धांवत सुटलो. मेळत त्या खेळगड्याक ताणें आपोवन घेतलो. एक एक करून टिमींतले सगळे खेळगडे मामाच्या सांगण्यान एका वडा मुंदांत एकठांय जाले. गोंदू आनी पावलू हे दोगय म्हालगडें नासतना मामान थंय एक सभा घेतली आनी भुरग्यां मुखार किंवाट्यान उलोवपाक ताणें कॉमेस केलें.

"भुरग्यांनों, माहां इंगा उर्जेंत येवन कित्याक मिटींग घेवंची पोडली हें सांगोप चोड गोरजेचें आहा. आयज सर्तीचो निमाणो दीस जावन आहा. आमच्या सोपनातलें जैत होरें कोरून दाखोवचेलो हो दीस. तुमी तुमचे टिमीक जैत मेवोवन दितोले हातूंत मातूय दुबाव ना. तोरी तुमहां हारोवपाची माण्णी तुमच्या दुस्माना कोडच्यान नेटान चोल्ल्या. तांची माण्णी फोळाक येवची न्होय म्हूण हांव तुमहां सादूर कोरूंक सोदतां.

सोकाणी तुमी एकवोटान रावपाचो सोपूत जेहला. पूण आतां ओकोसमात वारें बोदोल्लां. आपली टीम हारतोली म्होणोन इस्कोलाचो प्रिन्सिपाल थारायंच

भियेला. हें सोगलें ताची नीत बोदोल्लेल्यान घोडटा ओहें माहां दिसता. तोहें नाहलोलें जाल्यार तो पावलूक जोबोरदोस्तीन आपल्या पोंगडांत ओडून झेंवचो नाहलो. पावलून तुमच्या पोंगडाचो तेंको काडून झेहला आनी तो इस्कोलाच्या पोंगडाक मेवला.''

पावलू इस्कोलाच्या पंगडाक वचून मेळ्ळा हीं उतरां आयकना फुडें गोंदूले टिमींतले भुरगे अजापान एकमेकाच्या तोंडाक पळयत रावले. गोंदूले टिमीक घटसाण आनी बळगें हाडपाक पावलून खूब कितें केलां हें सगळ्यांक खबर आसली आनी आतां मामान दिल्ले म्हायतीन सगळ्यांचीं मनां अथीर जालीं. मामाच्या उतरांचेर कोणच विश्वास दवरूंक तयार जाले ना.

''पावलू ओहें केन्नाच कोच्चोना. आमी पावलूक बोरे भाशेन ओवकोताय.''

''होय, नेई टीम काडपाक आनी शेवोंकूय तेणे आमहां कोमार काडल्याय, आनी तो ओहें कोत्ता?''

''कोणाचीय पूण आमहां भिवोवपाची माण्णी. किदें म्हुण्टाय रे कायतान?''

''माहांय तोहेंच दिसता बाडया.''

''हे वोगतार पावलू हूंय आहा?''

''पावलू प्रिन्सिपाला बाराबोन्न जेला. देखून हांव म्होण्टां तेहा आतां मातूय पातियेवंक फावोना. फादर तेहा आतां कीर कोन्न तुमच्यालागीं धाडटोलो. तो येवन कितेंय सांगलें जाल्यार तेचें तुमी कांयच काना मोनार झेंव नाहांय. आमहां फायनोल कोणाय भाशेन जिकोंकूच जायी.'' मामा काळजांतसावन उलयलो.

मामा आपल्या भाच्याच्या आनी गांवच्या पादविगाराच्या अर्दान उलयना तें पळोवन टिमींतलो एकानएक भुरगो चिंतूंक लागलो. गांवचो कोणूच चडसो इगर्जेच्या पादविगाराचेर कोंत्र उलयनात. मामा उलयता त्या अर्थान तें सारकेंच आसूंक जाय. मामा गोंदूच्या फावोरार आसा. खरें म्हणल्यार गोंदू आनी पावलू हे मदें मामाक पावलू व्हडलो. अशें आसूनय मामा गोंदूच्या फावोरार. मामाच सत उलयता आसूंक जाय. गोंदूच सारको आसूंक जाय. कोणेंय कितेंय सांगलें जाल्यार गोंदूली टीम – आमची टीम आयज जिखूंकच जाय. सगल्या खेळगड्यांच्या

मनांत देवान प्रवेश केलो. सगळ्यांच्या गळ्यांतल्यान एकच सूर भायर पडलो. – "होंगे कामयाब, होंगे कामयाब आज हम होंगे कामयाब!"

सगले भुरगे स्वताक विसरले. तांच्या मुखार नाचतालो तो एकच बॉल आनी हांसतालें तें जैत!

इतल्यांत बॉल खाक्यांत मारून गंभीर चेऱ्याचो गोंदू थंय आयलो. ताका पळोवन सगळ्यांनी एकच धांव मारून ताका गराडो घालो. खिणांत ताणीं गोंदूक बॉलासयत उबारलो. "जिखतले रे जिखतले आयज आमी जिखतले." म्हूण ते गोंदूक घेवन नाचूंक लागले.

भुरग्यांचो हावेस आनी ताणीं आपल्याचेर दवरिल्लो भावार्थ पळोवन मामाचेंय हड्डें फुल्लें. त्या भारार ताणें निमणे वगतार सगळ्या भुरग्यांक कळकळीन उलो मारलो.

"म्होज्या मोगाळ भुरग्यांनो, तुमहां सोत कितें तें आतां कोवलां जातोलें. तेन्ना आतां तुमी घारा वोचाय. बॉल आनी गोल सोडून कित्याचेंच चिंतूंक नाहांय. देव तुमच्या हाटल्यान आहा. जैत तुमचेंच आहा."

आतां सकाळचो धां चो सुमार आसलो. सगळ्या खेळगड्यांनीं सांजेच्या चारांक ग्रावंडार हाजीर रावंक जाय हाची जाणविकाय सगल्या प्लेयरांक आसली. 'देव तुमच्या हाटल्यान आहा जैत आतां तुमचेंच आहा' हीं मामालीं उतरां खेळगड्यांच्या काळजांत अशेतरेन रोमलीं की तांच्या लागसाराक दुसरीं कसलींच उतरां पावचीं न्हय. ह्या उतरांच्या नेटान सगळे भुरगे आपापल्या घरा दिकेन चालीक लागले. गोंदू आनी मामा मात तांचे फाटीकडेन पळयत केदोवेळ एकाच जाग्यार उबे रावले.

आयज सांजवेळच्या फायनल मॅचीचो आनंद लुटपा पासत आख्खो गांव आनी गांवा भायले लोकय शांतिकायेन मॅचिच्या वगताची वाट पळयताले. गांवचे लोक सगळीं कामां सोडून आयज घरा आसले.

इस्कोलांतले भुरगे आनी टिचरांमदें निर्माण जाल्ली उत्सुकताय कोणाकच एके सुवातेर थिरतायेन बसूंक दिनासली. दोनय पंगड खडेगांठ आशिल्ल्यान खंयच्या पंगडाक जैत मेळटलें हेंय कोण सांगूंक शकनासलो. तरीय कांय टीचर, प्रिन्सिपाल आनी इस्कोलाच्या पंगडांतले चडशे खेळगडे आपलो पंगड जिखतलो म्हूण

बिनधास्त आसले.

मनशान कितलींय गुड्डूलसांवां केलीं म्हण ताका तीं देव पचूंक दिना. तीं करतल्याक मात दिसता की देवाक आपणें विकतो घेतला वो ताका आपणें फटयला. फातरा मातयेचे देव एकतर न्हिदून आसतात वो बुदवंत मनशांचें ते कांयच वांकडें करूंक शकनात. गोंदूच्या पंगडा आड वावुरप्यांनीं गांवांतल्या सगळ्या खुर्सांक आंगोवण्यो केल्यो, वाती लायल्यो, लादायिनी केल्यो, त्योय बी चोरून! निमणें देवान आपल्याक जाय तेंच केलें. दोनय पंगडांक खेळय खेळय खेळयले आनी निमणे वगतार जैत गोंदूल्या पंगडाच्या पदरांतच घालें. जें ताकाच फावो जातालें.

गोंदूल्या पंगडाचें जैत जालें. ग्रावंडार फुगेट्यांचो गडगड जालो. फुगेट्यो पेटोवपांत पयलो नंबर आसलो तोपयो सराचो. प्रिन्सिपालाचे हात ताळयो मारून दुखिल्ले. असल्या वगतार पावलूचें तोंड पळोवपाचेंच जाल्लें. तो एकदां अजापान तोपयो सराच्या तोंडाकडेन पळयतालो तर एकदां प्रिन्सिपालाच्या!

गोंदूलो पंगड फायनल मॅच जिखलो. पाद्रिल्या इस्कोलांतच शिकपी एका भुरग्यान वेगळो पंगड काडून पाद्रिल्या इस्कोलाक हारयलें आनी तो भुरगो पूण कोण? एक गावडो! पाद्रिल्या इस्कोलाचें कोणाक कांयच पडूंक नासलें. पूण एका गावड्याल्या नाकूटभर पोरान एका बळिश्ट प्रिन्सिपालाक बुध्द शिकयली! अशी चर्चाय गांवभर चलताली. ज्या समाजांत कर्तुत्वाहून जात-धर्माक चड म्हत्व दितात, थंय असल्योच गजाली तिखट-मीठ लावन लोक उलयतात. अन्नाडी लोकांक असल्योच गजाली चड आवडटात.

काल मेरेन पाद्रीक दिसतालें इस्कोलाचोच पंगड जिखतलो म्हूण! तशें दिसपाचें कारण गोंदूल्या पंगडाहून इस्कोलाचो पंगड खेळपांत बरो आसा म्हण न्हय. पाद्रीन आनी इस्कोलाच्या शिक्षकांनी आनी भुरग्यांनीय तशेंच वातावरण निर्माण केल्लें. पाद्रीन आपल्या पंगडाखातीर उदकाभशेन दुडू वारयल्लो. गांवच्या लोकांकडच्यान इस्कोलाच्या पंगडाक तेंको मेळचो म्हूण सगले तरेची शक्त वापरिल्ली पाद्रीन.

आपल्या पंगडाच्या जैता पासत सगळे तरेचे यत्न करप वायट म्हणू नज. पूण आपल्या आड खेळपी पंगडांत फूट घालून जैत मेळोवपा खातीर पाडेपण करप, हें देवाच्या दरबारांत केन्नाच खपना. प्रिन्सिपालान दुडवांच्या फोर्सार आपलो पंगड जिखपाक जें कितें केलें, तें गोंदूक साप्प मानवलें ना. पयलीं प्रिन्सिपालाक गोंदू देवमनीस मानतालो. ताका दिसतालें, प्रिन्सिपालाच्या हातान कितेंय वायट घडलें जाल्यार तें पाडे लोकांच्या सांगण्यान. पूण आतां गोंदूलो पंगड हारपाक ताणें सोता पयशे वाटलेले. प्रिन्सिपालाच्या ह्या पाड्या कर्तुबांनी तो गोंदू मुखार फिको पडलो. ताचें आत्मीक बळ खचलें. फाल्स चेरो दाखोवन तो लोकांक फटोवंक शकतालो पूण आपल्या मनाक न्हय.

गोंदूलो पंगड फायनल जिखलो. खेळाचे परंपरे प्रमाण हारलेल्यांनीं जैतिवंतांचें, वयलेतराक जरी आसलें तरी अभिनंदन केलें. इतलें सगलें करूनय प्रिन्सिपालान तर आपलोच पंगड जिखलो असो देखाव केल्लो. ताणें गोंदूक वेंग मारली. केंसार हात वोडलो. दोनय हातांनी पोले पोशेले. नकली हांशान आपलो चेरो सजयलो.

म्हऱ्यांतच तोपयो सर आनी ताचे वांगडी बसून आशिल्ले. प्रिन्सिपालाकडच्यान गोंदूचो थातोमातो जाता तो पळोवन तोपयो सरय फुल्लो. ताणें आपल्या वांगड्यांवरवीं गोंदूक उबारलो. शिगम्यांत नाचयतात तसो ताका नाचयलो.

गोंदूक मात हें सगलें नवें आशिल्लें. कालमेरेन आपल्याचेर नदर पडल्यार तोंड काळें करपी मनीस आज दुसरेच भशेन वागतात. ते तशे मनांतसावन वागिल्ले जाल्यार आयचें म्हाभारत घडचेंच नाशिल्लें. तोपयो सरा असल्या वायट मनशाचे लगाडीक लागून प्रिन्सिपालान जीं काळीं कर्तुबां केलीं, तीं केन्नाच भोगसुपाचीं न्हय. तोपयो सर आनी तांच्या वांगड्यांचें एका वगतार समजूं येता. पूण फादर हो देवा मनीस. चुकिल्ल्यांक वाट दाखोवपी! अधर्म्यांक धर्म शिकोवपी! ताणें दोन पंगडांमदें फकत मध्यस्त म्हूण उबो रावंक जाय आसलो. गोंदू आनी इस्कोलाच्या फुटबॉल पंगडांत खेळपी सगळे भुरगे पाद्रिलेच आसले. कोणय जिखूं जैत आपलेंच आसतलें अशें प्रिन्सिपालान मानूंक जाय आसलें. पूण तशें जालें ना. भितरल्यान

कुसकेंपण आनी भायल्यान नितळसाण, हें गोंदूल्या राज्यांत चलपा सारकें नासलें. गोंदूल्या राज्यांत चलतालें तें चोख नाणें.

फुटबॉलाची सर्त आतां काबार जाल्ली. ल्हाना-व्हडांक आनी पोरां-तोरांक फुटबॉल सर्तीचो चडिल्लो जोर आतां देविल्लो. ग्रावंडावेले सगले लोक फांकारले आनी म्हणटा म्हणसर खंयच्या खंय नाच जाले. इस्कोलाच्या पंगडाचे खेळगडे आपलीं तोंडां लिपोवन गर्देंतल्यान नाच्च जाल्ले. ग्रावंडार उरले ते कांय प्रतिश्ठित लोक आनी मुखेल सोयरे. गोंदू पंगडाचो मुखेल म्हूण कप आनी पन्नास हजारांचें इनाम घेवंक फुडें आयलो. मुखेल सोयऱ्याकडच्यान कप घेतासतना फोटो घेवपा पासत फोटोग्राफर फुडें आयलो. फोटोग्राफर फोटो घेवपाक क्लिक मारपाचोच आसलो. इतल्यान खंयच्यान तरी तोपयो सर धावून फुडें आयलो. ताणें प्रिन्सिपालाच्या हाताक धरून पोजिसांवान गोंदू म्हऱ्यांत उबो केलो. गोंदूक तें विचित्र दिसलें आनी आवडलेंय ना. तोपयो सर इतल्यान थांबलो ना. ताणें कोपासयत गोंदूक आपल्या आनी प्रिन्सिपालामदें उबो केलो आनी फोटोग्राफराक फोटो घेवपाची ओर्द सोडली. फोटोग्राफर गोंदळ्ळो. ताका फकत गोंदूचोच फोटो घेवपाचो आसलो. तो फोटो घेवपाचो सोडून सगळ्यांच्या तोंडाक पळयत रावलो. गोंदूच्या तोंडारय ताका नाराजी दिसली.

गोंदूची नाराजी प्रिन्सिपालाच्या लक्षांत येवंक चड वगत लागलो ना. ताणें तोपयाक आडायलो आनी म्हणलें-

"आरे टोपया, तूं मात्सो हाटल्यान राब रे! फुडें फुडें कितें कोत्ता? पोंगडाचो मुखेल तूं वो गोंडू रे! पयलो कोपासोयत फोटो गोंडूचो. माजीर आमचो. कितें म्हुण्टाय रे गोंडू!"

"फादर म्हाका आर्दीं पावलू आनी ताच्या मामावांगडा ट्रॉफीसयत फोटो काडूंक जाय." गोंदून धिटायेन सांगलें.

"व्हाय नोट, व्हाय नोट?" अशें म्हणून फादरान तोपयाक फाटीं धुखल्लो आनी फाटल्यान बशिल्ल्या पावलूक खुणायलो. फादरान आपल्याक कित्याक खुणायला हें पावलूच्या लक्षांत आयलें. पूण तो जाग्यावयलो हाल्लो ना आनी कोणय जाल्लो जाल्यार धांवून वतलो आशिल्लो.

पावलू उठना तें पळोवन गोंदू मामाकडेन धांवलो. मामाच्या दोळ्यांत ळे थिरावन तो कांय वगत तसोच उबो रावलो. गोंदू आपल्याक कितें सांगूंक ोदता हें कळूंक मामाक वगत लागलो ना. तो मिशांत हांसलो. पूण गोंदूचो चेरो ात निर्विकार! ताणें मामाच्या भेंडाक घट्ट वेंग मारली. ताच्या दोळ्यांतल्यान खां व्हावूंक लागलीं. दुखांचे थेंबे मामाच्या पावलांचेर पडूंक नासले जाल्यार ोंदू रडटा तें मामाक कशेंच कळचें नासलें.

मामान गोंदूच्या केंसांचेर हात ओडलो. ताचे खाडकेक हात लावन ाका मान वयर करूंक लायली. गोंदूचीं दुकां आतां दोनय दोळ्यांनी थिरावन थंय ोन न्हंयो तयार जाल्ल्यो. मळब आनी ह्यो दोनय सानुल्यो न्हंयो हांचे मदें मामाले ोनय अणभवी दोळे आड आयिल्ले. ह्या दोळ्यांकय आतां जोरगतीची भरती आयिल्ली. ताचे दोळे आतां गळूंक लागले. पावळ्यो गोंदूच्या चेऱ्याचेर पडून ुखांत दुखां मिसळूंक लागलीं. खिणांत आत्म्या आत्म्यांतले भेद नाच्च जाले. हेन्दू किरिस्तांवपण दुखांनीं खंयचे खंय व्हावन गेलें.

ग्रावंडावेले लोक जळमळाक फांकले तरी खुबशे लोक अजून सुवाळो पळोवंक थंय हाजीर आसले. मामा आनी गोंदूमदें येदो वेळ जो आत्ममेळ चलतालो, ताच्या फाटलें गुपीत थोड्यांकच खबर आशिल्लें. पूण ते आपल्याक कांयच खबर ना, अशेंच दाखयताले.

फोटोग्राफरान मामाक आपल्याक जाय थंय उबो केलो. गोंदूकय मामा म्हऱ्यांत उबो रावंक सांगलें, पूण गोंदूक जाय आसलो आपल्या वांगडा पावलू. ह्या ट्रॉफीचे खरे वांटेकार मामा, पावलू आनी गोंदू. मामाक थंयच सोडून गोंदू पावलू म्हऱ्यांत धांवलो. दोगय इश्ट आतां एकमेकाक मूकपणान पळोवंक लागले. कोणाच्याच तोंडांतल्यान उतर सुटनासलें. सगलें उलयताले ते दोळेच.

गोंदून मोन्यानीं पावलूचो हात धरलो. बळयांनीच ताका हाडून मामा म्हऱ्यांत उबो केलो. आपूण तांच्या मदें उबो रावलो. मुखेल सोयऱ्यां हस्तुकी ट्रॉफी स्विकारली. तिगांनीय ट्रॉफी वयर उबारली. फोटोग्राफरान आपलें काम केलें.

सर्त सोंपल्या उपरांत ग्रावंड रिकामो जालो. गोंदूक परबीं बिरबीं दिवन,

इस्कोलाच्या प्रिन्सिपाला सयत मुखेल सोयरे आपापले वाटेन गेले. आतां ग्रावंडार उरिल्ले फकत गोंदूल्या पंगडाचे पुराय खेळगडे, गोंदू, मामा आनी पावलू.

पावलू मात आतां बुचकळ्यांत पडिल्लो. ताका दिसतालें, आपणें ग्रावंड सोडून एकट्यानच तोंड लिपोवन आड वाटेन घरा पळचो. माथ्यार बुरखो घेवन न्हिदचो. मामा आनी गोंदूचो तो गुन्यांवकारी आसा अशें ताचें मन ताका सांगतालें. आपलो मामा आसूनय तो आपल्याक परको जालो. ताणें गोंदूक सांगात दिलो, तो वोगीच न्हय. मामाची गोंदूकडेन वळख आपणेंच करून दिल्ली. गोंदू जावन आसा एक बऱ्यांतलो बरो भुरगो. तो आपलो बेस्ट फ्रेन्ड, अशें आपणेंच सांगिल्लें. आनी आतां आपूणच ताचेर परतलों. हें कोणाक बरें दिसतलें?

तरी बरें, हो भितरलो गूट मम्मीक खबर ना म्हूण. बेबीकय खबर ना आमी दोशीं जाल्यात हाची. कितलो मोग करता तें गोंदूचो! दोन दीस आयलो ना जाल्यार सकयल-वयर जाता ताचो जीव. आनी आतां खरेली गजाल ताका कळ्ळी जाल्यार खूब वायट दिसतलें, ताका आनी मम्मीकय बी.

सगली टीम खुशालकायेन भरिल्ली आसतना पावलूचो चेरो मात काळशेलो. ताचें चड दुख्ख जाल्लें गोंदूक. पावलू आपल्या करण्यांनीं खंतेला. ताका ह्या वगतार थातारलोना जाल्यार तो आपल्याक कायमचो पयस जातलो म्हणपाचें गोंदूच्या लक्षांत आयलें. पावलू सादो-भोळो आनी उकत्या मनाचो भुरगो. वायट मनशांनी ताचो गैरसमज करून दिल्ल्यान तो पयस गेल्लो. ताका पयस दवरल्यार आपले परस ताचेंच चड लुकसाण जातलें आनी पावलूचें लुकसाण जाल्लें गोंदूक कशेंच पचसारकें नासलें.

गोंदूलो काळशेलो चेरो आतां उदेलो. तो धांवतच पावलू म्हऱ्यांत गेलो.

"पावलू तूं रागार रे म्हाजेर? आमचें जैत मानवलें ना तुका?" गोंदून बाबडो जावन पावलूक प्रस्न केलो.

"फुंयच्या तोंडान जाप दिवं तुहां! हांव तुजो गुन्यांवकारी आहां रे गोंदू. देव माहां केन्नाच माफ कोच्चो ना. हायें करपा न्हू तें केलें बाडया." सांगता आसतना पावलूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं.

"पिसावला रे तूं? तुवें जाणा जावन कसलीच चूक करूं ना. तुजे सुवातेर

आनी कोणय आसलो जाल्यार तेंच करतलो आसलो.'' गोंदून पावलूक समजायलो.

''हांव घारा वोयतां रे. माहां भिरांत दिसता.''

''कोणाची?''

''मामाची''

''तुजो मामा खूब बरो. समजिकायेचो. तो सुवार्थी आसलो जाल्यार इस्कोलाचे टिमीक आदार दितलो आसलो.''

''तोहें जाल्यार हाव सुवार्थी मुरे?''

''हांव खंय म्हण्टां तुका तसो?''

''होय, हाव सुवार्थीच. ना जाल्यार तुका सोडून प्रिन्सिपालाच्या हाटल्यान वयचो नाहलों. तोपयो सोराचें आयकोंचो नाहलों.''

''तूं सुवार्थी आसलो जाल्यार फादराले पांच हजार तूं मदल्या मदें दामचो नासलो?''

''माहां दुडू कित्याक जाय रे? देवा दोयेन आमकोडे जायतें आहा.''

''तुकां म्हाजें वायट करूंक जाय आसलें जाल्यार, हायें ते दुडू घेतले म्होणोन फादराक सांगोंक जातालें. तूं म्हाजो खरेलो इश्ट. आर्दी आसलो तसोच आतांय आसा. फुडेंय आसतलो. चल आमी मामाकडे या.''

दोगय इश्ट एकामेकांच्या खांदार हात घालून जोडयेन मामा म्हऱ्यांत गेले.

मामा दोगांच्याय मनांत कितें चल्लां तें वळखून आसलो. ताणें आपल्या भाच्याक वेंगेंत घेतलो.

''बाबा पावलू, हे फुडें तोरी शाणो कोहो वाग. मोनशान सोत पारखूं जायें. कोणें कितेंय सांगलें मुहल्यार आयकोंक फावोना.''

''पूण मामा, हायेन फालतू मोनशांचें कांयच आयकोंक ना. आमच्या इस्कोलाच्या प्रिन्सिपालाचें आयकोलां. ते भायर तो आमच्या इगोर्जेचो पादविगार.''

''होय आनी आमी कोण? आमच्या पोरोस तुका पादविगार आनी तो

तोपयो सोर व्होड? तुयें चिंतूंक जाय आहलें, तुजो मामा गोंदूक तेंको दिता तेन्ना गोंदू सारको आहा. ते भायर तो तुजो इश्ट. वोगतार इश्ट इश्टाक पावोना जाल्यार कोहली रे ती इश्टागोत!''

''होय मामा, तूं सांगता तें सारकें दिसता माहां. ह्या फुडें ओहली चूक घोडचिना.''

''तें बोरें आहा. हें कोप आतां हुंय दोवोत्तोलेय?'' मामान दोगांकय प्रस्न केलो.

''गोंदूजेर दवरूया.'' पावलून सट करून जाप दिली.

''आमगेर नाका.'' गोंदून गंभीरतायेन सांगलें.

''तोहें जाल्यार मामाजेर दवरूया.'' पावलूलें तोंड उजळ्ळें.

''कोण्णागेर नाका.''

''कोण्णाजेर नाहां तोर हुंय दोवोत्तोलेय रे ही मोलादीक वोस्त?'' मामान उत्सुकताय दाखयली.

''इस्कोलांत मामा! हें मोलादीक कोप आमी आमच्या इस्कोलांत दोवरू या.''

''तूं तोहें म्हुण्टाय जाल्यार तोहें कोरूया रे! पूण हांव कितें म्होणोंक सोदतां जाणाय मुरे, आमचे लागीं आतां हे गेम जिखल्याय तेजे पोन्नास होजार आहाय. आमी एक क्लब रेजिस्ताद कोरूया. आमचो क्लब आख्खे गोंयांत फामाद कोरूया. खेडांमोवार नांव गाजोवया मुरे आमच्या गांवचें?'' मामान खुशालभरीत जावन आपलें मन उक्तायलें.

''ना मामा! ह्या फुडें आमकां फकत शिकपाचें आहा. म्हाका आनी पावलूकय बी. म्हाजी फुटबॉल खेळपाची आस हायें भागोवन घेहली. तीय तुमच्या आदारान. तुज्या आनी पावलूच्या. म्हाकां दाखोवन दिवंक जायें आहलें मामा, कीं इस्कोलांत कितलेशे भुरगे आहाय तेंकां सोंद मेळनासतना भितरल्या भितर घुसमट्टाय. मामा, तूं फुडारपण घेवन क्लब रेजिस्ताद कोर आनी गांवच्या भुरग्यांक तुजे कोडल्यान ट्रेनींग मेवोंदी. जात-धर्म नाहलेली एक बोरी टीम आमकां घडोवपाची आहा. ''

मामाक गोंदूलें म्हणणें खरें दिसलें. मामा फुटबॉलांत सगळ्याच बाबतींत खापो आसलो. तरी ताचें लक्ष राष्ट्रीय पातळेवयल्या क्रिकेट खेळाचेरय आसलें. वर्ल्ड कप सर्तींतल्यान भारत भायर पडलो हाचें दुख्ख मामाक जाल्लें. हें सगळें घडलें तें भ्रश्टाचारी फुडाऱ्यांक लागून. आज क्रिकेटीची राष्ट्रीय टीम घडयतना खेळगड्यांची गुणवत्ता पारखुपाचे कोणच कश्ट घेनात. टीम घडयतना जात, धर्म आनी प्रांतांचो विचार फुडारी करतात. एका गांवांत चार गुणवंत खेळगडे आसले लेगीत जाल्यार तांचो टिमीत आसपाव जायना.

पन्नाशींतलो मामा गावड्यांल्या येद्याश्या पोराकडच्यान खूब कितें शिकिल्लो. कसल्याय मळार गुणवंतांक आपली कापाजदाद दाखोवंक मेळना. ताका लागून ह्या देशाची उदरगत जावंक पावना, ही खंत मामा असल्या मनशांक सतत सतायताली.

दुसऱ्या दिसा पाद्रिलें इस्कोल सदां भशेन सुरू जालें. गोंदू आनी पावलू आज मात्शे उसरांच इस्कोलाक गेले. ताणीं उसरां वचपाचें आदींच थारायल्लें.

ते इस्कोलाक पावले तेन्ना असेंब्ली चलताली. प्रार्थना, राष्ट्रगीत बी म्हणून जातकीच प्रिन्सिपालान काल काबार जाल्ल्या फुटबॉल सर्तीविशीं सुपुल्लें उलोवप केलें. इस्कोलांत सदांच इंग्लीश उलोवपी फादर असलें कितेंय सांगपाचें जाल्यार तो आपले 'कोंकानी'त सांगतालो. फादर कोंकानीत उलयता तेन्ना ताचीं मोलादीक उतरां आयकुप्यांच्या 'काडजांत' वचून बसतालीं.

प्रिन्सिपालान जेन्ना कोंकानीत उलोवपाक कोमेस केलें, तेन्ना सगळ्या भुरग्यांनीं आनी शिक्षकानीय कान फांकारले. ताणें म्हणलें,

''म्हाज्या मोगाळ भुरग्यांनो, काल आमी फुटबोल गेम होरले. आमची टीम होडेगांट आसूनय ती होरली हाचें माहां चोड आजाप दिसता. तेच बाराबोन माहां चोडांतचोड खुशालकाय भोगता तुमकां सांगोंक की चोव्वीस टिमींतल्यान गोंडूली टीम जिखली आनी कॉप आमच्या गांवाभायर वोसोनासतोना तें ह्याच गावांत उरलें आनी हो गोंडू जावन आहा एक आमच्याच इस्कोलाचो भुरगो. सर्तीचें कॉप आतां तेज्या लागींच उत्तोलें.''

'सर्तीचे कॉप आतां तेच्या लागींच उत्तोलें.' हें आयकनाफुडें एकदम

फाटल्यान उबो आशिल्लो गोंदू आइडेलो, ''फादर राव, हांव येतां'' अशें म्हणून गोंदू आनी पावलू गर्देंतल्यान सरकत सरकत फुडें आयले. तांच्या हातांत कप आसलें. तें वतांत चकचकतालें. सुर्याचीं किरणां कपाचेर पडून तीं चारय वटयां फांकतालीं.

गोंदूचो आवाज आयकून सगल्या भुरग्यांच्यो मानो फाटीं घुंवल्यो. पावलूच्या हातांतलें कप पळोवन सगल्या भुरग्यांनी किळांच्यो, हुयेली आनी ताळयो वांगडाच मारल्यो.

गोंदून माचयेर वचून मायक हातांत घेतलो आनी तो उलयलो, ''म्हाज्या मोगाळ भाव भयणांनो, हांव तुमच्या मुखार हें कप घेवन उबो रावलां. हें कप तुमचें. हांव, पावलू आनी जैतीवंत पंगडांतले चडशे भुरगे ह्याच इस्कोलांत शिकपी. तेन्ना ह्या कपाचेर अधिकार तुमचोच उरतलो. हें कप सदांकाळ ह्याच इस्कोलांत उरतलें. हांव हें कप प्रिन्सिपालाकडेन सोंपयतां.''

गोंदून कप फादराच्या हातांत सोंपयलें मात, थंय हाजीर आशिल्ल्या ल्हान-व्हडांनी टाळयांचो कडकड केलो. टाळयो मारल्यो नात त्यो तोपयो सरान आनी आंतोनेत मॅडामीन.

फुटबॉल सर्त जिखोवन दाखोवप हें एक गोंदूलें निमित्त आसलें. इस्कोलांत जावं ना तर भायर समाजांत जावं, भुरग्यांकडेन जाण्टे दुर्लक्ष करतात. तेंय बी ताची जाणविकाय आसून. 'तुमी भुरगे, तुमकां कांयच कळना. तुमी जाण्टे उलयतात थंय मदें तोंड घालूंक जायना. आमी सांगता तें तुमी आयकूंक जाय. तुमी व्हडले जातकच सांगात जाय तितलीं शाणपणां.' जाण्ट्यांकडच्यान भुरग्यांक अशें सर्रास आयकून घेवचें पडटा. चडश्या भुरग्यांचे बाबतींत तें खरेंय आसता. भुरग्यांक एकदां उलोवपाची सवलत दिल्यार ते शेफारतात. जाण्ट्यांक मान दिवपाक जाय हें ते विसरतात. तांकां जाय तशे मेकळे सोडल्यार, माकडा हातांत कोलीत दिल्ल्या भशेन जाता.

अशें जरी आसलें तरी शेकड्यांत एक-दोन भुरगे अशे सापडटात कीं

आपल्या कर्तुबांनी किर्तीवंत जावंक पावतात. इतिहास-पुराणाचीं पानां ाळल्यार कितल्योश्योच देखी आमकां सापडटल्यो. आजय आमचें मदें सगळ्या ळांचेर अशीं कितलींशीं रत्नां, माणकां-मोतयां शिपडलेलीं आसात. पूण तांची ारख करपाची तांक आमच्या समाजाकडे ना, हाचें चड वायट दिसता.

गोंदूचीच देख घेतल्यार आमकां कितें दिसून येता? एका पाद्रिल्या स्कोलांत व्हडल्या-व्हडल्या गिरेस्तांले भुरगे रूबाबान शिकूंक येतात. असल्या स्कोलांनी चडशे भुरगे भपकेबाज आसतात. तांचो नडणे परस कंडोच बरो हालता. र थातोमातोय बरो जाता. शिकपांत कशेय आसले तरी ते सकयल्या वर्गांतल्यान यल्या वर्गांत कशे वचप हें सांगपी गुरूजन तांचे मजतीक आसतातच. असल्या रेच्या भुरग्यांक सगले तरेच्या सर्तींनीं वांटो घेवपाक, तांकां फुडें काडपाक गुरूजी फुडें येतात. तांची निवड जाता ती तांच्या गुणांक लागून न्हय तर तांचीं तोंडांच ळोवन .

मात गोंदू असले भुरगे कोणाचेच नदरेंत भरनात. तांकां आपल्या आंगांतले गूण दाखोवपाक संदच मेळना. असले तरेचे भुरगे मनांतल्या मनांत स्वताक धोंसतात. तांचें कितलेंय खरें आसल्यार आपले विचार ते व्हडांमुखार मांडूंक शकनात. मांडपाचें धाडस केलेंच जाल्यार तांचें आयकून घेवपाक वेळ कोणाक आसता? असल्या वगतार गोंदू असले भुरगे सुशेगाद बसूंक शकनात. ते विद्रोह करून उठटात आनी हट्टाक पेट्टात. तांचो हट्ट हो समाजा खातीर आनी राष्ट्रा खातीर वरदान थारता.

इतिहास आनी पुराण साहित्याचीं पानां चाळून कोणेय पळोवचें. बाळ ध्रूव, भक्त प्रल्हाद, एकलव्य, अभिमन्यू, संत ज्ञानेश्वर, राम, कृष्ण, शिवाजी ह्या सगल्यांनीं आपापलें भुरगेंपण गाजयलें.

आपले भुरगे चरित्र्यवान, शक्तिमान आनी समाजोपयोगी जावंचे म्हण तांच्या आवय-बापायनी जागृतायेन तांकां आदार दिलो. तांच्या गुरूजनानीय तांकां दोळ्यांत तेल घालून जपले. आतांचे सर तोपयो आनी आंतोनेत माडामी तांच्या विद्यार्थ्यांक कसलें वळण लायतल्यो, हाचो विचार समाजान करपाची आयज़ चडांत चड गरज आसा. आवय-बापायनी सतत प्रयत्नांच्यो पराकाश्टा

केल्यो म्हूण, ह्या देशांतले सगलेच भुरगे आमकां जाय तशे जातले. पूण जळामळा शिपडून आशिल्लीं माणकां-मोतयां पारखपाची तांक आमच्यांत आसूंक जाय. आयचे शिक्षक-शिक्षिका, आवय-बापूय, धर्म-गुरू, राजकारणी बी सगळे वारें येता तशें सूप धरतात. सगळे सूख मेळटा थंय धावत सुट्टात. फुडली पिळगीय तांचेंच अनुकरण करता. ते शिवाय तांकां दुसरो पर्यायच आसना.

अशें आसलें तरी एकाद्रो गोंदू सगळ्या सुखांचेर खोंट मारून कितेंय तरी बरें करून दाखयतलो म्हण फुडें सरता. असले वगतार तो कोणाचीच पर्वा करिना. केद्याय व्हडल्या वादळाक तोंड दिवपाचे तयारेन धिरान उबो रावता. आपूण जें कितें करपाचें येवजिता, तें पुर्णत्वाक हाडलेबगर सुखाची न्हीद घेना.

गोंदू आयज देमायज सुखाविल्लो. आपणें मनांत हाडल्यार आपूण खूब कितें करूंक शकतां हें ताका आतां कळून आयिल्लें. सूख हें फकत बरें बरें खावपा जेवपांत आनी न्हेसपा पांगरूपांत आसता ही गजाल फट म्हणपाचें ताका कळून आयिल्लें. इतल्या ल्हानपणांत असले व्हड विचार थोड्यांच्याच मनांत येतात. तांतलो गोंदू एक, अशें म्हणपाक कांयच हरकत नाशिल्ली.

फुटबॉल खेळांतल्या जैताक लागून गोंदूक आतां भलतोच नेट आयिल्लो. ल्हानपणांत लेगीत आपूण व्हडलीं कामां करूंक शकतां, हाची जाणविकाय आतां ताका जावंक लागिल्ली.

फुटबॉल खेळाच्या जैताक लागून ताचे दुस्मान आतां खूब नरम पडिल्ले. तोपयो सर, पी. टी. सर आनी आंतोनेत माडामीन आतां ह्या फुडें गोंदूचे वाटेक ना वचपाचें थारायल्लें. क्लासांतल्या भुरग्यामदें तर तो दिशीं दिशीं अँग्री मॅन जायत वतालो. अभ्यासांत तर ताची एकसारखी प्रगती जायत आसताली. गोंदूचें यश आनी ताची कसलेंय काम करपाची खुबी पळोवन हेर भुरगे ताचो आदर करूंक लागिल्ले. भुरग्यांच्या पालकां मदेंय गोंदूविशीं सतत चर्चा चलताली हाची जाणविकाय गोंदूक आशिल्ली. ताका लागून गोंदू आतां चडच जापसालदारकेन वागूंक लागिल्लो. तूं ह्या संवसारांत आयला तो फकत खावन जेवन मजा मारूंक न्हय तर लोकांक बरी देख दिवंक अशें कोण तरी ताच्या मनांत सांगत आसतालो. तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्या भुरग्यांच्या मनांत एक अशें तत्व आसता, की

तांकां वायट-बऱ्याची जाणविकाय दीत आसता. भुरग्यांक आपणें बरें तेंच करचें अशें दिसता. पूण ताच्या सरभोवतणी वावरूपी वायट मनशांच्या चेपणान ते वयर सरूंक पावनात.

आतां हे वायट मनीस कोण? भुरग्यांक देख दिवपी तांचे आवय-बापूय आनी शिक्षक. हाणीं भुरग्यांचो फुडार बरो करपा खातीर स्वता बरे रावपाक नाका? तांकां वायट बऱ्याची जाणविकाय आसूंक नाका? जे आपली जापसालदारकी सांबाळीनात, तांकां बरे कोण म्हणीत?

आयज आवय-बापायक आपले भुरगे ह्या स्वतंत्र देशाचे बरे नागरीक जावचे अशें दिसता. आनी बरे नागरीक म्हळ्यार कसले नागरीक? दोतोर, इंजिनियर, आदोवगाद, सी. ए. आनी व्हडल्या हुद्यांचेर काम करपी सरकारी चाकर. बऱ्या नागरीकत्वाची मर्यादा आवय-बापायच्या हिसबान इतलीच आसता. शेतकार, नुस्तेकार, पाडपी, खणपी, पिंतोर, मॅकानीक, प्लंबर, वायरमॅन बी बरे नागरीक न्हयच अशें तांचें मत्त. देखून तांकां फाव तें शिकप दिवपाक कोणय सट करून फुडें येनात. खरें म्हणल्यार हो व्हडलो भ्रश्टाचार. हेंच कित्याक, शिकिल्ल्या व्हकलांकय दोतोर, इंजिनियर ना जाल्यार खोऱ्यांनी दुडू ओडटात तसले न्हवरे जाय. हीं कितें बऱ्याचीं लक्षणां?

कांयच काम करिनासतना झेतार मुस्तायकी घालून भोवपी तरणाट्यांक मान! शेतां-भाटांनी घाम गळोवन काम करतल्यांक लग्न जावपाक व्हकलो मेळनांत. ताका लागून कश्टांचीं कामां करूंक गोंयचे तरणाटे झुडून फुडें येनात. हें अशेंच फुडेंय चलत रावलें जाल्यार गोंयकारांची धडगत ना, असले विचार गोंदूच्या मनांत घोळूंक लागले.

गोंदूची कूड दिशीं दिशीं वाडत वताली, तशें ताचें गिन्यानय वाडत वतालें. गिन्याना वांगडा ताचें चिंतपूय वाडटालें. हेर भुरगे खेळटा बागडटात. एकामेकाचीं फकाणां करतात. थकतकच तांचें ध्यान-मन खावपा-पिवपाचेर थीर जाता. आनी गोंदू? गोंदूच्या मनांत विचारांचें गिरगिरें घुवूंक लागतकीर खंयच्याय एका झाडाचे सावळेक ना तर फातरार बसून तो चिंतीत रावतालो!

मनशांक, चड करून भुरग्यांक विचार करपाची सवंय लागतकच तांचें

मन धाय दिकांनी धावूंक लागता. पूण मनाक आळाबंदाक हाडून ताका फाव ते दिकेक वळोवन तें नियंत्रणाक हाडपाची कळा थोड्यांकच जमता. गोंदूक ती बरेबशेन जमिल्ली.

गोंदू आपल्या क्लासांतल्या भुरग्यांचें चिंततालो, क्लासांत शिकोवपी सगळ्या शिक्षकांचो, इस्कोलांतल्या हेर चाकरांचोय नियाळ करतालो. तांच्यांतले बरे गूण आत्मसात करून वायट तितलेंय भायर मोखतालो.

गोंदूच्या मनांत आतां कितल्याशाच येवजण्यांनीं खोपी केल्ल्यो. म्हत्वाच्यो येवजण्यो एकठांय करून तांचो ताणें क्रम लायिल्लो. आपलें घर सुदारपाची ताची येवजण आसली. तिका ताणें पयल्या क्रमांकाचेर हाडली.

गोंदूक दिसतालें, आपल्या आवय-बापायन गांवांत बऱ्या रेस्पेदान वावुरचें. आपली आवय हावरट, पिसांट आनी मंद बुद्दीची. तिच्या ह्या वायट गुणांचो फायदो गांवचो देसाय घेता. आपल्या बापायक फुसलावन ताका संवसारा पासून जाता तितलो पयस दवरपाचें काम होच देसाय करता. असल्या ह्या दुश्ट आनी नाड देसायाक लिसांव शिकोवपाचीय मोख गोंदून आपल्या दोळ्यां मुखार दवरली. त्या उपरांत गोंदून थारायलें आपले काकीचो संवसार जाग्यार घालपाचो. काकीक पूत नाशिल्ले. आशिल्ल्यो त्यो धुवो. तांचीं लग्नां करून दिवपाची जापसालदारकी कोणाची? गोंदूचीच न्हय? गोंदू तांचो बापोलभाव जालो म्हूण कितें जालें? गोंदूक तरी सख्ख्यो भयणी खंय आसात?

तशें पळोवंक गेल्यार गोंदूल्या घराब्यांत आतां शाणीं मनशां म्हणटात तीं दोनूच आशिल्लीं. गोंदू आनी घोव नाशिल्ली काकी. गोंदूचें काकीचेर चड प्रेम आनी काकीचो गोंदूचेर चड विश्वास. फुडाराक कितेंय घडलें, तरी आपले काकीची आनी बापोल भयणांची राखण करप, हें आपलें पयलें कर्तव्य, अशें गोंदू मानतालो.

गोंदूलें आपल्या भयणांचेर पुराय लक्ष आसतालें. आपल्यो भयणी पावलूल्या भयणी प्रमाण स्मार्ट आसच्यो अशें ताका दिसतालें. आपल्यो भयणी स्मार्ट आसच्यो पूण तांणीं हेर भुरग्यांभशेन नखरे करचे न्हय अशेंय ताका दिसतालें. आपल्या गावड्या समाजाकडेन जोडलेली नाळ तोडिनासतना आपल्या भयणांची

र्वांगी उदरगत घडची अशेंच दिसतालें गोंदूक. इतलेंच न्हय, तर आपूण स्वता आपल्या समाजापसून पयस रावनासतना आपणें व्हड जावचो, अशें दिसतालें ताका.

व्हडपण आनी व्यक्तिविकासाचो प्रस्न आमच्या मुखार उबो रावता तेन्ना, चडशा भुरग्यांमदलें आयतें खाऊपण तकली वयर काडटना आमकां दिसता. तांकां आळबंदाक हाडूंक, तांचेर नियंत्रण दवरूंक तांच्या आवय-बापायक आनी समाजाक बरेंच कठीण वता. मार-बडय, कितेंय कर पूण आपल्याक जाय तें मेळय, अशी चडश्या भुरग्यांची वृत्ती आसता. हे आयतेंखाऊ भुरगे फुडाराक आळशी आनी स्वाभिमान नासलेले जावन वतात.

गोंदू जातीन गावडो आशिल्ल्यान ताका बऱ्योच सरकारी सवलती मेळटाल्यो. गणवेश, पुस्तकां, फी माफी बी मेळोवपा खातीर आवेदनां भरचीं पडटालीं. ह्या आवेदनपत्रांत भुरग्यांनी आपली जात कसली ती बरोवची पडटाली. ह्या आदीं गोंदून गावडो म्हण ह्यो सवलती मेळयिल्ल्यो.

गोंदूक आपूण गावडो म्हूण सांगपाक मातय लज दिसनासली. ताका आपले जातीचो अभिमान आसलो. पूण जातीच्या तेंक्यान कितेंय फुकट खावप हें तो पाप समजतालो. ह्या आदीं कितें घडलें तें घडलें, पूण ह्या फुडें आपूण जातीच्या आदारान कसलीच कोणाकडल्यान मजत घेवचो ना अशें ताणें मनांत पक्कें केलें. गोंदून एकदां थारायलें तें थारायलें. मागीर तातूंत चडसो बदल घडप गोंदूल्या तत्वांत बसनासलें. घडये-घडये विचारांत बदल घडोवन हाडप हें बऱ्या मनशांचें लक्षण न्हय, ही गजाल गोंदू हरीमास्तराकडल्यान शिकिल्लो.

सरकारी सवलत न्हयकारच्या आदीं गोंदू आपले काकीकडेन उलयलो. कित्याक गोंदूल्या शिक्षणांत मजत करपी तीच आशिल्ली. गोंदूक आनी आपल्या धुवांक कोणायकडच्यान मजत मेळिल्ली तिका जायच आसली.

"काके, हे वर्सा म्हाका युनिफोर्म तूं शींव आं."

"कित्याक रे, इस्कोल दिवचें ना ओंदू."

"दितोलें गे."

"माजीर तूं नाहां कित्याक म्होण्टा रे. इस्कोला कोडच्यान मेवल्यार

आमकां मात्शें बोऱ्याक पोडचेंना रे!''

''तोशें न्होय गे काके, हांव कितें म्होण्टां, हे फुडें आमी मानान जोगल्यार बोरें न्हो? गावड्यां म्होणोन घेवन लोकांफुडें हात फांफडोवप बोरें दिसोना म्हाकां.''

काकी हुशार आसली. गोंदूक कितें म्हणपाक जाय तें ती खिणांत समजली. तिकाय लोकांमदें गावडी म्हणून जगप मानवनासलें. हेरां गावड्यांबशेन आतां तीं नासलीं. घोव मेल्या उपरांत तिणें आपल्या भुरग्यांमदें सुदारणा घडोवन सगळे तरेची काळजी घेतिल्ली. आपल्यो आज्ज्यो देटली न्हेसण न्हेसून बुरशो रावताल्यो. ते दीस आतां उरूंक नासले. आतां सगळोच समाज बदल्ला. आपल्या वांगडच्यो बायलो बामणा शेटींभशेन साडयो, चुडीदार बी घालूंक लागल्यात. मनांत हाडल्यार सगळ्या तरेचो भेदभाव मनशांनीं नां करूंक जाता हे विचार गोंदूच्या काकेच्या मनांत आदीं पासून घोळटाले. तिका दिसतालें आपल्या भुरग्यांक बामणां-भटांल्या भुरग्यांपरमाण भोंवडावंचीं. आपलें पळोवन हेर गावडीय सुदारतले. सुदारप हें वायट जावं नज.

''हांव आसतोना तूं भियेवं नाका गे काके. हांव मॅट्रीक जातोकोच मागीर पोय हांव कितें कोत्ता तें! तुका हांव मातय कास्तीक पोडोंक दिवचों ना. आमी कितें ओहींऽऽ आसात गे काके! शेत जमीन आसा आमची. दोंगोर आसा. आतां तो पाड आसा खरो. पूण हांव तो वोसोयतलों. बऱ्या बियाण्याच्यो काजू लायतलों. फावो ते सुवातेर अणशी, आंबे-पणस बी लावन दोंगोर फुलयतलों. तुका आनी म्हाज्या माणकुल्या भोयणांक हांव कितेंच उणें पडोंक दिवचों ना. आमचो होरीमास्तोर कितें सांगतालो जाणा काके, मोनशान खंय मोरोसर काम कोरचें आनी मानान जियेवंचें. भीक मागची न्होय. सरकार आमकां गावडे म्हण भीक मागोंक शिकयता. आमचेकडेन हेरांभाशेन हात-पायें आसात. ते भायर कश्ट करून खावंक घे म्हण जमीन आसा. हेर गावड्यांक स्वताची जमीन नासली म्हण कितें जालें? भाटकारांचे जमनीत घाम गळोवन, कश्ट करून पोट भरूंक जायना गे काके? अशें केल्यार स्वताचेंय पोट भरूं येता आनी भाटकाराचेंय बी. जाणा काके, फिरंग्यांभाटांत शाबूशेणय म्हणोन एक भाटकार रावता. तेका व्होडलें भाट आसा. पूण नांवा पुरतेंच. भाटांत गावडे रावतात. मुंडकार म्हण मिरयतात सगले.

भाटकाराक एक नाल्ल मेळोंक दिनांत. ताचीं शेतांय आसात. पूण शेतां रोवन गावडे गब्बर जाल्यात. पूण भाटकाराक एक भाता आसो मेळना. येदो भाटकार आसुनय शाबूशेणय बोंदरें आनी म्हेळें आंगोस्तर न्हेसोन दीस काडटा. भुरगीं व्हड जाल्यांत पूण तांकां कोणागेर कामाक दवरूंक हो भाटकार तयार जायना. आपले जमनींत भाजीपालो रोवन, भात रोवन आपलें पोट भरूंक जाता ह्या भाटकाराच्यान! पूण बामण खंय शेतां– भाटांनी काम करिनांत, अशें तो म्हण्टा. कसलीं हीं पिशेपणां? शाबुशेणयले मुंडकार भाटकारांवून बरे जगतात. खावन जेवन मजा मारतात. अशें आसुनय सरकार तेंकां मजत करता. तेंय बी तांचेर गावडे आनी मागास म्होणोन छाप मारून. हें खंयचें रजांव गे काके? तूं जाणा काके, हायें एकदां हरीमास्तराक गावड्याचो अर्थ इचारलेलो. कित्याक तर पोर्तुगिजांच्या तेंपार खंय गावड्यांक बुर्‌ म्हण्टाले. बुर्‌ म्हणल्यार अन्नाडी खंय.''

''हरीमास्तरान कितें सांगलें?''

''गावड्याचो खरेलो अर्थ सांगलो.''

''कितें?''

''गावडो म्हणल्यार गांवांत रावता पळय तो. गांवकार. गांवचो मुखेली. ह्या गावड्यांनी खंय आर्दी गांव वसयल्ले.''

''मागीर तुकां कितें दिसता?''

''गांव कोणे वसयल्ले, तें आतां आमकां नाका. आयज जे पळय कोण गांवांत रावतात, ते गावडे.''

''तशें जाल्यार शाबूशेणय गांवांत रावता. तोय गावडो जालो मरे?''

''हय काके, तोय गावडोच, गरीब गावडो. सरकारान तेका मजत करूंक जाय.''

गोंदू आपले काकेमुखार असो उलयलो, जसो श्रीकृष्ण अर्जुना मुखार उलयल्लो. पूण हांगा ताच्या उलोवपांत अन्याया आड तिडक आसली. तरी ताचें उलोवप सोपें आनी म्होवाळ आसलें. आयकन आयकन दिसता तसलें. काकेक तें उलोवप आयकून धन्यताय दिसली.

जें घडपाचें आसलें तें घडलें. गोंदून सातवी ते धावी मेरेन चार वर्सां पाद्रिलें इस्कोल गाजयलें. धर्मान आनी कर्मानय. धर्मान हे खातीर म्हणपाचें की तो कर्तव्य हो आपलो धर्म मानून आपलें कर्म करतालो. आपलें कर्म पवित्रतायेन भरलेलें आसा आनी तें फुडेंय तशेंच आसचें, असो ध्यास मनांत घेवन तो पाद्री-इस्कोलांत पांचवी ते धावी मेरेन वावुरलो. पूण सातवी ते धावी मेरेनचीं चार वर्सां गोंदूल्या जीवितांतलीं मोलाचीं आसलीं.

गोंदू पाद्रिल्या इस्कोलांत फकत पुस्तकांतलो किडो जावन रावलोना. पुस्तकी गिन्याना वांगडाच ताणें वेव्हारी गिन्यानय भरपूर मेळयलें. ह्या वेव्हारी गिन्यानान गोंदूक फुडली दिका दाखोवन दिली.

अपेक्षेप्रमाण गोंदू बऱ्या मार्कांनी मॅट्रीक पास जालो. फकत बऱ्याच मार्कांनी न्हय तर बोर्डाक ताचो आठवो क्रमांक लागलो. पाद्रिल्या इस्कोलांत तो पयलो आयलो.

रिझल्टा दिसा, गोंयच्या सगल्या पेपरांनी बोर्डाक पयले धा आयिल्ल्यांचे फोटो प्रसिध्द जाल्ले. ह्या धा फोटवांत व्हडले व्हडले गिरेस्तांल्या भुरग्यांमदें गोंदूचो काळो आनी किडकिडीत आंगलोटाचो फोटो वेगळोच दिसतालो. पळोवप्यांची नदर चड करून गोंदूचेरच पडटाली. कांय पेपरांनी तर गोंदूचो एकट्याचोच फोटो छापून, वयर 'मागास समाजांतलो भुरगो बोर्डांत आठवो' असो ठळक अक्षरांचो माथाळो दिवन, ताची थोडी म्हायतीय छापिल्ली.

आपली म्हायती फोटोसयत पेपरांत छापून आयली ती वाचून गोंदूक खूब बरें दिसलें. पूण आपल्याक मागास म्हणलो तें मात ताका साप्प आवडलेंना. ताच्या विचारचक्रान आतां गती घेतली. आपूण मागास? खंयचे बाबतींत? आख्ख्या इस्कोलांत पयलो येवपी भुरगो खंयच्या कायद्यान मागास आसतलो? आपलें धाडस, आपले विचार, आपली वागणूक इस्कोलांतल्याच न्हय, तर गांवांतल्या खंयच्याय भुरग्याहून उणी आसा म्हण आपूण मागास? इस्कोलांतले कितलेशेच भुरगे स्कुटरीनी येतात. कांय भुरग्यांक तांचे बापूय गाडयांनी हाडून

पावयतात. कांय भुरगे दिसांतल्यान शें-दोनशें रूपये अशेऽ खर्च करतात. तांकां तांचो आवय-बापूय कितेंच उणें पडूंक दिनात. ते दीस-रात मजेंत घालतात म्हण ते फुडारलेले? सगल्यो सूख-सोयी आसूनय ते परिक्षेक तांबड्यो आडयो घेवन पास जातात. अशें आसुनय ते आमच्या परस फुडारलेले?

शिकपाचे आनी बुध्दिचे बाबतींत सोडून दिवन हेर बाबतींत विचार केल्यारय आपूण तांच्या परस मागास ना म्हणपाचें गोंदूच्या लक्षांत आयलें. गांवांतल्या कांय भुरग्यांक रावपाक धड घर ना. कांय भुरग्यांचे आवय-बापूय भाड्याच्या घरांत रावतात. कांय भुरग्यांक धड जेवंक-खावंक मेळना. कांय जाणांक न्हेसूंक-पांगरूंक जाय तशें मेळना. कितल्योश्योच वस्तू गोंदूक मेळटात त्यो तांकां मेळनात, अशें आसतना समाज आनी सरकार तांकां मागास मानिना. कारण ते गावडे न्हय, म्हार न्हय, चामार न्हय!

आपल्याक घरदार आसा, जेवंक-खावंक आसा, भाट-बेंस आसा, थोडी बुद्दय आसा, अशें आसूनय आपूण मागास? कित्याक? गावडो म्हण? कोणें केला आपल्याक गावडो? लोकांनी कितलोय गावडो म्हणलो म्हण आपणें असोच गावडो रावपाचो? आपूण काळो म्हण गावडो? तशें जाल्यार भट-बामण आसात तेय गावडेच? तेय मागास आसूंक जाय!

गोंदूक ह्या सगल्या गजालींचो राग आयलो. ताका दिसलें, आपल्या मनांतले विचार लोकांमुखार मांडचे. तशें करपाक तो कोणाक भिवपी न्हय. पूण ताणें तशें केलें ना. कारण तशें केल्यार लोक ताका मस्तेला म्हणटले. ताचे जातींतलेच लोक ताका तो बामण जावपाक सोदता दिसता म्हणटले. गिन्यान नाशिल्ल्यांक तोंड दिवचे परस सद्या वोगीच रावपाचें गोंदून पसंत केलें. फुडें तोंड धापून बरींच कामां तडीक व्हरपाचो ताचो इरादो आसलो.

गोंदूक उचंबळ करपाच्यो गजाली उपद्रवी लोकांकडच्यान अर्दी-मर्दी घडतच आसल्यो. गोंदू बोर्डांत आठवो आयलो, ही बातमी मागास विकास संघटणेच्या कानार पडली आनी ती संघटना जागी जाली. संघटणेचे पदाधिकारी गोंदूक सोदीत धांवत आयले. राज्याचे राजधानींत ताणीं व्हडा दबाज्यान गोंदूचो सत्कार करपाची येवजण गोंदू मुखार मांडली. सत्कार म्हणलो की थोडे जाण

भुरकुटून वतात. पूण गोंदून सत्काराक न्हयकार दिलो. ताणें पदाधिकाऱ्यांक सांगलें,

"हांव बोर्डाक आठवो आयलां खरो, पूण तुमी पयलो आनी दुसरो आयला तांचो सत्कार कित्याक करिनात?"

"कित्याक तर ते आमचे न्हय. तूं आमचो."

"हांव तुमचो कसो? कोण लागतां हांव तुमचो?"

"तूं गावडो, मागास. आमच्या समाजाचो."

"गावडो आसप ही गुणवत्ता जावंक शकना. तुमी बोर्डाक पयलो-दुसरो येयला तेंचो आदीं सत्कार करात. ना जाल्यार धाय जाणांचो करात. तितूंत म्हाजोय येतलो. म्हाका आवडटलें तें!"

संघटणेच्या पदाधिकाऱ्यांक असलो वस्ताद केन्नाच सापडूंक नासलो. ताणीं चिंतलें, आमी हाच्या बऱ्याक गेल्यार हो आमकां सोऱ्याक धाडूंक सोदता. हाचो नाद सोडून हांगच्यान पळ काडल्यार बरो आनी ताणीं तशेंच केलें.

गोंदून संघटनेच्या लोकांक सत्काराक न्हयकार दिलो खरो, पूण आपल्या इस्कोलाकडच्यान मात ताणें मातय कां-कूं करिनासतना आपलो सत्कार करून घेतलो. ताचो तो हक्कच आसलो.

मॅट्रीकेक बोर्डाक आठवो येवन गोंदून पाद्रिल्या इस्कोलाक नांव मेळोवन दिलें. पाद्रिल्या इस्कोलांतल्यान णव्वद टक्के मार्क मेळोवपी गोंदू हो पयलोच भुरगो आसलो. फाटल्या तीन वर्सांत ताणें इस्कोलाच्या फुटबॉल टिमीत खेळून इस्कोलाक कितलीशींच जैतां मेळोवन दिल्लीं. हाका लागून एका वगतार गोंदूक वाकडे नदरेन पळोवपी प्रिन्सिपाल आतां ताचेर सदांकाल खोशी आसलो.

मॅट्रीक जातकच गोंदू आपलें शिकप सोडटलो, अशें कोणेंच चितूंक नासलें. हायस्कुलाक लागूनच पाद्रिलें हायर सेकंडरी आसलें. गोंदू थंयच ॲडमीशन घेतलो अशें सगल्यांक दिसतालें. पूण गोंदून जेन्ना उलोवन दाखयलें की आपूण फुडें शिकना म्हण तेन्ना सगल्यांच्या मनांत चर्र जालें. कांय जाणांक सोडले जाल्यार, चडश्या लोकांक गोंदू फुडें शिकिल्लो जाय आसलो. सगल्यांक दिसतालें, गोंदू फुडाराक आपलें नांव व्हड करतलो म्हण.

प्रिन्सिपालाक जेन्ना कळ्ळें की गोंदू खऱ्यांनीच इस्कोल सोडटा, तेन्ना

ताच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो पावळ्यो गळूंक लागल्यो. मनीस केदोय व्हडलो जालो, तरी ताका मन आसताच. दुश्टांतल्या दुश्ट मनशाच्या काळजाक केन्ना ना केन्ना तरी पाझर फुटपाची आस्त आसताच. तातूंत फादर तर देवमनीस. ताचें काळीज मोवाळ आनी मोगाळ आसूंकच जाय.

प्रिन्सिपालान रावंक जायना जावन गोंदूक आपल्या विसवघरांत आपोवन घेतलो. ताणें ताका समजावपाक कोमेस केलें-

"बाब गोंडू, तूं होन्यांनीच इस्कोल सोडूंक सोद्ताय!"

"हय फादर." गोंदून गंभिरतायेन जाप दिली.

"कित्याक सोट्टाय रे, तुजे ओहल्या हुशार भुरग्यान शिकोप सोडून घारा बोहल्यार उपकोत्ता? तुका कोहली ओडचोन बा आहल्यार माहां सांग. हांव तुजो प्रोस्न सोडयतां."

"थँक्यू फादर. म्हाजो प्रस्न कसलोच ना. म्हाजी काकी म्हाका कांयच उणे पोडोंक दिना.'" गोंदू सडसडीत उलयलो.

"ही काकी कोण रे! तुहां माय-पाय ना?"

"काकी म्हाजी आंटी. फादर्स सायड. म्हाज्या मांयक-पायक शिकपाचें व्हडलेंशें कांयच समजना फादर!"

"ओहें, गोमलें माहां. तूं कांयच भियों नाहां. हांव तुज्या मांय-पायक वोसोन मेवतां."

"नाका फादर, तेंकां मेळोन कांयच फायदो ना. फुडें ना शिकपाचें हायेंच थरायलां." गोंदून आपलो निश्चेव उक्तायलो.

"आरे गोंडू, तूं मातूय सोजमोना मुरे! तूं हुशार आहा, तुका मोत आहा, तुका नोयें-नोयें कित्येंय कोरून दाखोवपाची उमेद आहा. तुयेंन दोतोर ना तोर इंजिनेर बा व्हडलो मनीस जावन तुजो फुडार बोरो कोरून तुज्यान झेंव येता." फादरान व्हडा उमेदीन गोंदूक सल्लो दिलो.

फादर जें कितें उलयलो, तें गोंदूक पटपासारकें नासलें. मनशाक व्हड जावपाच्यो वाटो कितल्यो आसात, हें फादराहून गोंदूक चड खबर आसलें. समाज दोतोर-इंजिनेरांक कितलो मान दिता, हेंय आपल्या अणभवान गोंदू जाणा आसलो.

गोंदूचे नदरेन व्हड आशिल्लो फकत हरीमास्तर. हरीमास्तरान कसल्योच पदव्यो घेवं नासल्यो. फकत सातवी शिकिल्लो तो! तरी पाद्रिल्या इस्कोलांत एम.ए., बी. एड. बी जाल्ल्या शिक्षकांपरस कितलेशेच पटीनी व्हड दिसतालो तो गोंदूक! पूण आपल्या मनांत कितें शिजता, तें फादराक सांगूंक शकनासलो गोंदू. फादर कितें सांगता तें आपल्या बऱ्या खातीर, हाची पुराय जाणविकाय आशिल्ली ताका! देखून फादर कितें सांगता तें ताणें मोन्यानी आयकून घेतलें. फादराक परती जाप दिलिना.

गोंदूलें एक खाशेंलेंपण आसलें. दुसऱ्यालें सगलें मन लावन आयकचें. बरें तितलेंय पदराक दवरचें. आपल्याकडेन कसलोय निर्णय घेवंक जालो ना जाल्यार हरीमास्तराक याद करचो. भक्ताचे राखणेक देव धावून येता म्हणटात. गोंदूचे मजतीक हरीमास्तर धावन येता, अशें गोंदूक दिसतालें. हरीमास्तराची याद केल्यार गोंदूच्या मनांतलो गोंदळ खंयच्या खंय नाच्च जातालो.

आयज मेरेनची गोंदूची चिकाटी आनी शिकपाची आवड पळोवन, फुडाराक तो शिक्षणमळ गाजयतलो अशें दिसतालें. पूण गोंदून बारकायेन विचार करून मॅट्रीक जातकच फुडल्या शिक्षणाचो विचार सोडून तो पक्को केलो.

गोंदून चिंतलें, आपूण णव्वद टक्क्यांवयर मार्क घेवन मॅट्रीक पास जालों, पूण बारावेक तितले मार्क मेळटले म्हण ना. मॅट्रीकेक पंचाण्णव टक्के मार्क घेतिल्ल्या भुरग्यांनी बारावेक साठ-सत्तर टक्के मार्क घेतिल्ल्या भुरग्यांच्यो देखी गोंदूमुखार आशिल्ल्यो. पूण गोंदूलें शिकप आनी हेरांच्या शिकपाच्यो पद्दती वेगळ्यो आशिल्ल्यो, हेंय गोंदूचें मन ताका सांगतालें.

घडये बारावेक मॅट्रीकेहून एक-दोन टक्के मार्क तो चडय घेवंक शकतालो. ताची कापाजदाद, ताचो आत्मविस्वास ताका हेंच सुचयतालो. पूण गोंदून आपलो निर्णय बदल्लोना.

जर आपूण बारावी शिकलों. मेडिसीनाक ॲडमीशन मेळ्ळें, तरी लाखांनी रूपये मोडून शिकपाची तांक ताका नासली. ताची हुशारकाय आनी नीत पळोवन, प्रिन्सिपाला सारखे कोणय फुडें येवन, गोंदूचे फी ची तजवीज करपाची शक्यताय आसली. पूण गोंदूक आपलो जीव कोणाकडेन घाण दवरून, कसलेंच

डपण नाका आशिल्लें. धावी मेरेन ताचे काकेन ताका शिकयलो. मॅट्रीक मेरेनच्या क्षणाच्या नाड्यार आपूण खूब कितें करून, आपले काकेची पांग फेडपाचो दून निश्चेव केलो.

गोंदू मॅट्रीक जालो तेन्ना ताका पंदरा सोंपून सोळावें लागिल्लें. ताचे ांगलटीत बरोच बदल घडून आयिल्लो. चेरो रूंदावलेलो. फाव ते सुवातेर मिसरूड टूंक लागिल्ली. दोळ्यांत चकचक आयिल्ली. गाल फुगिल्ले. हाता-पायांत डच घटसाण आयिल्ली. आवाजांत घोगरेपण आयिल्लें. चलणुकेंत नेटसाण ानी वागणुकेंत धीटसाण आयिल्ली. आपूण आतां चेड्डेंतलो भुरगो नासून ारसाटो दादलो जालां, हाची जाणविकाय गोंदूक जावंक लागली.

मॅट्रीकेचो निकाल लागतकीर सेकेंडरी इस्कोलां कोमेस जाल्लीं. गेल्या र्शा जूनाच्या पयल्या सेमानांत गोंदू इस्कोलांत आशिल्लो. आतां तो तेच वगतार ा बसून आशिल्लो. हायर सेकंडरी कोमेस जावपाक आजून सात-आठ दिसांचो वकाश आशिल्लो. बॉर्डरीर मार्क घेवन पास जाल्ले भुरगे इकरावेक प्रवेश घेवंक डपडटाले. गोंदूच्या वांगड्यांनी लांब काल्सांवां शिविल्लीं. कांय भुरगे जीन टी घालून उमेदीन पासयो मारताले. मार्क उणे पडिल्ल्यान ॲडमिशन मेळत ाय ना, हाचो बरेच जाणांक दुबाव आशिल्लो. आनी गोंदू? गोंदू मात विशेश ोग्यतायेन पास जावनय फुडल्या शिक्षणाक फाट करून, आपल्या फुडाराचीं णितां करीत, मळबार दोळे भोंवडायत, हांगा थंय भोंवतालो.

गोंदूच्या मनांत आयलें, आपूण जर गिरेस्तांलों भुरगो आसलों तर घरचीं ापली कितली तोखणाय करतलीं आसलीं. घरचींच कित्याक, सोयऱ्यां ायऱ्यांकडच्यान अभिनंदनाचो शिंवोर जातलो आसलो. कांय भायल्या लोकांनीं यलेतराक अभिनंदन केलें, तेंय करूंक जाय म्हण. काळजांत सावन अभिनंदन तोखणाय करतलो जाल्यार आपलीं मनशां आसचीं पडटात. गोंदूलो घरा कोण ासलो? आवय-बापूय? गोंदू पास जाल्ल्याची खोस काकीक जाल्ली. पूण ती ाशेली अशी न्हय. तिच्यो दोन धुवो पास जावन पयल्या वर्गांत गेल्ल्यो. गोंदूचेंय शेंच जालां, अशें तिका दिसलें.

गोंदू इस्कोलांत पयलो आयलो, आनी पावलूचें कितें जालें? तो खंयच्या

वर्गांत पास जालो? तो नापास जावपाचो प्रस्नच येना. पास-नापासाचो दुबाव वादीव भुरग्यांचो घेवपाचो आसता. पावलू तसलो नासलो. ते भायर तो गोंदूचो वांगडी.

एका वगतार गोंदू आनी पावलू मदले संबंद गैरसमजान बिगडिल्ले. तेय प्रिन्सिपालाच्या करण्यानी. खरी गजाल पावलूच्या लक्षांत येतकच ताका आपली चूक कळ्ळी. ताका पश्चताप जालो. मागीर ताणें थारायलें, तांचे मदें कोणेय कितलोय विंगोड घालपाचे यत्न केले तरी आपूण गोंदूचो वांगड सोडपाचो ना. गोंदून तर पावलूचें कांयच मनार घेवंक नासलें.

गोंदूचे लगाडेक लागून पावलून मॅट्रीकेचो अभ्यास नेटान केल्लो. तरी गोंदूचो आंवाटो पळोवन आपूण गोंदूचे सर्तींत कसोच तिगाव धरचो ना, हाची जाणविकाय पावलूक आशिल्लीच. गोंदूकय पावलूची चड काळजी आसली. शिकतां-शिकतां पावलूचे नोट्स गोंदू तपासून पळयतालो. कितेंय आडखळ सापडली जाल्यार तो ताचे कडच्यान सुदारून घेतालो. एक इंग्लीश सोडली जाल्यार हेर सगळ्या विशयांचेर गोंदूची नदर आशिल्ली.

किरिस्तांवांलीं भुरगीं फाड-फाड इंग्लीश उलयतात हाचेवयल्यान तांकां इंग्लीशीक बरे मार्क मेळटात अशी बरेच लोकांची समजण आसता. पूण खरी गजाल अशी की, जो भुरगो विशयांचो अभ्यास मन लावन करता, तोच त्या विशयांत बरे गूण मेळयता.

पावलू इंग्लीश बॉय आसुनय ताका मॅट्रीकेक बावन्न टक्के मार्क मेळ्ळे. आपूण सेकंड क्लासींत पास जालों. उणेच फस्ट क्लासींत तरी पास जावंक जाय आसलों. कांय नज. आपूण बऱ्या मार्कांनी पास जालोना म्हण कितें जालें? गोंदून आमच्या इस्कोलाचें नांव वयर काडलें तें कितें थोडें जालें?

पावलू तसो वायट शिकनासलो. पूण ताचो घोकंपट्टीचेरच चड भर आसलो. ताका लागून इस्कोलांत ताका सत्तर टक्क्यां वयर मार्क मेळटाले. घोकंपट्टी करून परिक्षा दिवपी भुरग्यांक केन्ना-केन्ना णव्वद टक्के लेगीत मार्क मेळूंक शकतात. पूण ते सारके प्रस्न आयल्यारच. जो भुरगो पाठांतराचेर निंबून रावना, मन लावन, बारकायेन आनी गंभिरतायेन अभ्यास करता, ताचो फुडार

ıकचकीत आसता. परिक्षेंत उणे मार्क पडले लेगीत जाल्यार फुडें ताचो फायदोच ıाता.

गोंदूक पाठांतर साप्प आवडनासलें. कवितेच्यो वळी मात तो अर्थासयत ıाठ करतालो. विज्ञान आनी गणिताचींय कांय फोर्मुलां तो अर्थासयत पाठ करतालो. ıर सगले धडे तो बारकायेन, गरज पडटा थंय शब्दकोशाचो आदार घेवन, ıंभिरतायेन वाचून, विशय मनांत अशे तरेन भरतालो की गरज पडटा तेन्ना मनांत ıाठयल्लें गिन्यान अचळय पेपराचेर उतरोवचें. एकदां मनांत साठयल्लें गिन्यान गोंदू सोपेपणान विसरनासलो.

गोंदून शिक्षण सोडपाचो निर्णय घेतला, हें आयकून पावलूचे दोळे भरून आयले. बारावी मेरेन तरी दोगूय एकठांय आसतले, अशें पावलूक दिसतालें. गोंदू शिकपांत कितलोय बरो आसलो तरी तो दोतोर-बितोर जावपाचें चिंतचोना. आपल्या सांगातान रावपाक पाद्रिले हायर सेकंडरींतच तो ॲडमिशन घेतलो, अशें दिसतालें पावलूक. गोंदून एकदां शिक्षण सोडपाचो निर्णय घेतला, तातूंत आतां कसोच बदल जावपाचो ना, हाची खात्री आतां पावलूक जाल्ली. आपले इश्टागतीचे यादस्तेक आनी इस्कोलांत मॅट्रीकेक पयलो आयिल्ल्या निमतान ताणें गोंदूक आपल्या घरा एक व्हडली पार्टी दिवंची थारायलें. ताचे मम्मीकय पावलूची ही येवजण मानवली. पार्टी थारावचे पयलीं गोंदूचो हयकार घेवपाची चड गरज आसली. पावलून गोंदूक आपल्या घरा आपोवन घेतलो.

"बाबा गोंदू, तुयें कितें कोरपाचें चितलां रे पुता."

"कांय ना मम्मी."

"कांय ना, तूं कॉलेज शिकोनाय म्होणोन आयकोलां हायें."

गोंदून तकली खाला घाली.

"तोहें कोरूं नाहां रे पुता म्हुज्या. तुहां तोकली आहा मुरे. जाता तितलें शिकोन झे. दुडवांक लागोन हार्टी सोत्ताय रे? तूं दुडवां लागोन भियों नाहां. तुकां लागता तितलो दुडू हांव दितोलीं. पावलूचे डॅडीक हायें चिटयेंत तुजे विशीं सोगलें बोरोयलां. तूं आमचो दुसरो पूत कोहो मुरे!"

मम्मीचीं उतरां आयकून गोंदूच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो झरी व्हावंक

लागल्यो. मम्मी फट उलयनासली. हालीं हालीं गोंदूची तांकां चडच वोड लागिल्ली. दोगांची जोडी पळोवन मम्मीक खऱ्यांनीच सूख भोगतालें. पावलूच्या डॅडीकय खूब आवडूंक लागिल्लो गोंदू!

"मम्मी, तूं म्हाका शिकपाक फोर्स करूं नाका. म्हाका असलें शिकप नाका. हायें म्हाज्या फुडल्या जिविताची येवजण करून दवरल्या. हांव ते येवजणे परमाण फुडलें जिवीत सारूंक सोदतां. तितूंत बदल जावचो ना."

मॅट्रीकेचे पेपर बरोवन जातांच गोंदून आपली तकली मुजरत हलकी केल्ली. गेल्ल्या वर्सा णववी पास जाल्लो तेन्ना सुटयेपुरतोच ताणें आपले तकलेंतलो तणाव पुसून काडिल्लो. आतां ताणें तो कायमचो काडून उडयल्लो. फुडले वर्सा आपूण शिक्षणीक जंजाळांतल्यान सुट्टलों, हें ताणें तेन्नाच थारायल्लें. तरी ताणें आपल्याक आवडटा त्या विशयाचें वाचन चालूच दवरपाचो निश्चेव केल्लो. इस्कोलांत शिकिल्ल्या दोन-तीन भासांच्या केल्ल्या अभ्यासान ताची वाचनाची गोडसाण वाडिल्ली. आतां तो मर मेरेन पुस्तकांची इश्टागत सोडचो नाशिल्लो.

हरशीं गोंदूक सैमाचो मोग आशिल्लोच. इस्कोलांतल्या कचाट्यांत सापडिल्ल्यान इत्सा आसूनय ताका जाय तसो सैमानंद घेवंक मेळनासलो. दोळ्यां सामकाराक पातळून आशिल्ल्या सैमसुखाचो विचार मनांत येतांच, कसलें ना कसलें आडमेळें गोंदू सामकारा धुत्त करून उबें रावतालें. आतां तीं सगलीं आडमेळीं पयस जाल्ल्यान खंयच्याय वगतार तो अचळय सैमाकुशींत रिगतालो. मागीर ताका कसलेंच भान म्हणटात तें उरनासलें.

गोंदूक तशे वर्सांतले बाराय म्हयने आवडटाले. तांतले तातूंत माय ताका चडच आवडटालो. मायांतलें सैमसूख घेवपाक ह्या वर्सा गोंदूक आयतीच संद मेळ्ळी. तकलेचेर कसलोच पेज नाशिल्ल्यान ताणें एक सायकल आरांज्यार केली, आनी वेळकाळ पळयनासतना लागलो गांवभर हेडपाक. कोण कितें म्हणत हाची मातय पर्वा करिनासतना. तकलेन फीन आशिल्ल्या भुरग्यांक लोक पिशे म्हणटात. वेळ-काळ पळयनासतना, रखरखत्या वतांत मेळत थंय भोंवपी मनशांक शाणे

कोण म्हणीत?

गांवांत गोंदूल्या आवडीचीं खुबशीं थळां आसलीं. सवड मेळटा तेन्ना धांवत्यो भेटी दितालो गोंदू त्या थळांक. कांय थळां सैमाकडल्यान आपसूक तयार जाल्लीं. कांय मनशांनी निर्मिल्लीं. गोंदूक दोनय तरांच्या थळां-नियाळांत सूख मेळटालें.

आयज गोंदूक हेडटां हेडटां दनपारचीं दोन वरां केन्ना जालीं कळ्ळेंच ना. पोटान ताका याद केली. गोंदू दोनां आर्दी केन्नाच जेविनासलो. ताचें इस्कोल देडाक सुट्टालें. घरा वचून न्हंयेंत बुडक्यो मारता, ना तर बांयंतले चार कळशे माथ्यार घसघशीत वोतता म्हणसर ताका दोन जातालींच. आयजय तो तेंच करूंक सोदतालो. ताणें आपली सायकल घरा दिकेन धांवडायली.

गोंदू सायकल चलयतासतना ताची नदर केन्नाच थीर म्हण नासताली. सैमांतलीं झाडांपेडां, रस्त्या कुशींतलीं घरां-दारां ताची नदर आपल्याकडेन ओडून घेताली. आतांय तशेंच जाल्लें. वतां वतां ताका गांवंची सिमितर दिसली. लोक वस्तेंत नासूनय हे बंद मसंडीन गोंदूचें चित्त आपल्याकडेन ओडून घेतलें.

सिमितरीचो परिसर पळोवन गोंदूले सायकलीची गती आपसूक मंदावली. ताणें सायकल उबी केली आनी आपले कुडीचो पेज सायकलीर घालून फाटल्यान कोण येता काय कितें हाची वाट पळयत रावलो. थोड्या वगतान ताच्या वाड्यावयलो कानू येता तो गोंदून पळयलो. गोंदूक सूऽऽ जालें.

"गोंदू कोणाक रावता रे!" म्हन्यांत पावतकच कानून गोंदूक प्रस्न केलो.

"तुकांच लागोन थामलां कानूदाद." गोंदून कपलावेलो घाम पुशीत तोंडार अडेचें हाशें हाडीत जाप दिली.

"इच्चें वोतान माहां लागोन थामला? ओहलें कोहलें काम पोडलें तोरू?" घामान पचपचीत जाल्ल्या कानून खरशेत प्रस्न केलो.

"काम कांय ना रे कानूदाद. मात्सो काकेक रेकाद दिवंक जायो. तिका सांग हांव मात्सो वोगतान येतोलों."

"इच्चेंच मोरे, तें म्हाजेर पावलें." अशें म्हणून खांद्यावेल्या तुवाल्यान कानून आंगाचो घाम पुसलो. तुवाल्याची घडी करून माथ्यार दवरली आनी

ताकतिकेन चालीक लागलो.

गोंदू आतां हुस्क्या मेकळो जाल्लो. ताणें आनी वगत लायलो ना, सायकल हातांत धरून लागलो धावूंक. बद्द सिमितरीच्या मुखेल दरवंट्याकडेन थांबलो गोंदू! सायकल व्हरून लागसारच्या आंब्यारूखाक तेकयली. सिमितरीच्या सरभोंवतणी तरेकतरेची रूखावळ वसती करून आशिल्ली. परिसराभायर, रस्त्याचेर, शेतांचेर आनी मळांचेर कडकडीत वत पडिल्लें. सिमितरीच्या सरभोवतणी मात सगळेकडेन सावळेची चादर पातळिल्ली.

सिमितरीच्या दरवंट्या मुखार धा-पंदरा मिटरांच्या अंतराचेर एक भोव मोठो आम्रवृक्ष उबो आसलो. ह्या मानकुराद आंब्याक आरसाट्या नाल्ला येदे आंबे रूखांगभर हुमकळटाले. खरें म्हळ्यार मानकुराद आंबे चड वेळ झाडार तिगनात. पूण ह्या झाडार मात आजून आंबे वाऱ्यार धोलताले.

गोंदू बरोच वगत तसोच उबो रावलो. हालते-धोलते आंबे पळयत. रूखावळींत बागडतो वारो गोंदूक खुशालकाय भोगयतालो, वाऱ्याचीं भुरगीं रूखावळीच्या पाना-पानांत खेळटालीं. तांचे आवयनच तांकां थंय सोडिल्लीं. खेळटां-खेळटां तांकां गोंदू दिसलो. अचळय तीं खाला देवून गोंदूच्या आंगा-खांद्यार खेळूंक लागलीं. तांच्या स्पर्शान गोंदूक थंयच्यान हालनशें दिसना जालें.

कांय वाऱ्या भुरगीं भोवच मस्तीं आसलीं. अकस्मात येवन तीं गोंदूल्या कानसुलांक झिणझिण्यो दितालीं. ह्यो झिणझिण्यो गोंदूक चडच सुखदिण्यो लागताल्यो.

आपल्या भुरग्यांक रुखावळींचेर खेळूंक सोडून शक्तिमान वारें खंय तरी पऽऽयस आपल्या कामांत गुंतून आसतालें आनी मदीं मदीं आपल्या भुरग्यांची खुशालकाय पळोवंक अकस्मात घोगेवन हेवटेंतल्यान तेवटेन पासार जातालें. अशें करतना तें हलक्या देठांचीं पानां-फळां जमनीक भेटयतालें.

आतांय तशेंच जालें. खंयच्यान तरी सों-सों ऽऽ करीत वारें आयलें. सिमितरीकडच्यान रूखावळीक हालयत-धोलयत खिणांत खंयचेकडेन नाच्च जालें. आपले आवयचो अवतार पळोवन वाऱ्या पिलावळ खंय लिपून रावली देवाक खबर!

वारें आयलें आनी गेलें. मागीर सगळेकडेन शांत जालें. वाऱ्या झोतान आबूज जाल्लो गोंदू शिंतिदार आयलो. इतल्यान आमरूख खोशी जालो. ताणें एक पिकिल्लो आंबो गोंदू खातीर झडयलो.

गोंदूचीं पावलां आतां अचळय आंब्या दिकेन वळ्ळीं. गोंदू मात्सो फुडें गेलो. चडशा आंगान पांचवो आनी फाटल्या आंगान मात्सो हळदुसार जाल्लो, नाल्लसो आंबो गोंदूक गावलो. गोंदून तो तट्टटीत आंबो नाकाकडेन धरलो. झाडपिक्या मानकुराद आंब्याचो वास कितलेय फावट घेतलो जाल्यार मनशाची आस भागना.

गोंदू आतां तसोच फुडें गेलो. ताची नदर आतां झिलांनी गेली. झिलांनीं लागीं-लागींच आनी दोन आंबे पाडिल्ले आसले. एक देटाकडे खतवल्लो. मदेकाक कावळ्यान मात्शी चोंच मारिल्ली.

गोंदून तिनय झाडपिके आंबे एकठांय केले. व्हरून ते आंब्यामुदांत दवरले.

हरशीं शांत आनी गंभीर आसपी गोंदू आतां भलतोच आबूज जाल्लो. थंयच्या सैमान ताचेर खुबच जादू केल्ली. रूखावळींतली थंडसाण आनी खिणा-खिणांत खेळतो वारो ताका आकर्शून घेतालो.

गोंदू थंयच्या सगळ्या रूखां मुदांत भोंव भोंवलो. मागीर तसोच मुखार गेलो. ताका एक जांबळीचें झाड दिसलें. मुदांत वचून ताणें मान वयर केली. पळय जाल्यार जांबळांचे काळे काळे घोंसूच घोंस. कांय घोंस पांचवे आनी तांबशे, पिकूंक नासले. पूण पिकिल्ल्या जांबळांचे घोंसय उणें नासले. गोंदून वेळ केलो ना. झपाझप जांबळीर चडलो. ताणें घोंसांचीं जांबळां अचळय तोडून काल्सांवाचीं बोल्सां भरलीं. फुटून काल्सांवाक खतां पडचीं न्हय हाची ताणें जतनाय घेतली. पिशवी आसली जाल्यार तो ती भरून देंवतलो आसलो. तरी ताणें वयर एका खांद्यार बसून पोटभर जांबळां खावन घेतलीं. वयल्यान एक झाडपिको आंबो खाल्यार ताका सांज मेरेन जेवणाची याद लेगीत जावंची नासली. साली सयत झाडपिको आंबो खावंक गोंदूक आवडटालो. सकल येवन ताणें बोल्सांतल्या जांबळांक हात लायनासतना मेळिल्ले दोन आंबे साली सयत पोटांत लकयले. दुसऱ्या आंब्याचो काथो दातांनी खरडयत थंयच्या रूखांचेर नदर

भोंवडायत रावलो. इतल्यान आनीक दोन-तीन आंबे गोंदू खातीर झडले.

गोंदूची नदर आतां एका चाफ्याचेर पडली. हो चाफो सिमितरी भायर उजव्या बाजूक वण्टीक तेंकून उबो आसलो. हाल-धोल नासतना आंगार राशींनी धवींफुल्ल चाफीं घेवन मोन्यानी उबो आसलो हो चाफो! हीं पंचपाकळ्यांचीं सानुलीं चाफीं भायल्या देटाकडेन केसरी, पाकळ्यांचो खालचो भाग हळदुसार आनी वयलो भाग धवोफुल्ल. फुलां तीन रंगांचीं आसलीं तरी तांचेर राज्य करतालो धवोच रंग. झाडांचें खोड मोटें आसलें तरीय वयली ताळयेन ताळी फुलांनीं भरिल्ली. फुलांमदें चाफ्याचें आंग आनी पान मातय दिसनासलें. इतलीं फुलां घेवन कडकडीत वोतांत मोन्यानी उबो राविल्ल्या चाफ्याक पळोवन गोंदूक हट्टी गाढवाची याद जाली. हरशीं वारो व्हडल्या-व्हडल्या रूखांचे ताळे-पानां हालयता. फळां झेलयता. पूण ह्या चाफ्याचें तो कांयच करूंक शकना, हाचें गुपीत कोणाक कळना. ह्या चाफ्याचें सगळेंच जड-जडशें. ताचो वासय जड, अशें आसूनय वारें-वादळान चाफ्याचो खांदो तुटून पडलो, अशें सट करून दिसून येना. मुळांसयत हुमटून पडिल्लोय चाफो दिसना. आपलें सगळें आंग मोव आसूनय तो मनीसजातीक धिटायेचें आनी गंभिरतायेचें लिसांव दिता.

गोंदूचे नदरेंतल्यान आतां चाफो सुटलो. ताची नदर आतां सिमितरीच्या दावेवटेन, पूण भायल्यान ह्या कोनशाक आनी त्या कोनशाक बागवालीचीं दोन झोपां आशिल्लीं तांचेर थिरावली. ह्या झोपांच्यो वाली सिमितरीच्या उंच वण्टीच्याय उंच वचून वाऱ्यान झुलताल्यो. ह्यो वालीय फुलांच्या तुऱ्यांनी भरिल्ल्यो. एकाच झोपांत कितल्योशोच वाली मिस्तुराद जाल्ल्यो. ताका लागून तांबडे, हळदुवे आनी धवे तुरे झोपांच्या माथ्यार एकमेकांक घश्टून आपलो एकचार संवसाराक दाखयताले. आपले रंग वेगळे आसले तरी आपली जात एक म्हणपाचो धडो ते जगाक घालून दिताले.

सिमितरीक तेंकूनच पूण दुसरेवटेन दोन गुलमोहराचीं झाडां तेंकून-तेंकून उबीं आसलीं. हीं दोनय झाडां तांबड्या फुलांनीं पुराय भरिल्लीं.

लागसाराकच एक सांवर आशिल्ली. पूण ती आपलो कारबार आदींच सोंपोवन मेकळी जाल्ली. ना तर तिच्या तांबड्या तांबड्या फुलांनी वाठाराक

आनीकय सोब येवपाची. तरी ती सावर आपल्या काळसार बोणांतल्यान धवोफुल्ल कापूस भायर काडून दाखोवन दिताली, की आपणें मळबांतलीं सगळीं धवीं कुपां बोणांनीं भरून दवरल्यांत. कांय दिसांनीं ही सावर आपल्या बोणांतलो कापूस फुकून सिमितरी भोंवतणच्या स्वर्ग निर्मणेक हातभार लायतली आसली.

हो सगलो देखावो पळोवन गोंदू भुल्लुसलो. मागीर ताणें दरवंट्यांतल्यान सिमितरींतलो भितरलो वाठार बारीकसाणीन पळोवन घेतलो. थंय लागीं-लागीं खुरीस रोमिल्ले आशिल्ले खरे, पूण थंय भिरांकूळतायेक मातय थारो नाशिल्लो. मसंड आसुनय ते सिमितरीक बागेचें स्वरूप आयिल्लें, सोबेचीं झाडां आनी रागेंत लायिल्लीं फुलझाडां पळोवन गोंदूक दिसतालें की आपणे खंयच्यान तरी उडी मारून, ते मसंडींत प्रवेश करचो आनी थंयच्या शांतिकायेचो लाव घेवंचो. थंयच वेळ मेळटा तितलो विसव घेवंचो अशें गोंदूक दिसलें. पूण तें गोंदूच्या हातांत नासलें. ते स्वर्गतुळे सिमितरी कडेन चड वेळ घुटमळत रावप गोंदूक परवडपा सारकें नासलें. ताका आतां घराची याद जाली. तो फाटल्या पायांनी परतलो. ताकतिकेन ताणें घरची वाट धरली.

गोंदू खुबदां आडवेळां घरा येता हाची खबर ताच्या भयणांक आसली. तो दनपरां जेवणाक घरा आयलो ना तर खंयच्याय दोंगरार भटकता आसतलो हाची कल्पना घरच्यांक आसताली. दोंगरार भटकता आसतना ताका काट्या-खुट्यांची आनी वाऱ्या-वादळाची पर्वा नासताली. तो तान-भूक विसरतालो. भूक जाणवलीच तर तो दोंगराळ फळांचेर येथेश्ट ताव मारतालो. त्या त्या वेळार काण्णां-चुन्नां, चारां-बोरां, कणेरां-आसाळे बी तो आपल्या भयणांक हाडटालो. गोंदू वेळार घरा आयलो ना जाल्यार ताच्यो भयणी खुशालभरीत जाताल्यो. आपलो भाव दोंगरार गेला आसतलो! येतना रानफळां हाडटलो! हाका लागून भयणी दोळ्यांत तेल घालून भावाची वाट पळयत भायर-भितर येताल्यो.

गोंदू आतां घरा पावलो तेन्ना पांच वाजून गेल्लीं. तो दनपरां जेवंक नासलो. तरी ताचो चेरो टवटवीत आसलो. ताच्या भयणांनीं ताका गराडो घालो. गोंदून कुमयांच्या पानांचो जाता तितलो मोठो दोणो करून तातूंत जांबळां, चेपनां तशीं अचळय भरिल्लीं. तो दोणो ताच्या भयणांनीं झोमून घेतलो. आपल्या

भावाकडेन आनीक बी कितेंय आसा काय ना तें पळयनासतना ताची ती अपुर्बायेचीं भावंडां शेणान सारयल्ले जमनीर थपकल मारून जांबळां खावंक लागलीं. थोड्याच वगतान तांची जीब आनी वोंठ जांबळेले. आपल्या भयणांची खुशालकाय पळोवन गोंदूल्या चेऱ्यावेली काळसाण पयसावली.

गोंदूकडेन आनीक एक लेंसा पोटली आसा हें ताच्या भयणांच्या लक्षांत आयलें. तें कितें, अशें विचारच्या आदींच लेंसाच्यो गाठी सोडून चार-पांच आंबे मेकळे केले. तातुंतलो एक आंबो ताणें आपले काकेक सांबाळून थेयलो. बाकीचे ते झाडपिके आंबे ताणें नाका कडेन धरून वास घे घे घेतलो. आंब्याक तोखेवन जातकीच एके भयणीन तांच्यो शिरो केल्यो आनी सगळ्यांनीं वाटून खाल्यो. गोंदूक कापिल्ल्या आंब्याचो काथो चोखून आनी दातांनी खरडून खावंक आनंद मेळटालो. ताणें तो ह्या वेळार भरपूर घेतलो.

गोंदू आतां इस्कोल आनी शिक्षणाच्या वातावरणांतल्यान पयस पयस वचत आसलो. मदल्या काळांत तो सैमाच्या आंगणांत खूब खेळ्ळो. ताणें सैम सांगाताची आस भागोवन घेतली. शेतां-भाटां, दर्या-न्हंयो, दोंगर-मळां खंय खंय आसात थंय थंय वचून तांच्या कोनशान कोनशाचो नियाळ केलो. अशें करतना ताका कोणेंच आडायलो ना. काकेन तर ताका पुराय स्वतंत्रताय दिल्ली. ही स्वतंत्रतायच ताका ताच्या फुडाराक बऱ्याक पडली. आतां माय सोंपून जून लागिल्लो. गांवांचो बरोच वाठार दर्या देगेचो आशिल्ल्यान हांगाचीं शेतां रेंवट आनी खुसखुशीत मातयेचीं आसलीं. हीं चडशीं शेतां किरिस्तावांच्या ताब्यांत आसलीं. दोंगरा पालसणाचीं मरडां मात हिन्दूंकडेन आसलीं. हीं मरडां फातराळीं आनी चिकण मातयेचीं आशिल्ल्या कारणान तीं कुदळीन खणून, ना तर नांगरून रोवपाक बरींच कुस्तार पडटालीं. गोंदूल्या वाड-वडलां कडेन असलीच जमीन आसली. कश्ट केल्यारच फळाची आस धरपाची. ना तर सैम रागार. सगळें फुकट!

गोंदून आपले जमनींत शेतकाम करपाचें आदींच थारायल्लें. ते पासत ताणें वेग-वेगळ्या शेतांनीं, वेग-वेगळे शेतकार कशे तरेन काम करतात हाचो बारकायेन अभ्यास केलो. आपले हक्काचे जमनींत पिकावळ काडटलो जाल्यार रेताळ जमनीचो अभ्यास करून कसलोच लाव ना म्हणपाचें आतां ताका कळून

आयलें. तरी तो इल्लो चडूच शिटूक आशिल्ल्यान, शेतकामाची ओड आशिल्ल्यान मेळत तें कृषीकाम शिकून घेतालोच. तरी आतां ताणें आपलेकडेन कितें आसा ताचेरच आपलें मन केंद्रीत केलें. तो ताकतिकेन घरा गेलो. ताणें काकेक उलो मारलो. काकी घरा ना. खंय आसतली काय ती? मळयेर गेल्या जातली. गोंदूचीं पावलां ताका अचळय मळयेर घेवन गेलीं.

गोंदूच्या घरा लागींच ही मळी आशिल्ली. व्हडल्या मळाचो तो एक कुडको. मेरो घालून केल्लें सान-सान कुणग्यांचें तें एक मरड शेत. हें मरड रोवन गावता तें भात गिरिजें वर्सभर पावोवन थोडें विकतालेंय बी. ह्या मरडार गिरिजें मर-मर मरतालें. गरज पडटा तेन्नाच चार-पांच कामेऱ्यांचो आदार घेतालें तें! गांवांतलो रघू जोतकार दोन दीस जोत घालून गिरिज्याक मदत करतालो. मरड पिकतकीच गिरिजें भात दिवन रघूची पांग फेडल्या बगर राव नासलें.

गोंदू मळयेर पावलो तेन्ना गिरिजें सोडून दुसरो कोणूच थंय नासलो. आमोरी जशी जशी लागीं येताली, तशी तशी गिरिज्याच्या हाता पांयांची गती वाडत आसली. कुणग्यां कुणग्यांनीं घालून दवरिल्ल्या सुक्या शेणाच्यो राशी तें पातळायतालें. पोत्रो आनी शिरपुटांक उजो लावन गोबरा साऱ्याची वेवस्ता करपाची आदींच ताची मांडणी आसली. ताका लागून चुडटांचे चुडीन ताणें आख्ख्या मरडाक उजो लायिल्लो. धुंवराचे लोट वयर वचून मळब काळें करताले. अजून सुर्याची नदर संवसाराचेर आशिल्ल्यान, मळबांतल्यो घोणी बेट्योच बोवाळटाल्यो. गोंदूक हो देखावो रात जायत मेरेन पळयत रावचो अशें दिसलें. पूण ताका थंय चड वेळ रावप शक्य नासलें.

येदो वेळ मरडा देगेर उबो आशिल्लो गोंदू आतां आपले काके म्हऱ्यांत गेलो. ताणें आपूण आयिल्ल्याची जाणविकाय गिरिज्याक करून दिली.

''काके, केन्ना लेगीत वावर करता गे तूं! चल घरा. रात जावंची जाली.''

''तूं आमोरे वोगतार कित्याक येयलो रे बाबा! हांव येवपाचें आहलें.'' गिरिज्यान दोनय हात भेंडार दवरीत उबें रावन सांगलें.

''काके, तूं हाल्यांच्यान एकटी काम करचिना शेतांत. हांवय आसतलों तुजे वांगडा.''

गोंदूलीं उतरां आयकून, दिसभर कश्ट करून मोव जाल्लें गिरिजें ताजें जालें. ताचे आशेक पालय फुटली. आज मेरेन कोको-मेम्याचेर मन केंद्रीत करपी गिरिजें खिणांत भांगरा सपनां पळोवंक लागलें. आपल्या वांगडा काम करपाचें उतर दिवपी गोंदूत तिका फोंडू दिसूंक लागलो. फोंडू- जाच्या कश्टांच्या आदारार गिरिजें गोंदू सयत आपलो संवसार फुलोवंक सोदतालें- तो!

त्या वर्सा चवथ वेगीं, म्हणल्यार आगोस्ताच्या तिसऱ्या सप्तकांत आयली. केन्ना केन्ना ती सितेंब्राच्या दुसऱ्या सेमानाकय येता. तेन्ना पावसाचो जोर मात्सो उणो जाल्लो आसता. असल्या वगतार पावशे पिकावळीक मात्शी हळदुळसाण मारिल्ली आसता.

पूण ह्या वर्सा चवथी दिसांनी पांचवीसाण मातय उणी जावंक नासली. सगळो सैम जशाचो तसो नेटार आसलो. गोंदूल्या घरा फाटल्यान मरडाक लागून दोंगर आसलो. हो दोंगर ह्या वर्सा मात्सो चडच फुलिल्लो. दोंगरा पालसणावेले सायल ताळये कणकणी तुरे फुलोवन उबे आसले. काळ्या आंगाच्यो माट्टी आपल्या दाट पानामदें माट्टेंचे घोंस लिपोवन शांतिकायेन जियेताल्यो. मदेंच एखाद्रो अर्जुनाचो रूख आपल्या धवशा आंगाक तोखेतालो. पयस-पयस उबे आशिल्ल्या माट्टी, किनळ आनी कुंबयामदें तो स्वताक राजा समजतालो जावंये!

जंय व्हड रूख नात, थंय ल्हान झाडां आदारान वाली वाडून झोपां तयार जाल्लीं. ह्या झोपां आनी झिलींच्या माथ्यार धवीं शेरवडां आनी तांच्या वांगडा फुलिल्लीं तांबडीं फुलां दोंगरा देगांक सोबा हाडटालीं. कांय झिलांचेर कांगलां घोस लांबताले. ते आपल्याक एकदांचे तोडून माटोळेक लांबयात अशें थंयच्या राखण्यांक सुचयताले.

गोंदूल्या घराच्या मुखावेलें भाट सोडलें जाल्यार घराच्या तीनय वाटांनी मरड शेत पातळिल्लें. गिरिजें वर्सा हें मरड आपले कुवती प्रमाण कसतालें. ह्या वर्सा मरडाचो वाठार दुप्पट वाडिल्लो. गोंदूल्या कामाची ती सुरवात आशिल्ली. गोंदून जुनासावन मरडाची शीम वाडयल्ली. ताका लागून दोंगराचें पांचवेंचार

ल्हार गोंदूल्या दारा मेरेन येवन पाविल्लें. ताका लागून सैमदेवतेन गोंदूलें घर सोडून, सरभोवतणेर पांचवो रंग ओतला अशें दिसतालें.

गोंदू फकत एक बरो शेतकार जावंक सोदी नासलो, आपल्या कश्टाळ कामात तो कलेचो उपेग करूंक सोदतालो. ताका लागून ताणें आपल्या घरा भोवतणी दोनेक हजार मेत्र सुवात बागकामा खातीर वेगळी दवरिल्ली.

मुळावे शाळेंत शिकतासतना हरीमास्तरान गोंदूक सावता माळ्याची एक कविता शिकयल्ली. ताचो परिणाम गोंदूचेर खूब जाल्लो. सावता माळ्या भशेन आपुणय एक बरो माळी जावंचो अशें ताका सदांच दिसतालें. आतां ताणें आपलो हेत पुराय करपाचो थारायलो.

गोंदूल्या घरा भोवतणी जिन्सां-जिन्सांचीं फुलां रोपां आशिल्लीं. सदांकाळ फुलपी चार-पांच जिन्सांच्यो दसणी, शब्दुली, सदाफुली आनी आबोल्यो जळामळाक फुलताल्यो. गोंदून त्यो हुमटावन काडल्यो आनी ताच्यो ताळयो आपल्याक जाय तशो सोबितकायेन रोवन काडल्यो.

शिरवाण हो जायांचो म्हयनो. घराचे एके कडेक कितलींशींच जायां झोपां ताणें वाडोवन काडलीं. ताका लागून ह्या वर्सा चवथी दिसांनीं गोंदूली घरभोवतण घमघमली.

गोंदूक फुलांची आवड आशिल्लीच. त्या भायर भाजी-पालो आनी फळावळ पिकोवन काडपाचें थारायलें. ताणें आपल्या घराचेर दुदया वाली चडयल्यो. घोसाळ्यां खातीर एक स्वतंत्र माटोव तयार केलो. शिरवाण म्हयन्याक पांचव्या रंगाचें राज्य चलता. तरी हळदुवो रंग हांगा-थंय चुकून माकून तकली वयर काडटाच. सकाळीं फुडें दुदयाफुलां तोंड 'आंऽ' करून नव्या जगाचें दर्शन घेतात. सांजे वेळार घोसाळे कळे उक्ते जातात तेन्ना दुदया फुलां बावूंक लागतात. दोनीचोय रंग हळदुवो. तरी दोनीचोय रंग वेगळो, वास वेगळो, रूप आकारय एक न्हय, जगपाची रितूय एक न्हय. जायो-जुयो, शब्दुल्यो, शेंवत्यो, रोजणी, चाफीं-दसणी बी सगळे तरेचीं फुलां गोंदू भोवतणीं वावुरतालीं. सगलींच फुलां, पूण तांचीं कर्मा वेगळीं. मात उद्देश एकच, तो म्हळ्यार ईश्वराचे स्वर्ग निर्मितीक आदार दिवन पेल्याक सूख दिवपाचो.

आपल्या आवाक्यांत आयिल्ले जमनीचो उपेग भरपूर करून घेवपाचें गोंदून जुनांतच थारायल्लें. ताणें शें-देडशें चोवखण मेत्र जमीन तवश्यां माटवा खातीर तयार केली. फाव तें शेण सारें घालून तवशिणी वाडयल्यो. भर शिरवाणाक तवशिणी फुल्ल्यो. माटोवभर पिंपऱ्यो हुमकळूंक लागल्यो तवश्यां माटवांत!

माटवाक तेंकूनच तीस-चाळीस माजयांचेर सात पाने भेंडे रोवन भेंडभर वाडयल्ले. चवथी दिसांनीं तांकां उणेंच हातभर लांब भेंडे आपलें अस्तित्व दाखोवंक लागले.

भेंड्या माजयांक तेंकुनच गोंदून पांचशेंक चोवखण मेत्रांचेर अळसांदे रोयले. अळसांद्या सरभोंवतणी आडवण केली. आडवणीचेर मदें मदें खूंट पुरून तांचेर चिकवत चडयल्यो. अळसांदे फुलचे आदीं गिरिजान पयऱ्या कणकणी वाल किरमून खोटल्यांनीं भाजी काडली. ताच्यो चुडयो करून लागसारच्या बाजाराक व्हरून त्यो विकल्यो आनी चार पयशे एकठांय केले.

चवथीक दोन दीस आसात म्हणल्यार खेड्या पाड्यांतले कश्टकरी लोक शाक भाजी आनी माटोळेचें सामान घेवन खाशेल्या बाजारांत येतात. गोंदून आपल्या जिवितांतलो पयलोच बाजार करपाचें थारायलें. बाजाराच्या आदले दिसा ताणें पोरसांतले भेंडे तोडले. मेळटा तितली अळसांद्यांची भाजी किरमिली. ल्हान मोट्यो तवश्या पिंपऱ्यो तोडल्यो. घोसाळ्यांच्यो कांय वाती आसल्यो त्योय ताणें तोडल्यो.

गोंदूक आतां दोंगराची याद जाली. आपल्या भयणांक वांगडा घेवन तो दोंगरार गेलो. माट्टीचीं फळां तोडलीं. मेळटा तीं कांगलां बुड्डिलीं, तांबडीं पांचवीं कमंडळां आनी हेर रान फळां तोडून ताणें घरा वसऱ्यार रास घाली. असली रास हे आदीं गिरिज्यान केन्नाच अणभवूंक नासली. ही शाक भाजी आनी फळावळ बाजाराक व्हरून विकल्यार उणेच अडेच-तीन हजार रुपया घरा येतले असो गिरिज्याचो अणभव सांगतालो. गिरिजान तशें गोंदू मुखार उलोवन दाखयलेंय बी.

गोंदून आनी वगत केलो ना. ताणें गुरूगेर धांव मारली. गुरूले पिकपींत सामान म्हापशेंच्या बाजाराक व्हरपाचें थारलें. पिकपिचो खर्च काडून गोंदूक पयल्याच वेव्हारांत तीन हजार रुपया गावले. हें तीन हजारांचें धन गिरिजें पयलेच

खेप पळयतालें.

हे पयशे गोंदूल्या कश्टांचे आसले. ह्या पयशांनीं अंदुची चवथ ताण उडोवपाचे विचार गिरिजाच्या मनांत आयले. ह्या वर्सा देवाक खोशी केल्यार फुडें आपलें बरें जातलें अशें ताका ताचें मन सांगतालें. पांच दीस गणपती दवरचो. निमण्या दिसा सत्यनारायणाची पुजा करची. सगळ्या सोयऱ्या धायऱ्यांक आपोवन घराचेर उजवाड घालचो अशें गिरिजाच्या मनांत आयलें. ताणें आपल्या मनांतलें गोंदू मुखार उलोवनय दाखयलें.

"बाबा, ओंदू गोणेस पांच दीस दवरुया मरे?"

"कित्याक गे?"

गोंदून आपले सुदारलेले भाशेंत चिंतून प्रस्न केलो.

"ओंदू तूं कामाक लागला न्हो रे, म्हाका बोरीं चिन्हां दिसोंक लागल्यां." गिरिजान गोंदूक मानवता तसले भाशेंत जाप दिली.

"काके, ही फोकोत सुरवात आसा गे. म्हाका खूब कितें करपाचें आसा. म्हाका म्हाजे आवयक सोडोवन हाडपाची आसा. बापायक जाग्यार हाडपाचो आसा. म्हाज्या ह्या भयणांक व्हड करून तेंचीं लग्ना करून दिवंचीं आसात. तूं सुखी जाल्ली पळोवंक जाय म्हाका."

गोंदूलें उलोवप आयकून गिरिजें चाटच पडलें. गोंदू आपल्या धुवांक लग्न करून दिवंक सोदता, आपल्याक सुखी पळोवंक सोदता, हें गिरिजें समजूंक शकतालें. कारण गोंदूक ल्हानाचो व्हड गिरिजानच केल्लो. पूण ताका आपले आवय-बापायची इतली ओड कित्याक? ज्या बारकेल्यान आपल्या भुरग्याची केन्नाच काळजी घेतली ना, आपलो अपुरबायेचो एकूच पूत म्हण केन्नाच आपले वेंगेंत घेतलो ना, शाळेंत शिकतासतना, शाळेक वतासतना आपल्या भुरग्याक कितें जाय नाका तें पळोवपाची बुद्द ताका जाली ना, असल्या बापायची गोंदूक याद आतां कित्याक जाली? आवयच्या पदराची ऊब जाणें केन्ना सारखी घेतली ना, तो आपले आवयचो विचार आतां कित्याक करूंक पावलो? गिरिजें गोंदळ्ळें. ताच्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली. घडये हो पोर आपले पिशे आवयक आनी पारपोळ बापायक घरा हाडूंक सोदिना म्हू? तशें केल्यार हीं दोगांय घोव-

बायलां ह्या घरांत धुमशेणां कांडटलीं. हें शिस्तिचें घर बेशिस्तिचे वाटेक लागतलें. गोंदू शिकला खरो, पूण तो अजून भुरगो आसा. ताचो आवय-बापूय घराक आयलो जाल्यार तांकां आळाबंदाक हाडूंक गोंदूच्यान जांवचें ना. फोंडू आशिल्लो जाल्यार सांबाळून घेतलो आशिल्लो. गोंदू आनी ताचो बापूय एकठांय जाले जाल्यार आपणाल्या शाणेपणाक मोल आसचें ना असले विचार गिरिजाच्या मनांत घोळूंक लागले.

गोंदूचें मन मात नितळ आशिल्लें. ताच्या मनांत कुसक्या विचारांक मातय सुवात नाशिल्ली. ताणें आपले काकेक आपल्या घराब्याची मुखेल करून, आपल्या आवय-बापायक हाडून तिच्या आसऱ्या खाला दवरपाची मांडणी केल्ली. काकेक पूत आशिल्लो जाल्यार खूब बरें जातलें आशिल्लें. आपल्या आवय-बापायक घेवन तो वेगळो घराबो थाटतलो आशिल्लो. पूण सद्याचे परिस्थितींत तो वेगळेचाराचो विचारय करूंक शकनासलो. ताका काकी आनी तिच्या भुरग्यां सयत एक गडगंज संवसार उबो करपाचो आसलो.

तशें पळोवंक गेल्यार गोंदूच्या कारबारांत आडमेळें घालपी कोण नाशिल्लो. ताच्या घराब्याच्या नांवार जीं कितें भाटां-बेसां आशिल्लीं ताचे अर्देली आशिल्ले बारकेलो आनी फोंडू. फोंडू नाशिल्ल्यान भाटा-बेसांचेर देखरेख दवरपी गोंदू बगर आनीक कोणच नाशिल्लो. आतां बारकेल्यान आयज मेरेन कितें दिवे लायल्यात तें सगळ्या गांवाक खबर आशिल्ले. फोंडूय आपल्या जिवितांत कांयच करूंक पावलो ना. गिरिजाचे तांकिकय मेर आशिल्लीच. तरी ही मेर हुंपून फुडें वचपाची गोंदून तिका ह्या पावसाळ्यांत दिका दाखोवन दिल्ली.

चवथीचो सुवाळो सोंपून आतां बरेच दीस गेल्ले. फरफरपी पावस आतां मदें मदें पिरपिरूंक लागिल्लो. दुदी-घोसाळ्यांच्यो वाली आतां सुकूंक लागिल्ल्यो. कोलवा घरांचेर पोवडलेल्या दुदयांक गुलाबी रंग चडिल्लो.

कांय दिसां पयलीं हरवीं-धवशीं आशिल्लीं तवशीं आतां पुराय तांबसो रंग घेवन माटवा शिऱ्यांचेर लोळटालीं. शेणा वासान वाडिल्ली कुवाळ्या वाल गोठोभर कोलवाचेर पातळिल्ली. वालीचीं पानां अजून पाचवींचार आसलीं तरी त्या पानांतल्यान गोबरेल्ले कुवाळे येतल्या-वतल्यांक दिसताले.

गोंदूल्या घराफाटल्या पालसणाचेर रोयिल्ल्या नाचण्या रोपांक ओंदू चडच शक्त आयिल्ली. मुठी येद्या बोंडांक आंगार घेवन तीं रोपां धोलतालीं. आनी कित्याक धोलचीं नात? ह्या वर्सा तांची मशागत गोंदून केल्ली. गोंदूच्या वासानच मरकुटीं झाडां-पेडां, रोपां आनी वाली ताजेताल्यो आनी फळटाल्यो. कारण गोंदूलो वावर वयलेतरांचो नासलो. गोंदू मनशांचेर मोग करता तसोच मोग मोनजातीचेर आनी झाडां-पेडांचेर करतालो. जो मनीस काळजांतसावन सैमाचेर मोग करता. ताका सैम केन्नाच अंतर दिना. गोंदू आपलें शिक्षण अदूर्यार सांडून, बाबूगिरिचो ध्यास सोडून धर्तरेचो इश्ट जाल्लो. ताची ही इश्टागत फायद्या-लुकसाणाचो हिशोब करपाची नासली. एकामेकाच्या हिताचो विचार करपाची आसली. गोंदून केल्ले इश्टागतीचें फळ ताका मेळूंक चड वगत लागलो ना.

आतां भाद्रपदाचें निमणें सप्तक आसलें. गांवचे धर्तरेच्या आंगावयलें पाचवें वस्त्र विटून ताका हळदुवो रंग चडलेलो. श्रीकृष्णाच्या वस्त्राचो रंग हळदुवो आनी तो राजा आसता तेन्ना ताच्या मुकुटाचो रंग भांगराळो दवरपाक ह्या भाद्रपदानच श्रीकृष्णाक शिकयलां जावंये. कारण भाद्रपद म्हयनो म्हणल्यार गिरेस्तकायेचो म्हयनो, अशें आमच्यानी मानूं येता.

गोंदूल्या घरा भोवतणचो परिसर आतां गिरेस्तकायेचीं चिन्नां दाखयतालो. गोंदूल्या मरडाचीं कणसां ह्या वर्सा दणकट दांड्याचीं आसलीं. जणेका कणसांत गिरेस्तकाय भरिल्ली. ताका लागून तीं नमळायेन बागवल्लीं आनी कांय दिसांनीं गोंदू हीं कणसां कापून मळटलो. खळावयल्यो भाता राशी घराकुडींतले कंडे भरतल्यो. मरडांतलीं कणसां हुंदीर खायत म्हण गिरिजाक चडच भंय. पूण गोंदूक हें भांगर जाता तितले चड दीस मरडशेतांत दवरून, दोळे भरभरून पळयनशें दिसतालें. देवान पितारिल्लें देखणें चित्र पुसून उडोवपाक गोंदूच्या जिवार येतालें.

मरडशेताची राखण करपाक गोंदून बरेच उंचायेची एक माची तयार केल्ली. माचयेर सुकें तण पातळावन ताचेर फटें आनी बुर्नुस पसरावन दवरिल्लो. दिसाचो चडसो तो हे माचयेरच पडून आसतालो.

गोंदूलें मरडशेत आतां पुराय पिकिल्लें. रानांतले कीर आनी हेर सुकणीं कणसुलां फारावपाक भिऱ्यांनी येतालीं. गोंदू तांकां आपूण माचयेर आसा म्हण

कळूंक लेगीत दिनासलो. मरडाचें पिकच अशें आसलें कीं धा-पंदरा दिसांनी सुकण्यांनी कितलेंय भात व्हेलें जाल्यार गोंदूक व्हडलेंशें दूख्ख जावंचें नासलें.

देवाचीं कर्तुबां पळोवपाक आतां गोंदूक भरपूर वेळ आसलो. मळब पळोवन धादोशी जातकीर तो नाचण्याच्या पोरसांत पासय मारपाक चुकनासलो. पोरसूं? हय, पोरसूंच म्हणपाचें ताका. नाचण्यांचे आडीक पोरसाचें रूप दिल्लें गोंदून. दोनेक खांडी नाचणे जावचे ह्या इराद्यान नाचणे रोपिल्ले गिरिजाच्या आदारान! पालसणाचेर वाटकुळ्या आकाराची जमीन तयार केल्ली. भितर माकड शिरचे न्हय म्हण कोंड्याच्या शिरपुटांची घट्ट व्हण्णी केल्ली. हे व्हण्णेक तेंकून वाल रोयिल्ले. ताका लागून सगळी व्हण्णी लांब-लांब वालांनी आतांय भरून आशिल्ली. वाली सुकूंक आयिल्ल्यो तरी तांच्यो सांगो दिवप चालूच आसलें.

नाचण्यां बोंडांमदें, एकेक वरये कणस आपूण नाचण्या बोडांपरस व्हड आनी श्रेश्ट म्हण दाखोवपाचो यत्न करतालें. पूण तीं नाचण्यामदीं उबीं रावन काम करतालीं तें फकत सोबेचें. नाचण्या इतली घटसाण तांचेमदें खंयची आसतली?

ह्या नाचण्यां आडीक सोब आनी सुंदरकाय हाडपाचें काम करतालीं तीं रोजां. हळदुवीं, धवशीं आनी तांबडी रोजां. नाचण्यां बोंडांमदें हीं रोजां आपणाक सुंदऱ्यो समजताल्यो. ताकाय कारण आशिल्लें. लांब रोजणीं वांगडा नाचण्यां काडां बुटकीं आनी खोजीं दिसतालीं.

ह्या रोजांचे भाव वाडोवपाक कारणीभूत थरताले ते कोमले. सांजेच्या वगतार हे कोमले खंयच्यान येताले देवाक खबर! वेगळ्या वेगळ्या आकाराचे आनी रंगाचे कोमले नाचण्या आर्डीत येवन भरताले. हे चडशे कोमले रोजणींचेर येवन बसताले. जांकां रोजणींचेर सुवात मेळना ते नाचण्या बोंडांचेर बसताले. खंयच सुवात मेळ्ळीना जाल्यार निमणे व्हण्णेर बसताले. पूण वरयेच्या कणसांचेर मात बसताल्यो त्यो बिरमुट्यो. बिरमुट्यांचीं पाखां सोडलीं तर कोमले आनी पाखे आपल्या तरेक तरेच्या रंगानी आपली सरभोवतण रंगयाळी करून सोडटाले.

हांगासरलो सांजेचो, पांच ते स वरांवयलो काळ गोंदूक चडच आवडटालो. ताकाय कारण आशिल्लें. खूब तरेचे उडटे प्राणी हांगा ह्या वगतार खेळूंक येताले. तांचे मदें खेळांच्यो सर्ती लागताल्यो जावंक जाय. कोमले, पाखे

आनी बिरमुट्यो जमनी लागसाराक आपले खेळ खेळटाल्यो. जमनी पसून बऱ्याच अंतरार वयर बळीश्ट बिरमुट्र्यांचे खेळ चलताले. ह्यो बिरमुट्यो आपल्या वांगडा कोणाकच वावरूंक दिनासल्यो.

मजा अशी की ह्या बिरमुट्यांच्याय वयर घोणींचे खेळ चलताले. हरशीं ह्यो घोणी मळबांत ऐस-पैस वावरतात. पूण कोमले-बिरमुट्यांचो खेळ पळोवपाक त्यो मुजरत गोंदूल्या घराभोवतणीं येतात. त्योय बी सांजेवेळारूच! हें सगळें चलतासतना कोणाचीं ना झुजां, ना झगडीं! मळबांतल्या घोणींबगर कोणाचोच आवाज थंय येना. ह्यो घोणीं मळबांत पासयो मारतना शिळोण्यो घालतात काय तांचे भाशेंत त्यो गीतां बी म्हणटात तें तांकांच खबर!

हो देखणो सुवाळो वयेंवयल्या शेडड्याच्या येजमानपणाखाला चलतालो. सुवाळो फकत गोंदूच पळयतालो अशें न्हय. हरशीं फकत नाताळां दिसांनी धर्तरेर अवतरपी सांताक्लोज मळबांत येवन तो सुवाळो पळयतालो. निळ्या रंगाचो खाशेलो झगो आनी धवेफुल्ल कुपांची दाडी लावन तो शांतपणान धर्तरेवयले खेळ पळयतालो. हे खेळ पळोवन तो इतलो खोशी जातालो कीं तो आपल्या खांदावयले झोळयेंतलो भांगरापिठो धर्तरेर मेळत थंय शिपडटालो आनी ताका लागून गोंदूली घरभोवतण भांगराळी जाताली.

गोंदू हें सगळें पळयतासतना आपलेच तंद्रेंत आसतालो. इतल्यान अचकीत ताची नदर एका मनशाचेर पडली. हो मनीस एकेच सुवातेर उबो रावन गोंदूल्या मरडशेताचेर बारीकसाणेन नदर मारतालो.

गोंदूक त्या मनशाची वळख पटली ना. असल्या वगतार ह्या कोंडवाड्यार इतलो देशेंत मनीस खंयच्यान आयलो? आयलो तो आयलो, ताची आमच्या मरडाचेर बारीकसाणीची नदर कित्याक?

गोंदू गोंदळांत पडलो. ताका त्या देशेंत मनशाची पुराय वळख घेनशी दिसली. ताणें कळाव केलो ना. आपलीं पावलां उखल्लीं आनी ताकतिकेन माचयेर चडलो.

माचयेवयल्यान गोंदूक तो मनीस स्पश्ट दिसूंक लागलो. धवेफुल्ल केंस आशिल्ली वांटकुळी तकली. सगळें आंग गोरें गोरेंच. कपलाक तांबडो तिबो.

खांवचेंपान् खाल्ल्यान ओंठ तांबडे जाल्ले. एखाद्री म्हातारी सुंदरी ओंठांक लाली लायतकच दिसता तशी! धव्याफुल्ल पुडव्याचेर धवेंफुल्ल खोमीस घातिल्ल्यान राजबिंडो दिसतालो खरो, पूण सोऱ्याच्या अतिरेकान भितरल्याभितर पोखरलेलो.

कोण हो मनीस? अकस्मात कसो उदेलो?'

कोंडवाडो आनी दुर्गवाडो हांचेमदें एक ल्हान सो दोंगर आसलो. हो दोंगर नांवा पुरतोच. दोंगराक फावो तशी उंचाय नासली. तरी कोंडवाड्यावयल्या लोकांक दोंगर पार करतलो जाल्यार खरस येतालीच. पूण कोंडवाड्यावयल्या लोकांक कसल्या ना कसल्या कामा निमतान दुर्गवाड्यार सपसप वचचेंच पडटालें. कारण कोंडवाड्या वयल्या गांवकारांचे सोयरे धायरे दुर्गवाड्यार बरेच आशिल्ले.

दुर्गवाड्यार एक आर्दी सावन देसायांचो घराबो रावतालो. देसायांचो घराबो म्हणल्यार गोरगरिबांचो आदार, अशें थंयच्या गरीब लोकांचें मत. ह्या देसायांच्या घराब्याकडेन भाटां-बेसां खूब आशिल्ल्यान गांवचे गरीब गावडे आनी भंडारी तांच्या भाटांत काम करून पोट भरताले. चडश्या लोकांक शिक्षण नाशिल्ल्यान तकलेचेर पेज घेवपाचे भानगडींत ते चडशे पडच नाशिल्ले. ताका लागून देसायांच्या घराब्यांतले जाणकार लोक करीत ती पूर्व दिशा आसताली. गांवांतल्या लोकांमदीं एकी नाशिल्ल्यान देसायांलें फावतालें. गांवच्या लोकांच्या अज्ञानाचो फायदो घेवन गब्बर जाल्लो ह्या देसायांचो घराबो.

सद्या त्या देसायांचो मुखेल खांबो जावन आसलो खेमू देसाय. आपल्या वाडवडलांच्या गिरेस्तकायेक हात लायनासतना ती कशी वाडोवची, हाचोच विचार खेमू देसाय दिसरात करतालो. गांवांतल्या लोकांच्या अज्ञानाचो फायदो घेवन, धव्याचें काळें करून दिसान दीस आपले गिरेस्तकायेंत भर घालीत आसलो. दुर्गवाड्यावयल्या सगळ्या लोकांक पिळून काडून, तांचेर आपलो दरारो पूर्णतायेन बसोवन मेकळो जाल्लो खेमू देसाय.

आतां ताचो दोळो कोंडवाड्याचेर आसलो. कोंडवाड्यावयली चडशी जमीन गांवकाराच्या ताब्यांत आसली. हो गांवकार दुसरो-तिसरो कोण नासून

बारकेलोच आसा म्हणपाची जाणविकाय खेमू देसायाक भरपूर आसली.

फोंडू गांवकार सोरोप चाबून मेलो तेन्ना गांवाचेर दुख्खाचें सांवट पडिल्लें. पूण खेमू देसायान आपले खाशेले कुडींत बसून पार्टी केल्ली. हे पार्टेक सोऱ्याचे ग्लास भरून दिवपाक, बारकेल्याची बायल, वोंवळाचो ताणें उपेग करून घेतिल्लो. खास अशी कसलीय खोशी मनयतना खेमू देसायाच्या वांगडा वोंवळ आसतालेंच.

वोंवळ आनी बारकेलो खेमू देसायाच्या आसऱ्याक आसात देखूनच खेमू देसाय अजून गिरिजाचे वाटेक वचूंक नासलो. ना तर गिरिजाच्या एकटेपणाचो फायदो घेवन ताका सतायल्या बगर रावचो नासलो. तरी भविश्यांत गांवकाराली जमीन कशी बळकावची, हाची येवजण खेमू देसायाचे तकलेंत आसलीच.

बारकेल्यालो एकुलतो पूत, गोंदू इस्कोलांत बरो शिकता. तो मागास गावड्यांलो पोर. फाल्यां पदविदार जातकच ताका सरकारान नोकरी आयतीच दवरिल्ली आसतली. नोकरेक लागतकच तो लग्न जातलो. मागीर तो आपले बायलेक घेवन, खंयच्याय तरी शारांत फ्लॅट घेवन रावतलो. गिरिजें आपल्या धुवांक लग्न करून दितलें. मागीर गिरिजें जगून जगून कितलो तेप जगतलें? बारकेलो आनी वोंवळ ह्या दोगांयचें कितें करप, हें आपल्या हातांत आसा, अशें येवजून खेमू देसाय सेंसुस्त आसलो.

पूण पाड्या लोकांचें पाडेंपण फळाक येताच अशें आसना. गोंदून मदेंकात शिकप सोडलें. तो आतां शेताकडेन लक्ष दिवंक लागला. ताणें जुनांत सावन शेत रोवपाक सुरवात केल्या. ताणें आपलें मरड शेत अशे तरेन रोयलां की ताची देख हेर शेतकाऱ्यांनी घेवची. आज कोणेंय वचून गोंदूल्या मरड शेताची पळोवणी करची. पळयतलो अजापान भरल्या बगर रावचो ना हें खेमूच्या कानार पाविल्लें.

गांवांत आनी गांवां भायर कितें कितें घडटा, हाची पुराय म्हायती मेळोवपा खातीर आपले दूत नेमिल्ले खेमू देसायान. दुतानी खेमू देसायाक गोंदूल्या शेताची म्हायती इल्ली फुगोवनच दिल्ली. ती आयकून तो चडूच चवताळिल्लो.

खेमू देसायान गोंदूक केन्नाच पळोवंक नासलो. गोंदूय आपलें शिकप बरें आनी आपूण बरो म्हण वागतालो. दुर्गवाड्यार तो केन्नाच गेलो ना. ताका वचपाची केन्ना गरजच पडली ना. खेमू देसाय तरी कोंडवाड्यार कित्याक येतलो?

थंय ताचें शेत-भाट कांयच नासलें. वोंवळ आनी बारकेल्या पुरतोच कोंडवाड्याकडेन संबंद आशिल्लो खेमू देसायाचो. पूण हीं दोगांय ताच्या पायांकडेन दिस-रात लोळून आसतालीं. गिरिजें मात खेमू देसायाची याद येना फुडें दांत-ओंठ चाबतालें. ताचें मुखेल कारण, खेमू देसायान वोंवळाक गरजेभायर आसरो दिल्लो. तोय आपलो सुवार्थ सादोवपा खातीर. तरणेपणांत वोंवळाची गोरी कात पळयल्ली ताणें. कसलें ना कसलें हांयस दाखोवन भुलयल्लें वोंवळाक. फुलगें वोंवळाकय तितलेंच जाय आसलें. खेमल्याची गोरी कात पळोवन भुल्लुसलें. तें एकदां खेमल्याक तेंकलें तें तेंकलेंच.

आपले बायलेक खेमू देसायान गुठलायली हाचो राग बारकेल्याक येवंक जाय आसलो. पूण तशें कांयच घडलें ना. खांदाक आर्म लावन, लोकांक दाखोवपा खातीर देसायाच्या घरा भोंवतणी दोन-तीन खेपो मारल्यो बारकेल्यान. पूण तिनूय फावट खेमू देसायान बारकेल्याचेर दोळे मोठे केले. पूण बारकेल्याचें आर्म कांयच करूंक शकलें ना.

असल्या दादल्याक कितें म्हणपाचें? बायजण काय अबरगत? अबरगतच तो! खेमू देसायाच्या मोट्या दोळ्यांनी बारकेल्याक थरथरो हाडलो. खेमू देसायाचे मोटेले दोळे बारकेल्याक सपनांत लेगीत दिसपाक लागले. उपरांत बारकेलो पांच-स म्हयने दुर्गवाड्यार फिरकलोना. स म्हयन्या उपरांत खेमू देसायच बारकेल्याक सोदीत आयलो. बारकेल्या कडेन आमिजाद करून ताका खावंक जाय आसलीं बकीं आनी सोंशे.

अशे तरेन खेमू देसायान गिरिज्याचे जावेक आनी देराक तांच्या कुटुंबा पसून पयस केल्लीं. गिरिजें गोंदू आनी आपल्या भुरग्यां मुखार त्या पाड्या देसायाचें नांव लेगीत काडिनासलें.

गोंदून हे आदीं माचयेर सावन जो मनीस पळयल्लो, तो होच पाडो देसाय. आपल्या दुतांनीं दिल्ली खबर खरी की फट हें जाणा जावन घेवपाक आयिल्लो कोंडवाड्यार.

खेमू देसायान गोंदूलें शेत दोळे भरून पळोवन घेतलें. ताणें शेताचें असलें पीक केन्नाच घेवंक नासलें. जमीन कितलीय सुपीक आसली म्हणून जायना,

फाव तितलें सारें–उदक आनी जमनीच्या कसाचो अदमास घेवन, तातूंत बीं बियाणें कसलें वापरप हाचो अभ्यास करपाची गरज आसता. गोंदून मरड रोवचे पयलीं, ह्या सगळ्या गजालींचो विचार केल्लो. मन लावन कश्ट केल्ल्याचें फळ गोंदूक मेळिल्लें. आळशी आनी अडाणी लोक कश्ट करिनासतना फळाची आस धरतात आनी नाशाक कारणीभूत थारतात.

गोंदूलें शेत पळोवन खेमू देसायाक जबरदस्त धक्को बसलो. ताका दिशिल्लें, निपुत्रीक फोंडू मेल्या उपरांत, गांवकाराली पुराय जमीन तो कोणाय भशेन आपले जमनीक मेळयतलो. पूण गोंदून काडिल्ले पिकावळीन देसाय दचकलो. गोंदूली पिकावळ सगळ्या गांवांत फामादय जाल्याच. फुडें शेतकी खात्याक कळ्ळें तर आनी ते गोंदूले जमनी कडेन मेत्यार जाले, तर? सगळेंच हाता भायर वतलें. तेन्ना तुर्ताक गोंदूले हालचालीकडेन लक्ष दिवन, सुशेगाद रावपाचें देसायान थारायलें.

त्या दिसा गोंदूलें शेत पळोवन मोन्यानी गेल्लो मनीस कोण, हें गोंदूक एक कोडें पडिल्लें. गांवांतलीं शेतां पळोवपाक शेतकी खात्यांतले मनीस येतात. पूण ते येवन मोन्यानी वचनांत. शेतकारांक मेळटात. तांच्यो अडी–अडचणी समजून घेतात, तांकां सल्लो दितात आनी वतात. पूण हो मनीस गोंदूक विचित्र सोबावाचो दिसलो. चोर कसो मोन्यानी आयलो आनी गेलो.

गोंदूक आतां दुबाव माल्लो, तो देसाय बी न्हू मू? ते दिसा देसाय गेले उपरांत गोंदूक दिसलें, काकेकडेन वचचें. त्या मनशाचें वर्णन करचें आनी काकेक विचारचें, त्या मनशाक वळखता काय म्हूण! पूण गोंदून तशें कांय केलें ना. कारण काकी गोंदूक अजुनय ल्हान समजता. ती आपल्याक घरांत एकटी बायल मनीस समजता. अनवळखी आनी देशेंत मनीस आपलें शेतभात पळोवन गेला म्हण तिचे तकलेर ताण नाका. वगतार आपुणच देसायाचो माग सोदून काडटलों. आसना देसाय केदोय व्हडलो! गोंदून थारायलें.

गोंदून आतां देसायाक सोदून ताचेकडेन झुजपाचें थारायलें. आपले आवयक देसाय सोपेपणान सोडचोना. झूज दिवनच तिका सोडोवची पडटली. आपली आवय देसायाक वश जाल्या. तिका सोडोवन हाडप दिसता तितलें सोपें

ना हाची जाणविकाय गोंदूक आसली. येवजिल्लें काम चालीक लागपाक केन्ना कसलें निमित्त गावत सांगूक जायना. आदले दिसा गोंदून झुंजाचो थाराव केलो आनी दुसरे दिसा सकाळीं एक खडेगांट मनीस गिरिज्याच्या दारांत दत्त म्हणून उबो! मनीस तिर्शींतलो, माथ्याक मुंडासो. कपलाक धवो तिबो. झुपकेदार मिश्यांनीं वयलो वोंठ लिपिल्लो. काळें जाकीट बट्टण सुटिल्ल्यान पयलवानाचें टणटणीत पोट उकतें. धोपरां मेरेन कासाट्यांचें धोतर. एका हातांत पाळ आनी दुसऱ्यांत लांबलचक ठणठणीत दांडो. चेऱ्यार गंभिरतायेचें साम्राज्य.

घरा भोवतणच्या रूखांचेर सुकण्यांचो चिंव-चिंवाट. घरा कुशींतल्या केळींचेर, भुकेल्ल्या कावळ्यांचो कर्कश पूण मंद आवाज आनी किड्यांचो किरकिराट.

गिरिज्यांलीं भुरगीं अजून हातरूणाचे उबेंत पडून आशिल्लीं. चुलीर आंबली बुडकुलो भुरभुरतालो. उदका दोड घेवन झरीर गेल्लें गिरिजें खरशेत घराकडे यो जाल्यार तो मनीस खूंट कसो उबो आसा. ताका पळोवन गिरिज्याक कापरें भरलें. ताणें दोड थंयच आपटिली आनी घरांत धांव मारली. केदो वेळ तोंडांतल्यान उतर भायर पडलें ना गिरिज्याच्या. दोळे धांपून उबो आशिल्ल्या पैलवानांक तें बरोच वेळ पळयत रावलें. शेकीं ताका तोंड उकतें करचेंच पडलें –

"को-को-कोण तूं? खंयच्च्यान येयला गा सायबा, आनी को-कोणाक सोदता?"

येदो वेळ दोळे धापून आशिल्ल्या त्या मनशान समाधीस्त शंकरावरी आपले दोळे हळू हळू उक्तायले. खिणभर मोठ्या दोळ्यांनी गिरिज्याक पळयत रावलो. मागीर खडबडीत जागो जावन सावधानतायेन उबो रावलो.

"म्या नवसो. देसायालो दूत. म्हाका झिलगो व्हयो."

'देसायालो दूत' हीं उतरां आयकतांच गिरिज्याक पुराणातल्या यमदुताची याद जाली. वांगडाच ताका शेळो घाम सुटलो.

"हांगा झिलगो – बिलगो कोऽण ना सायबा. तूं येयला तसो फाटल्या पायांनीं परत वच. घरांत दादलो बिदलो कोण ना. हांव एकटीच बायलमनीस आसां घरांत. म्हाका तुजो भंय दिसता."

नवशाक ‘दादलो-बिदलो’ हें उतर नवें आशिल्लें. तो चितूंक पडलो.

“म्हाका दादलो बिदलो नाका गो. म्हाका तो पोरगो व्हयो.” नवशान स्पश्टीकरण केलें.

“कोण पोरगो? आमगेर पोरगो-बिरगो कोण ना!”

“पोरगो नासूं गो. गोंदगो तरी आसय मा?”

“ना हांगा गोंदगो-बिंदगो कोण रावना.”

“हां, आतां याद जाली. गोंदू गो, गोंदू! तो आसय मां?”

“ना तोय ना.”

“खडे गेला हा?”

“सांगोन वोसोंना. काल गेल्लो आजून येव ना.”

“खरां सांगतय त्यां?” नवशान आवाज चडयलो.

“माहां फट कित्याक उलोवंक जायें!”

“बरां आसा. आतां म्यां जातंय. गोंदू इलो म्हणटकच तेका सांग गो!”

“कितें सांगों?”

“सायबान बोलावला म्हणान सांग.”

“कोण सायब?”

“दुर्गवाडीचो देसाय! आणखी कोण?”

नवशान दुर्गवाडीचो देसाय म्हणना फुडें गिरिज्याक कच्च जालें. नवशान हातांतलो दांडो मुसळावरी जमनीर आपटीलो आनी तो नेटान चालीक लागलो.

नवसो गेलो आनी गिरिजें गर्भगळीत जालें. माथ्यार हात धरून तें केदो वेळ हुमऱ्यार बसून रावलें; खेमू देसायान गोंदूक आपोवणें धाडलां हें बरें चिन्न न्हय. वोंवळ ताचे भकीक पडलां. बारकेल्याक दुर्गवाड्याचें पिशें लागलां. आतां गोंदूक आपूण कशेंच होगडावचें ना. गिरिज्यान आपलो निश्चेव पक्को केलो.

गोंदू घराकडेन ना हाची नवशाक पक्की खात्री जाली. गोंदूक गिरिज्याकडेन रकाद दवरून तो दुर्गवाड्यार गेलो. सैरभैर जाल्लें गिरिजें आपल्या कामाक लागलें. तरी गोंदू हुसक्यान ताचे हात कित्याकच लागना जाले. गोंदूक तें कशेंच होगडावंक सोदी नासलें.

खरें म्हळ्यार गोंदू त्या दिसा घर सोडून खंयच वचूं नासलो. सदांभशेन झिळमिळट्यार तांबयो घेवन उतकाडेन गेल्लो.

गोंदूल्या घरा फाटल्यान दोंगुल्लेर एक अशी सुवात आसा, जंय फक्त तळपांच आसात. थंय करड उगवना. गोंदूक थंय उदकाडेन बसपाक अडचण पडना. सदचें काम उरकून जालें म्हणटकच गोंदू थेट घरा केन्नाच येनासलो. थंडे कुडकुड्यांत लेगीत तो थंयच्या एका उंच तळपार बसून सैम नियाळ करतालो. सूर्य किरणांचो पावस आंगार घेवन धादोस भरीत जाल्याबगर तो सैमसांगात सोडी नासलो.

आजय तशेंच जाल्लें. कोंब्या सादार भायर पडिल्लो गोंदू सगळे कडेन वोतां पडटकच घरा आयलो.

ताजोतवानो जाल्ल्या गोंदून हातांतलो तांबयो भायल्या कोनशाक थेयलो. अनवाळ्या तामयांतल्या उदकान हात-पायें धुले. बोनऱ्या तुवाल्यान ते पुसले. मागीर ताणें आपले काकेक साद घालो.

“काके, आंबील शिजल्यार वाड गे! माका वोगयां भायर सोरोंक जावो.” सोप्यार लवणत ताणें म्हणलें. गोंदूचो आवाज आयकून गिरिजें खंयच्यान तरी भायर धांवून आयलें.

“तूं आयज घरांतलो पायों भायर काडचोना.” गिरिजें हुंबऱ्याकडे उबें रावन ताणशेलें.

“कित्याक गे काके, कितें जालें?”

“आजून कांय जांवना. फुडें जावपाचें आहा. तूं चार दीस घरांतल्यान भायर सोरों नाहां. हांव सांगता तेंच कोर.”

“पूण कित्याक तें सांग मगे काके! तूं सांगतां म्होणोन घारांत बोसोन रावोंक, हांव आतां ल्हान आसां गे?” गोंदू सट्ट करून उठलो आनी गिरिज्यां म्हऱ्यांत वचून जापेचे प्रतिक्षेत उबो रावलो.

गोंदू हट्टी! तो आपल्या कडच्यान खरेली गजाल वदोवन घेतलोच. तेन्ना चड ताणोवन धरिनासतना गिरिज्यान मन उकतें केलें.

“ते होलकोटान आपोवणें धाडलां तुका?”

"कोण होलकोट?"

"आनी कोण? तुजे आवयक बंदीस्त करून दवरल्या तो, देसाय. पूण हांव तुहां थोंय कोहेंच वोसोंक दिवचें ना. आवय-बापायचेर जादू केलो दळडीऱ्यान. आनी आतां पुताक जाळयेंत वोडूंक सोदता राणग्याचो."

'आवय', 'देसाय' हीं उतरां गोंदूल्या कानपटलार धडधडीत आदळ्ळीं आनी तो कितें समजूंक जाय तें समजलो.

"काके, तूं पिंजळनासतना कितें घडलां तें स्पश्ट सांगशी म्हाकां? म्हाका चोड वोगोत कोड्यांत घालूं नाका."

"त्या खेमू देसायाचो मोनीस येयलेलो. तुका जाता तितके वेगीं तेका येवन मेव म्होणोन सांगोन गेला."

"इतकेंच मगे? तूं कित्याक भियेल्या? हांव आतांच वोसोन मेळटां तेका. माकाय पळोवंक जावो तो देसाय कसलो आसा पोय तो! हांव तेंच सोदतालों?"

"नाका रे बाबा! तो मोनीस कसलो आहा, खोबोर ना तुका. तूं एकदां तेज्या पांजऱ्यांत सांपडलो जाल्यार कोहोच सुटपा ना. तूं आमचो एकूच आदार आहा बाबा! तुकाय तेणीं गुटलोयलो जाल्यार आमी वाऱ्यार पडटोलीं."

"तूं कांय भियों नाका गे काके! त्या देसायाचे दीस आतां भल्लेच म्होणोन समज तूं. बोरें जालें तेणें तेका मेळपाचो म्हाका रेकाद धाडून. म्हाका आयतीच संद मेळ्ळी."

गिरिज्यान देसायाविशीं गोंदूक लिपोवन दवरलें. तरी गोंदू हेर लोकां कडच्यान देसायाच्यो खबरो बारीकसाणेन काडून घेतालो. देसायाचे ताकतीचो अदमास घेतालो. आपले आवयक जबरदस्तीन सोडून हाडल्या उपरांत देसाय वोगी बसचो ना. तो आपलो व्हडलो दुस्मान जावन बसतलो, हाची पुराय खात्री आसली गोंदूक.

गिरिज्याच्या विरोधाची पर्वा करिनासतना दुर्गवाड्यार वचून खेमलो देसायाक मेळपाचो निश्चेव गोंदून केलो.

गोंदूक दिसतालें वेळ काडिनासतना दुर्गवाड्यार वचून धडक दिवची.

पूण गोंदून तशें केलें ना. हरीमास्तर ताच्या आड आयलो. तो वर्गांतल्या भुरग्यांक सदांच सांगतालो, मनशान कितेंय खाता तें न्हिवोवन खावचें. हुनहुनीत खाल्यार जीब,ताळो लासपाचीय शक्यताय आसता. हाचो अर्थ असो की कसलेंय काम अविचारान करचें न्हय.

गोंदून दोन दिसां उपरांत खेमू देसायाक मेळपाचें थारायलें. तो रोकडोच दुर्गवाड्यार गेल्लो जाल्यार, खेमू देसायाक दिसतलें आसलें कीं गोंदू भियेवन धांवत आयलो. दोन दीस उसरां वचून गोंदून दाखोवन दिलें की आपूण खेमू देसायाक मातय कोंत करिना.

उसरां वचपाचें गोंदूक आनी एक कारण आसलें. दुश्ट मनशाचे भेटेक वतना व्हडा तयारेन वचचें पडटा. शिवाजी अफजलखानाचे भेटेक तयारेन वचुनासलो जाल्यार? तो परत येतलो आसलो?

दुसरी गजाल अशी, खेमू देसाय दुर्गवाड्या वयलो गिरेस्त आनी नावास्तो मनीस. तो देसाय म्हणल्यार क्षत्रीय आनी फुडारलेलो मनीस. गोंदू गावडो आनी मागास. देसायाल्या घरांत तलवार आनी ढाल वण्टीक अडकवोन दवरिल्ली आसा. देसायाच्या एका उल्याक शेकड्यांनीं लोक एकठांय जातले. गोंदूकडेन ती ताकद ना. गोंदून कितलेय लोक एकठांय केले आनी देसायान हर्त केलें तर चारय वाटांनी फांफसतले ते लोक आनी शेकीं गोंदू एकटो पडटलो. तेन्ना गोंदून कितलोय शुरपणाचो आव हाडलो तरी तो आपले आवयची सुटका करूंक शकचो ना.

तशें पळोवंक गेल्यार गोंदू खेमलो देसायाक पुरून उरपा सारको आसलो. तो तकलेन फीन तर आसलोच, शिवाय देसायाहून चड शूरय आसलो. वेळ आयल्यार सोऱ्यान पोखरलेल्या खेमल्याची गुटली तो उबारून केन्नाय भायर मारूंक शकतालो. देसायाले वण्टीवयली धाल तलवार आनी बारकेल्याल्या खांद्यायलें आर्म पळोवन थरथरपी पोको मनीस गोंदू न्हय. मात खेमल्या देसायाक परंपरेन मेळिल्लें लोक बळगें गोंदूकडे नासलें. गोंदूकडेन आसल्यो त्यो खळांतल्यो चेंपिल्ल्यो आमल्यो – समाज चेंपणेंत पडिल्ले गोंदूले बांधव!

गोंदून चिंतलें, हो पाडे बुद्दिचो खेमलो आपल्याक सतायतलो. आपल्या शेता-भाटांचेर ताचो दोळो आसा. ना तर आपलें मरड शेत मोन्यांनी पळोवन

कित्याक वतलो आशिल्लो? आपल्याक वाड्यार आपोवंक धाडपाची ताका कसली गरज? कितेंय जांव! ताचेकडेन सरळपणान वागून चलचें ना. वेळ प्रसंगार ताचेकडेन बामणगिरी करूनच तांचो कांटो काडचो पडटलो.

आतां बामणगिरी म्हणल्यार कितें? खेडेगांवांत 'बामणगिरी', 'बामणबुद्दी' असलीं उतरां सर्रास वापरतात. बामणगिरी म्हणल्यार दुश्ट बुद्दी अशें मानतात गांवचे लोक. पूण तें कितलेंशें खरें?

खंयच्याय जाती-धर्मांत पाडे आनी दुश्ट मनीस आसताच. दुश्टपण आनी पाडेपण हो खंयचेय एके जातीचो मक्तो जावंक शकना.

तरी जाण्ट्यांनी नेण्ट्यांखातीर बरे तरेन वागचें आनी नेण्ट्यांनी जाणट्यांचे देखीन चलचें, अशी समाज अपेक्षा करता. पूण जाण्टेच जेन्ना चुकतात, तेन्ना नेण्टे तांकां कशेंच भोक्शी नांत. तांकां कायमचे दुश्टांचे वळेरीत व्हरून बसयतात. असल्या दुश्टांक लोक बामणबुद्दीचे म्हणटात.

केन्ना तरी एकाद्रया वायट बुद्दीच्या बामणान गांवांतल्या सरळ बुद्दीच्या लोकांक नाडल्या-पिडल्यात जांवये. असल्या पिडपी बामणांच्या कर्तुबांनी फुडें बऱ्या बामणांचें नांव मात बदनाम जालां खरें.

बरे मनशाच्या मनांत विचारय बरेच येतात. गोंदू बामणगिरीक चाणक्यगिरी मानता, बऱ्याक बरें आनी वायटाक वायट मानप हाका बामणगिरी म्हणूं येता. जाचे कडेन शारिरीक बळगें उणें आसता ताका आपलें बुद्दीबळ कामाक हाडचेंच पडटा. ना तर तो ह्या जगांत तग धरूंक शकना. कितेंय तरी बरें घडोवन हाडपाक बुद्दीबळाचो उपेग करप हाकाच आमच्यांनी बामणगिरी म्हणूं येता.

आमच्या भारत देशांत नंदराजा मदांध राजा जावन गेलो. ताची मदांधगिरी ना करपा खातीर चाणक्य बामणान बुद्दी बळाचो उपेग केलो. तिका आमच्यांनी बामणगिरी म्हणूं येता. मात आपलो सुवार्थ सादोवपाक कलुशान संभाजी महाराजाविशीं जीं कर्तुबां केलीं, तांकां आमच्यांनी बामणगिरी म्हणूं येत?

कितेंय जांव. खेमलो देसायाक बुद्द शिकोवपाक गोंदून बामणगिरी केली तर तें पातक कशें थारत?

गोंदून दुर्गवाड्यार वचून शिटुकसाणीन काम करपाचें थारायलें. 'शीर

सलामत तो पगडी पचास' म्हण तो काम करूंक लागलो.

गोंदू हाचे पयलीं दुर्गवाड्यार चडसो गेलो ना तरी ताच्या वळखीचे थंय खूब लोक आसले. फाटले वर्सा गांवांत फुटबॉल सर्त जाल्ली तेन्नासावन गोंदू दुर्गवाड्यावयल्या लोकांचे यादींतल्यान अजून वचूंक नासलो. त्या वाड्यावयले भुरगे गोंदूल्या स्कुलांत येताले, तेय ताका वळखताले. मनकवड्या गोंदून आतां आपले विचार बदलपाचें थारायलें. लोकां मदीं मिसळटलो जाल्यार सुतकी चेरो करून वावरप परवडपाचें नासलें ताका. मनीस मनान कितलोय बरो आसलो, तरी ताचो सुतकी चेरो लोकांक आवडना. लोक ताका मनीसघाणोच म्हणटात. हें ताका आतां कळून आयिल्लें. भुरगेपणांत भुरगो म्हण लोकांनी आपल्याक सोंसलो. ह्या फुडें आपल्याक व्यक्तीमत्वाक म्हत्व दिवंचेंच पडटलें, हें ताणें मनांत पक्कें केलें.

ते दिसा आयतार आसलो. दुर्गवाड्यार लोक चड करून घरा आसतले. पाद्रिल्या इश्कोलांत शिकिल्ले आनी सद्या शिकतात त्या थोड्या तरी भुरग्यांची भेट जातलीच. तेन्ना वेळ काडिनासतना ताबडतोब भायर सरप उत्तम!

भुरगे आनी हेर लोक खयीं पावूं. गोंदू जाका मेळूंक वता, तो घरा आसूंक नाका? खेमू देसाय लटरफटर मनीस न्हय. तो व्हडलो मनीस. व्हडल्या मनशांची अपोयन्टमेंट घेवंची आसता तांकां मेळटलो जाल्यार. गोंदून तें खंय घेतलां? मेळ्ळ्यार मेळ्ळो म्हण वचपाचें. तरी हे व्हडले मनीस णवां पयलीं घरा भायर पडनांत. वर्तमानपत्रां वाचप, देव पूजा करप, ब्रेकफास्ट बी केले उपरांतच घर सोडटात हे लोक. शिवाय बरेच जाण अकरा-बारांच्या सुमाराक बारींचेर पडून आसतात. तेन्ना खेमलो देसायाक भेट्टलो जाल्यार आठ-णवांच्या दरम्यानच ताचें घर गाठचें पडटलें.

कोंडवाड्यार सावन दुर्गवाड्यार वचूंक उणेंच एक वर लागता. मदें दोंगर नाशिल्लो जाल्यार पावण वर पुरो आशिल्लें. ते भायर पांय वाटेन चलतना पांयांकडेन पळोवन चलपाक गोंदूच्यान जायना. तकलेर विचारांचें चेंपण आसलें तरी ताची नदर सैमाचेर आसताच. तातूंत ताका आतां दोंगर चडपा-देंवपाची, आयतीच संद मेळटाली. तीय थंड वेळार.

गोंदूकडेन काशेद भरून कपडे आशिल्ले. पावलूच्या बापायन धाडिल्ले ते ताका. ते कपडे बाबूंनी घालपाचे, शेतकामत्यान न्हय.

आतां गोंदू शेतकामती जाल्लो. ताका उंची कपडे न्हेसून मिरोवप कशें शक्य आसलें? तरी गोंदून काशेदांतलें हळदुव्या रंगाचें टी शर्ट भायर काडून आंगार चडयलें. ताचेर एक काळशें जाकेट घालें. त्या जाकेटाक सोबता तसली पेंट लकयली. टेनीस शूज घाले. आनी ज्ञालो गोंदू जेंटलमॅन. हें सगळें ताणें फक्त खेमलो देसायाक शो मारपाक केल्लें. खेमलो देसायाक दिसचें की हो गावड्यांलो पोर हेर गावड्यां बशेन न्हय. हो सुदारीक. हाचे कडेन उलयतासता सांबाळून उलोवंक जाय.

कपडे आंगार चडयतकच गोंदूकय खंयचो नेट आयलो, ताकाच खबर! ताणें थंयच्या-थंयच दोन-तीन पासयो मारल्यो. पासयो मारतना आपसूक ताच्या तोंडांतल्यान 'फि-फि-फि' शिळोवण्यो भायर पडल्यो. तेच नेटार ताणें आपले मोगाळ काकेक साद घालो-

"काके ऽ ऽ, येतां गे वोसोन!"

गिरिजें धांवून भायर आयलें. केदो वेळ तें गोंदूकच पळयत उरलें. ह्या वयावयल्या असल्या भेसांत तें आपल्या पुतोण्याक पयलेच फावट पळयतालें. गांवांत किरिस्तांवाले तरनाटे असलो भेस करतात. ताका लागून ते झेतार दिसतात. असल्या भेसांत तांकां तोंडांतल्यान उतरांय बरीं फुट्टात. शिकूं नाशिल्ले तरनाटे लेगीत चलता-भोंवतना 'शो' मारतात. त्या मानान गोंदू काळो आसलो तरी तो सिनेमांतलो हिरो कसो दिसता.

"एकटोच वयता रे बाबा? कोणाकय व्होर रे वांगडा. ते देसायाक पातयोवंक उपकन्ना. केन्ना घात घेयत सांगों येता?"

"काके, तूं भियों नाहां. हांव आहा न्हो. तूं फोकोत घोराचेर शिंतीद दी. म्हाजो कोसलोच हुसको कोरूं नाहा." गोंदू सहजतायेन उलयलो आनी झेतान पावलां उडयत चालीक लागलो.

गोंदूचो आनी बुटांचो संबंद हे आदीं असेंब्लीक उबो रावप आनी फुटबॉल ग्रावंडार वावरप इतल्या पुरतोच आसतालो. गांवांत भोंवतासतना रबरी चप्पलांचोच

तो उपेग करी. मोटवें काल्सांव आनी चप्पलां घालून भोंवपी गोंदू आज वेगळ्याच भेसांत चलतना सगळ्यांत पयलीं कावळे अजापले. येदो वेळ वोगी आशिल्ले कावळे गोंदूक पळोवन खवळ्ळे. ताणीं कावकाव सुरू केली. कावळ्यांच्या बोवाळांत पिंपळा वेलो माकोड जागो जालो. ताणें घस्स करून दुसरे रुखार उडी घेतली. मागीर घे! ल्हान-व्हड रुखावळींचेर चांचाळ सुरू जाली. सगळे तरेचीं सुकणीं आपले भाशेन गोंदूचीं फकाणां-मस्कऱ्यो करूंक लागलीं.

सैमांत आपल्यो बकस्सायो चलल्यात, हें गोंदूल्या लक्षांत आयलें. तरी ताणें बकस्सायो करतल्यांचें हांसते चेऱ्यान स्वागतच केलें. कारण गोंदून आंगार चडयिल्लो भेस ताकाच आवडनासलो. ताका तो अडेचो लागतालो. गोंदून केल्लो हो भेस तात्पुरतो आसलो. नाटकी. दोन-तीन वरां पुरतो करतात तसलो.

गोंदू आतां एकटोच दोंगर चडूंक लागलो. उतरणे वयलीं झाडां फाटीं पडलीं. मागीर लागलें मरड. हें मरड कितलींशींच वर्सां पाडें आसलें. केन्ना तरी घाल्ल्यो मेरी अजून मोडून वचूंक नासल्यो. मात मेरांच्या आदारान उंदरांनी बिळां तयार केल्लीं. मेरांचेर बारीक तण वाडिल्लें. ताका लागून सगळ्या मरडाचेर पांचवो रंग चडिल्लो तो जशाचो तसो आशिल्लो. चारय वटयां नदर मारल्यार दिश्टी पथांतले रूख व्हड आसूनय बुटके दिसताले. मळबांतलीं कुपां खंय तरी दडून बशिल्ल्यान सुर्या हांसत वयर येतालो. आपलो हांसकुरो चेरो गोंदूक दिसचो म्हण सुर्यानच मळबांतलीं कुपां धांवडावन पयस केल्लीं.

सैम मोगी गोंदूक दिसतालें, आपूण थोडो वेळ उक्ते मळार बसून रावंचो. हांसते सुर्याच्या किरणांनी न्हावन घेवंचें. पूण सुर्याक तो थंय बेकार बशिल्लो नाकाच आसलो. ताणें आपलीं किरणां खर केलीं. गोंदूक आदेश दिलो की, "हे गोंद्या, सैमाचेर चड मोग करीत बसूं नाका. आळसाय करशी तर फसतलो. ऊठ कामाक लाग."

गोंदू वाऱ्या-वादळाचो, सुर्या- चंद्रीमाचो मोग करपी. तेच परी तो वगतार तांचो आदेशय पाळपी. सुर्याचो आदेश समजून गोंदून पांयांक गती दिल्ली.

आड पडिल्ल्या करडान पांयवाट पुरवल्ली. करडांतल्यान वाट काडीत, करड गुड्डायत गोंदू झपाझप फुडें गेलो.

अर्द वरा भितर गोंदून दोंगर कापलो. दुर्गवाड्याचें पालसण लागलें. पालसणा वयल्यान गोंदू घसघशीत वाड्यार देंवलो.

दोंगराचो करडी वांटो आतां सोंपिल्लो. लोकांचो बोवाळ गोंदूच्या कानार पडलो.

ह्या वाड्यार बुद्दीजिवींचीं घरां हांगा -थंय आशिल्लीं. पूण ह्या घरांतले लोक अजुनय हातरूणार लोळत पडिल्ले. गोंदूच्या कानार बोवाळ पडटालो तो दिसवड्याक वचूंक भायर सरपी लोकांचो. ह्या लोकांक आयतराची याद आसता ती शिरवाणांक. आतां तर भाद्रपद सोंपून आश्विन लागिल्लो. गरिबांच्या नशिबांत कायद्याच्यो सुटयो खंयच्यो? तांकां तर फाल्यांचे चिंतेत रातीची न्हीद पडना.

गोंदू दुर्गवाड्यार पावलो खरो. पूण खेमलो देसायालो वाडो ताका खबर नासलो. कोणा कडच्यान तरी वाड्याची वाट जाणोवन घेवपाची गरज आशिल्ली. पूण वाट विचारतलो कोणाक? आंबे-काजूचे रूख दाटायेन उबे आशिल्ले. पूण लागसाराक मनशाची जाग नासली. गोंदू गोंदळ्ळो आनी थिरावलो. कारण जे वाटेन गोंदू आयिल्लो ते वाटेक आतां दोन फांटे फुटिल्ले. खंयच्या फांट्यान फुडें वचचें, गोंदूक कळनाशें जालें.

इतक्यांत गोंदूक गणसुल्याची याद जाली. गणसुलो कुश्टा नाईक. हो गणसुलो पाद्रिल्या इश्कोलांत शिकतालो. शिकपांत कच्चो, पूण उतरांचो पक्को. बडबडो पूण दुसऱ्याक मजत करपी. गोंदूले फुटबॉल टिमीक जायते फावट कसली ना कसली मजत केल्या. तो दुर्गवाड्यावेलो भुरगो हाची गोंदूक पक्की याद आसली. गोंदून आतां खेमल्याक सोडून गणसुल्याक भेटपाचें थारायलें.

इतल्यान कांय अंतराचेर, आंब्याच्या आडसाक गोंदूक कोण तरी झळकलो. एक मनीस कसले तरी येवजणेत गूंग जाल्लो. गोंदू चार धेपां फुडें गेलो. पळय जाल्यार माथ्याक तुवालो रेंवडायल्लो, पुडव्याचो कासाटो मारिल्लो मनीस बोवाळटा. गोंदू ताच्या म्हऱ्यांत वचून अशे तरेन उबो रावलो की एका भाटकारालो बाबू भेंडार हात धरून उबो रावता.

"कोण रे बाबा त्यां, कोणाक सोदतय?"

गोंदूक कोणा तरी व्हडल्या मनशालो भुरगो समजून बाबल्यान प्रस्न केलो.

"हांव कोण तो मागीर सांगतां, पूण पयलीं तूं हांगा कितें करता तें सांगशी?"

गोंदून रूबाबान जाप दिली.

"म्या गवंडो रे! माझां नांव बाबलो..."

"हांगा गणसू कुश्टा नाईक खंय रावता खबर आसा तुका?"

"न्हाय रे बाबा.म्हाका कशी खबर आसतली? म्यां ह्या गांवचो थोडोच आसंय."

"तूं ह्या गांवचो न्हय, मागीर हांगा कित्याक घुस्पता?" गोंदून आपलो दुबाव उक्तायलो.

"सांगलां ना तुका, म्या गवंडो आसंय म्हणान. कवां कवां येवंचां पडटा. हंयसर चिऱ्यांचीं घरां कोण चडशीं बांदनय ना रे! आतां एक ल्हानसां ओव्र मेळ्ळां बघ. चिरे फातर व्हरांक रस्तो कसो मेळात तां बघतंय!"

"मागीर हांगाचो खेमलो देसाय खंय रावता तेंय खबर ना तर तुका!"

"न्हाय रे बाबा! त्यां असां कर. तो उंचवटो दिसतय बघ. तेच्या पाठल्यान एक म्होडकांसां घर आसा. थंयसर वचान बघ सुगावो लागता तर."

बाबल्या गवंड्यान गोंदूची कटकट एकदांची वचुनी म्हण फाटले दिकेक बोट दाखयलें आनी आपल्या कामाक लागलो.

गोंदू मात्सो निर्शेलो. तरी फुडें सरकले बगर ताका गत्यंतर नाशिल्लें.

गोंदू दाखयल्ले वाटेन फुडें गेलो. ताका तें मोडकें घर दिसलें. घरा फाटल्या पालसणांतल्यान एक पन्नाशींतलो मनीस देंवता तो गोंदूक दिसलो. एका म्हेळ्या बुर्नुसान कमरे वयलें तकले मेरेनचें धड लिपयल्लें ताणें. दोळ्यां वयल्या चाळीशीचो एक दांडो मोडिल्ल्यान ती सरयेन कानाक अडकयल्ली. धवे वाल्याची काश्टी लांबताली. पायांत तुटिल्लें चामड्याचें जोतें घालून जतनायेन चलतालो तो मनीस! ताच्या हातांत रिकामे उदकाचें लात आसलें.

गोंदून वगत केलो ना. ताणें दोनच धेंपानी त्या मनशाक गांठलो. ताणें ताका चलपाचो आडायलोच म्हणल्यार जाता.

आपले मुखार अकस्मात जाकीटधारी तरनाटो पळोवन तो मनीस अजापलो. ताका दिसलें हो खेमलो देसायाचो दूत आसुंये. भिसडावन कितेंय

उठावपाक बी आयला जावंये!

"कोणाक सोदता रे बाब तूं, हे वोत्तार माझे कोडे कांयच मेवपाचें ना तुका."

त्या मनशाच्या तोंडांतलीं उतरां आयकून गोंदू अजापलो.

"हांव तुजे कडे कांयच मागोंक येवंक ना गा दादी."

आपल्याक दादी म्हणलो तें आयकून तो मनीस सुखावलो. हो तरनाटो खेमलो देसायाचो मनीस आसूंक शकना.

"तूं खंयच्च्यान येयला रे बाबा. वाट चुकोना मरे?"

"दादी, हांगा गणसू नाईक खंय रावता जाणां?"

"गणसू? गणसू माझो चेडो. हांव बापूय तेगेलो. तूं तेका मेळोंक येयला. चल बाबा, चल!"

कुश्टान गोंदूक आग्रो करून आपले मठयेर व्हेलो. त्या काश्टेवाल्यान गोंदूक मानान बसोवन घेतलो. मागीर ताणें घरा भायर वचून गणसूक साद घालो.

गणसू सयत घरांतलीं मनशां कसलें ना कसल्या कामा निमतान घरा भायर पडिल्लीं. आयतार ना जाल्यार आनी कसलोय वार जांव, पोट तांकां घरांत मातय सुसेग घेवंक दिनासलें. फाल्यांचे चिंतेन तांचे पांय आपसुकच भायर पडटाले.

गणसून कुश्टाक कुल्यान जाप दिली. गणसूक घरा पावपाक पांच मिण्टां लागपाचीं आसलीं तो मेरेन कुश्टा गोंदूकडेन नमळायेन वागलो. कारण गोंदू कोण हाची वळख ताका अजून पटनासली.

गोंदू आपले घरा आयला तो पळोवन गणसू चड अजापांत पडलो. हे आदीं गोंदू फक्त पावलू वांगडा भोंवतालो. गणसू आनी गोंदूचो वांगोड केन्नाच कोणेंच पळयलोना. मागीर आयज इस्कोल सोडले उपरांत गोंदू दुर्गवाड्यार एकटोच आयला आनी तोय आपल्या सारक्या लटरफटर मनशागेर?

हय! गणसू गोंदू मुखार स्वताक लटरफटरच समजतालो. इस्कोलांत शिकतना गोंदूली हुशारकाय ताणें पळयल्ली. पावलूक गोंदू असलो इश्ट मेळ्ळा. आपल्याकय तसलो एक इश्ट मेळूंक फाव आसलो.

गणसूक अशें मना पासून दिसतालें. पूण गोंदूक लागीं जावपाचो यत्न मात

ताणें केन्नाच केलो ना. आयज ती संद ताचेकडेन धावून आयिल्ली.

"गोंदू, तुका आमगेर पळोवन म्हाका खूब बरें दिसलें." गणसून आपलें मन उक्तायलें.

"तूं दुर्गावाड्या वयलो, हेचो म्हाका सट्ट करून उगडास येयलो आनी म्हुजें काम तूंच सोपें करतलो अशें म्हाका दिसलें, देखून धावोन येयलों हांव हांगा. कोत्ता मोरे हेल्प माहां?"

"करता? तुका हेल्प कोरिना जाल्यार आनीक कोणाक करतोलो तर? तूं सांगूच. माझ्यान जाता तें हांव तुका लागोन कितेंय कोरूंक तयार आसां. तूं एका तेंपा वयलो आमचे इस्कोलाचो हिरो मरे."

गणसून गोंदूक मजतीची खात्री दिली.

"म्हाका खेमलो देसायाची पुराय खोबोर जाय. तूं वळखता तेका?"

"वळखतां? ते चोराक कोण वळखना रे?"

"चोर? खेमलो देसायाक ह्या गांवांतल्या गरिबांचो आदार म्होणोन वोळखोतात मोरे. आनी तूं तेका चोर म्होण्टा?"

"तो चोर काय साव तो माझ्या आपाक इचार. तो तेका बोऽऽरो वळखता."

"हो आपा कोण?"

"माझो बाबा रे. हांव माझ्या बापायक आपा म्हणटां. आपा, मात्सो भायर यो पळोवंया."

"येयलों, येयलों." तोंडांतली विडी कोलतेन पेटयत कुश्टा भायर आयलो.

"आपो, हो गोंदू. माझो इश्ट. पाद्रिले इस्कोलांत शिकतालो. आतां तो पास जावन घरा आसा."

"खंयचे वाड्यावयलो?"

"हांव कोंडवाड्यावयलो."

"नांव कितें रे पोरा तुजें?"

"गोंदू म्होणटात म्हाका."

"बापायचें नांव कितें?"

"बारकेलो."

“कोंडवाड्या वयलो बारकेलो? खानार आर्म अडकोवन देसाया फांटल्यान भोंवता, तो बारकेलो?”

“हय व्हय तोच. तूं वोळखोता तेका?”

कुश्टान दोळे मोठे करून गोंदूकडेंन तिरस्कारान पळयलें.

आपल्याकडेन झेतान आयिल्लो तो तरनाटो कसोय आसलो तरी तो घरंदाज आसूंक जाय अशें कुश्टाक पयलीं दिसतालें. पूण गोंदू बारकेल्यालो पूत हें कळतकच कुश्टालो भ्रम उतरलो.

“आपो, गोंदूक तुजे कडच्यान खेमलो देसायाची वळख जायी. हांयें तेका सांगलें, तूं तेका पुराय वळखता म्होणोन!”

“तेजो आवय आनी बापूय देसायाकडेन दीस-रात पोडोन आसतात, तेंचे कडच्यान मेळना खंय तेका वळखी?”

“आपो, गोंदू बारकेल्यालो पूत आसलो तरी तो बारकेल्या सारको न्हय. हांव वळखतां तेका. आमचे इस्कोलांतलो प्रिन्सिपाल लेगीत मान दिता तेका!”

कुश्टा अक्षरशत्रू, गरीब काश्टेकार. पूण ताची विचारशक्त म्हान. गोमटी कापतां म्हणल्यार लेगीत केन्ना फट उलोवंचोना. भुकेन मरता अशें दिसल्यार लेगीत कोणाकडेन हात फाफुडचो ना. हांतरूण पळोवन पांय पसरपी कुश्टा नाईक.

बारकेल्यालो पुतय ‘बारकेलोच’ आसूंक जाय अशें खंय आसा? गणसू सांगता इस्कोलाचो प्रिन्सीपाल खंय गोंदूक मान दिता. गणसू केन्नाच फट उलोवंचो ना. अशें आसत जाल्यार बारकेलेल्या ह्या पोराचें आयकून घेवन, जाता जाल्यार ताका मजत करपाक कितें हरकत आसा? अशें कुश्टाच्या मनांत आयलें.

“बाबा गणसू, हो बारकेल्यालो चेडो हें आतां म्हाका कळ्ळें. हो भुरगो तवनास न्हू, अशेंय तूं सांगता. पूण हेका खेमल्याची वासपूस कित्याक जाय तें आमकां कोळों नाका? खायें-जेयें नासतना मागीर वोगीच तोंट्याक पोडों नाका.”

कुश्टा कितें सांगूंक सोदता, हें गोंदूच्या लक्षांत आयलें. कुश्टा दिसता तसो ना. ताचे कडेन दाखय-लिपय करपाची भास उपकारची ना. तेन्ना आपूण हांगा कित्याक आयलां आनी कितें करूंक सोदतां, हें कसलोच आडपड्डो धरिनासतना गोंदून भरभर सांगून उडयलें.

गोंदूल्या उलोवपान कुश्टा चड प्रभावीत जालो. हो भुरगो सादो-सुदो ना. हाका गांवच्या लोकांनी फुडें काडल्यार तो गांवां खातीर खूब कितें करूंक शकता, हें कुश्टाक पटलें.

कुश्टान आपलें मत्त बनयलें. गोंदूक खेमल्याच्या तोंडांत धुकलचे परस ताची राखण करप गरजेचें आसा.

"बाबा गोंदू, तूं देसायाक मेवोंक वोसों नाका. तूं कितलोय हुशार आसलो, तरी देसाय तुका कशे तरेन गुठलयत हें सांगो नोजो. सत्ते फुडें शाणेपोण चोलोना, अशें आमच्या वाडवोडलांनी सांगोन दवल्लां."

खेमलो देसायाक 'शो' मारूंक झेतान आयिल्लो गोंदू कुश्टाल्या उतरांनी चाट पडलो. इस्कोलांत प्रिन्सीपाल म्हण वावुरपी पाद्रिहून, खाण-जेवणाक आनी कपड्यां लत्त्याक पादीशेर आशिल्लो अशिक्षीत कुश्टा गोंदूक शाणो लागलो.

"दादी, गोणसू तुका आपा म्हणटा, हांवूय म्होणो?"

"तुका तशें म्होणोंक बोरें दिसता जाल्यार म्होण!"

"आपो, तुजे उलोवण्या वयल्यान तूंय खेमलो देसायाचेर रागार आहा सो दिसता." गोंदून कुश्टाक उलोवंक संद दिली.

"हांवूच कित्याक, गांवांतलो चडसो लोक त्या दुश्टाक मनांतले मनांत खेपतात." कुश्टान तिडक उक्तायली.

"पूण हांव आयकोतां, लोक तेका बोरो म्हणटात."

"नाटकां, सोगलीं नाटकां रे पुता माझ्या. तोंडार सगले बरे म्हणटात. तेजे हातींत सोत्ता आहा न्हूं! ते भायर लोकालीं शेतां-भाटां हावन दुडू केला."

"तोशें जाल्यार, ह्या गांवांचेर ह्या फुडेंय तेजेंच राज्य चलतलें?"

"चोलोंक दिल्यार चोलतोलें न्हू!"

"तुमी तेका चलोवंक दितले?"

"तुमी म्होणों नाहां रे, आमी म्होण! तूं कुशीक कित्याक रावता?"

"बोरें आपो, आमी."

"तूं आतां घोरा गेल्यार बोरो. हांव तुका ओवखलों. तुजें मोन बोरें आहा. तोकलेन हुशार आहा. ह्या फुडें तूं आमचो फुडारी. आमचो तुका तेंको आहा.

हां, योकूच काम कर. हे फुडें हे वाड्यार आमी सांगल्या बोगोर पांय दिवंक नाहा. कितें करूंक जायें तें आमी करतां.''

मनीस जायते फावट फाल्यांचें आयज चिंता. पूण आयज चिंतून दवरलेलें फाल्यां घडटलेंच अशें कोणाच्यान सांगू येता?

गोंदू खेमलो देसायाक बुद्द शिकयतलो म्हण तयारेन दुर्गवाड्यार गेल्लो. जमल्यार गणसूची मजत घेतलो अशें ताणें मनांत थारायल्लें. गणसूचो बापूय, कुश्टा ताका मेळटलो हें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूक नासलें. तरी गणसूच्या आदीं ताका ताचो बापूय भेट्टा आनी खेमलो देसायाल्या दारार पांयें दिनासतना गोंदू फाटल्या पायांनी घरा येता. तोय आशेचीं किरणां घेवन.

आमच्या देशांत हांगा-थंय मोलादीक माणकां-मोतयां शिपडून आसात. तांकां पारखून तांचो उपेग देशा खातीर करून घेवपी पारखीय उणे नांत ह्या देशांत. हे पारखी हजारांनी वर्सां पयलीं आशिल्ले. आयजय आसात आनी फुडेंय आसतले. हो देश तेच तिगयतले.

हिरो म्हणल्यार एक मोलादीक फातर. तो लोकांचें चित्त आकर्शून घेता. लोकांचें मन आकर्शून घेवपाचे गूण जाच्यांत आसा, ताका आमच्यांनी हिरो म्हणूं येता. गोंदूंत हे गूण आसात म्हणून तो हिरो. ह्या हिऱ्याक पारखुपाचें काम सुर्वेक हरीमास्तर ह्या पारख्यान केलें. हरीमास्तरान गोंदूक घासून-पुसून हेर पारख्यां कडेन कसा खातीर सोडून दिलो. गोंदूक फुडाराक बरेच पारखी सांपडले. तातूंतले यादींत उरपा सारके म्हणल्यार इस्कोलाचो प्रिन्सीपाल, पावलूची आवय, पावलूचो मामा आनी आतां सांपडला तो कुश्टा नाईक.

हे सगळे पारखी आतां गोंदूच्या काळजांत घर करून बशिल्ले. तांच्या आशिर्वादानच गोंदू आपलें घर, आपलो संवसार उबो करूंक फुडें सरिल्लो.

कुश्टालो सल्लो घेवन गोंदू कोंड वाड्यार गेलो. गोंदू हो एक विचारवंत आनी थंड सभावाचो भुरगो आसा, ही गजाल कुश्टाक कळून आयली. हाका हाताक धरून गांवांत चळवळ उबी केली तर खेमलो देसायाक नेस्तानाबूत करप शक्य जातलें अशें कुश्टाक दिसूंक लागलें. खेमलो देसायाक धडो शिकोवपाचे विचार कुश्टाचे तकलेंत खूब आदीं पासून शिजताले. पूण तो एकलो पडटालो.

मनांतले विचार कोणाक उलोवन दाखोवप लेगीत खतरनाक आशिल्लें. कोण केन्ना खेमल्याचे कान फुंकीत हाचो नेम नासलो. आनी एकदां खेमल्याची कोणाचेर वायट नदर पडली तर त्या मनशाचें खरें नासतालें. तो देशोधडीक पावले बगर उरनासलो.

खेमलो देसाय आनी कुश्टालें वांकडेपण खूब वर्सांचें. दुर्गवाड्या वयल्या तमाम भंडाऱ्यांक आपल्याकडेन बेगारपणाक लावंचे आनी आपणें तांचेर शेक चलोवंचो अशें खेमल्याच्या मनांत आयलें. आनी खेमलो देसायाच्या जें कितें मनांत येता तें केले बगर तो कसोच रावना. ताच्या मनांतलें सादोवन घेवपाक ताचें व्यक्तीमत्व मजत करता. ताच्या व्यक्तीमत्वाक लागून सरकारी कचेऱ्यांतले बाबू ताची थुकी झेलपाक एका पांयार तयार आसतात. त्या भायर ताचें उठप-बसप एक सारकें राजकारण्यां मदें आशिल्ल्यान, गांवचे लोक ताच्या सदाकाल चेंपणा खाला वावुरताले. भियेंत भियेंत जिवीत सारताले गांवकार लोक!

हेच कारणाक लागून, आज मेरेन पस्तीस वर्सां खेमलो देसायान गांवचो सरपंच म्हण सत्ता भोगली. हेच पासत खेमल्याची ताकत गांवांत तशीच सरकारांत लेगीत आसली.

खेमलो देसायाची ताकत आजमावन आसलो तो फकत कुश्टा नाईक. देसायाचे ताकती मुखार गोंदूची खिणांत खोल्ले जातली, हाची जाणविकाय कुश्टाक आशिल्ली. ताकाच लागून कुश्टान गोंदूक परतिलो. हुनहुनीत खावंचे परस प्रसंगार न्हिवोवन खाल्लें खुबदां फायद्याचें आसता, हें गोंदूचो अणभव ताका सांगतालो.

कुश्टा आपले इतको शिकूंक ना, पूण ताचो अणभव आपल्याहून खूब दांडगो आसा. इतलेंच न्हय, कुश्टाल्या उलोवपांत गोंदूक स्वाभिमान झळखतालो. शिक्षण नासलें तरी थोडी हिकमत आशिल्लो स्वाभिमानी मनीस खूब कितें करूंक शकता, हाची कल्पना गोंदूक आशिल्ली. ताका लागून गोंदून कुश्टाच्या सल्ल्यान वागपाचें थारायलें.

खेमलो देसायान आपल्या वाड्या वयलो कुश्टा सोडून सगल्या भंडाऱ्यांक मानायपणाची दिक्षा दिल्ली. आपल्यो ल्हान-ल्हान जमनी वाऱ्यार उडोवन देसायागेर मानायपण करूंक धन्यताय मानताले दुर्गवाड्यावयले भंडारी! ताका

कारणूय आशिल्लें. तकलेर कसलोच पेज नासतना, दिसभर काम करून सांजे वेळार कचकचीत दुडू मेळटाले. एक दीस मानाय कामाक गेलो ना तरी ताका त्या दिसाचो पाग दितालो देसाय. ते भायर सोऱ्याक म्हण धा रुपये हातार दवरतालो. सोऱ्याक भायर वचूंक पडचें न्हय म्हण, गांवांतच आपले मालकीचें तावेर्न घालून दिल्लें.

इतलें सगलें मेळतासतना गांवांत खेमल्याक वायट कोण म्हणीत?

हां, कुश्टाचे दिश्टीन मात खेमलो दुश्ट आशिल्लो. कारण ताणें आपल्या वाड्या वयल्या सगल्या भंडारी शेतकारांक तांचीं शेतां वाऱ्यार सोडूंक लावन तीं पाड दवरून, त्या शेतकारांचो उपेग करून घेवंक लागिल्लो. कुश्टाक तें मानवलें ना. तत्वां खातीर तो उपासमार भोगतालो.

दुर्गवाड्यार उदक भरपूर. ताका लागून शेतकार आपल्या शेतांतल्यान मिरसांगो, वायंगीं, वाल, अळसांदे आनी हेर शाक-भाज्जेचीं पिकां भरपूर घेताले. ताका लागून थंयचे शेतकार स्वतंत्रकायेन आनी स्वाभिमानान जगताले. पूण खेमलो देसायान तांकां आपले गुलाम केले. तांचीं शेतां पाड दवरलीं. हेत हो की कांय वर्सांनी तीं शेतां निरूपेगी आसात हें दाखोवन, शेतकारांक रूपयांची आस दाखोवन, शेतांचेर आपलो कब्जो मेळोवंचो.

खेमलो देसायाक कसोच बदलोना तो कुश्टा. दुर्गवाड्या वयलीं सगलीं शेतां ओस पडलेलीं आसतना, सदांकाल फुलिल्लें आसतालें तें कुश्टालें शेत. सुर्वेक खेमल्यान कुश्टालें शेत दोळे आड केलें. पूण खेमल्यालें सैतानी राज्य जेन्ना दिशीं-दिशीं गांवभर फांकूंक लागलें, तेन्ना कुश्टाच्यान गप्प बसूंक जायना जालें. ताणें खेमलो देसायालीं कारस्तानां गांवकारां मुखार उक्तीं करपाक कॉमेस केलें.

कुश्टा आपले विरूद्ध लोकांक भडकायता असो समज खेमल्यान करून घेतलो. तेन्ना ताणें कुश्टाक नेस्तानाबूत करपाचें थारायलें. ताणें आपल्या हस्तकां कडच्यान कुश्टाल्या शेताची नेमान नासधूस करून ताका केन्नाच तकली वयर काडूंक दिली ना.

कुश्टा सोडून आनी कोणय जाल्लो जाल्यार, नाका ती कटकट म्हण हेरां भशेन खेमल्या फाटल्यान लेमडो जावन भोंवतलो आसलो. स्वाभिमानी कुश्टान

तशें करपाचो विचार मनांत केन्नाच हाडलो ना. ताका लागून कुश्टा भियेत-भियेत दुर्गवाड्यार आपलो घराबो चलयतालो.

अशें आसलें, तरी दुर्गवाड्याक खेमलो देसाया पसून मुक्त करपाची आस तो मनांत बाळगून आसलो. ते खातीर तो कोणाचो वांगड आनी आदाराची वाट पळयत आसलो.

आतां ताका गोंदूचो वांगड मेळिल्लो. गोंदूच्या आदारान खेमल्याचेर हल्लो करपाचें ताणें चिंतलें. ते खातीर ताणें फाव ते संदीची वाट पळोवपाचें थारायलें. येदे व्हडल्या बळिश्टाचेर सरळ हल्लो करप कुश्टाक शक्य नासलें. शारिरीक बळाचो उपेग करप ही कुश्टाक जमपा सारकें नासलें. बोडाचो वापर करूनच खेमल्याक मोव करपाचे संदीची तो आतां वाट पळोवंक लागलो.

हेवटेन गोंदू आतां चडच अथीर जाल्लो. कुश्टाचे तकलेंत कितें शिजता हाचो पत्तो ताका लागनासलो. तरी तो कुश्टाचेर पातयेवन धिरान वावुरतालो.

तरी खेमलो देसायाची याद येतकच गोंदूचें काळीज धडधडटालेंच. ताका खेमल्याचें आपोवणें येवन चार-पांच दीस पासार जाल्ले. परत खंयच्च्याय वगतार नवसो दारार येवन उबो रावलो जाल्यार? कितें सांगतलो ताका? नवशा वांगडा आनीक दोग-तीग येवन गोंदूक उबारून व्हेलो जाल्यार?

हो खेमलो देसाय कितेंय करूंक शकता.

गोंदूच्या मनांत शंका-कुशंकांचो नाच चलतासतनाच गोंदूक सोदीत गणसू गोंदूगेर आयलो.

"गणसू, तूं ओसले वोक्तार हांगा?" गोंदून अजापान गणसूक प्रस्न केलो.

"कित्याक, तूं म्हाका सोदीत दुर्गवाड्यार पावता तर हांव तुका सोदीत कोंडवाड्यार येवंक शको ना?"

"तोसलेंच गोरजेचें काम आसले बोगोर, तूं दोंगोर चोडोन हांगा येवंचो ना. सांग कितें जालां?"

"आपान तुका रोकाद दिला."

"रोकाद? कसलो?"

"तेणें सांगलां, तूं आयज सावनच दुर्गवाड्यार फिरकों नाका."

"फिरकों नाका? कित्याक?"

"तें तुका मागीर आपा समजोवन सांगतलो."

"मागीर आमचें काम कशें जातोलें रे!"

" आमी तुका मेळोंक येता न्हो? तूं घडये-घडये आमच्या वाड्यार दिसल्यार खेमलो दुबावतलो. तो शादूर जातलो. तेका काळखांत थेवनच आमचीं सोगलीं कामां जावंक जायीं, अशें आमी म्होणटां."

"तें बोरें आहा रे, पूण म्हाका देसायान आफोयलां तेचें कितें?"

"तेका सांग तूं बरो ना म्हणोन."

"फोट उलोवं हांव."

"आपानच सांगलां तुका आज सावन फोट उलोवंक शीक म्होणोन!"

गोंदून कच्च्च करून आंग काडलें. 'गोंदू आनी फट? हरीमास्तरालो विद्यार्थी फट उलयतलो? तेंय उलोवंक कुश्टा नाईक सांगता? जाका हांव सादो आनी नितळ मनाचो मनीस म्हण समजलों, तोच म्हाका फट उलोवंक शीक म्हणटा?'

गोंदूचें मन उचंबळलें. ताका कुश्टाचो राग आयलो. ताका दिसलें गणसूक थंयच सोडून दुर्गवाड्यार धांव मारची आनी कुश्टाक जाप विचारची. 'आपो, तूं म्हाका फट उलय म्हणटा? हो गोंदू मरण पत्करीत पूण फट उलोवंचो ना.' गोंदूले मनांतलो कुश्टा सट् करून भायर आयलो आनी गोंदू सामकारा उबो रावन खो-खो करून हांसलो. मनांतलो कुश्टा आतां गोंदू लागीं उलोवंक लागलो.

"गोंदू, फोट उलोवन तूं वांकडे मार्गान वोसोंक सोदिना मरे, बोरें आहा. तुका जायें तें कर. हांव तुका आडमेळें घालिना. आतां तूं नीट वोस आनी खेमल्याच्च्या तोंडांत वोसोन पोड. तो तुका गिळटा तेन्ना माझी याद कोरूं नाहां. तो सोत उलोवंक शिकोवपी हरीमास्तोर आहा न्हू, तो तुका धावोन येवन सोडयतोलो."

कुश्टाल्या चित्रान गोंदूले तकलेंत उजवाड घालो. इस्कोलांत गोंदूली टिचर आंतोनेत आनी सर तोपयो शीक लिवो घेवन घरा राव. शीक नासतनाच दोतोर तांकां शीक आसात म्हण सर्टिफीकेट दिताले. दोतोरांचे दिश्टीन शीक आशिल्ल्यो टिचरी घरा रावन खावन-जेवन शीक लीव शेलेब्रेट करताल्यो हें गोंदून आपले

दोळ्यांनी पळयल्लें.

इश्कोलाचो प्रिन्सीपाल मातय नाड आनी पाड नाशिल्लो. तरी ताचेकडेन फट उलोवन दुसरे दिसा ताचे मुखार कुमसार जाताल्यो, त्यो टिचरी.

अशें आसतना कुश्टाले सांगणेन दुश्ट खेमल्याकडेन फट उलयल्यार पातक कशें लागतलें? गोंदून कुश्टालें म्हणणें मानून घेतलें.

"तूं कांय भियों नाका रे गोंदू. कितें चिंतीत रावला? खेमल्याक कितें सांगोंक जायें तें मनीस धाडून हांव सांगतां. तूं कित्याचीच पोरवा करूं नाका. आमी आसात न्हीरे? एक मात कर, मेळत तेन्ना घरांतलो भायर सोरों नाका."

"बोरें आसा. आपाच्या मता प्रमाणे जांव दी सगळें. वच तूं आतां."

गणसू दुर्गवाड्यार गेलो आनी फाटल्यान गोंदून आपूण दुयेंत आशिल्ल्याचें बेस बरें नाटक केलें. कसलींच वखदां घेनासतना, कसलेंच पथ्य धरिनासतना, खावन-जेवन मजा करपी गांवांतलो पयलोच वायटकार आसलो गोंदू! फरक इतलोच की नावाजत्या राजकारण्याक बी करतात तशी खास अशी वेवस्ता खाशेल्या इस्पितळांत करूंक नाशिल्लीं. कारण ताचें काळीज घट्ट बरें आसलें.

देव आपलें राज्य स्वता चलयना. तो आपणें निर्मिल्ल्या जिवां कडच्यान चलोवन घेता. आपूण मात वोग्गी बसून निमित्त्याक कारण जाता.

देव आपलीं कामां मनशां कडच्यान करून घेतासतना मनशाचेर तो बारकायेन नदर दवरता. कारण देवाक वायट कामां केन्नाच मानवनांत. तरी मनशां कडच्यान वायट कर्मां घडटासतना तो मनशाक सुदारपाची संद दिता. संद दिवनय मनीस आपल्याक जाय तेंच करूंक लागलो तर मात देव ताका कसोच भोगशिना. कारण बरीं कामां करून ह्या संवसारांत शांतकाय टिकोवन दवरप हें देवाचें कर्तव्य आसता.

ह्या संवसारांत कर्मां करतासतना कांय मनीस भरमांत पडटात. तांकां दिसता ह्या संवसारांत देवबीव कोण नासता. आपूण करीन ती पूर्वदिशा. कितलींय नाडपणां करून गिरेस्तकाय एकठांय केली, गिरेस्तकायेच्या नाड्यार दुर्बळांचो आपल्याक जाय तसो उपेग करून घेतलो तरी कोण कांय करी सारको ना.

चुको करप हो मनीसधर्म अशें मानून देव मनशाच्यो खुबशो चुको दोळ्यां

आड करता. पूण गिरेस्तकायेचो आदार घेवन जेन्ना कोण मदांदगिरी करता, तेन्ना मात देव वोगी रावना. दुबळ्या पांगळ्यांची पाठराखण करपाक ताका कोणाच्याय तरी रूपान फुडें येवंचेंच पडटा.

फकत दुर्गवाड्या वयल्याच न्हय, तर आख्या मुरडगांवच्या दुर्बळांक साल्वार करपाक देवान आतां गोंदूक फुडें काडला.

मुरडगांव? हय, मुरडगांव! ह्या गांवांक मुरडगांव नांव कित्याक पडलें खबर ना. गांवभर मरडशेतां पातळ्ळ्यांत देखून घडये मरडगांव सोडून मुरडगांव बी जालां आसुंये.

पांच वाड्यांच्या ह्या ल्हानशा गांवांत, चड करून दोन-अडेच हजारांची लोकवस्ती आसुंये. वाड्या कणकणी एक-एक प्राथमिक शाळा. गांवांत किरिस्तांव थोडे आसूनय पाद्रिलें एक हायस्कूल आनी ताका तेंकूनच हायर शेकेंडरी स्कूल. शिवाय माद्रिनी काडिल्लें इंग्लीश प्रायमरी स्कूल चलता ह्या गांवांत. मुरडगांव ल्हान वस्तीचो आसलो. शेजारच्या गांवांच्यो वाटो सोंपेपणान येवन मेळटात ह्या गांवांत. ताका लागून पाद्रिनी माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शाळांची वेवस्ता केल्ली हांगा.

एका तेंपार शेतां-भाटांचे गिरेस्तकायेन फुलिल्लो हो गांव, आतां भिकेक पाविल्लो. ताका कारण जावन आसलो दुर्गवाड्याचो खेमलो देसायच. सतत पस्तीस वर्सां जाल्लीं मुरडवाड्याचेर खेमलो देसायाची गांवचो सरपंच म्हणून सत्ता चलताली. गांवचो सरपंच आशिल्ल्यानच सरकाराचे लोक सलाम ठोकताले ह्या खेमल्याक. सरकारी नोकरांच्या आशिर्वादानच पुराय गांवच्या लोकांक आपल्या चेंपणा खाला दवरिल्ले ह्या खेमल्यान.

खेमलो आतां सरपंच आशिल्लो. फुडें तो आमदार जावपाची माण्णी करतालो. आमदार जावंचे आदींच ताका दाळाक लावपाचो प्रयत्न कुश्टा सारक्या गांवकारांनी चलयल्यात तांचें स्वागत जावंक जाय.

कुश्टान गोंदूक वायटकार करून घरा बसयलो. आतां हातांत घेतिल्लें काम पुराय करपा खातीर येवजण करपाची आशिल्ली. गोंदूच्या वांगडान तो आपली फुडली येवजण बरे तरेन करूंक शकतालो. पूण आतां कुश्टा एकटो

पडिल्लो. आतां ताका आदार आशिल्लो तो फकत गणसूचो.

"आपो, आतां असो कपलाक हात तेंकोवन बोसोन जावपा ना." गणसून बापायचीं चिंतना पयस करपा खातीर म्हणलें.

"पूण आतां कितें करूया म्हणटा? हातीं घेतलेलें कार्य कोणाय भासेन तडीक व्होरोंक जायें न्हू."

" ते खातीर गोंदूक असो पयस दवरून कोंताक येवचेलें ना आपो!"

"मागीर कितें करूया, तेका हांगा आफोवंया म्हणटा?"

"ना आपो. गोंदू दुर्गवाड्यार येयल्यार तो एकटो पडटोलो आनी खेमलो ताका नाच्च करतोलो. हायें खेमल्याल्या मानाया कडसून तेज्या कानार घातलां."

"कितें म्होणोन?"

"गोंदूक बारीक जोर येयला म्होणोन. आतां बारकेल्याल्या गोंदूक बारीक जोर येयला म्होणोन सगल्याक फामाद जालां. खेमलो आतां वोगी पडला. आतां तो कांय दीस तरी गोंदूचें नांव लेगीत घेवंचो ना. आतां तूं कितें कर जाणा, तूंय घरांतूच बोसोन राव. फुडें कितें करपाचें तें हांव पळोवन घेतां."

"तूं कितें पळोवन घेतलो? तुका कितें कळटा!"

"तूं म्हाका असोऽ समजो नाका आपो. हांव तुगेलो पूत जालो म्होणोन कितें जालें? गोंदू इतलो शिकों ना म्होणोन कितें जालें? गोंदू भासेन तूंय वायटकार जावन घरांत पोडोन राव आनी पळय हांव कितें करतां तें." गणसून आपली वळख आपले बापायक करून दिली.

कुश्टा गणसूक कांय न्ही असो समजतालो. पूण आतां ताचें उलोवप आयकून चाट पडलो. आपणें थोडें मारतें व्हरून पुताक समाजांत वावुरपाची संद दिवंची अशें ताणें थारायलें.

कुश्टा घरांत पडला अशें वाड्या वयल्या लोकांक कळ्ळें आनी लोक ताचे खबरेक येवंक लागले. करतां करतां कुश्टाले घरांत गांवच्यो गजाली कॉमेस जाल्यो. ह्यो गजाली घडोवन हाडपाचें काम गणसूच करतालो. गजाली चडशो खेमल्या विशींच आसताल्यो.

चड करून अशिक्षीत लोकां मदीं एकट्यान 'अ' म्हणल्यार दुसऱ्यान

'ब' म्हणची सवंय आसता. हे सवंयेचो फायदो गणसून घेवपाचें थारायलें. कुश्टाचे खबरेक येतल्यांत खेमल्याले मानाय आसताले. गणसू ह्या मानायां मुखार जेन्ना खेमल्याविशीं बरें उलयतालो, तेन्ना ते मानाय खेमल्याचेर नकळत कोंत्र उलयताले. गणसू दिसता तितलो सादो-भोळो नासलो. आपल्याक जाय त्यो गजाली घालून काडूंक हुशार आसलो तो.

हे आदीं खेमल्याच्या भयान गांवचे कुश्टागेर येनासले. कुश्टाची खेमल्याकडेन कोंत्रपार्त आसा ही गजाल एकान एक वाडेकार जाणां आसलो. वाडेकार हेंय जाणा आसले की कुश्टा एक नितळ मनाचो मनीस म्हूण. पूण ते खेमल्याचें वांकडेपण घेवंक सोदिनासले. हेंच एक कारण आसलें कुश्टा पसून पयस रावपाचें.

आतां कुश्टान वायटकाराचें सवंग घेतिल्ल्यान वाडेकारांक आयतीच संद मेळिल्ली कुश्टाक भेटपाची. दिसभर खेमल्याल्या कामांत गुंतिल्ल्यान वाडेकार रातचेच येताले कुश्टाचे खबरीक.

कुश्टान वायटकाराचें सवंग घेतिल्ल्यान एक गजाल ताच्या लक्षांत आयली की चडशे वाडेकार खेमल्याचेर बरे नांत. खेमल्याचेर बरे नाशिल्ल्या लोकांक आपलेशे करपाची संद आपशीच मेळटा, ही गजाल कुश्टाच्या लक्षांत आयली. गणसून तर हे संदिचो पुराय फायदो घेवपाचें थारायलें.

पाद्रिल्या इस्कोलांत शिकिल्ले, गणसुले कांय वांगडी वाड्यार आशिल्ले. ह्या सगळ्या वांगड्यांक ताणें एकठांय केले. आपल्या मनांतले विचार तांकां पटोवन दिले. सगळ्यांक आपल्या बापायक भेटयले. आपल्या पुतालो मोलादीक वावर पळोवन कुश्टाचे कुडीर आतां दिसान दीस इल्लें इल्लें मांस चडत आसलें. ताका आतां खात्री जाल्ली की गोंदूल्या वावराक बळ हाडपाची कापाजदाद आपल्या पुता कडेन खऱ्यांनीच आसा.

आनी घडलेंय तशेंच. गणसू आपल्या वांगड्यांक घेवन गोंदूचे खबरेक गेलो. एकाच इस्कोलांत शिकिल्ले वांगडी आतां बऱ्या कामाक एकठांय जाल्ले. गणसून आपल्या वांगड्यांची वळख गोंदूक करून दिली. गणसून गोंदूक हेंय सांगलें की कसलीच गजाल आपल्या वांगड्यांक लिपोवन दवरपाची गरज ना.

गणसुले हे वांगडी गोंदूक पाद्रिल्या इस्कोलांत वळखताले. फुटबॉल खेळांत ताणें नामना मेळयल्या हेंय ते जाणा आशिल्ले. एका तेंपार हो इस्कोलांतलो हिरो जावन गेलो, हेंय त्या वांगड्यांच्या लक्षांत आशिल्लें. ताणीं आतां गोंदूच्या आदाराक एकवटान धावून वचपाचो निश्चेव केलो.

ते इतल्यारच थांबले ना. गोंदू बरो ना, ही गजाल ताणीं आख्ख्या गांवांत फामाद केली. ताणीं अशेंय भासयलें की गोंदूलें दुयेंस दिसान दीस वाडत आसा.

गोंदूल्या वायटाची खबर आयकून, पाद्रिल्या इस्कोलांतल्या भुरग्यांची आनी गांवांतल्या फुटबॉल मोग्यांची रांग गोंदूल्या घरा दिकेन लागली. अशें घडत आसतना दुर्गवाड्या वयले लोक कुश्टाक साप्प विसरून गेले. आख्ख्या गांवच्या लोकांच्या तोंडांतल्यान घोळूंक लागलें तें फकत गोंदूचें नांव.

गोंदू अकस्मात बरो ना जाल्ल्याची खबर आतां पावलूच्या कानार पडली. पावलू आपले आवयक आनी भयणीक घेवन गोंदूचे खबरेक गेलो.

"बाबा गोंदू, ओहें कितें पूण जालें रे बाबा तुहां. सामको सुकोन बावलो जाला मुरे पुता म्होज्या!"

विचारतां विचारतां पावलू मम्मीन तोंड येदेशें केलें.

खरें म्हणल्यार गोंदू सुकूंबिकूं कांय नासलो. ठणठणीत आसलो तो घरांत लोळून-लोळून. पूण खबरीक येतल्यांक तो सुकला अशेंच दिसतालें.

पावलू आपले खबरीक आयला तें पळोवन खूब वायट दिसलें. तो हेरांक फटयता हाचें ताका दुख्ख नासलें. पूण जिवा भ्रावाच्या इश्टाक तो कसोच फटोवंक शकनासलो. गोंदून थारायलें, सगळ्यांक भायर धाडून आपल्या मनांत कितें शिजता, तें आपल्या इश्टाक सांगून मन साफ दवरचें. तशें केलें ना तर खऱ्यांनीच तो हातरूणाक लागतलो. आनी गोंदून केलेंय तशेंच. आपली पुराय येवजण ताणें पावलूक सांगली. आनी तो हेंय सांगून मोकळो जालो की तो जें कितें करता, तें दुर्गवाड्या वयल्या मदांध देसायाक दाळाक लावंक करता. हेर लोकां वांगडा आपल्या आवय-बापायची वाट त्या खेमल्यान कशी लायल्या ही गजाल लिपय नासतना ताणें आपल्या इश्टाक सांगली.

पावलून मन लावन गोंदूली गजाल आयकून घेतली. कसल्याच दुबावाक

ताणें आपल्या मनांत सुवात दिली ना. आपलो इश्ट जें कितें करता तें विचार करूनच करता, हाची पुराय खात्री पावलूक आशिल्ली. एका तेंपार गांवांत फुटबॉल सर्त जाल्ली तेन्ना पावलू थोडो बुचकळ्यांत पडिल्लो. ताचे अथीर बुद्दीन ताका धोको दिल्लो. ताका लागून ताचे कडल्यान एक तरेन गोंदूचो विश्वासघात घडलेलो. गोंदू तें सगलें विसरून गेल्लो. पूण पावलू मात तें घट्ट मनांत घेवन आशिल्लो. आपले तेन्नाचे चुकीची भरपाय ताणें आतां करपाचें थारायलें.

गोंदूक पावलून धीर दिलो आनी तो बद्द आपल्या मामाकडेन गेलो. गोंदूची अडचण ताणें मामाच्या कानार घाली.

कोणाकूय बऱ्या कर्माचें फळ केन्ना ना केन्ना बरेंच मेळटा. पावलूचो मामा गोंदूक पुराय वळखतालो. गोंदूचें नांव आयकताच मामाल्या मनांतलो देव जागो जालो. ताणें कसलोच कळाव करिनासतना, गोंदूले घरा दिकेन आपलीं पावलां वळयलीं. वांगडा पावलू आसलोच. गोंदू बरे देखीचो आनी नितळ मनाचो भुरगो. ताच्या धाडसाची आनी कापाजदादीची वळख ताका हे आदीं जाल्लीच. असल्या भुरग्याची मजत करिनासतना रावपी कर्मकट्टोच, अशें मामाचें मन ताका सांगूंक लागलें.

पावलू वांगडा मामाक पळोवन गोंदू हर्शेलो. ताचे कुडींत खंयचें बळगें आयलें देवाक खबर! तो खडबडीत उठून बसलो. ताणें मामाक हुनहुनीत येवकार दिलो.

"कोहो आहाय रे गोंदू!" मामान खबर घेतली.

"हांव एकदम बरो आसा मामा."

"माहांय तोहेंच दिसता. माजीर येद्दो व्होडलो बोबाव कित्याक."

"बोबाव लोक करतात मामा. बोबाव कोरूं नासलो जाल्यार तूं हांगा कित्याक पावतो आसलो."

"हांव इंगा पावों जावो आहलो तोरू?"

"हय मामा, म्हाका तुजी ह्या वेळार चड गरज आसा."

"सांग कोहोलें काम आहा तें. हांव तुजे हाटल्यान आहा रे. कांय भियों नाहां."

गोंदूक मामा कडच्यान धीर मेळ्ळो. मागीर तो कित्याक वोगी रावत? मामा आनी पावलू ताचे विश्वासांतले मनीस. ताणें तांचे मुखार घसघशीत आपलें मन उक्तें केलें.

खेमलो देसायाच्यो कागाळ्यो हे आदीं खुबदां मामाच्या कानार गेल्ल्यो. पूण खेमलो सरपंच आशिल्ल्यान आनी गांवचो लोकय ताचे विशीं उक्तेपणान कांयच उलयना जाल्ल्यान मामाय आपलें तोंड उक्तें करिनासलो.

तशें पळोवंक गेल्यार आमच्या सरभोंवतणी खुपशे लोक तोंडांतली वाफ भायर घालीत आसतात. पूण पेजाद मनशांच्या तोंडांतल्यानच मोलादीक उतरां भायर पडटात. ह्या मोलादीक उतरांचोच शाणो मनीस विचार करता.

मामाचे दिश्टीन गोंदू पेजाद मनीस आसलो. ताच्या उतरां कडेन मामा दुर्लक्ष करूंच शकनासलो. खेमलो देसायाक सत्तेचो माज चडला. ताका जाग्यार हाडटलो जाल्यार ताचे कडची राजकीय सत्ता कोणाय भशेन हिसकावन घेवंची पडटली, अशें मामाच्या मनान थारायलें.

मामान गोंदूक आदार दिवपाचें उतर दिलें आनी ताचे तकलेंतलें चक्र घुवूंक लागलें. बरोच वेळ पिक्-पिक् करपी मामाले तकलेंतली ट्यूब लायट आतां लक्क करून पेटली. मामाच्या लक्षांत आयलें की एप्रिल म्हयन्यांत ग्रामपंचायतीच्यो वेंचणुको आसात. आतांच तयारेक लागल्यार खेमल्या कडचें सरपंचपद काडून घेवपाक व्हडलेंशें कठीण वचचें ना. मामान थंयचे थंयच गोंदूक सल्लो दिलो.

"गोंदू, तूं आतां हाल्यां सावन सोडसोडीत बोरो जाता मुरे? बोरो जाव आनी होड्डें फुडें काडून गांवभर भोंव. त्या देसायाक मात्तूय कोंत करूं नाहां. जाप लेगीत कोरपा गोरोज ना तेकोडे."

मामा अशे तरेन उलयलो की खेमलो देसायाचो दुस्मान गोंदू न्हय, आपूण!

गोंदू मामा कडेन केदो वेळ तोंड आं करून पळयत रावलो.

"तोंड आं ऽऽ कोरून कितें पोयताय रे! एप्रिलाक पोंचायतेच्यो वेंचणुको आहाय. आमी सोगले घोट रावंया आनी त्या खेमलो देसायाक भायर मारूया."

गोंदू मामालें नेटाचें उलोवप आयकून खडबडीत जागो जालो. फुडले

वर्सा गांवांत पंचायत वेंचणुको आसात, अशें लोक उलयताले. पूण गोंदून ते गजाली कडेन व्हडलेंशें लक्ष दिवंक नाशिल्लें.

आतां मामालो हावेस पळोवन गोंदूलो हावेस दुप्पट जालो. ‘खेमल्याक भायर मारूया’, हीं मामालीं उतरां गोंदूक भावलीं.

गोंदू वेंचणुकेक उबो रावंक शकनासलो. कारण ताका वर्सां जावंक नाशिल्लीं. पूण तो मामाच्या सांगातान आपलो पंगड, उबो करूंक शकतालो. मामान मनांत हाडल्यार सरपंच पदा खातीर तो लढो दिवंक शकतालो. पूण गांवांतल्या पांचय वाड्या वयल्या लोकांचीं मतां जिकपाक ताका इल्लें कठीण आसलें. तरी तो खेमल्याक आळबंदाक हाडपाची चलून आयिल्ली संद होगडावंक सोदिनासलो. ताणें आनी कळाव केलो ना, थंयचे थंयच वेंचणूक पंगड तयार करपाचो निर्णय घेतलो.

गोंदूले पावलू आनी मामा विश्वासांतले मनीस आशिल्ले. तशेंच मामालेय आसले. मामान कांय मनशांक गोंदूगेर आपोवन घेतले. ताणें तांकां एप्रिलांत येवपी वेंचणुकांची पुराय म्हायती दिली. कशीय करून वेंचणूक जिंकून सरपंच बदलूंक जाय अशें सगळ्यांचें मत्त जालें. आतां पसूनच वेंचणुकेचें काम हातांत घेवपाचो थाराव ताणीं केलो.

तेवटेन खेमलो देसाय, कुश्टा आनी गोंदूच्या मरणाची वाट पळयत आसलो. ताचे दूत ताका दोगय वायटकारांच्यो बातम्यो दीत आसले. लोकां मदें चालू आशिल्ल्या उलोवण्या वयल्यान एक ना एक दीस हे संवसाराक अंतरतले, अशी खात्री खेमलो देसायाक जाल्ली. कुश्टाचें ताका व्हडलेंशें पडूंक नासलें. ताचें लक्ष आसलें गोंदूचेर. ताका आफोवन हाडून समजावपाचो. समजना जाल्यार ताचेर चेंपण घालचें, भंय दाखोवंचो, पैशांची आस दाखोवंची आनी कशेंय करून तागेले जमनीचेर कायदेशीर ताबो मेळोवंचो.

पूण आतां गोंदू मरणा देगेर पाविल्ल्यान खेमलो देसाय खुशालभरीत जाल्लो. बारकेल्याचें आनी गिरिजाचें आतां ताका मातय कोंत नासलें.

खेमलो देसाय काल्पनीक सुखांत लोळटा आसतना मामा आपल्या कामाक लागिल्लो. ताच्या मुखार आतां एकूच मोख आसली आनी ती म्हणल्यार पंचायत

वेंचणुकेंत खेमल्याचो पाडाव.

मुरडगांवांत पांच वाडे आसले. त्या गांवांचीं नांवां अशीं आसलीं - कोंडवाडो, दुर्गवाडो, न्हयवाडो, देवूळवाडो आनी खुरीसवाडो. एक खुरीसवाडो सोडलो जाल्यार हेर वाड्यार भंडारी आनी गावडेच चड रावताले. खुर्सावाड्यार किरिस्तावांची वसती देमायज. पाद्रिलें इस्कोल आनी माद्रिंलो कोन्वेंट ह्याच वाड्यार आसलो. वाड्यार व्हडलें कपेल आशिल्ल्यान, कपेलाच्या घाटींनी पांचय वाडे जागे जाताले.

गांवांत फक्त पांचच वाडे आशिल्ल्यान, पंचायतय पांच पंचांची आसली.

आयज मेरेन पंचायतीचेर चार हिन्दू आनी एक किरिस्तांव पंच निवडून येतालो. तातुंतलो सरपंच हिन्दू आनी उपसरपंच किरिस्तांव. हो वेळ मेरेन खेमलो देसाय सोडून सरपंचाची माळ कोणाच्याच गळ्यांत पडली ना. ह्या वर्साय तेंच जातलें म्हण खेमलो देसाय काळजी विरयत आसलो.

गोंदू अजून बरो जावनासलो. मामानच आपले आदले विचार बदलून ताका बरो जावपा खातीर आनी पंदरा दिसांची मुदत दिल्ली. हेत हो की गोंदूच्या वायटपणांत, पंचायत वेंचणुकेच्यो बसका गोंदूच्या घरांत जावंच्यो. ताका लागून खेमल्याक कसलोच दुबाव पडचो न्हय.

इतले म्हणसर माघ सोंपून फाल्गून म्हयनो लागलो. हो म्हयनो ल्हान-व्हडांचे कुडींत हावेस भरपाचो. झाडां-पेडांक फुलोवपाचो. म्हातारे कोतान्यांक खुदोवपाचो. कोगळांक कंठ फुटपाचो. उबदार हवेंत खेळ खेळपाचो.

शिगम्याचे दीस सुरू जाले. तालगडीच्यो तोणयो टुकटुकूं लागल्यो. ताशे तणतणूंक लागले. धोलार तोणयो पडूंक लागल्यो. कांसाळीं झिंग-झिंगूक लागलीं. वाटार-वाटार, कटर कटर गाजूंक लागलो.

धोल-ताशांच्या गाजार गड्यांच्या ताळ्यांक सूर फुटले. तावेर्नांनी गर्दी जावंक लागली. काजू-माडांच्या फेणयांची दर्पसाण बेबद्यांक चडच आकर्शूंक लागली. दोंगुल्ले वयले हुस्केगोणे धोलूंक लागले. चांफे कळयोवंक लागले.

पिर्शी आबोलीं गरजे भायर फुलूंक लागलीं. रतन आबोलीं फुलूंक लजूंक लागलीं. दोंगरा वयल्यो चुन्नी-काण्णी फुलूंक आशेल्यो.

असल्या वातावरणांत एप्रिलाचे बारा तारकेक पंचायत वेंचणुको थारायल्यो.

एक मुरडगांव सोडलो तर हेर गांवांनी शिगम्याच्या हावेशांत वेंचणुकांचो हावेस मिसळून राजकारणी तरनाट्यांक भलतोच नेट येवंक लागिल्लो. थोडेच दिसांनी तांची चंगळ सुरू जावपाची आसली. पंचायत वेंचणुको जांव ना तर विधानसभेच्यो. फुकट खावंक तें व्हडलें फेस्तच आसता. राजकारण्यांच्या आशिर्वादान गूंड मोकळे सुटिल्ले आसतात. पुलिसाचे नदरेन तर गूंड सायबच आसतात.

सगळेकडेन वेंचणुकांचो बोवाळ सुरू जावन बरेच दीस सरले. पूण मुरडगांवांत मात अजून सामसूम आसलें. खेमलो देसायाचें राज्य आशिल्ल्यान थंय बोवाळाक वावच नासलो. खेमलो निमणे वगतार आपल्या उमेदवारांचे फॉर्म भरून सुशेगाद बसपाचो आसलो. मतदानांच्या आदले दिसा गुंडांक, तरनाट्यांक सोऱ्याच्यो पाट्र्यो दिवन तो हुस्के मेकळो जातालो. जणेके वेंचणुकेक अशेंच घडटालें. जैत खेमल्याचेंच. सरपंच खेमलोच. खेमल्या आड उबे राविल्ले उमेदवार नांवां पुरतेच आसताले. ते वेंचणुकेंत आपटी खातले, हें थरलेलेंच आशिल्लें.

फॉर्म भरूंक सरकारान दिल्लो वेळ परवां सोंपता म्हणल्यार खेमलो देसाय आपले भुरावळी सयत फॉर्म भरपाक सरकारी ऑफिसांत गेलो. पळय जाल्यार ताच्या आदीं ह्या वर्सा कितलेशेच लोकांनी फॉर्म भरल्यात. तातूंत खुर्सावाड्या वयलो पावलूचो मामा आनी दुर्गवाड्या वयलो कुश्टाय आसा. वेंचणुकां मळार केन्नाच दिसूंक नासले मनीस खेमलो आयज पळयतालो. ताच्या पांयापोंदची माती घसरली. ताका शेळो घाम सुटलो. ताच्या धवे फुल्ल चेऱ्यार खिणांत मिरयो पडल्यो. तो हरतलो म्हण ताका मातय भंय नासलो. पूण केन्नाच पंचायतीच्यो वेंचणुको लडोवं नासले मनीस आतां जागे जाले, हें खेमल्याक दुचिन्न दिसलें.

पावलूच्या मामाचें खेमल्याक व्हडलेंशें कांयच दिसलें ना. कुश्टाचें नांव पळोवन मात खेमल्याच्या आंगाक उजो पेटलो. आपल्याच वाड्या वयलो एक भिकाड्डो आपल्या आड फॉर्म भरता, ही कल्पनाच खेमल्याक मानवलीना.

खेमल्याचें पडिल्लें तोंड पळोवन कितें घडलें तें ताच्या वांगड्यांक कांय कळ्ळें ना. ते एकमेकांच्या तोंडाकडेन पळयत रावले.

आपल्या वांगड्यां सयत आपलो फॉर्म भरून खेमलो तरतरीत घरा आयलो. ताणें वांगड्यांकय आपोवन व्हेले. फॉर्म भरपाच्या निमतान तांकां पोटभर खावयलें-पिवयलें आनी घरा धाडले.

मनशान धन-दौलतीच्या खुस्तार आपूण ताकतवान म्हण कितल्योय शेकी मारल्यो तरी ताका आपले ताकतीची कल्पना आसता. आपूण मनीस, ईश्वर न्हय हाची जाणविकाय ताका आसता. ही जाणविकाय रावणाक आनी कंसाक आशिल्ली. तांकां ती नाशिल्ली जाल्यार ते राज्य चलयतासतना सैन्य बाळगिचेनासले. सैन्य नासत तर आपूण राज्य तिगोवन धरूंक शकना हाची जाणविकाय एकाद्रया राजाक आसप म्हणजेच ताची ती फ्राकेज! ह्या संवसारांतलो खंयचोच शाणो राजा आपल्याक ईश्वर मानचो ना. इतिहास साक्ष आसा, जाणीं जाणीं आपल्याक ईश्वर मानला, ताणीं आपली फजिती करून घेतल्या.

खेमलो देसाय इतलीं वर्सां फुलू खुस्तार फोल्गां मारतालो. दुबळे-गरिबांच्या नाड्यार तो गिरेस्त जाल्लो. आपल्याक हालोवपी ह्या गांवांत कोणूच जल्माक येवंचो न्हय म्हण शिटुकसाणेन वावुरतालो. पूण आतां कुश्टा सारको एक भिकाड्डो मनीस, बळिश्ट खेमल्या आड पंचायत वेंचणुकेक उबो रावता म्हणचे कितें? जो मनीस वायटकार जावन मरणाक तेंकिल्लो तो अकस्मात वेंचणुकेक उबो रावता? हातूंत शेर्त कोणाचेंय तरी कारस्थान आसूंक जाय, अशें खेमल्याक दिसलें.

खरें-फट कितें तें सोदून काडपाक ताणें आपले खास अशे दोन गुप्तहेर कामाक लायले. गुप्तहेरांक खरेली गजाल सोदून काडपाक चड कळाव लागलो ना. एक दुर्गवाडो सोडलो तर गांवांतले चडशे लोक खेमलो देसायाचेर कोंत्र उलयतात हें त्या गुप्तहेरांक कळून आयलें. मात ह्या कोंत्रपणांत गोंदू आनी मामाचो हात आसा, हाचो लोकांनी कोणाकच पत्तो लागूंक दिलो ना. शादूर मामान तशीच वेवस्ता करून दवरिल्ली.

मरणा देगेक तेंकिल्ल्या गोंदू-कुश्टाक अकस्मात सडसडीत बरे जावन गांवांत भोंवतात ते पळोवन मात खेमलो मात्सो दुबावलो. पूण गांवांत कोणें तरी

अशी वदंता उठयली की कोण तरी भायलो बाबा येवन, गोंदू-कुश्टा सयत गांवांतल्या सगळ्या वायटकारांक दोन दिसांत सडसडीत बरे करून गेलो. तेन्नाच खेमल्यान गोंदूचो दुबाव घेवपाचें सोडून दिलें. तरी कितें घडटा तें पळोवन घाळ रावल्यार आपूण शेणटलों म्हणपाची चुणचूण खेमल्याक लागली. गरिबांच्या घरांत केन्नाच पांय दिनासलो खेमलो आतां दुर्गवाड्या वयल्या खोपट्यांनी भोंवपाक लागलो. लोकांची विचारपूस करूंक लागलो. बेठोच हात हालोवंक लागलो.

खेमल्याली वागणूक बदल्ल्या, ही गजाल दुर्गवाड्या वयल्या लोकांक कळूंक चड वगत लागलो ना.

"काटो, तुका पात्रांव हात हालयतालो मरे!"

"कोण पात्रांव?" काटुले चेऱ्यार मिरयो पडल्यो.

"खेमलो पात्रांव, आनी कोण?" नोरून म्हणलें.

"तो सगल्यांक हात हालयता, म्हाकाच कित्याक?"

"आर्दी हालयनासलो." - काटू

"आतां येलिसांवां लागीं पावल्यांत न्हू रे, पंचायतीचीं"

"आदले पावटीकय आमीच निवडून हाडला न्हू रे तेका. तेन्ना कुसलेलें सोंड करून भोंवतालो रांडग्याचो. वयल्यान धर्र-फर्र आनी मार-फार करून मतां घालून घेतालो आपल्याक आनी आपल्या वांगड्यांक. आतां मद निवळ्ळा चेडयेच्याचो." काटून माथ्याचो तुवालो सोडून फट्ट करून वाऱ्यार फाफुडलो. चोमडी करून चेऱ्याचो घाम पुसलो. एक पांय फातरार दवरून नोरूच्या चेऱ्याकडेन दोळे लावन उबो रावलो.

"केद्या मोट्यान उलयता रे तूं. कोणय आयकत जाल्यार धावोन वोचोन कान फुंकतोलो खेमल्याचो." नोरून काटूक भंय घालो.

"गेलो रे उडत. खेमल्याचे दीस सोंपले आतां. कुश्टा आपा तेका माती खावयना जाल्यार पळय." कांटून आपलो विस्वास प्रगटायलो.

"तुका दिसता, कुश्टा आपा तेज्या मुखार तिगाव धरतोलो म्होणोन." नोरू.

"तिगाव धरूं वो धरूं नाका. दोळे तरी उक्ते जातले पाप्याचे. हांव म्हागेलें

मत हे पावटी कुश्टा आपाकच दितलों. तूं कितें म्हणटा?" काटून नोरूच्या चेऱ्या वयलो भाव वळखुपाचो येत्न केलो.

"हांव आनी कितें म्होणों, तूं थंय हांव. कोणाकय तरी मोत घालुंकूच जायें न्होरे!" नोरू कितेंय तरी उलोवन हुस्क्या मेकळो जालो.

ह्या वर्सा गांवांत सगळे कडेन अशेंच उलोवप चलतालें. एकलो खेमल्याचेर कोंत्र उलयतालो आनी दुसऱ्याक धीर मेळटालो. तोय मागीर पयल्याक तेंको दितालो, अशे तरेन गांवभर खेमल्या आड वातावरण तयार जालें.

तरी हांगा-थंय खेमल्याचो एकाद्रो चमचो उदेतालोच. असल्या चमच्यां कडल्या खबरांनी खेमलो चवताळटालो. ते भायर तागेले खाशेले खबरांकारय, ताच्या आड गांवांत कोण कोण, कितें कितें उलयतात तें येवन सांगताले. ह्या खबरांनी खेमल्याचे हात पांये आतां इल्ले इल्ले गळूंक लागिल्ले.

वेंचणुको लागीं पाविल्ल्यान गोंदू आनी तांचे वांगडी आतां उक्तेपणान खेमल्या आड प्रचार करूंक लागिल्ले. ही वेंचणूक आतां म्हाताऱ्यां आड तरनाट्यांची आसली. मामान आपूण आनी कुश्टा सोडून, हेर तीग तरनाटे उमेदवार गोंदूच्या आदारान उबे केल्ले. ताका लागून पावलून आपले मामाचे सांगणेन तरनाट्यांचें एक भिरें तयार केल्लें. ह्या भिऱ्यांतले चडशे तरनाटे पाद्रिल्या हायस्कुलांतले माजी विद्यार्थी आसले. ह्या भिऱ्या मदें पावलू आनी गोंदू आशिल्ल्यान मामाल्या पंगडाक चडूच वजन आयिल्लें. फुटबॉल सर्ती वेळार गोंदू फामाद जाल्लोच. गोंदू आतां वेंचणूक पंगडाक तेंको दिता हें आयकून लोकांक चडच जाग आयिल्ली. ह्या नव्या पंगडाक आतां नैतीक बसका मेळिल्ली.

तरनाटे गांवांत भिऱ्यान प्रचाराक भोंवतात तें पळोवन खेमल्याचेर आतां आकांत आयिल्लो. खेमल्यालो पंगड वेंचणुकांत हारलो तर, गांवांत खेमल्याक भोंवपाक तोंड नासतलें आसलें. ते भायर फुडले विधानसभेचे वेंचणुकेक राज्यांतल्या मुखेल पक्षांची तिकेट मेळपाची शक्यताय आसची नासली. सरकार दरबारांत नाशिल्ल्यान ताची पत देंवतली आसली. ताका लागून खेमल्याक घाळ रावन परवडपाचें नासलें.

आतां खेमलो चितूंक पडलो. आपल्याक ही वेंचणूक म्हारग पडटली हें

ताच्या लक्षांत आयलें. तेच बराबर फाटल्या चाळीस वर्सांत ताणें केल्लीं पातकां ताच्या दोळ्यां मुखार फुगडी घालूंक लागलीं. ताणें केल्ल्या कुकर्मांचें प्रायश्चीत घेवपाचें धाडस ताच्यांत नासलें. सत्तेची आस ताका तशें करूंक दिनासली.

खेमलो गांवभर भोंवलो. जाका ताणें ह्या आदीं दुख्ख भोगयल्लें, तांचीं मनां वळोवपाचो येत्न ताणें कॉमेस केलो.

दुर्गवाड्या वयलो कुश्टा, खेमल्याचो एक नंबरचो दुस्मान . ह्या आदीं ताणें थारायल्लें, कुश्टाचें तोंड लेगीत पळोवंचो ना म्हण. पूण गरजवंतांक खंय अक्कल ना. आतां सगळी दुस्मानकाय ताणें मनांतल्या मनांत दवरली. तोंडार उशणें हाशें घेवन खेमलो कुश्टाल्या दारांत गेलो.

गणसू आंगणांत बसून मल्ल विणटालो. पयसुल्ल्यान ताची नदर खेमल्याचेर पडली. खेमलो सोडून आनी कोणय आसलो जाल्यार गणसू धावून वचून ताका येवकार दितलो आसलो. पूण गणसून तशें केलें ना. ताणें खेमल्याचो आपणागेर येवपाचो हेत वळखलो. गणसून खेमल्याक पळोवन पळोवना शें केलें. तो तकली खाला घालून आपलें काम मोन्यांनी करीत रावलो.

'तो कोण रे, गणसू?' खेमल्यान आंगणांत पावतकच उभ्यानच प्रस्न केलो. गणसून खेमल्याचेर नदर मारून परत मान बागयली. खेमलो देसायाक वाटेर कोणय भेटलो तर सलाम ठोकता. ताचेकडेन दोन उतरां उलोवपाक आशेता. आनी हांगा दारांत आयल्यार हो देडदमडेचो कुश्टालो पोर आपल्याक किंकोत करता म्हणजे कितें? खेमल्यान रागा भारार दांत वोंठ किल्लिले. ताका दिसलें, फाटल्यान वचून गणसूच्या भेंडार एक रस्तीन खोंट घालची. पूण 'अडला हरी आनी गाढवाचे पांय धरी' ही म्हण ताका याद जाली. ताच्या रागाचो पारो ताका मुजरत देंवोवंचो पडलो.

गणसू जाप दिना तें पळोवन खेमल्यान मोर्चा घरा कडेन वळयलो. खेमल्याक आंगणांत पळोवन घरांतल्या मनशांनी फाटल्या दारांतल्यान धांव मारली. कुश्टा मात मोडक्या कानाप्यार पिरंगत पडून रावलो. तोय पळटलो आसलो. पूण तो खेमल्याक पुराय वळखतालो. पिडा आपल्याक गांठल्या बगर रावंचीना ही ताका खबर आसली.

"कुश्टाबाब आसा काय ना रे घरांत?" कुश्टाक बाब म्हणल्यार तो भुरकट्टलो, अशें खेमल्याक दिसलें. पूण कुश्टान ताचें कोंत केलें ना. ताणें आपूण घरांत आसा, हें सुचोवपाक कानाप्प्या वयल्यान 'कोऽऽण.' असो आवाज केलो. खेमल्यान आतां एकच दांग मारून कानापो गांठलो.

"कुश्टाबाब, तूं चड बरो ना म्हण आयकल्लें मरे हांवें."

"हऽऽय!" कुश्टान मरणाक तेंकिल्लो वायटकार सुस्कार सोडटा तसो लांब सुस्कार सोडलो.

"आरे पापया, तूं इतलो बरो ना जाल्यार, वेंचणुकेक उबो रावलो कित्याक? नाका आशिल्ल्यो भानगडी आंगार कित्याक घेतल्यो? तसो तूं म्हज्या आड उबो रावलो म्हण हांव भियेना रे! हांव वेंचून येतलोंच. म्हाका काळजी ती तुजीच. कितलोय जालो जाल्यार तूं आमचे वाड्या वयलो मरे, तुजी काळजी आमी घेनांत तर आमी देसाय कसले?"

"आरे, ह्यो वेंचणुको लटर फटर मनशांक न्हय. तसो तूं हुशार आसा रे, पूण अणभव ना न्हय रे. ताका लागून हांव म्हणटां, म्हणटां कितें, विनंती करतां तूं तुजी उमेदवारी फाटीं घे. वोगीच तुजें म्हजें वांकडेंपण नाका गांवांत. हातूंत तुजें कांयच लुकसाण जावंचें ना. वयल्यान तुका धा हजार रुपये दितां. मार मजा. हें सगळें हांव म्हजो मनस्ताप पयस करपा खातीर करतां रे. तूं फाटीं सल्लो म्हणटकच हांव तणाव मुक्त जालों न्हय?"

खेमलो कानाप्प्याकडेन उबो रावन बडबडत आसलो. कुश्टाची कसलीच हालचाल नासली. मात खेमल्याचें उतरान उतर मन लावन आयकतालो. भारार आयिल्लो खेमलो आतां उलोवन उलोवन दमलो. आपल्या उलोवण्याक कुश्टा मातय जाप दिना तें पळोवन खेमलो मात्सो दचकलो. ताका दिसलें आपल्या भयान ताणें प्राण बी सोडुना मूं! ताणें आपल्या दोनय हातांनी कुश्टाक गदगदीत हालयलो.

आतां मात कुश्टाच्यान वोगी पडून रावंक जायना जालें. तो फटफटीत उठून बसलो. कोण भूतबीत लागिल्लेवरी खेमल्याक दोळे मोठे करून पळयत रावलो. खरें म्हणल्यार कुश्टाक कांयच जावंक नासलें. तो वायटकाराचें सवंग

घेवन खेमल्याक थंयच्यान धांवडावंक सोदतालो. तातूंत ताका यश मेळ्ळें. आपल्याच्यान तुजें कांयच आयकूंक जायना. तूं आयला तसो परत वच, अशें हातवारें करून कुश्टान खेमल्याक सुचोवण्यो दिल्यो.

खेमल्याक आतां कळून आयलें कीं, कुश्टा आपल्याक कसोच बदचोना. गणसूच्या वागण्या वयल्यान कुश्टा नाटकां करता, हें खेमल्यान तांडलें. खेमलो निर्शेलो. धा हजारांचें आमीश दाखोवनय हो भिकाड्डो जागो जायना. आतां हाच्या मुखार कितलेंय नाक घासलें तरी ओमथ्या कळशार उदक तें उदकच! हांगच्यान आतां कडसरपांतूच शाणेपण आसा म्हण खेमल्यान जळफळत थंयच्यान 'पो' काडलो.

खंतेल्लो खेमलो आतां आपल्या पंगडाच्या उमेदवारांक घेवन गांवांतलें घरान घर मतमागणीक भोंवलो. तो गांवचो सरपंच आशिल्ल्यान गांवच्या लोकांनी ताका हुनहुनीत येवकार दिलो. कांय हुतहुत्यांनी मुखार येवन म्हणलें, "देसायबाब, केदोय व्हडलो मनीस फुडें येवन मतां मागलीं तरी तुका सोडून आमी कोणाकच लागीं धरचे ना. तुजी आमकां सवंय जाल्या. ह्या फुडें कसलो देंवचार सरपंच जायत सांगों जाता? कितें म्हणटा रे बाबुशा."

"हय तर! आमकां आसा तोच सरपंच बोरो." अशे तरेचीं उतरां पावला कणकणी खेमल्याच्या कानार पडटालीं. तीं आयकून खेमलो भारावतालो. दोळ्यांत दुकां हाडून आपणें केल्ल्या गुन्यांवांचो पाडो आपूण जावन लोकां मुखार वाचतालो. ह्या फुडें अशें घडचें ना. ताणें आश्वासन दिलें.

पूण हें सगळें उलोवप लोकांक फुलां माळपाचें आसलें. लोकांचें उलोवपय खेमल्याच्या दोळ्यांक उदक लावपा खातीर आसलें.

वेंचणुकेचो दीस आतां लागीं पाविल्लो. खेमल्याचें काळीज धडधडूंक लागिल्लें. लोकांनी कितलेंय आश्वासन दिलें तरी खेमलो तांचेर विश्वास दवरूंक शकनासलो. लोकांनी ताचेर विश्वास दवरपाची स्थितीय नाशिल्ली. ताणें तशींच कुकर्मां करून दवरिल्लीं.

खेमल्यान चिंतलें. ह्या आदीं दुडू दिवन आपणें मतां केन्नाच विकतीं घेतलीं ना. कारण आपल्याक गांवांत दुसरो पर्याय नासलो. तेन्ना निवडून येतलो जाल्यार

दोन-तीन लाखांचो खुर्दो केल्यार आपलें व्हडलेंशें कांयच लुकसाण जावपाचें ना. निवडून आयलो जाल्यार सदचे भशेन लाखांनी जोडूं येता.

खेमल्यान जणेक वाड्या खातीर पन्नास हजार खर्चवपाचें थारायलें. वाड्या कणकणी गुंडांची वेवस्ता करून गांवांत दहशत निर्माण करून खेमलो आतां काळजी विरयत जालो.

शेकीं वेंचणुकेचो दीस उदेलो. खेमल्यान वाड्या कणकणी एकेक गाडयेची वेवस्ता केली. मतदारांक जबरदस्तीन गाडयांनी घालून बुथाच्या लागसाराक सोडून, गुंडांच्या धमकावण्यांनी मतदान जावंक लागलें. तशें पळोवंक गेल्यार मुरडगांवांत पंचायत वेंचणुकेंत इतलें म्हत्व केन्नाच येवंक नासलें. मतदारांक हाडपाक पयलेच खेप खेमल्यान गाडयेची वेवस्ता केली. घरांत मोडून पडिल्ल्यांक, वायटान तळमळटल्यांक, म्हाताऱ्या-कोताऱ्यांक बी उबारून गाडयेंत घालून बुथा लागीं हाडून सोडले. इतलेंच न्हय तर मत घालचे आदीं मतदारांक पारखून, तांच्या हातांत दोन-दोन , तीन - तीन पांचवीं नोटां चोंदलीं. त्या नोटांचे उबेन मतदारांची नीत जागली. खाल्ल्या अन्नाक पाळो दिवंक जाय ह्या न्यायान, घेतिल्ल्या नोटांक लागून खेमल्याक मत घालूंकच जाय, अशें खुबशा पापभंय आशिल्ल्या गांवकारांक दिसूंक लागलें. मत दिलें ना तर गांवांतले भूत-देंवचार तांचें निसंतान करतले, हाचो भंय तांच्या काळजांत रिगलो. धरूंक गेल्यार चाबता आनी सोडूंक गेल्यार पळटा अशी तांची गत जाली. तरी तांणीं भियेत भियेत चिन्नाचेर शिक्को ठोकलो.

वेंचणुकां पयलीं खेमल्यान आनीक एक गजाल गांवांत केली. ताचो देवाचेर कितलो भावार्त आसा तो ताका आनी देवाक खबर. पूण आपूण वेंचून येवंचो म्हण ताणें गांवच्या आशिल्ल्या, नाशिल्ल्या देव देवतांची पुजा अर्चा लोकांचे नदरेंत भरता तशी केली. ती अशे तरेन केली की लोकांक दिसचें, खेमल्याचें वायट चित्तल्याचें फुडें बरें जावंचें ना.

शेकीं मतमोजणेचो दीस उजवाडलो. खेमल्याक आपले चार तरी उमेदवार वेंचून येतलेच हाची शंबर टक्के खात्री आशिल्ली. ताका लागून ताणें आपलें जैत साजरें करपाक माराणाचीं बॉक्सां हाडून आपल्या कार्यकर्त्यांकडेन दवरिल्लीं. काजू-माडाचे फेणयेचे कितलेशेच गार्राफांव गुदावांत साठोवन दवरिल्ले. ह्या

सगळ्यांचो उपेग करपाचो हो दीस आज आसलो.

मतमोजणेच्या कार्यालयांत वतासतना खेमलो आपल्या वांगड्यांक घेवन लग्नाक वता तशा थाटांत गेलो. येता आसतना मात मसणांतल्यान घरा येता ते भशेन तोंड करून आयलो. तो पडलो म्हण न्हय, तर हे पावटीक सरपंच जावपाची ताची संद हुकली म्हण! खेमलो आनी ताचो एक वांगडी वेंचून आयिल्लो. गोंदूले पंगडाचे तीन पंच निवडून आयिल्ल्यान, पावलूचो मामा सरपंच जातलो, हें आतां उक्तें जाल्लें.

अशें आसलें तरी खेमलो मात आपली हार पचोवंक शकलोना. आयज सरपंचपद ना तर फुडें केन्नाच ना, ही गजाल ताका आतां कळून आयली. गोंदूल्या पंगडांतल्या एका पंचाक फोडून सरपंचाची माळ आपल्या गळ्यांत घालून घेवपाचो निश्चेव ताणें आतां केलो.

रक्ताची चट लागिल्लो वाग पिसावता. सत्ता भोगपाची सवंय लागिल्ल्या मनशाचीय तीच गत जाता. गेल्ली सत्ता मेळोवपाक तो खंयच्याय थरार पावूंक शकता. वेळ प्रसंगार साम-दाम-दंड-भेदाचो उपेग करून, वेळ पडल्यार लाळघोटेपणा करून, शेण लेगीत खावन तो सत्तेक वेंग मारूंक फाटीं-फुडें सरना.

खेमल्यान पयले सुवातेर आपले आड पंगड उबो करपी सुत्रधार कोण हाची खोलायेन चौकशी केली. पावलूचो मामा पंगडाचो खरेलो सूत्रधार हें खेमल्याक कळ्ळें. तरी तो ताचे कडेन गेलो ना. कारण ताची ताकत ताका खबर नाशिल्ली. मामाकडेन वचनासतना, तिनाचे दोन केल्यार आपलें सादतलें हें ताणें ताडलें. मोव आसा थंय कुदळ मारून पळोवंपाचें ताणें चिंतलें.

न्हयवाड्या वयलो भेणू एक पंच म्हण वेंचून आयिल्लो. तो गोंदूल्या पंगडांतलो पंच. धावी नापास जाल्लो. मडगांवां एका स्टेशनरी दुकानाचेर काम करतालो. मुरडगांवांत सावन मडगांवां पावपाक भेणूक दोन वरां लाग. येवपा-वचपाचो खर्च ताका दिसपट्टो उण्यात उणो पंदरा रूपये लागतालो. पगार म्हयन्याक दोन हजार. पगार पावना जाल्ल्यान भेणूक कशेय तरी दीस धुकलचे पड. खेमल्यान हें ताचें उणेंपण लक्षांत घेतलें आनी ताका दुडवांची आस दाखोवन गुटलावपाचो विचार केलो.

कोंडवाड्या वयलो पंच खेमल्यालो. ताचें नांव सोनू. सोनू खेमल्याल्या विश्वासांतलो खास मनीस. ताणें एक लाख रुपयांचें बंडल दिवन सोनूक न्हयवाड्यार धाडून दिलो. मुखेल निमित्त आसलें भेणूचें अभिनंदन करप.

लाखाचें बंडल घेवन सोनू भेणूल्या घरा लागसारा पावलो. पूण भेणू ताका वाटेरच भेटलो. खोशेंत आशिल्ल्या भेणूक सोनूलें येवप आवडलें ना. सोनूक पळोवन भेणूलें हांसतें तोंड बावलें. ह्याच सोनून आपल्या पंगडाचो, खेमल्याचो प्रचार करतना भेणू आड वीख ओंकपाचें काम केल्लें. आनी आज हो सोनू हातांत तुरो आनी लाखाचें बंडल घेवन भेणूचें अभिनंदन करूंक आयिल्लो.

"भेणू, हांव तुकांच मेळोंक येतालों मरे, खंय वोसोंक भायर सल्ला?" सोनून उजळ चेऱ्यान प्रस्न केलो.

"तूं खंय रे, हातींत तुरो घेवन." भेणून बाविल्ले चेऱ्यान प्रतिप्रस्न केलो.

"तुकांच मेळोंक धाडला म्हाका खेमलो बाबान."

"म्हाका? म्हाका सो? आनी कितें करपाचें उल्लां खंय तेगेलें?"

"इश्टागत. आमी कितें उलयले, आनी तूं कितें उलयलो तें सगलें विसरोया आतां. हो तुरो घे. आनी मनाक झाडो घाल. फाफुड सगलें वायटपण. आमकां तेंको दी. मागीर खेमलोबाब सरपंच आनी तूं उपसरपंच." सोनून आशेचीं उतरां शिंपडायलीं.

"माका तोसलें कांय नाका. सरपोंच-बिरपोंच तें आमचो मामा थरयतलो." भेणू नितळसाणीन उलयलो.

"मामा, कोण मामा रे? तो किरिस्तांव? कोंकण्याल्या गांवांत किरिस्तांव सोरपोंच जाल्लो जाय तुका?" हांगाय सोनूल्या तोंडांतल्यान वीख भायर पडलें.

"हो गांव फोकोत कोंकण्यालो न्होय, तो सोगल्यांचो. तुमगेल्या खेमल्या परस आमचो मामा जायतो बोरो आसा. कुसलेल्या मोनाच्या कोंकण्या परस नितळ मनाचो किरिस्तांव सोरपोंच मानवतलो म्हाका." धावी नापास जाल्लो भेणू विश्व सत्य उलोवन गेलो.

सोनून भेणूकडेन आनीक आनी वाद घालो ना. तत्वगिन्यान आनी धर्माच्यो गजाली सांगून दुडू उठोवपी फुडारी ताणें पळयल्ले. ताणें आपले पिशवेंतलें लाखां

बंडल भायर काडून भेणू मुखार नाचयत म्हणलें, “ हे पळय एक लाख! पळयला केन्ना तुज्या आज्या-पोणज्यान? ही संद परत मेळची ना. सोडीत जाल्यार माती खातलो.”

लाखाची गजाल आयकून भेणू मात्सो विचारांत पडलो. लाखच कित्याक, ताच्या घरांत धा हजार रुपये केन्ना जमले ना. मातयेचे वण्टींचेर माडांचीं चुडटां आनी करड पातळोवन रावतालो ताचो घराबो. ताका दिसलें हे एक लाख रूपये घेवंचे आनी घराक सुलचे नळे घालचे.

“कितें चिंता रे, घे हे मेजून आनी लाग कामांक.”

सोनू ताणशेलो. त्या ताणशा वांगडाच भेणूलो देव जागो जालो. ताचें काळीज धडधडूंक लागलें. ताच्या पंगडांतले वांगडी ताचेकडेन टक लावन पळोवंक लागले. वाठारांतले सगळे देव भेणूक पळोवन हासूंक लागले. तांच्या हांसपांत अडेच्या दुडवांक फाट करपाचो आदेस आसलो. तो आदेस मानून भेणून सोनूक सांगलें - “लाख नाचोवन म्हाका भरीक घालूं नाका. हांव दुडवां आशेचो न्हो. म्हाका दुडू नाकात. तूं तुगेली वाट धर!”

सोनून आपली वाट धरचे आदींच भेणू थंयच्यान कडसरलो. तो ह्या फुडें कसल्याच पापाचो धनी जावंक तयार नासलो.

सोनू खेमल्याकडेन गेलो खरो पूण ताणें खरेली गजाल लिपोवन भलतीच सांगली. लाखाचें बंडल ताणें आपल्या घरांत पुरून थेयलें. भेणू एका लाखाक बदचेलो ना. ताका आनी चार तरी दिवंचे पडटले म्हणपाचें सोनून खेमल्या मुखार उलोवन दाखयलें. तें आयकून खेमल्याक आपूण जिकल्याचोच भास जालो. आनीक चारच लाख कित्याक, खेमलो सरपंच जावपाक धा लाख खर्च करूंक तयार आसलो. ताणें आनीक कळाव केलो ना. तेच रातीक चार लाखांची सुटकेस घेवन ताणें सोनू वांगडा भेणूलें घर गांठलें.

खेमलो देसाय आपल्या दारांत आयला तो पळोवन कोलो, भेणूचो बापूय भुल्लुसलो. येदो व्हडलो मनीस तो. पयलेच खेप आयला तागेर. ताका खंय बसोवं खंय नाका अशें जालें कोल्याक.

देसाय भेणूगेर आयला तेन्ना भेणू घरांत नासलो. घडये तो आपल्या वांगड्या

वांगडा मिटिंगेक बी आसा जावंये. भेणू घरा ना तो पळोवन खेमल्याक आयतीच संद मेळ्ळी. ताणें गोड उतरांनी कोल्याल्या घरच्यांची खबर घेतली. भेणूली तोंड भरून तुस्त केली. ताणें म्हणलें, “आयज तुगेलो पूत पंच म्हूण वेंचून आयला. फुडें तो विधानसभेंत वचून मुखेलमंत्री लेगीत जायत. कितें म्हणटा रे सोनू?” देसायान सोनूकडेन पळोवन प्रस्न केलो.

“तुजे असल्याचो आदार मेळ्ळ्यार कित्याक जावंचोना?”

“कोलोदाद, तूं तुज्या पुताक सांग म्हाका सरपंच जावंक तेंको दी म्हूण.”

“हांयें कित्याक सांगों जायें, तेका मोत ना तोरू? धाई शिकला तो. म्हाज्याऊन तेका गिन्यान चोड. तोच आमकां बोरे-वायटाच्यो होबरो सांगता.”

कोल्यालीं उतरां आयकून खेमलो निर्शेलो. ताका दिशिल्लें, कोलो म्हणटलो, “देसायबाब, तूं कांयच भियोंव नाहां. भेणू म्हाज्या उतरा भायर ना. हांव सांगतां तेंच तो कोरतोलो.” पूण तशें घडलें ना आनी फुडें घडपाचीय शक्यताय ना, अशें खेमल्याचें मत ताका सांगूक लागलें.

आतां वेळ करून कांयच उपेग नासलो. खेमल्यान सुटकेस फुडें केली. सोनूक ती उकती करूंक लायली. पांचशे-हजार रूपयांच्या नोटांनी भरिल्ली सुटकेस पळोवन कोल्या बायलेक घुंवळ आयली.

घरांत एकूच बोवाळ जालो. शेजारी-पाजारी धावन आयले. कोणें कांदो नाकाकडे धरलो. कोणें धुंवरी दिली. कोल्या बायल साबुद्दीर येवंचे आदींच खेमलो आनी सोनू गाडयेंत बसून खिणांत निसटले. वतना सुटकेसीची जतनाय घेवंक ते विसरले नात.

दुसरे दिसा खेमलो परत एकदां भेणूल्या घरा कडेन गेलो. पूण तो गाडयेंतलो देवनासतना तसोच बसून रावलो. भेणूक आपोवन घेतलो. कांयच उलयनासतना सुटकेस भेणूले सुवादीन केली, “सुटकेसींत चार लाख आसात.” इतलेंच खेमलो उलयलो. बाकीचें भेणून समजवपाचें आसलें.

“देसायबाब, रातीं हांव घरा कडेन नाहलों. पूण ही सुटकेस पळोवन किदें घोडलें तें माका म्हाज्या बापायन सांगलां. हे दुडू आमकां कशेच पोचपा ना. तेन्ना उपकार करून तूं ते माज्या दोळ्यां कडसून पयस कर. ह्या फुडें हांव तुका आनी

कितेंच सांगों सोदिना आनी कितेंय उलोवंक जाय तर तूं मामाक वोसोन मेळ."

भेणून खेमल्याक फुडें उलोवंक वाट दवरली ना. खेमलो मामाक टाळूंक सोदतालो. सोगले उपाय सोंपतकच मात ताका मामाक मेळचोच पडटलो, हेंय तो जाणा आसलो. तुर्ताक ताणें भेणूक पिसो मानून लाख कुशीन दवरले.

खेमल्याक आतां एक सत कळून चुकलें. न्हयवाड्यार पयशांक लागून शेंण ना खावपीच लोक चड आसात. तांचे मदें भंय निर्माण करूनच आपल्याक जाय तें करून घेवंचें पडटलें. पुलीस आनी सरकारी अधिकारी सत्ते फाटल्यान आसतात हेंय खेमलो जाणां आसलो.

जें काम लाखांनी जायना, तें सोऱ्या घोटान जाता, हाचो अणभव खेमल्याक आसलो. खंयच्याच गांवांत एकान एक मनीस नितीमत्तेन भरिल्लो आसूंकच शकना. तशें जाल्लें जाल्यार स्वर्गाखातीर वयर बोट दाखोवपाची कोणाक गरज पडची नासली. खेमल्यान गुदांवांतले दोन गार्राफांव भायर काडले. एका बेबद्याक सोदून काडलो. त्या बेबद्याक गांवांतल्या सगल्या बेबद्यांक एकठांय करपाची वोर्द ताणें सोडली. ते खातीर ताणें त्या बेबद्याच्या हातार पांयशांची नोट थेयली. गांवांत जितले बेबदे आसात तितल्यांकय दोन वरां भितर ह्या वडा मुंदांत आपोवन हाड. जणेक बेबद्या फाटल्यान दोनशें रुपये आनी एक काजू फेणयेचो गार्राफांव दिवपाचो कोंत्राद केलो. मागीर घे! बऱ्या बेबद्यां वांगडाच उजो लावणे, वीख वोंकणे आनी आयतें खावणे बेबदे वडा मुंदांत एकठांय जाले.

सगळ्यांत पयलीं खेमल्यान कितें करचें? जणेका हातार दोनशीं रुपये थामयले. उपरांत एक गार्राफांव मुखार दवरलो. सोडले सगळ्या बेबद्यांक गांवार. घालो बेबदे गुंडांनी धुमाकूळ गांवभर. एक-दोन घरां लासलीं. कोणें लासलीं कोणाक खबर ना. खबर आशिल्ल्यांनी तोंडाक कुलपां लायलीं.

घरां लासतात तीं पळोवन कांय जाणांक दिसलें पुलिसेक कळोवंचें. पूण पुलिसेक कळोवनूय कांयच उपेग जावंचोना. उलट कळयतल्याकच मार-फार जावपाची शक्यताय.

न्हयवाडो पेट्टा ती गजाल मामाच्या कानार घाली. मामान आनी वगत केलो ना. खुर्सा वाड्यावयल्या पंचवीशेक तरनाट्यांक घेवन धांवलो न्हयवाड्यार.

एकान एक बेबद्याक काडलो बडोवन. असल्या वेळार खेमलो आनी सोनू मात खंय तरी पयस लिपून बशिल्ले.

खुरीसवाड्या वयल्या किरिस्तांवांनी न्हयवाड्या वयल्या हिंन्दूची राखण केली. ना तर हिन्दूच कितल्या हिन्दूंचीं घरां लासून गोबोर करपाचे देवाक खबर!

खेमल्याच्या ह्या कर्तुबांक लागून, सरपंचाची वेंचणूक आतां लांबणेर पडिल्ली. खेमल्याकय तेंच जाय आसलें. खेमल्यान आतां चिंतलें. गांवांत परधर्मीय नासत तर स्वधर्मियांचेर राज्य करप सोपें. ही चालय ताची पोकी जाली. तरी ताचो हावेस इल्लोय उणो जालो ना. कोणाय भशेन गांवचो सरपंच जाले बगर रावंचो ना अशें ताणें थारायलें.

भेणूक मात आपूण ह्या खंयच्या संकटांत पडलो अशें जालें. धां च्या सुमाराक सामान व्हॅनीचेर भरतालो भेणू. ताचे तकलेंत विचार फकत खेमल्याचे आसले. खेमल्याची याद येतांच कच्च करून आंग काडटालो भेणू! ताका दिसतालें ऑफिस सुट्टकच घरा वचनासतना मडगांवांच खंय तरी फुटपाथीचेर न्हीदून रात काडची. असले विचार तकलेन घोळतनाच भेणूल्या पात्रांवाच्या मेजा वयलो फोन खणखणलो. आवाज आसलो खेमलो देसायाचो. भेणूलो पात्रांव खेमल्यालो पयसुल्लो सोयरो. एकामेकाक बऱ्या-वायटाक पावपी. बरोच वेळ फोनार खबरो केल्या उपरांत , "बरें रे! तूं कित्याक भियेला, हांव आसतना. तुका जाय तेंच जातलें." म्हण पात्रांवान भेणूचेर नदर मारीत रिशिवर आपटिलो.

भेणूलें काम पुराय जातकच पात्रांवान भेणूक आपोवन घेतलो. बरोच वेळ पात्रांव भेणूच्या चेऱ्याकडे पळयत रावलो. भेणूकडेन उलोवपाक कशी सुरवात करची हाचोच विचार तो करतालो. निमणें ताणें भेणूक प्रस्न केलोच -

"भेणू, तुमच्या गांवांत बरोच बोवाळ चल्ला खंय मरे, कितें चल्लां रे गांवांत?"

"पंचायतेच्यो वेंचणुको पात्रांव. आतां सरपंच वेंचून काडपाचो आसा न्हो!"

"कोणाक काडटात रे सरपंच वेंचून."

"आजून थारोंना पात्रांव. चड करून हे पावट किरिस्तांव जातलो सो

दिसता.”

“तूंय पंच निवडून आयला म्हूण आयकलां हांवें. खरी गजाल?”

“हय पात्रांव. म्हाका खोशी नासली. गांवच्यांनी घातलो म्हाका तंट्यांत.” भेणून लजत लजत सांगलें.

“आतां व्हडलो मनीस जालो तर तूं.”

“छेट! कपलाचो व्हडलो.”

“गांवचो पंच म्हणल्यार व्हडलोच. म्हजेर एक फावोर करता?”

“सरपंच निवडून येवंदी पयलूं.”

“सरपंच निवडून येवंचे आदींच करूंक जाय तुवें फावोर.”

“कसलो पात्रांव?”

“तुवें खेमलो देसायाक तेंको दिवंक जाय.”

“पळोवंया.”

“पळोवंया न्हय दिवंकच जाय. खेमलो म्हजो इश्ट. तो थंयचो सरपंच जावंकच जाय. हावें तुजेर शिर्विस दिवन फावोर केला. आतां तूं म्हजेर कर. ना, तुका तो करचोच पडटलो.”

भेणूक पात्रांवाली दादागिरी सोंसलीना. भेणून फावोर घालून पात्रांवा कडच्यान शिर्विस मेळयल्ली खरी. पूण ताणें ते बदलाक स्वाभिमान घाणाक दवरूं नासलो. भेणूक गांवच्या लोकांनी वेंचून दिल्लो. ताचें श्रेय गोंदू-मामाल्या पंगडाक आशिल्लें. तांचे मर्जे भायर भेणू आपल्याक जाय तशें कितेंच करूंक शकनासलो. ताणें पात्रांवाक सांगलें, “पात्रांव, हांव तुका आतां कितेंच सांगोंक शेकना. फाल्यां सांगतां कितें तें. आज म्हाका घरा वोसोन उलोवं दी.”

“तूं वच आनी कोणाकडेन कितें उलोवंक जाय तें अवश्य उलय. म्हाका कांयच फरक पडचोना. तूं खेमल्याक तेंको दिशी जाल्यारच हांगा पांय दी. ना तर तोंड दाखोवं नाका.”

भेणूक पात्रांवालो खूब म्हणल्यार खुबूच राग आयलो. ताका दिसलें तेच खिणांत शिर्विसीचेर खोंट मारची. पूण ताणें तशें केलें ना. ऑफिस सुटपाची तो वाट पळयत रावलो.

ते रातीकडेन भेणू आठांक घरा पावलो. हातांतलें बॅग ताणें दारांत शेवटून मारलें. तसोच ताकतिकेन तो गोंदूल्या घरा गेलो. गोंदूक घेवन तो पावलूल्या मामाक सोदूंक गेलो. पात्रांवांकडेन जाल्लीं सगलीं उलोवणीं ताणें मामाक सांगली. मामाक तें आयकून धक्कोच बसलो. खेमलो इतल्या थरार वतलो हाची मामाक कल्पना नासली.

"म्होणटोकच भेणू आतां तुयें कितें कोरपाचें चिंतलां रे." मामान खंती जावन भेणूक प्रस्न केलो.

"हायें शिर्विस सोडपाचें थारायलां मामा."

"शी:-शी:! तोहें कोरूं नाहां पुता म्होज्या. शिर्विस मुहल्यार पोट मुरे. पोटाक उजो लावन आमहां राजकारोण नाहां. पाड पडों त्या खेमल्याचें." मामान काळजांत सावन स्त्राप सोडलो.

भेणूलो निर्णय आयकून गोंदूक कच्च जालें. आपल्याक लागून भेणूचो बळी वता. ताची शिर्विस गेल्यार, ताचो चालीक लागिल्लो संवसार उबंत पडटलो. आनी हे घडणुकेचें पाप जल्मभर माथ्यार घेवन आपल्याक जियेवचें पडटलें. आनी गोंदूक तें नाका आशिल्लें. तेन्ना ताणें मामाक म्हणलें, "मामा, पुरो जालो हो खेळ आतां. गांवांतलीं दोन-तीन घरां लासलीं. भेणूली शिर्विस वोचपाच्या मार्गार आसा. हे फुडेंय कितले बळी वचत कोणाच्यान सांगो येता?"

मामान चिंतलें, गोंदू खरें उलयता. मागीर आतां कितें करप. खेमल्याक ताका जाय तशें करूंक दिवप? असल्यांनी खेमलो मात्तलो. आख्या गांवचो विद्वंस करून सोडटोलो. ताका बुद्द शिकोवपाची हीच वेळ जावन आसा.

"बाब गोंदू, हो प्रोस्न तुजो एकट्याचो ना रे म्होज्या भावा. कॉमेस केल्लो सोंगोर्श आमकां निमणे मेरेन चोलोवंचो पोडटोलो. कितलेंय लुकसाण सोंसचें पोडलें जाल्यार लेगीत."

"तूं म्हाजे शिर्विशेचें चिंतूक नाहां रे गोंदू. ह्या फुडें हांव मडगांवां पायों दिवंचो ना. ती शिर्विस करून माहां दोन हजार गावता. हांव गांवांत काम केल्यार उणेच चार हजार कमावंचो ना रे?"

भेणूलीं उतरां आयकून गोंदू अजापांत पडलो. भेणूले विचार आयकून गोंदूक आनी मामाकय आतां चडच नेट आयलो. भेणूनय आपलें मत पक्कें केलें. कोणाय भशेन खेमल्याक तेंको दिवप ना. आपलो निश्चेव ताणें पक्को केलो.

मनीस कितलोय बळिश्ट आसलो, तरी भंय ताची फाट सोडिना. खेमलो बळिश्ट आसलो. ताचे कडेन खोटांनी पयसो आसलो.पुलीस ताचीं उतरां झेलताले. मंत्री ताचें आयकताले. गांवकार ताका सलाम करताले. पूण आतां तो भियेतालो फकत खुर्सावाड्या वयल्या किरिस्तांवांक. गांवांतल्या हिन्दूंचो आदार आसलो, तर मात तो ताचें कोंत करचो नासलो. खेमल्याल्या गुंडांक आनी बेबद्यांक किरिस्तांवांनी बडयले ते हिन्दूनी तांकां तशें करूंक तेंको दिलो म्हणूनच. ह्या फुडेंय किरिस्तांवांच्या आदारान ते आख्खो दुर्गवाडो लासूंक फाटीं-फुडें सरचे नांत, हें आतां खेमल्याक कळून चुकिल्लें. तेन्ना कोणेंय तरी आपल्याकडे येवन तडजोडीची उलोवणी करचीं अशें खेमल्याक दिसतालें. आनी मामाक? मामाच्या मनांत तर खर वादळ उठिल्लें. वेंचणुके उपरांत गांवांत कितें घडलें तें मामान आपल्या दोळ्यांनी पळयल्लें.

आपूण सरपंच जालों जाल्यार, लोकांक त्रास करपाचें काम खेमलो करतलो. खेमल्याले गूंड गांवच्या लोकांक सतायतले. चड करून भेणूक, गोंदूक, कुश्टाक बी दीस-रात ते नाका जीव करून सोडटले. गांवांत गट पडटले. मारामारी-जाळपोळी जातल्यो तेन्ना तडजोड करून खेमल्याकच सरपंच केलो तर गांवांत सुशेग जातलो अशें मामान चिंतलें.

मामान कळाव केलो ना. आपूण भेणूक घेवन मेळपाक वाड्यार येतां म्हण खेमल्याक रकाद धाडलो. रकाद मेळना फुडें खेमलो भुल्लुसलो. कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन म्हणटात तशें खेमल्याचें जालें. खेमलो स्वता जावन मामाकडेन वचपाचो आसलो. ही ताचे द्रिश्टीन ल्हानपणाची गजाल आसली. ती वेळ ताचेर आयली ना.

दुसरे दिसा सकाळच्या धा वरांचेर मिटींग दवरिल्ली खेमल्यान. मामा धरून आठ जाणांचो चोमो खेमल्याक मेळपाक गेलो. चोम्यांत गोंदू, भेणू आनी गणसूचोय आसपाव आसलो. एका प्रशस्त सालांत बसकेची वेवस्ता केल्ली खेमल्यान. ह्या राजांगणाच्या पोरण्या घराक गांवचे लोक वाडो म्हणटाले. सालाच्यो वण्टी

पुर्वजांच्या फोट्यांनी सजयल्ल्यो. सालभर कोरायल्ल्या-कोतरायल्ल्या कदेलांचेर मोव-मोव लोडां मांडून दवरिल्लीं. ह्या सालांत सामान्य लोकांक प्रवेश केन्ना मेळनाशिल्लो. आयज मात एका दुकानार काम करून म्हयन्याक दोन हजार कमोवपी भेणू ह्या लोडांचेर येवन बशिल्लो.

खेमल्यान मेळूंक आयिल्ल्यांक हुनहुनीत येवकार दिलो. मागीर चड कळाव करिनासतना आनी मातय अनमननासतना मामान उलोवणी सुरू केलीं.

ताणें म्हणलें, "देसायबाब, आमी इंगा तुकोडे कोंप्रोमायज कोरूंक येयल्या." मामान आपलें मन खिणांत उक्तें केलें.

"कसलें कोंप्रोमायज." खेमल्याक आपूण त्या गांवचो न्हयच अशें करून दाखयलें.

"तुहां सोगली फोबोर आहा. तोरी सांगतां. गांवचो सोरपोंच कोणें जावंचो हें सोगलें पोंचांनी एक जावन उलोवंचें, ओहें ह्या भुरग्यांक दिसता."

"तांकां अशें कित्याक दिसता?"

"गांवांत सोवोस्काय आसची म्होणोन. न्होयवाड्याक उजो पेटला तो तेणी पोयला. तेंका हे फुडें ओहलें घोडलेलें नाहां." मामा उलयतना खंती जालो. ताच्या दोळ्यांतल्यान अचळय दुखांचे दोन थेंबे गळ्ळे.

"मागीर कितें करूया म्हणटात तुमी."

"आमी सोरपंच तुहांच कोरूंक सोदतां."

हें आयकून खेमलो थंयचे थंयच चाट पडलो. ताका दिशिल्लें मामा आनी ताचे वांगडी ताका धमकावण्यो दिवंक आयल्या जातले म्हण. पूण हांगा भलतेंच जालें. तरी खेमल्याच्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकलीच.

"तुमी सोंपेपणान सरपंच दिवंक तयार जाल्यात? तुमची कसलीय चाल बी ना मुरे?"

"आमी कोहलीय एक चाल शेवली तोर तूं धा चाली शेवतोलो; हें जाणाय आमी देसायबाब! आमी तुका सोंपेपणान सोरपोंच कोरूंक सोदिना. आमचीं कांय कोंडिशनां आहाय. तीं तुहां मानचीं पोडटलींच." खेमलो 'कंडिशनां' हें उतर आयकून दचकलो. आयज मेरेन कोणालीं कसलींच कंडिशनां मानून घेत़्लींना खेमल्यान. सदांच तो म्हणत ती पूर्वदिशा जाताली. पूण आयज ताका मामाल्या

कंडिशनांचो विचार करचोच पडटालो. ना तर ताचें सरपंचपद वतालें.

"उलय तुगेलीं कंडिशनां." खेमलो उत्सुक्तायेन मामाच्या चेऱ्याकडे पळयत रावलो.

मामा आपलीं कंडिशनां तोंडपाठ करून आयिल्लो. ताणें एकेक सवकासायेन मांडूंक कॉमेस केलें. ताणें म्हणलें-

"आमची पोयली ओट ओशी, हाल्यां सकाणी बारकेल्याचे बायलेक तिच्या घारा व्होरोन सोडपाची. ह्या फुडें तिका कोणाय भासेन पोत्ती घारांत झेवपाची न्होय. दुसरी ओट, बारकेल्याल्या भाटां-बेसांचेर केदनाच दोवो दवच्चो ना. पालवी सोरपोंच म्होणोन आमचो भेणू काम कोत्तोलो. तुज्या मोडगांवच्या इश्टाक सांगोन भेणूक कसलीच कास्तीग दिवपाची ना. गांवांतल्या दुर्बोवांक सतावोप ना. तुयें भेणूक दिवपाक धाडलेले ते पांच लाख जोणेका वाड्याक एक-एक लाख दिवप. ह्या दुडवांचें कितें कोरपाचें तें आमी थारायतोले. तुज्या कामाचेर आमचें शिंतीद आसतोलें. जोर तोर पोंचायतेचो कारबार तुकोडच्यान सारको चोलोना ओहें दिसोन येयल्यार, तुहां आमी हुंयचेय वोगतार उडोवंक शकतांव, हें मात मोतींत धोर."

मामाल्या उतरांनी धमकी आसा, हें ना समजपा इतलो खेमलो पिसो नासलो. ह्या कंडिशनांनी आपूण फकत नांवाचो सरपंच उरतलों, हें तो जाणा आसलो, तरी ताणें मामालीं सगलीं कंडिशनां मानून घेतलीं. फुडें कितें घडटा तें घडटा, पूण आतां ताका सरपंच जावपाची चड गरज आसली. देवाचे उपकार मानून खेमलो देसायान माराणाचीं बॉक्सां लासून गांवांत गडगड करून सोडलो.

गोंदूक फाव तीं वर्सां जाल्लीं तर ह्या वेळार गांवचो सरपंच तोच जावपाचो. खेमल्यान केद्दोय आकांत केल्लो जाल्यार लेगीत गोंदू हाता-पायांकडेन आयिल्लें सरपंचपद सोडचो नासलो. गोंदूक सत्तेची आस नासली. पूण सत्ता हातासून तिचो उपेग आदर्श गांव करूंक करचो अशें ताच्या मनांत आयिल्लें. पूण आतां ताका कळून आयलें की लोकशायेंत सत्ता मेळयतलो तर दुर्गुणी लोकांचे पायें धरचे पडटात. आनी तें काम फकत दुर्गुणी लोकूच करूंक शकतात. गोंदू असल्या लोकांक तें परवडपाचें ना. गोंदून थंयचे थंयच निश्चेव केलो. ह्या फुडें आपूण फुडारी जावपाचे भानगडींत केन्नाच पडचो ना. सत्ते खातीर तर नाच ना!

दुसरे दिसा सकाळीं खेमल्यालो दूत वोंवळाक घेवन गोंदूल्या दारांत उबो. वोंवळाक ताणें आंगणांत सोडलें आनी धमकायलें, की आयज सावन तें खेमलो देसायाल्या दारांत पांय दिवंचें ना आनी दिलोच तर, तंगड्यो मोडून परत हांगा हाडून सोडटलों.

गोंदून आपले आवयक हाताक धरून भितर व्हेली. तिका आपले काकेचे सुवादीन केली.

गोंदूक आतां ताका जाय तें मेळ्ळें. आवय मेळ्ळी. खेमलो जमीन बळकायत म्हण भंय आसलो, तोय पयस जालो.

गांवांतल्या भुतांक, लोकांक तीं पिडचीं न्हय म्हण, बेल्यांत भरून दवरतात ते वरी गोंदून, मामा आनी हेरांच्या आदारान गांवच्या सरपंचाक आपले मुठींत दामून थेयलो. ताचो तो आपल्याक जाय तेन्ना, जाय तसो उपेग करून घेवंक शकता अशी ती एक तजवीज आसली.

देव मनशाक ताचें मन पळोवन धन दिता अशें म्हणटात. गोंदूक देवान विचारधन दिल्लें. ह्या धनाचो उपेग गांवचे उदरगतीक जावंचो अशी देवाची इत्सा आसा, ही गजाल गोंदूक कळून आयिल्ली. गांवची उदरगत जातली तर गांवच्या लोकांक एक नवी दिका दाखोवपाची गरज आसा अशें गोंदूचें मन ताका सांगूंक लागलें. गोंदून गांवांतल्या सगल्या तरनाट्यांक एकठांय केले. तांकां देड-दोन हजार रूपयांच्यो चाकऱ्यो सोडूंक लायल्यो. गांवांतलीं पडंग शेतां कसपाची एक येवजण तयार केली. गांवांतल्या तरनाट्यांकच न्हय, तर ल्हाना-व्हडांक एकठांय केले गोंदून. सगळ्या लोकांक आपली येवजण समजावन सांगली. ही येवजण गांवांक कितली लावकारी आसा, हेंय सगळ्यांक पटोवन दिलें.

गोंदूलें उलोवप वयल्या वयलें नासलें. गोंदून गेल्ले वर्सा आपलें इल्लेंशें मरड रोवन खुबशें पीक घेतिल्लें. तें पीक पळोवन गांवचे लोक आनी सरपंचय अजाप जाल्लो. गांवभर गोंदूल्या मरडाची चर्चा जाताली. गोंदूल्या आतांच्या उलोवपान तर गांवांतलो एकान एक शेतकार जागो जालो. त्याच खिणाक ताणीं गोंदूक आपलो मार्गदर्शक नेमलो आनी ताच्या फुडारापणा खाला एकान एक शेत कसपाचो निश्चेव केलो.

शेतां पाड दवरून दिसवड्यार जगपी लोकांक शेतांत काम करपा खातीर

पोटाची वेवस्ता करपाक दुडवांची गरज आसली. त्या खातीर गोंदून खेमल्या कडच्यान मेळिल्ल्या पांच लाखांतले रूपये खर्च करपाचो प्रस्ताव गांवकारां मुखार मांडलो. आनी सगळ्यांक तो मान्य जालो.

ह्या वर्सा मायाचें निमणें सप्तक गजबजलें. मुरडगांवांतल्या सगल्या शेतांची मशागत सुरू जाली. गिरिजें, कुश्टा आनी कांय जाण्टेले आर्दी पासूनच शेतांत वावुरताले. गेल्ले वर्सा पसून गोंदू वावरूंक लागिल्लो. ह्या वर्सा तमाम तरनाटे शेतांत देंवले. तांकां पळोवन ल्हान भुरग्यांकय नेट आयलो.

ह्या आर्दी शेतकार मनांत येता तशें कशाकशेंय काम करताले. आतां गोंदूले येवजणे परमाण काम जावंक लागलें. शेतांत कॅमिकल सारें घालपाचें गोंदून बंद करूंक लायलें. बदलाक शेण, पालो आनी पावसाच्या निमणे काळांत शेतां-भाटांनी मातलेलीं तणां आनी झोपांचो उपेग साऱ्या खातीर जावंक लागलो.

गोंदूलें खरें नांव आसलें गोविंद. हें कृष्णाचें दुसरें नांव. आनी कृष्ण हो हे कृषिप्रधान राष्ट्राचो वाटाडो. गवळी-धनगरांच्याच कित्याक, सबंद देशाच्या गोरगरिबांल्या पोरांच्या संगतीन वावुरपाची इत्सा मनांत बाळगुपी. गायां-पाड्यांच्या शेंपड्याक धरून चलपी. गाय-बैलांच्या शेण-मुतांत सूख अणभवपी. तरी प्रसंगार व्हडले-व्हडले राजा-सम्राटांक बरी बुद्द दिवन, तांकां बरी वाट दाखोवपी. दुश्ट बुद्दीच्या दैत्यांक दाळाक लावपी. स्वता राजसत्तेची आस मनांत बाळगी नासतना दुर्बळांच्या कल्याणा खातीर झटपी. असल्या श्रीकृष्णाचो आदर्श दोळ्यां मुखार दवरून वागपी गोंदू, फिरंग्यांनी दाखोवन दिल्ले वाटेन कसो वचत? देशांतल्या शेतां-भाटांचो नाश जाता तो पळोवन, चार पुस्तकां शिकलो म्हण, बंद हारशांचे कुडींत बसून कसो रावत?

शिक्षणांत आनी सगळेच बाबतींत हुशार आशिल्लो गोंदू. कासांटो मारून शेतांत देंवलो. ताच्या हातांतलें खोरें-कुदळ पळोवन न्हिदिल्लें सैम जागें जालें. सैमाक दिसलें की साक्षात श्रीकृष्णच ताच्या उद्दाराक धांवून आयला. सभोंवतणच्यो वृक्षवेली, झेमत झेमत जियेवपी मोनजात, दिसान दीस सुकत आशिल्ले व्हाळ-न्हंयांनी गोंदूक येवकार दिलो. सुर्यान ताका ऊब दिली, चंद्रान शितळसाण भोगयली.

आखखो कोंडवाडो सैमासयत आपल्याचेर प्रसन्न जाला, हें पळोवन गोंदूक

खंयचो नेट आयलो देवाक खबर. ताणें आपली कुदळ नेटान धर्तरेर मारली. धर्तरी फुटून दिपळ्यार दिपळो वयर येवंक लागलो. ताका आतां देहभान उरलें ना. ताच्या आंगांतल्यान घामाच्यो पावळ्यो व्हावंक लागल्यो. घामाच्या थेंब्यांनीं दिपळे भिजूंक लागले. ताच्या घामाच्या अभिशेकान धर्तरमाय प्रसन्न जाली. तिणें गोंदूक आशिर्वाद दिलो.

गोंदून आतां खण्णी थांबयली. कुदळ खांदार मारून तो वयर आयलो, तेन्ना गिरिजें आपल्या भुरग्यांवांगडा गोंदूच्या येवकाराक उबें आशिल्लें. ताका दिसलें ताच्या फाटल्यान वोंवळ आनी बारकेलो जोडप्यान उबीं आशिल्लीं, आतां तांकां दोशीं करपाचो कापाजदाद ना खेमलो देसायाकडेन आसली, ना आखव्या मुरूडगांवाकडेन.

कोंडवाड्या वयल्या उजवाडाचीं भांगराळीं किरणां मात आखव्या गांवांक आपल्याकडेन आकर्शून घेतालीं.



‘समर्पणा’ फाटोफाट ‘गोंदू’ उजवाडाक येता. ही काणी कोंडवाड्यावयल्या एका दुर्भागी गावड्या कुटुंबांत जल्माक आयिल्ल्या गोंदू ह्या हुशार आनी हिकमती भुरग्याची. भुरगेमनाचे पापुद्रे ल्हवपीक हातांनी विस्कावन दाखोवप हें भोव कठीण काम. पूण नंदाबाबान कुशल कलाकाराचे कळाशेन तें साध्य करुन दाखयलां. बापूय आपणाल्या भाटकाराचे सांगणेत रावन अडेचे झेत करपी आनी आवय भाटकाराली ‘दवरलेली’ म्हूण रावपांत खोस मानपी आसुनूय गोंदूचेर संस्कार जातात ते काकीचे आनी हरीमास्तराचे. भुरगेमनाचेर बरे संस्कार केले जाल्यार तो बरो मनीस जावं येता आनी ताच्या मनांत बरे हावेस रुजयले जाल्यार तो व्हड आनी जैतिवंत जावं येता हेंच ही नवलकथा अधोरेखीत करता.

हे कादंबरींतलीं सगलीं पात्रां जितींजिवीं कशीं दिसतात.

– दामोदर मावजो